# अनन्य केनिया

मूल लेखक : **सुधाकर आर पै**

इंगळीशांत साकून भाषांतर

**सूर्या अशोक**




**शेणै प्रकाशन**

कोची

2010

Konkani Travelogue
# ANANYA KENYA

Translated from English by:

**SURYA ASHOK**
19/36 A, 'Srinivas',
Waterland Road, Kochi-682 006.

First Edition 2010





Published by
**SHENOY PRAKASHAN**
19/36 A, 'Srinivas',
Waterland Road, Kochi-682 006.

Printed at
**VASANT INDUSTRIES**
Town Hall Road, Kochi-682 002



Price : ₹ 250/-

**SUDHAKAR R. PAI,** the original author of this travelogue, is at present Senior Divisional Manager of LIC of India, Kozhikode Division. 'Ananya Kenya' is the life account of his two year sojourn in Kenya on a deputation from his company. He is also a very talented artist. The cover and the illustrations in this book are by him.




# पूर्वरंग

प्रवास वर्णना साहित्याचो एक मुख्य वांटो. हांगा केरळांतुले कोंकणी साहित्यांत प्रवास वर्णना खूब पुष्टी पावनु आशिल्लो एक विभाग. साबार यात्रा विवरणां साबार अनुकालिकांचेर छापून आयलेलीं आसाय. तरीय पुस्तक रूपान आतां पर्यंत प्रकाशन जाल्लेंना म्हूण दिसता. क्षणिक आनी सान यात्रेचें विवरणे पुस्तक रूपान छापूक पांवचेंना. ते खातीर साबार दिसानी केल्लेलें एक सुदीर्घ यात्रेचें विवरणच जांवका. तसली यात्रा केल्लेलीं कोंकणी जनां केरळांत आसाय तरीय तांचे हातानी तें कांय वाचकांक मेळ्ळेंना.

2002 त मिगेले म्हालगडे भावाक कामाचे विशीं केनियांत वचें पडलें. थंय साकून हांगा आशिल्ले आमकां वाचूक जावनु थंयचें खबर ई-मेल करूक लागलो. तें इंगळीशान बरयलेलें सुंदर विवरण वाचून पुस्तक केल्यार बरें आसतलें म्हूण हांवें सांगलें. तेन्ना मिगेले म्हालगडे भावान ताचें कोंकणींत परिभाषा करचें कार्य मिजेरीच सोंपयलें.

माका अणकार करूक मेळ्ळेलें मूळ इंगळीश विवरण इतलें सुंदर आनी वास्तविक रूपाचें आशिल्लें कि हांव स्वयं केनियांत वचून भोवनु पळयलेल्याचो अनुभव जालो माका. सुंदर सैम दृश्यां पळयतना दिसचो तो आनन्द, हे ते मृगां विशीं दिसचें कौतुक वा भय, उज्वल सैमिक प्रतिभासाचे दर्शनान अनुभवचें उत्तेजन, कित्याक सांगचें, एक अपघाताचे विवरणांतुल्यान हड्डें पिळचे तसलें तीव्र दुख अनुभवून माका रडणेंय फुटलें.

साधारण जावनु कोंकणींत वाचूक मेळचीं लघु यात्रा विवरणां

चड करून दृश्यावलोकनांतूच सीमित आसताय. शब्दाचो वा परमळाचो भास, स्पर्शनानुभव आदी वा तांचान खंचेय उडगास जागल्याय तरीय, विवरण बरयतना हांतूले कितल्याचें गिन्यान उडगासांतु येवनु कागतार पांवता म्हळ्ळेलें लक्षांत घेतना हे विवरणाची विशेषता स्पश्ट जातली.

चित्रकलेंत आनी शिल्प कलेंत आशिल्ले निपुणते समान उतरांनी एक जितें जागतें त्रिमान चित्र आमचे दोळ्यां मुकार उबें करचें प्राविण्य हो लेखक स्पश्ट दाकयता. संवेदनशील नदरेन बरयलेलें हें प्रभावी वर्णन वाचतना विविध मनोविकार उठतले. पयलेचें वियोगाचें अनुभववर्णन वाचप्यांचे ताळ्यांत गूळो हाडयता. कार घेंवचो विशय, अंडे मम्माली वा पत्रवोड्याच्यो काण्यो हास्यप्रद आसाय जाल्यार एड्स, कॅन्सर जशी गंभीर समस्यां विशींचें लेख चिंतोदीपक आसाय. अपघाताचे आनी इतर थोडे लेख इतले आकांशाभरीत आसाय कि मुकार कितें जावपाचें हें पळोवूक क्षमा नाच जाता. एकेक वेळार हुस्को भरून आमी त्या जाग्यार न्हय जाल्लेलें बरें जालें म्हूण एकि चिंता मनांत चडता. वाचप्यांक एक प्रत्येक प्रतीक्षेचे तलार व्हरूक तांक आशिल्लें तं हें नवरसप्रद बरप. अंतर्मुख मनुष्यांक सैमाकडे पळोवूक उत्तेजन दिंवचें तसलें हें.

जशी खाण जेवण रुचिक करूक एक रांदपी मीट मसालांचो उपयोग करता तशीच हें विवरण मीट, मीरें, आंबसाण, गोडसाण, मसाला आदी जाय तितले मात्रेन घालून मायेमोगान तयार करून रुचिक आनी आगळेंवेगळें केल्यां. आनी हाजी रूची माका इतली लागल्या कि कितलेंय रुचल्यारीय पावना म्हळ्ळेले तराचे वळवळसाणे कदी जाल्या. मात्र न्हय हे भाषांतराचें दंद समाप्त जांवचानिक भोवूच रित्तें रित्तें दिसता.

इंगळीशांत साकून अणकार करूक तुलन करतना अन्य भारतीय भासेंतुल्यान करचे पशी कठिन आसा अशी मिजो अनुभव. श्री प्रकाश जी थळी हानी तयार केल्लेलो इंगळीश कोंकणी शब्दकोश हे भाषांतराचे संरंभांत माका अत्यधिक उपकारप्रद जाला म्हूण सांगचें पडता. हाजे दंदांत लागलेले तेन्ना माका भो खुशीच भोगल्या. आमचे मोवाळ कोंकणींत एकेक वाक्यय सुंदर दिकतना जांवची अनुभूति विवरणातीत आसा. आनी हे प्रवास वर्णने पासून माका भारी तृप्ति, भोव अभिमान भोगता. वाचकांकय हाजी रूच लागतली म्हूण आशा करतां.

हे संरंभांत इंगळीशान विवरण बरोवनु तें भाषांतर करूक अनुवाद दिल्लेले खातीर आनी हे पुस्तकाक सुंदर मुखचित्र तशीच इतर चित्रांय रचलेले खातीर हांव मिगेले म्हालगडे भावा लागी आभारी आसा. तशीच 'पत्रवोडो' नांवांन मूळ कोंकणींन बरयलेलें एक लेख हांतू आसपावूक माका अनुवादूय दिला.

हे संरंभांत माका मार्गदर्शन दिवपी आनी हे परिभाषेक प्रस्तावना बरोवपी श्री शरतचंद्र शेणै हांकां हृदयपुरसर उपकार सांगतां. माका सदांच प्रोत्साहन दीवनु येंवचे मिगेले प्रिय कुटुंबाक तशीच इतर मायेस्त जनांकय उपकार सांगतां. हो पुस्तक सुंदर रूपान मुद्रण केल्लेले कोचीचे वसंत इंडस्ट्रीस हाजे कर्मचार्यांकय मिजो उपकार.

हें प्रशंसनीय प्रतिभाशाली बरप मूळांत कोंकणींत न्हय जाल्लेलें कोंकणी साहित्याचें व्हड नष्ट म्हूण चिंतून अनन्य केनिया पसून आशिल्ले ते अनन्य वर्णनेचो हांवें केल्लोलो हो विनीत अणकार कोंकणी मातेचे पायांकडे समर्पण करतां.

- **सूर्या अशोक**

# अनन्य जीणेची अश्रेकणी

हालींच्या काळांत म्हायती विज्ञानीय रंगाचेर बरी प्रगती जाल्या. ताका लागून आतां चडीत जावन आयकूक येंवचें एक हें - संवसार खूब आंखडला. पृथ्विगोळ एकाद्रो गांव कसो जाला! म्हणून म्हणून परणी जावपी म्हणी ही. सगळेंय लागी लागीशें जाल्यां खंय! जाल्यार हांतूं तथ्य कितलें आसा तें सोदल्यारीच कळत. खंय आसा एक तो गांवगिरो मनीश आनी खंय आसा हो आतांचो मनीश? लागी लागी न्हय, हो आतां एकामेका पासून पयसूच वचत आसा. भूगोळ चिड्डून संकुचित जावंक ना, संकुचित जायत गेल्यां तें मनशाचें हरदेंच म्हणूंक जाय. एकामेकाची वळख घेवप आतां केवल नांवां पुरतें वा फायद्या पुरतें जांवक ना? आपापल्या घरा दफ्तरा भोंवतणूच पुराय संवसार म्हणपा वरी जांवक ना? वळखुया, हें एक जाळें आमची जीण पोल पोकळ करपी. ह्या जाळ्यांत चड ना ऊणे प्रमाणान घुसपल्यात हे आमी सगळे.

अशे फाटभुंयेर पयसुल्ले आफ्रिकेची, ज्याका एक काळार काळखें भूखंड म्हण्टाले ताची, लागची वळख घेवंक आस्त पावन मुद्दाम थंय वचून राबितो करपी एक मनशाक पळयतना आमी खरेंच अवाक जातात. जेन्ना सामान्य भोंवडेकार विश्वाचीं सप्त महाश्चर्यां पळोंवक सोदतात तेन्ना ताचे उरफाटीं एक कसो रानवाठार प्रत्यक्ष भेटूक वचपी हो मनीश (श्री सुधाकर) खुद्द एक आटवें महाश्चर्य कसो आमच्या मुखार उबो जाता. पुण ताच्या त्या धाडसाच्या कामान खरेंच भांगार पिकयल्यां. एक विस्मयकर वाठाराची समग्र जाण दिवपी, एक अनन्य संस्कृतीची निकट वळख दिवपी अशें हें पुस्तक आमच्या हाताक लागल्यां. एक उकत्या मनाची उमज, जिज्ञासा आनी संवेदना शक्ती, प्रत्यक्ष जीवन अणभवांची समृध्दी, आनी त्यो सुरबूस उतरांनी मांडपाची कळाशी हांचें अप्रूप संमेळन हांगा घडल्यां म्हणिल्ल्यान हें पुस्तक तितलेंच अमोलीक

जावन आसा. सामान्य रूपाचें हें केवल भोंवडे खबर वा प्रवास वर्णन न्हयींच. एक असामान्य वाठारांत वचून राबितो करून पळयल्ल्याचें, थंयच्या प्रत्यक्ष जीवन अणभवांचें सविस्तर वृत्तांत हें. हांतूल्या थेट बातम्यांनी, पर्जळीत उतरांचित्रांनी सर्व ह्या लेखकान, ह्या धाडसी भोंवडेकारान, आपल्या आत्म्याचो एक अंश खंयचे एक कवी भाशेन बसयला. हांतूं कथा आसा, कविता आनी कला आसा. जीण आसा, जीणेची चर्चा आसा. हर्ष आसा, दुःख आनी उद्वेग आसा. धाडस आसा, माये मोग आसा, आनी अथ्रेकणी आसा. पुण इतलें सर्व आसूनूय ही कृती इंगळीश साहित्य म्हळ्या म्हासागरांत घडये विरगळूनूच वचपाची. देखून ही कोंकणींत उतरावन श्रीमती सूर्यान आमकांच न्हय, हे कृतीकय महदुपकार केला. मूल कृतीची अप्रूपाय वळखून घेवन आनी तिचो आत्मो सांबाळून दवरून ही परिभाषा जाल्या.

बर्यांत बरी परिभाषा जन्मुपाक जाय त्या सगल्या उपाधींची, वातावरणांची हांगा सुंदर एकमेळी जाल्या म्हणपाचें वळखूक समजूक हे कृतीचें खंयचेंय एकमात्र पान वाचल्यार पुरो! मूलकृती भोव बरी आसूंक जाय तें खरें, पुण ताच्यानूच जायना, भाषांतरकाराक ती मनापासून आवडूंकूय जाय. तिचे वयर ताका अपुरबाय दिसूंक जाय, आपलेपणाची भावना येवंक जाय. खुद्द आपल्या वाचप्या-रसिकाच्या आत्म्या भायर ताणे मूल लेखकाचोय आत्मो थोडोसो आपणावंक जाय. हेंय पावना, ताका मूल लेखका इतली संवेदना शक्ती आनी उतरांची कळाशी आसूंक जाय. हें अशें सर्व खरेंच हांगा घडून आयल्यां, मेळून आयल्यां म्हणूनूच इतलें सुंदर, इतलें तेजिष्ठ हें भाषांतर आमच्या हाताक लागल्यां.

पुस्तकाची मांडांवळ - दृश्यपथ - पळयतना हाका एकतीस अध्याय दिसतात. हांतूं आरंभावेले दोन अध्याय घरकारांक बरयल्ल्या पत्रांच्या रूपान जाल्यार निमणो अध्याय (आफ्रिकेक अलविदा) लेखकान आपल्या सहप्रवर्तकां मुखार केलेलें निरोपाचें भाषण. आनी कौतुक

म्हळ्यार एक सगळो अध्याय (मोंबासा शहर) पद्य रूपान आसा!

2002 वर्सा मुंबईंत राबून आशिल्लो लेखक नोकरेचें स्थलांतर मेळिल्ल्यान पयस आफ्रिकेचे केनिया राज्यांत वचाक भायर सरता. आपल्या कुटुंबाक सोडून वचपांत मन आकुळपिकुळ जाता आनी आपशींच दोळे ओल्ले जातात तरीय, मुखार केल्लो पाय फाटीं ओडूक जायना म्हूण तो वता. पुण ते वाटेन ताणें स्वीकारल्यां निगूढ दिसपी आफ्रिकेचें साहसी आपोवणें. अशें अर्दे मन हांगा आनी अर्दे मन थांगा करून कांय काळ वता. पयल्या बारा अध्यायांनी आसतात ह्या कालाचे अणभव, गांव वर्णन, भोंवडे खबर, घडितां आदी. नवो गांव परिचित जाल्ले उपरांते मागीर तो एक पावटी घालून कुटुंब सहित (बायल, दोग धूवो) दुशेर येता. तशी चड संतोषाचे, चड भोंवडेचे दीस धांवतात. पुण अवचीत ताच्या काराचो अपघात जाता आनी चेलेलो पाय मोडता. बरे वैजिकीन आनी परिचरणान ती बरी जाता तरीय पूर्णसौख्य जायना. देखून तांणी आफ्रिकेक अलविदा सांगतात. हे भितर दोन वर्सां दांटवतात. देखून त्या दोन वर्सांचे संचितानुभव ह्या पुस्तकांत येतात. सुटये दिसांनी गांव भोवन पळवप, तरातराच्या मनशांली वळख घेवप आनी घराच्यां ओटू, मित्रांच्या ओटू सुखदुःख वांटप हांच्यांनी भरून आसा हें अनुभव पुस्तक.

नायरोबी, मोंबासा, नकुरु, मकिंडू, नायवाशा, मसाई मारा, अशी जायत्या स्थलांची लागची वळख आनी अनुपम वर्णना मात्र न्हय, तांचीं वातावरणांच लेखकान उतरांनी सजयल्यांत. किलिमंजारो आनी अंबोसेलीचो अध्याय परत परत वाचपा सारको आसा. नायवाशाच्या पाणघोड्यां विशीं समग्र विज्ञानावरवीं थंय एक तंबूंत काडलेले रातीची खबर उद्वेगभरित आसा. मसाई मारांत जाल्ली सिंह दळाची भेटूय उद्वेगपूर्ण.

पुण पुराय आफ्रिका रानवाठार न्हय. जायत्या वाठारांनी, सुमारांच्या जीवितांत बरी प्रगती जाल्या. हाचीय निकट वळख आनी खबर लेखक

आमकां दिता. अशी तशी करच्या यात्रां वेळार, खाण जेवणा विशीं विवरसितना, कार, घर वा स्कूलां सोदतना, शोपिंग करतना सगट एक नवे आफ्रिकेचीं चित्रां आमकां दिता. ज्या ज्या कार्यांत तो गांव खूब मुखार पावला ताचेंय उजळ चित्र त्या त्या कडे उबें केल्यां. भारतीय जीविता कडेच्यो सुमार समानतायो परामर्शूंकूय लेखकाक विसर पडलोना, जशें भाज्ये वरीची 'सुकुमा' आनी मुंबई 'धारावी' सारकी नायरोबीचे सीमेवयली झोपडपट्टी. जें कांय थेट व्यत्यस्त आसा ताचो विवरणात्मक उल्लेख तरी आयलाच. मोंबासांत पळयल्ली 'निश्शब्द मोलावणी' तश्यांतुली एकी मात्र.

दोळ्यां सामकार आशिल्याचीच खबर न्हय, सुमार संबंदित विषयांचोय परामर्श थांगा थांगा थळथळता. चरित्रपुरुष 'वास्को ड गामा' जशी भारतांत, केरळांतुल्या 'काप्पाड' वेळेर पांवचे आदीं आफ्रिकेचे मोंबासांत थोडे म्हयन्यांक राबितो केल्ल्याचो परामर्श. नायवाशांतुल्या पापिरस झाडांक धरून ताचें चरित, आफ्रिकेचे फाटभुंयेर ताचें महत्व, पेपर शब्दाचो उगम, पापिरस पयलींच उपेग करपी ईजिप्तीं विशीं आदी खबर.

आनी एक महत्वाचो विषय आसा संस्कृतीचो. जी मूल संस्कृती आफ्रिकेंत आशिल्ली ती आतां ना जायत आसा. हे विषयाचेर बरेच परामर्श ह्या पुस्तकांत येतात. सासणाचें सत्य कशें हें प्रतिपादन पळयात-

*'खंचेय एक संस्काराचे ऊंच आनी एकान आधिपत्य करतना खाणाची रीति तं बदलच्यांत निमणी आसता. वस्त्रधारण, भास, धर्मु आदी आधुनिक रीतीन जाल्यां तरीय आफ्रिकाकारांक आपले आज्येन रांदिल्ले सारकें परंपरागत रीतीन संथ उज्यार, कसलो मसाला वा मीट आपडायनाशें, ताजे नैसर्गीक रोसांत आनी रुचीन भाजिल्लें मांस तं आतांय पसंत...'*

संस्कृतीचे नदरेन म्हायतीपूर्ण अशीं सुमार प्रतिपादनां थंय थंय मेळतात. 'केनियांतुले भारतीय' आनी 'तीन व्यत्यस्त संस्कारांतुल्यान'

ह्या दोन अध्यायांत हो विषय खूबूच मेळता. ह्या भायर थोड्या वांट्यांनी कविता आनी तत्वदर्शनां लेगीन झगझगतात. इतर सर्व वांट्यांनी जाल्ले वरी हांगाय परिभाषा भोव बरीच आसा हें स्पष्ट सांगचें पडता. पळयात -

*'मळब एक कॅनवासा लेकान आसा जाचेर फूडे रचलेलें तृप्ति जावनातिल्ले वरी मेघां नवीं नवीं चित्रां रचूनूच आसाय...'*

*'हांवें विडीयो चित्रांवचे अर्द घंट्या पूरा समयूय एक मिनुलें सवणे ऊंच एक खांद्यार बेसून चिंवचिंव करत राबलेलें. ऊंच आशिल्ले देवदारु रुकांचे कांट्यांचेर साकून दोवा थेंबे मिजे गोमटे मागशी पडत राबलेले. गोळफ लिंक्साचे बरें पालपोसवण केल्लेले एक तणामळार साकून दोवाचीं लिकलिकेंवचीं रूपां ऊंच चडतालीं आनी भोंवतणे प्रदेश सामको जादूचो जालो...'*

*'पुसूक जावनातिल्ले लेकान एक चित्र मिजे मनांत कोरांतून घाल्लेल्या वरी पडल्यां - मसाई मारांत आपले लांब बड्येर तेंकून आपले गोरवांक चरोवन एकलोच राबलेले एक मसाई चेड्याचें. ताचें होडलें निडळ आफ्रिकेनी सूर्याचे रकरकी वोतांत तकतकेतालें. ताजे फूडे ताजो बापा आनी ताजाकय फूडे ताजे पूर्वज अशीच राबलेले आसतले. त्याच जाग्यार गोरवांक राखून. शताब्दां शताब्दां आदीं, रोमा राज्याचे उदय आनी अस्ताचे कालाक, क्रिस्तुदेव भूमीचेर भोवलेले कालाक, पिरेमिडां बांदलेले कालाक...'*

आनी थेट व्यत्यस्त अशे दोन अध्याय जावन आसात 'पत्रवोडो' तशीच 'अंडो मामु'. घडितां घडणूकां भोंवतणी विणलेल्या ह्या अध्यायांनी विनोद आनी उमेदी मनोरंजन आसता.

निमण्या पूर्विल्ल्या अध्यायांनी आसता लेखकाली जीणे काणीच. कुटुंब सहित वतना अवचीत जाल्लो काराचो भीतिजनक अपघात आनी ताचीं पश्चात् घडितां. दुखद खिणां आनी उद्वेगाचे दीस. प्रत्याशा,

परतून निराशा, आखांत, आनी मागीर गांवांत परतून येवपाचो निर्णय.

'आफ्रिकेक अलविदा' दिवपाच्या निमण्या अध्यायांत आसा लेखकालें निरोपाचें भाषणूच, जें अतीव हृद्स्पर्शक आनी भावुक जावन आसा. दोन वर्सां आदीं जेन्ना तो ह्या गांवांत येवपाक एकलोच भायर सरलोलो तेन्ना ताचें मन आकुळपिकुळ जालेलें- कारण तो आपल्या घरच्यांक थंयीच सोडून एक अनवळखी वाठराक एकटुकोच वतालो. पुण घराची जी ओड ताका तेन्ना दिसलेली ते सारकी एक अथ्रेकणी, अजाप, आतांय भोगताली! कांय काळांत एकटोय आनी कांय काळांक सकुटुंबय राबितो करून ह्या अनन्य गांवांतुले अनन्य जीणेची ताका ते साबार गोडी लागल्ली; आनी ताका कळतालें- सोडून वची ती सोडूनूच वचपाची, परत कदापि मेळपाची न्हय!

वाचन सोंपयतना एक अनवळखी वाठार निकट, प्रत्यक्ष पळयल्ल्याचो अणभव आमकां मेळताच खरो, पुण काळजाच्या त्या कोनशान एक अव्यक्तशी अथ्रेकणीय दिसता. लेखकाली अनन्य अशे जीण आमच्याय जीणेचो एक वांटो जाला म्हूण आमी वळखतात...

ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवंक बेसतना हें एक भाषांतर अशें माका दिसूंक ना. वाचनांत खंयीच कसलीच आडखळूय दिसूंक ना. नीज, अस्सल कोंकणी पुस्तक वाचूचे रुचीनच हांवे हें वाचल्यां. देखून ह्या पुस्तकाचें जितलें श्रेय मूल लेखकाक फाव. तितलेंच श्रेय परिभाषिकेकूय फाव जावन आसा. हे कृतीचो मूल लेखक श्री सुधाकर म्हळ्यार हाची परिभाषिका श्रीमती सूर्यालो म्हालगडो भाव. अशें, भाव-भयणीच्या लागच्या नात्यान, रगता नात्यान, ह्या भाषांतराक बरी संपुष्टी मेळ्ळ्या. खरें म्हळ्यार, ह्या दोग भांवडांली ही एक अप्रूप जुगलबंदी! हाचो आमी सगळ्यांनी खूब खूब आस्वाद घेवंया -

- **शरतचंद्र शेणै**

# दृश्यपथ

# आफ्रिकेंतुलो फांतोड

विविध भूखंडांची आनी राज्यांची आकृती मॅपार चोवनु तांकां काल्पनिक मनुष्यांचें, मृगांचें, राक्षसांचें आदी असंख्य रसमय रूपांचीं सादृश्यां संकल्प करप ही मिगेली सान प्राय धरून आशिल्ली सवंय. आफ्रिकेचे मॅपार चोयल्यार पूर्व दिशेरी चोवनु आशिल्ले एक काल्पनिक तोंडावेलो दोळो सरी आसा विक्टोरिया सरोवर. हें सरोवर उगांडा, टानज़ेनिया आनी केनिया हे राज्यांनी घेरून आसा. तशी आफ्रिका भूखंडाचे दोळ्याचो एकु भागु जावनु दिसता केनिया !

तेन्ना भारतांत बेसल्ले माका कसलेकीच निगूढ साहसांत भागु घेवूक आमंत्रित करता सरी दिसतालें तें आफ्रिकेचें तोंड. तें आमंत्रण माका स्वीकार करूक जाल्यां 2002 चे फेब्रुवरी म्हयन्यांत मात्र !

फेब्रुवरी इकरावे तारिकेक मुंबई साकून एयर इंड्या विमानाचेर आफ्रिकेचे पूर्व भाटीरि वचाक जावनु हांव भायर सरलों. खालाक चोयल्यार गेल्ले देड वर्षांक आमी राबलेली एल आय सी कोळनी दृष्टि पडता. आमगेले राज्याचे विविध भागाक तशीच लोकांतुले अन्य भागाकय वचीं सान, होड, भीमाकार विमानां मळबावेल्यान उबचें खूब वेळार आमगेले कोळनींत राबून हांवें पळयलेलें आसा. हांव ते विमानांचेर दृष्टि व्हरता पळोवनु मिगेले मित्रांनी खूब पावटी मिजी मजा केलेली आसा. हांव तांकां सोडून असलेच एक विमानाचेर चडून भारताचे भायर वतलो अशी तांची ती भविष्य वाणी आतां सत्य जाल्या आनी मिगेलोय समय पावला.

एक उज्या पेट्टेचे येद्दें सान जावनु आमगेली वसती दिकीली आनी मिगेली बायल भाग्या, ते आमगेले घराचे बाल्कणीचेर, हांव चडलेलें विमान उबता पळोंवचाक राबील्या जावनु हांवें संकल्प



केल्लो. सकाणी सुमार साडे णव वरां उपरांते विमानाअड्डेंत साकून उबूचे होडले एयर इंड्या विमानांचेर दृष्टि दवरूक हावें तिजे लागी सांगलेलें. विमानां दिकतना हात हालोवनु दाकयन म्हूण तीणे माका उत्तरय दिल्लें. खालाक चोयतना एक हात हालूचो दिकलेले वरी माका दिसलें! तें मिगले कल्पनेचे प्रभावानय जावयात. तेद्दूस साडे णव उपरांत भाग्यान कितले विमानांक चोवनु हात हालयलोलो आसतलो म्हूण माका कळना! मिगले ताळ्यांत एक गूळो सरी भरून आयलो. वातावरण निवळ आसूनूय खालाक दिकूक येंवचें दृश्य कसलेच कारणान अस्पश्ट जालें, धुक्याचें दिसलें...

जुहु विमानअड्डेचो तो कंट्रोल टावर दृष्टीत सान सान जावनु गेलो आनी जुहु समुद्रावेळ दिकूक आयली. ती वळखीची वेळ जिचेर मिगले पावलांचीं लाख लाख छाप लागलेली, उत्तर दिशेर दिगायेन पडल्या. वेळेचे देगेवयले सान सान पाळांचे धवे माळेन मुंबई गांवांक शिंगारला.

मिगलें मातृराज्य भारत मिजे दृष्टींत साकून दूरा सरलें. मिगले 36 वर्षांचे जीवितांत प्रथम जावनु, आतां पर्यांत अनुभव केल्लेल्या पशी चड एकलेपण त्यावेळार माका अनुभवलें. खालाक चोयल्यार सर्व दिकानय समुद्राची निळबाणी मात्र. आनी एक भूखंड दिकू पर्यंत म्हळ्यार आनी पांच घंट्यांक केवल हेंच तं ह्या आमगेले विमानाचे सांगातांत आसतलें.

ह्या विमानाचेर चडलेल्या विशीं माका चिंता येता. चार मास मुर्थम पर्यंत केनिया मिजे मनांत नांयीच आशिल्लें. मिगेले आफिसांतुलें काम हुशार जावनु चमकतालें. ताजे बराबर एम बी ए क शिकतालों. मुंबई गांव ताजे स्थिर आनी द्रुत गतीन चलत राबलोलो. सवाय णव वरांच्यो लोकल इलक्ट्रिक गाड्यो समयार चलताल्यो. तांतुले आमचे सांगाती यात्रिक बेसपाक स्थाय धरूनु दिताले. जनेला लागी गाडीचे

गतीक घूवनु बेसूक आमी झगडताले. सितेंबर इकराव्याचे पासून आमी उलयताले. चर्च गेट स्टेशण साकून आफीस पर्यंत आशिल्लें एक मैल आमी चमकताले. पाव भाजी आनी मिसल खाताले. मसाला चाय पिताले. एक दिसाचे वरी दुसेरो दिसूय वतालो. बजाज इन्स्टिटय़ूटांतुलें सांजे शिकप जावनु राति इकरा वरार घरांत पांवतना पुरपूरो जातालें.

तशी आसतना एक दीसा तें घडलें. केनियांतुले एक बीमा कंपनींत सीनियर असिस्टंट जनरल मानेजराचे पदवी खातीर मुलाखाताक उळदूची एकि सुचोवणी निरुपद्रवी जावनु नोटीस बोर्डार पावली. योग्यता आशिल्यांनी मात्र अर्ज दीवयात. सुचोवणी मिजे लक्षांत पडलीना. कारण, नोटीस बोर्डाचे लागी वा वाटर कूळराचे लागी तेंवय ना कॅन्टीनाचे लागी अनावश्य भोंवची चाल माका नाशिल्ली.

कोणेकी ती सुचोवणी मिजे लक्षांत हाडली. हांव ते कामाक योग्य म्हूण आनी कोणेकी सांगलें. कोणेकी माका अर्जीपत्र भरूक दिल्लें. हांवें थोडे दिसांक तें तशीच दवरलें. हाजे फूडे परदेशाक वचाक अर्जीपत्र धाडून प्रयत्न केल्लेलें मिजे उडगासांत आशिल्लें. मिगेली कसलीय चूकि नासूनूय ताका फलप्राप्ती जालीना अशिल्ली. पुण थोडे दीस वचानिक हांवें लिखणी हातांत काडली. आनी तेहूस तें अर्जीपत्र अधिकार्यांक धाडून दिल्लें.

अर्जीपत्राचे विशीं चिंता तेन्नाच मनांत साकून भायर घाली. भाग्याचे लागी सांगूक सरी हांव विसोरनु गेल्लों. मुलाखाताची आपोवणी मिजे हांतांत पावूनिक भाग्याक जाणोंवका जालें.

भाग्या क्षुब्ध जाली. पूर्व आफ्रिकेंत वचून हांव कितें करूक वता? इतलीच भोंवडी केल्लेली पावलीना वे? परत परत नवे स्थायार वचाक कित्याक भायर सरता? आतां पर्यंत मळ्ळेलीं स्थलांतरां कांय पांवलींनांय वे? मिजे हे 12 वर्षांचे औद्योगिक जिवितांत आंतां

पर्यंत जावनु स पावटी गांव परतलोना वे? सर्वांकय बंजारी जीवित लागता म्हूण लेकलें कांय? आफ्रिकेक काळखें भूखंड म्हूण वळख दिताय नेण कांय? आफ्रिका म्हळ्यार दंड दिंवचे खातीर धाडचो स्थाय म्हूण कळना कांय? कित्याक मिगेलें स्थापन माका दंड दीवूक वता? हांव मिजे अधिकार्यांक गाळी दिता कांय? हांवें दुडवांचे पेट्टेंत साकून फारल्यां कांय? रिश्वत घेता म्हूण धरलो कांय? कित्याक? कोणाक? कितें केल्लें? केदणा केल्लें?

मुलाखाताक वचाक भायर सरशाय! घरकडे साकून मळ्ळें निमणे ताकीद! मुर्थमले मुलाखातांचे अनुभवांत साकून मिजे वरी आशिल्ले अभागीक आफ्रिकेंत वचप तांय असंभव म्हूण हांवें तिजे लागी सांगलें. पुण तिका पूर्ण विश्वास आशिल्लो. रानां-वनां आनी पर्वतां आसूचे जाग्यांक सगट हांव खूब भाग्यवंतूच. कारण मिजे औद्योगीक जीवितांतुलीं सात वर्षां ऊटी, मूनार, नेडुंकंडम अशी भारताचे पश्चिम घटाचेर जियेवनु काडलेलीं.

कायरीं सगट देवाचेर सोडूक हांवें तिजे लागी सांगीलें. देवान लेकल्यार कितेंय जावयात. माका तें स्थान मेळनाशिल्लेंय राबुयात! मागीर कित्याक मुलाखाताक वचुका! वचूनाकाय! तीणे सांगलें. गेलोना जाल्यार हावेंच ताजो निर्णय काडलेल्या वरी जायना वे? देवालो निर्णय कसलो म्हूण चोवया. मिगेले चांगपणाचे खातीर मात्र देवु निर्णय करतलो म्हळ्ळोलो पूर्ण विश्वास माका आशिल्लो. आनी हांवें सर्वय देवाचे हातांत सोडलें.

मुलाखाताचो दीस उद्देलो.
देवान मिजे विशीं निर्णय काडलो.
माका आपोवणेचें बर्प आयलें!

तुफान आडळेल्या वरी जालें थोडे दिसांक! तो झोड नियंत्रणा भायर आशिल्लो. एकलोच वचाय! वचूनाकाय! स्वीकार करनाकाय!

सौख्य ना म्हूण सांगाय! आरोग्य प्रश्नु सांगून न्हयकार कराय! मुर्थम ऐकदा हरद्या दुकेन उत्कंठापूर्ण निमिषां दिल्लेल्या विशीं उडगास करून तीणे सांगलें. प्राय जाल्लेले आवय बापसूचे पासून चिंता कराय! चेरडुवांचे पासून चिंता कराय! कर्तव्यांचे विशीं उडगास कराय! अशी अशी.

ते कामाक मेळयात जाल्लेले दुडवांचे पशी वा परदेशांत काम करूक मेळचे अवसराचे पशी माका केनियाची भूप्रकृतीच आकर्षक दिसताली. मानव जातीचें उत्भव स्थान म्हूण केनियाची व्याख्या. मागीर थंयचे पर्वत, वनां, जानवरां आनी पांचवोचार जागो सवान्ना. हे सर्वाचे पासून केवल वाचलेलें वा 'किंग एलिफेंट', 'ब्यूटिफुळ पीपिळ', असले चलचित्रांत पळयलेलें आनी आतां हांव थंय वचाक वतां, ते तेज सूर्याचे पोंदाक, वन्यमृगांक पळोवूक, सोबित मनुष्यांक पळोवूक! जॉय आडमसणान अमर केल्लेली 'बोर्ण फ्री' म्हळ्ळेली काणी एल्सा म्हळ्ळेले सिंहीची आनी तिजे फातराळे वसतीची, ती माका केनियांतुले वनांत आमंत्रित करताली. सुमार 1953 त बरयलेलें 'मिगेली आफ्रिकेंतुली भोंवडी', लेखकालें नांव उडगासार येना तरी तांतु विवरण केल्लेले मृगांचे विशीं हांव सप्नां पळयतालों. नैल न्हंयचे पाडीक वास करचे पाणघोडे*, कोंगोंतुलीं वानरजात, सेरेंगेटिचे गोरोंगोरो ज्वालामुखीचें तोंड, वैल्डबीस्टांनी वर्षान वर्ष धावांधांव करचे स्थाय, 'तार्ज़न ऑफ द एप्स', 'फांटम द घोस्ट हू वॉक्स', 'इंड्याना जॉन्स', 'कोंगो', 'द मम्मी', 'क्लियोपॅट्रा', 'ओसीबिसा', फुटबाळ खेळ, वर्ण विवेचन हीं सर्व विशयां, काणियो, चलचित्रां आफ्रिकेची जिवाळ रूपरेखा दिता. वीर धीर मनूष्यांनी सोद करून काडलेली भूंय आफ्रिका जंयचो सोद आतांय चलताच आसा.

कित्याक आफ्रिका? सिंगापूर, होंकोंग, यू के वा यू एस हांतुलें खंचेंय वेंचलेना कित्यांक? दुशेर दुशेर मिजे मुकार आयलो हो प्रश्नु.

---

*पाणघोडो - hippopotamus

हे एक कार्याक तर्क करूक वा चड स्पष्ट करूक माका कांय नाशिल्लें. एक निर्णय काडून जाल्यार चांगाक वा वायटाक तें निर्णयाचेर अटल राबूक हांवें लेकलें. परीक्षण केले विना मेळ्ळेले अवसराचो अनुभव कशी कळतोलो? युक्तिवाद करप अनुभवाचे बदल जायत वे? केनियांत भोवूक, राबूक वा काम करूक दक्षिण भारतांतुले एकल्याक केदणाय मेळचें अवसर वे?

मिगेले आनी भाग्याले घरकारांक समजावूक आशिल्लें. कोचीचे मिगेले मित्रांक आनी तशीच अन्य संबंदियांकय समजावूक आशिल्लें. तयारी करूक आशिल्ली. मिजे खातीर मात्र न्हय. चेरडुवांली परीक्षा जावू पर्यान मिगले कुटुंबाक मुंबईच राबूक बंदोवस्त करका आशिल्लें. रजेक साळ बंद जातना तांकां कोची (गांवांत) वचाक रेलगाडी टिकटां घेवूक आशिल्लीं. एप्रिल येतना घरांतुलीं सामानां बांदून लॉरीचेर केरळांत पेटोंवचाक संविधान करूक आशिल्लें. मिगले लागीचे मित्रांचे सहायान हें सर्वय बंदोवस्त करूक जालें. एप्रिल मासांत ही तयारी सर्व चालू जातली. तीन मासांक लागेन मिगले कुटुंबाक एल आय सी क्वार्टर्सांत राबूक बंदोवस्त केल्ली. मिगेले कुटुंबाचे खातीर करयात जाल्लेलें सर्वय हे संदर्भार केल्यां म्हूण माका दिसता.

आनी आज सकाणचे तयारीचे पासून मनांत आयलें. थोडो विचार, थोडे काळांक जाल्यारीय कुटुंबाक सोडून वचो थोडो अपराधभाव, मिजे मनांत आसाच. धीर सोडूनातिल्लें भोंवताले भाग्याकय आखिर रण्णे फुटलेंच. राकून पडलेले टाक्सीचेर चडूक माळिये मेटां देवनु वतना मिगेल्यो धूवो, अपर्णा आनी अपूर्वा, निदांतुले दोळे घष्टून उटायलेल्यो, त्योवय मिजे दृश्यांत साकून दूरा सरल्यो. यात्रेक वचे मुर्थमली निमणी घडी सोसूक हांव तांकनाशिल्लों. सदा आफिसांत वचे वरी गेल्यार, सान एक बिसिनस टूराक वचे वरी वा सान एक भोंवडेक वचे वरी गेल्यार वियोग ऊणे दिसपाचो अशी दिसलें.

लागीच परतून येवपाची उमेदी आसतली. तेन्ना हो वियोग सहन करूक जातलो.

मिगेलो बॉस जांवचाक वचो मजुमदर काली येवनु आमगेथयींच राबलोलो. आतां लागी तो आशिल्यान मिगले मनोविकार दांबून दवरूक सहाय जाला. कारण हांव एक दुर्बल मनाचो म्हूण ताणे लेकुचें माका पसंद न्हय.

विमाना अड्डेर पांवचाकय हांवें घरकडे फोण केल्लें, सेक्यूरिटी चेक्क जांवचानिक केल्लें, इमिग्रेषण क्लियरंस जांवचानिक केल्लें, आनी मागीर... हांव मेजूक विसरलों. विमानाचेर चडून जावनु, पैलटाचो संदेश आयकून जातरी, विमानाचें डोर चेक्क आलर्ट जाले उपरांते हें मिजे मनांत उद्देलें कि हांव मिगले जीवितांतुले एक महत्वपूर्ण घुवळीर पावून आसा. एक अनवळखी, अपरिचित स्थायार वचाक हांव भायर सरलां जंय कसले अनुभव आसतले हाजी कांय वळख नाशिल्ले, थंयचे पासून आयकूक येंवची वायटशी किंवदंतीं विशीं विचार काडूनातिल्लें राबूक श्रम पावनु, हांव माकाच धीर दीवूक पळयतालों.

सत्य सांगता जाल्यार एक मदहस्तान मिगेलें घर फुटोवनु नाश केल्लेल्या सारके स्वाभाविक आसा हो मिगेलो निर्णय. माका हे खेळांत साकून वा सपनांत साकून भायर उडकी मारूक दिसता. हांव मिगले घरकडेच आसूका आशिल्लो म्हूण आशेतां. थंय मिगेलें टाय्म्स ऑफ इंड्या, मिगेलें इकणोमिक टाय्म्स, मिगेलें इंड्यन एक्सप्रस, मिगेलें मिडडे वाचून बेसूक जाय दिसता. चेरडुवांचे सांगातांत सोफाचेर तेंकून बेसून टी वी चेर टॉम आंड जेरी पळोवूक आशा करतां. जेन्ना वासर्यांत कितेंय दंद करचे मद्दें सावाळो शिंदूक मिजो सहाय घेंवची भाग्या आसतली. तें सग स्वभाविक. 35000 फीट ऊंच आकाशाचेर

उबूचे हे विमानाचेर वचें अस्वभाविक.

भय दिसोंवचीं चित्रां मनांत भरून येताय. मळब शून्य दिसता, केवल धवसाण. गेल्ले वर्षा असलेच एक एयर इंड्या विमानाचेर सोमाल्यांतुले झुजार्यांनी मिसैल सोडलेलें. आनी तांतूले यात्रिकांचे भाग्याक तें थोडे मीटरांचे दुरच्यान गेल्लें. तेन्ना ते यात्रिकांचे राखणदार देवतांनी निश्चित नाशांत साकून तांकां वांचोवूक भारी कष्ट काडलेले आसुका. आयचे 250 यात्रिकांले राखणदारय जागरूक आसूक हांव प्रार्थना करतां. आमचें हें विमान एक वाटेर खाल ऊंच जावनु चलूक लागल्यां आनी मिगेले पोटाक स्वताचें एक मन आयल्यां.

विमानान करचे नांचार साकून मन वेगळे कित्याचेरीय व्हरूक हांव चोयलों. मुकार आशिल्ले टी वी स्क्रीनार दिकचे नट गोविंदाचे नांचार मन एकाग्र करूक माका येद्दें सरी जायना. सुंदर एकि तरुण एयरहोस्टस मुकावेले भागार भोंवता. मिजे दोन सीट मुकार पर्यंत ती येवनु घूवनु वता. चडकरून मिगेले मावश्यांचो उडगास येता तिका पळयल्यार. तांचेच वरी होडलें निडल, होडलो तीळो, खूब केस आनी सोबित मंदहास. जापानांत साकून आशिल्ले थोडे यात्रिकांक, जे मिजे मुकावेले सीटांचेर राबून यात्रा करूक श्रम करताय, तांकां ती ताकीद दिता दिकलें. ऊंच लगेज बिनांत साकून सामानां काडूक तांकां हात पावनाशिल्यान ते सीटार चडलेले म्हूण मागीर समजलें.

हांव एयरहोस्टसांचेर दुशेर मन व्हेल्लें. विमानाचे खाल ऊंच हालपाचेर तानी कसली श्रद्धा दवरनाशिल्लें तांचेर सोंपलेलें दंद चांगपणान तीं करताय. तांचो तो हुस्को नातिल्लो भाव पळोवनु विमानाचो हो नांच सर्वसाधारण म्हूण माका समजता. आकाशारी आसचीं एयर पॉकेटां हे नांचाक कारण म्हूण आयकल्यां. अपाय रहित आसूक पूरो तरी नवेंच जावनु यात्रा करच्यांक हें उत्कंठेक

कारण जाताच.

मिजे मागशीचे सीटाचेर दोन आफ्रिकाकारी बियर पिताच आसाय आनी ल्हवपणान उलयताय. मुकार बेसलेले थोडे अमेरिकन यात्रिक केनिया विशीं मार्गदर्शक पुस्तकां पळयताय. सूर्या ऊंच ऊंच चडता आनी कापसा वरी धवीं मेघां मात्र आमगेले विमानाक सांगात दिताय. मुंबई सोडलोलो वेळु साकून पूराय प्रवास हिन्दू महासागराचे ऊंचावेल्यान तं. असली समुद्रा ऊंचावेली ही यात्रा भुंयचे ऊंचावेल्यान करचे विमान यात्रे पशी भिन्न आसा. भायर पळोवूक कसलेंय वेगळेपण ना. इतले ऊंचावेल्यान वतना समुद्रावेलीं तारुवां सरी दृष्टींत पडनाय. वायु ऊणे आशिल्ले हे ऊंचायेर मळबाक निळबाण चड दिसता आनी सल्प लागेन ऊंच गेल्यार नक्षत्रां दृष्टि पडतलीं अशी दिसता.

सुमार तीन घंट्यांक पुस्तकां, वर्तमानपत्रां आदी वाचून वेळ सारलो. समुद्राक कसलोय तरी व्यत्यास दृष्टि पडना. हांव मिगले वाचार समय चोयताच आसा आनी आशा दिसता कि वेळ सल्प लागेन वेगीन चलचो. पुण तो उरफाटीं मंदगतीन वचे समान जाता. कारण अडेच घंट्याचो व्यत्यास भारताचे आनी केनियाचे समयां भितर आसा. आमी थंय पांवतना वरांचे लेकान तीनीच घंट्यांची यात्रा केल्या जावनु दिसतलें तरीय सामकीच पंचड घंट्यांची यात्रा करून जाल्लेली आसतली.

मागीर हांवें दृष्टि घेंवचाक राकलेली ती धवी पांळांची माळा दूरा समुद्राचे आनी मळबाचे देगेक लागून पावली. ती माळा लागी लागी पावली. सोमाली वा मालिंदी समुद्रावेळ जायत ती. इतल्यान आफ्रिका भूखंड आमचे पोंदाक सरलो आनी थंयचो पाचवो तांबडो भूप्रदेश दृष्टि पडलो. भारतांत आमकां परिचित ती पुरोगति हांगा लागीचान सरी गेल्लीना दिसता. हांव हे काळखे भूखंडा चरित्रा विशीं

कल्पना करूक लागलों जें आर्विल्ले शतकांत मात्र सोद करून काडलेलें. नैल न्हंयचें आरंभ स्थल जें विक्टोरिया सरोवरांत आसा, थंयचीं आदिवासी जनां, थंयचे दर्यावयले लुटार, हंय थंय साकून येवनु राज्य करूक लागलेले ते वसणूकी शासक* हें सर्वय ते राज्याक लोकांतुले सर्वापशी वेगळेपण दिसयता. भारताचो अधिक भागूय मनुष्यान प्रकृतीचेरी केल्लेलें अतिक्रमण दाकयता जाल्यार आफ्रिकेंत चड रानां, न्हंयो आनी सादी भूंय दृष्टि पडता. हांगा थांगा वच्यो सोपूरी वाटो मात्र स्पष्ट दिसताय.

अर्द घंटो लागेन जांवचानिक खबर आयलें कि विमान नायरोबी पांवूक वता. लागीचे दोन वर्षांक माका वासस्थान जावूक आशिल्ले हे स्थायाचें पयलें दृश्य विमानाचे जनेलांतुल्यान हांवें पळयलें.

टिन्नाचीं पाखीं घाल्लेलीं होडलीं घरां, अंबरचुंबी इमारतां, नीट, दीग आनी स्वछ रस्ते, फ्ळै ऑवरां जाचेवेल्यान वेगीन वचीं वाहनां, नीळ स्विम्मिंग पूळां, केन्याटा सेंटर, ऊंच भाग सपाट* आशिल्ले एक तराचे रूक - जॉय आडमसणान आपले बरपांतुल्यान वळख दिल्लेले - हें सर्व माका स्वागत करूक लागलें. हांव आतां सिंह राज्यांत पावलां.

नायरोबी समय सुमार साडे बाराचेर विमान देवलें पुण एयर ब्रिड्जार व्हरून राबोवूक खूब वेळ काडलो. हो विमानअड्डो खूब होड आनी विस्तार आशिल्लो. विमानारी साकून भायर देवनु येतना पयलीं थंयचें शौचालय मिजे दृष्टींत पडलें जाचेर 'छो' आनी 'यूरिनल्स' म्हूण बरयल्यां. स्वाहिली भाषेंतूलें पयलें उत्तर हांवें तशी शिकून काडलें. आनी एक आसा 'करीबू' जें स्वागत करूक उपयोग करचें. मिगेलें दुशेरें स्वाहिली उत्तर.

स्वाहिली खूब कळचे लेकान हांव मिजेच लागी 'करीबू छो'

---

*वसणूकी शासक- colonial rulers *सपाट - flat, plain

म्हूण पुसपुसेवूक लागलों.

केनिंड्या बीमा कंपनीन पेटेयलोलो न्यंबाटी आमकां स्वागत करूक कस्टंसाचे लागी दारवट्यांतूच राबलोलो. उगांडाचो स्वेछाधिपति इदि अमीनाचे सारकी आसा तो. आमकां दोगांकय ताणे एकसानीच वेंगेंत मारलो. आमचीं सामानां कस्टंसांत चड विस्तारान पळोवूक दीवनातिल्लें भायर पांवयलीं. सामानां पळयलेलीं जाल्यार तांकां हास येताच आशिल्लो. कारण तांतू चड करून आयदन पायदनां, सांबारा पिट्टो, मसाला, अशी सगटच मेळता आशिल्लें.

सुमार अर्द घंट्यानी आमगेलें पूरा सामान मेळनु ट्रोळीचेर चडोवनु भायर केनियाचे तेजिष्ट सूर्याचे पोंदाक पावलीं. थंय राबून सूर्याक चोयल्यारी तो चड होड्डू आनी चड तेजिष्ट म्हूण दिसता. भू मध्य रेखेचे थोडे डिग्री दक्षिणाक जावनु आसा हो गांव आनी उदका समांतरार साकून पांच सास फीट ऊंच.

मळब प्रशांत सुंदर निवळ आसा. माका परिचित मुंबईचो धुवराळो आकाश न्हय हो. धवे इमारतांचेर भारतांत दिकचे सूर्याचो दुगुणा प्रकाश पडता सरी दिसता.

न्यंबाटीन हाडलेले मित्सुबिषी पाजेरोचेर सामानां चडोवनु शहराचे हृदय भागाक वचाक जावनु आमी भायर सरले.

नवे भूखंडारी मिगेले पयले दिसाचो फांतोड!



# अम्माक एक बर्प

प्रिय अम्मा,

नायरोबी पावलेले खबराक हांवें फोण केल्लेलें. मागीरचो विशेषु सांगतां.

नायरोबीचे हृदय भागाक पांवचाक देडेशें किलोमीटर वेगेन पंद्रा मिनिटां काडलीं. रसत्यांचेर वाहनां चड नांय तरीय आशिल्लीं अतिवेगान वताय. सिट्टीचो सर्व भागूय आधुनिक आनी पश्चिम गांवांतुल्या सारको दिसता. जनांलें वस्त्रधारणय आधुनिक रीतीन आसा. दीग, सुलुंब ते केनियाकारी, शिंरवंत दिसताय. तांचीं मणकटां तांय घट्टी, दृड, बळवंत आसाय आनी तांचे आरोग्यवंत तोंडांचेर सामके स्पश्ट भाव दिसताय.

भारतांतुले वरी केनियांतूय चाळिसां भायर जातिभेद आसाय आनी तशीच वेगवेगळ्यो भासोय उलयताय. आमचे राष्ट्र भाषा हिंदीचे वरी हांगा किस्वाहिलीचो उपयोग करताय.

व्यापारी वाठाराचे हृदय भागाक एक होडले इमारतेंत सोळावे माळियेर आमगेलें आफिस आसा. सर्व दिकानय तीस वा पांतीस माळियांचे अंबरचुंबी इमारतानी घेरून आसा तें. आधुनिक तरांचे ते इमारतांचीं जनेलां पूरा कांचेचीं.

इमारतांच्यो खालच्यो चार पांच माळियो कार पार्किंगांक जावनु उपयोग करताय. भारतांतुले इमारत बांदप्यानी हो उपाय आतांय तांगेले योजनेंत उपयुक्त केल्लोना दिसता. कारांत साकून लिफ्टाचे मुकार देवनु लिफ्टांत चडून सीदा उंचावेले माळियांचेरी आशिल्ले आफिसांत पांवयात. आफिसांत जाय जाल्लेलें सजोवण सग आसा तरीय संगणक पूर्ण रूपान उपयोगांत आयलेना बि.

सर्व तराचींय आफिसांत काम करताय. आफ्रिकनी आनी भारतीयांचें एक मिश्रण. लुवो, किकूयु, कांबा आदी जातींचीं केनियाकारां सुलुंभ स फीटाचे पशी चड दीग, होड ताळ्यानी उलोंवचे. तांचे इंगळीश भासेचे उच्चारणाक स्वाहिलीचो प्रभाव आसा. भारतांतुले सर्व भागाचींय जनां हांगा कामाक जावनु आसाय. कामाचे खातीर येवनु वास करचे भारतीय नंतणा जायते गोरेल्लेय आसाय. शताब्दां जावनु तांचीं कुटुंबां होडली होडली जमीन घेवनु वास करून येताय.

केनियांतुलीं जनां मेकळेपणान उलयताय आनी आमकां तांचे कडे लागसारपण दिसता. केनियांतु आनी भारतांतु समान रूपाचीं आर्थिक प्रश्नां तं आसाय. जनांचें कुटुंबिक जीवन स्पष्ट रूपान व्यत्यस्त दिसता. आर्थिक संपाद्य कांय दवरची सवंय तांकां ऊणे. मेळचें तशीच ब्यारांत वा बारांत घालताय ना तरी खर्च करताय.

हांगाचीं सर्वा पशी होडलीं दोन सूपर मारकेटां 'नकुमत' आनी 'सरीट सेंटर' हांव भोवनु चोयलों. हांचे दोनीचेय धन्नि भारतीय. हीं मारकेटां ऊण्यान ऊणे अर्द एकरांत पुणीय पातळेवनु आसाय. आनी एका पशी चड माळियोय आसाय. वाहनां घालूक हांचे समान होडले एकापरस चड माळियांचे पार्किंग जागेय आसाय.

लोकांतुले सर्व राज्यांचेय व्यापारी छाप आशिल्ले सामानांची एक स्वप्न नगरी तं तांचे भितरी. कसलें घेंवचें म्हूण निश्चय करचें तं पिशें लागूचें दंद. ग्रोसरी भागाक भारतांतु मेळचें सामान, तांबडे करडीचो भाता वोरोव विना अन्य सर्वय हांगा मेळता. हांगा विकपा खातीर दवरलेले सामानांचें वैविध्य पळोवनु दोळे विसविसेतले. घरवंताक उपयोगी सामानांक आनी खाणाचे सामानांक भारतांतु जांवचे पशी तीस प्रतिशत चड खर्चू जातलो. वस्त्रांकय खूब मोल तं. तशीच होटलांत खांवका जाल्यारीय खर्चू साबार जातलो.

जायतीं उद्यानां, तणामळां आदीनी नगर भाग खूब पाचवोच

आसा. केरळांतु आनी तामिळनाडाचे ऊटींतु दिकचे रूक रुकावळीचें एक मिश्रण तं हांगा म्हूण सांगुयात. चडय रूक झाडां परिचित दिसताय तरीय फुलां होडलीं आसाय. सवणींय तशीच. तरातराचे कर्कश शब्द करनु होडलीं सवणी सिट्टींत उबून भोंवताय. माजरां पर्यान होडलीं दिसताय. जाल्यार लावारिस सूणीं नांयीच हांगा!

नायरोबींतुले रस्ते निवळ स्वच्छ आसाय आनी भारतांतु करचे वरी हांगाचे रसत्यांचेरी कोणे थू करप ना. फोंड कोंड कांय नातिल्ले रस्ते, खळियांचे उंचार फूटि नातिल्लीं स्लाबां, सीदा स्वच्छ हायवे हें सर्वय हे गांवांची मुखमुद्रा.

कंपनीन आमकां राबूक दिंवचीं घरां आढंभराची मातृका जावनु आसाय. घरांत आशिल्ली सजोवणी सामान, लकडीचें सामान, कारपेटां, विजेन चलचीं यंत्रोपकरणां आदी उच्च श्रेणीचीं.

मिगेले घराचे खालची माळी L आकृतीन बांदल्या जाचे एक भागाचान उद्यानांतु देंवयात. थंयचो पागार सगळो फ्रेंच विडों लेकान आसून दारवटो जावनु उपयोग करयात. भूंय आनी छत रुकाचें पोळिष मारून चकचकित आसा. खालचे माळियेर बेसपा कूड, वासरी, वर्क एरिया, स्टोर, न्हाणी आनी उंचावेले माळियेर निदचीं तीन कूडां आनी लागून न्हाणियोय. एक बालकणी आसा. जंय साकून कोळनीचें दृश्य पळोवयात. टी वींत दाकोंवचे 'तू तू मैं मैं' म्हळ्ळेले हिंदी धारावाहिकांतुले घराचो उडगास येता हें घर पळयल्यारी. असलेच आधुनिक रीतिन बांदलेलीं तीस चाळिस घरां लागेन हे कोळनींत आसाय.

समांतरार साकून 1785 मीटर ऊंच आसून नायरोबीक 'Mile high Capital' (एक मैल ऊंची राजधानी) म्हूण म्हणताय. भूमध्यरेखेचे भो लागी आसूनूय हांगाची कालावस्था सदा बरी आसता. भो गीम वा शींया काल ना म्हणूच सांगूयात. खरें म्हळ्यार हांगाचे खंचेय

घरांत फॅन आसचेंना आनी माका भारतांतु आसतना फॅनाची निरंतर शब्दाची सवंय जाल्लेल्यान हांगा नीद पडूक कष्ट जाताले. सुरवातेर रातीची निशब्दता कानकवडां पडची तसली दिसताली पुण आतां माका घराचे ताळात्मक शब्दाचें जशी घराचे भुंयचे रुका फळ्यांचो करकर शब्दू, निंदातु बुडूचे मुर्थमले मिगेलेच ल्हव शब्द, जनेला कांचेंचेर कुलेरी घालचे वार्याचे वा कसलेय सळसळेंवचे अप्रतीक्षित शब्दा कारण द्रुतगतीन मारचे मिगेले हरद्याचो थडथड आदींची सवंय जाल्या.

पावसु येता वता आसतलो म्हूण हांव समजलां. खंचो काल म्हूण ना खंचेय वेळार धरांधरी पावसु पडयात पुण वेगीन अप्रत्यक्ष जावनु निवळ वोत येतलेंय. दीस सगोळ मोड दवरनु राबचें भो विरळ. भुमध्यरेखेचे पशी सल्प दक्षिणाक जावनु आशिल्यान नायरोबींत मेय जूण मासांत शींया काल नांवा पुरोश येता आनी गिमाचे मास म्हूण नवंबराक आनी डिसेंबराक सांगुयात.

आनी थोडें चरित्र. उगांडा आनी टानज़ेनियेचे ओटू केनियाय एक ब्रिटीश कॉळोनी आशिल्ली. हे पूरा प्रदेशाक पूर्व आफ्रिका म्हूण वळकताय. इकूणीसावे शतकाचे संचे दशकांत तं चडय राज्यांकय स्वातंत्र्य मेळ्ळेलें. केनियाचो पयलो राष्ट्रपति ज्योमो केनयाटा एक दयावंत स्वेच्छाधिपती आशिल्लो. आतांचो आसा कालेंजिन जातीचो डानियल अरप मोय. थोडोभोव हितचिंतक स्वेच्छाधिपति आसून तो गेल्ले 24 वर्षां जावनु शासनाधिकार हाताळता. एक यथा योग्य प्रजातंत्राचे खातीर खूब कडे साकून आतां मागणी येवूक लागल्या आनी लागीचे दोन वर्षां मद्दें संभव्य वेंचणुकेचे पासून मोय सूचना दीवूक लागला. पूरा राज्य पयलेचे वेवस्थीत वेंचणूकेक उत्कंठापूर्वक राकून आसा.

1963 वर्षा डिसेंबर बारावे तारिकेक तं केनिया ब्रिटीश शासकांचे हातांत साकून स्वतंत्र जालेली. आनी सामकी एक वर्ष उपरांते तेच

दिसा गणतंत्र जावन घोशणा जाली. तशी डिसेंबर बारावो दीस दर वर्षय अत्युत्साहान देशभर दोनपट्टा आघोष करून येताय.

नायरोबी सिट्टी सामकें आधूनिक दिसता तरीय नवें बांदकाम कसलेंय चमकना. आठवे दशकांत वा णव्याचे सुरवातेर केन्ना तरी हाजी वाडी स्थंबित जाल्या म्हूण हांवें समजून घेतल्यां, खास जावनु 1998 वर्षा मुख्य व्यापारिक भागाक आशिल्ले यू एस एंबसीचेर साहसिक जावनु चमकयलेले कार बंबाक्रमणाचे कारण दोनीश्यांचे भायर जनांची हत्या जाल्लेले उपरांत म्हूण सांगुयात.

35 मळ्यांचें रेवन्यू टवर तं सर्वां पशी ऊंची इमारत आनी ताजे फाटल्यान केनिया टेलिकॉम इमारत. व्यापार कला सांस्कारिक केंद्र जावनु आशिल्लें केनयाटा सेंटरय मागशीच आसा. खूतच जावनु इमारतां बांदिल्लो मुख्य व्यापारिक भाग सुमार स चतुरश्र किलोमीटर आसा. हांगा साकून सर्व दिकानय विशाल उद्यानां, पाचवीं तणामळां, बंगळे, फ्लॅटां, मासियोनेटां आनी वासस्थलां पातळेवनु आसाय. दर एक घरय विशाल उद्यानांनी आनी रूंद रसत्यानी घेरून आशिल्यान उपनगरां विस्तृत आसाय. रंगबिरंगी फुलां झाडांनी, रुकानी अतिसुंदर करून सजायलेले चडय उद्यानांतूय बरे तरेन कातरून शिंपून पालपोसवण करचीं विसकळ तणामळांय आसाय.

हीं दृश्यां आनी अनुभव पूरा नवेच आसाय. माका दिसता कि मिजो आत्मो भारतांतूच सोडून आयलां आनी हांगा केवल मिजें देह मात्र भोंवडी करता, अनुभव करता! मिजें मन पूरा थांगा मिगेले कुटुंबाचे ओटू आसा.

पुण हांगाचे भारतीयांचे भरसी भोंवतना हांव भारतांत साकून इतले दूरा आसा म्हूण विसरतां. हांगा भारताचे सर्व उत्सवय एकमेळीन आघोषु करताय. दोन दीस मुर्थम बंगाळी जनतेन घडयलेले एक सरस्वती पूजेक दक्षिण भारतांतूले खूब जनांक दिकूक जालें. मंगळूरचे

एक कोंकणी कुटुंबाक मेळूक जालें आनी तांनी तेन्नाच माका तांगेथंय जेवणाक आपयलोय. भारतीय म्हळ्ळेले एकच कारणान वाटेर दिकचीं अन्य भारतीय आमकां सहाय आनी उपदेश दीवूक तयार आसाय.

केनियाकारांक आधुनिक जीवित रीतिचेर आशिल्ली प्रतिपत्ती स्पष्ट दिसता. एक पार्टी जावनु मदराती घरकडे परतूचे वेळार होटलाचे निशा क्ळबांत साकून गींत, नांच करचो शब्दू सगट व्हडान आयकूक आयलो. तांतू कित्तें चमकता म्हूण चोंवचाक आमीय चडले. आफ्रिकन भेरीयांचे संगीतात्मक वाजपाक नांचूचीं खूब जनां थंय दिकलीं. थंय एकडे जाल्लेले ते लोकांचें मिश्रण पळोवनु हें समजलें कि नायरोबींत विविध राज्यांचीं जनां एकेक कारणाक लागून राबून आसाय.

नायरोबीचे समाजांत पांच आर्थिक विभाग आसाय.

1. गोरेल्ले धनाढ्य
2. एष्यनी धनाढ्य
3. आफ्रिकनी धनाढ्य
4. मध्यम वर्गी आफ्रिकन
5. भो दरिद्र आफ्रिकन (सुमार 80 प्रतिशत)

घरवंतांक सेवन करचीं दंदकारां पूरा आफ्रिकाकारांच. अंयशी प्रतिशत केनियाकारांय शिक्षित आनी इंगळीश भास बरे तरान उलोंवचाक कळचीं. ब्रिटीश राण्येन शासन केल्लोलो कोम्मण वेल्त राज्यांतूलो एक आसून जायत हें.

येंवचे बिरस्तारा आमी मोंबासाक वायूमार्गान वचाक वताय. ताजे पासून वचून येतरी बरयतां.

माये मोगान,
सुधाकर

# आकाश मार्गान मोंबासाक

नायरोबी विमान अड्डेंत राज्यांतर यात्रिकांचे मद्देंतुल्यान विमानार चडूक आमी मुकार सरतना सकाणचो धुको खालचान उबतालो. एलडोरेट म्हळ्ळेले कडे वचाक धांव-पट्येर तयार राबलेल्या एक सानुलें विमानांतु यात्री चडता आशिल्ले. हे कारणान आमकां राकून राबूक विनंती आयली. आमकां वचुका जाल्लेलें विमान हाजाकय होडलें आसुका म्हूण हांव आशापूर्ण राबलो कारण हें एलडोरेट वचें विमान एक बसाचे पशी होडलें दिसना.

आमचे कंपनीचे वार्षिक सम्मेळनाक जावनु आमी मोंबासाक वताय. कंपनीचे सुमार पंचेवीस जनांक थंयचे व्हायट संड्स बीच रिसोर्टांत तीन दिसांक राबूक बंदोवस्त केल्यां.

आमी वचें विमान तयार जाल्यां म्हूण संदेश आयलो तेन्ना आमी सर्वय धांवपट्येर वचून विमानांत चडूक लागले. हें सामान्य होडलें आसा आनी तांतू शेंचे भायर जनांक बेसुयात.

विमान आकाशाचेर चडलें म्हणतना सूर्यूय उद्देवनु ऊंच पावलो. मेघां आतां विमानाचे पोंदाक सरल्यांय आनी आमी दुदा सारके धवे समुद्रांतुल्यान मुकार वचे लेकान दिसता. ऊंचावेले मेघांची दीग सावळीयो सूर्या खालचे मेघांचेर घालता. झूजा भूमींत साकून विस्फोडन जावनु ऊंचार येंवचे धुवरा मणके दिसूचीं थोडीं होडलीं मेघां धुक्यांतुल्यान भायर येताशी दिसताय. धुक्याचे रणभूमींत न्हंयो कशी थोडे कडे प्रवाह दिसता.

मुसाफिरी नांवाचें एक नेमाळें वाचून हांवे वेळु सारलो, जांतु साकून आफ्रिका, केनिया, मोंबासा हांचे विशी खूब जानकारी मेळ्ळी.

सकाणचें खाण म्हूण एक बण, कापी आनी येद्‌यो काजूबीयो मेळ्यो.

विमान देंवचो वेळु पावलो. खाल भूंय पळयल्यारी कोची पावलेल्या वरी दिसता. विमानांत साकून देंवतना हजार माड्यानी आमकां स्वागत केल्लें. कोचीचे नेडुंबाशेरी विमानअड्डेचो उडगास आयलो माका. थंयचे वरी आसा हांगाचें हुनाळें वातावरण.

मोंबासांतुल्यान आमगेलें वाहन वतना हें सादृश्य चड चड दिसता. कोची आनी मोंबासा हीं दोन कोळोनियल नगरां एकच वरी विकास जाल्लेलीं दिसता. एक समान दिसूचीं परेड मैदानां, एक समान पावसाळे रूक, नाश जावनु पडलेल्यो वाटो, उज्जो घालून धुवरचो कोयरा राश, रस्त्या देगेर खटरखुट्टर वस्तु राश करून विक्री करूक घाल्या, पोरणी घरां पिसडून वाटयलेलें सामान एकडे करून घालेलें, विनाशार पावलेलीं वाहनां जीं पुलीस ठाणेचे मुकार धरून घाल्लेलीं हें सर्वय गांवंचोच उडगास हाडता.

मागीर परिचित गंध, शब्द आनी दृश्यां - माड्या पाकळ्यो जळचो धुवर, दोर करचे खातीर फुगत घाल्लेलीं सोणां, मसज़िदांत साकून आयकूक येंवचो उल्लो, 'श्हाभाँदर', 'मोटवानी' असले भारतीय नांवांच्यो आंगड्यो, रस्त्यां देगेर घालून विकचें प्लास्टिकाचें सामान, शिंयाळीं कोंकून दिंवचे विकपी, क्रिस्तावांले देवालयां ऊंचावेले खुरीश, सानुलीं देवळां आदी गांवचेच स्मरण दिताय. हें सग एकच कायरीं स्थिर करता. समान वातावरण आनी समान भूप्रकृति खंचेय समाजांतुले मनुष्यांकय एकच समान जीयेवूक शिकयता.

'अरेबियन नैट्स' काणियेंतुलें तशी दिसता व्हायट संड्स होटेल. द्वारपालक अरबांचे सारके वस्त्रधारण केल्लेले. धवीं कफतानां न्हेसून होडले वाडकूळे पोटांचेर नाना वर्णाचे कमरपाटे बांदिलेले बेयरर, टिनटिन आनी आस्ट्रिक्स कोमिक पुस्तकांत चित्रायलेले सारके

दिसूचे ते तांचें दंद करताय. तांचीं खड्डीं मात्तीं तेजिष्ट सूर्याचे वोतांत तकतकेताय. रिसेप्शणांत दीगी सुलुंभ बायलो बेसल्याय जांचे केस सोपूर सोपूर फांतियांनी विणून सुंदर दिसता.

रूमांत वचाक रेस्टोरेंटांतुल्यान तं वाट. ते विस्तार रेस्टोरेंटांतुले बुफे मेजांचेर खाणा सामानां भरून दवरल्यां. विविध तराचीं आनी वर्णांचीं फळां, तरातराचें सूप, नाना तराचें ब्रेड, शीत, पुलाव, नान, रोटी, मासळी-मांस हें सर्व थंय होडले मात्रेन सजोवनु दवरल्यां. असलीं चार होडलीं विस्कल रोस्टोरेंटां आनी दीस रात वाकतें आसूचें काफी शॉप थंय आसा. चार वा स जनांक बेसूक सर जाल्लेलीं सवाय एकेशें मेजां थंय एक रेस्टोरेंटात आसा म्हळ्यार ते होटला विस्तार कळतलोच मू!

रेस्टोरेंटांचे आनी कूडांचे मद्दें एक कमळाचें होडलें तळें आसा जाचे वयरच्यान वचाक वास्याचो सांकोव आसा जाका मढळांच्यो वोयों बांदून दवरल्याय. कूडां सर्वय एक दिकाच्यान समुद्राक तोंड करून आसाय. आनी एक दिकाच्यान पळयल्यारी एक स्विम्मिंग पूळ, सुंदर विसकळ उद्यानां आनी रेस्टोरेंटां. ताजे लागी चार वाजप्यांचें एक बॅन्ड सुंदर पावलां हालोवपी तसलें स्वाहिली संगीत वाजीता.

हंय थंय जावनु कसली व्यवस्था वा क्रम नाशिल्लें शिंवडावनु दवरलेले कुशिणांचेर थंयचीं जनां सूर्याचें वोत घेवूक पडूनासाय. थोड्यांक तरी शिवडा* येद्दी तांबिडसाण जाल्यायीच. पांचवेचार उद्यानांतु एक डायविंग पूळ, एक वेयडिंग पूळ आनी एक वाटर स्लैड आसा. वेयडिंग पूळांत चेरडूवां खेळताय.

समुद्राक पाचवो नीळ वर्णू. आनी उदका पोदांक आशिल्ले पवळ्यांचे चोंबे* कारण ते वर्णाक हंय थंय फरक दिसता. उदक स्फटिक समान निवळ आसा आनी वेळेची रेंव धवी धवी. हेच धवे

*शिवड- lobster *पवळ्यांचो चोंबो/हींड्ड - coral reef

रेंवेंचे कारण ते होटलाक व्हायट संड्स म्हूण नांव.

कोणफेरंस साधारण प्रमाण चमकीलें. सांज आयली तेन्ना मळबाक भांगराळो तांबडो रंग दवरलो. रातीचे मनोरंजना खातीर आलोचना चालू जाली. थोड्यांक राती समुद्रांत न्हावूक वचूका. आनी थोड्यांक पूळांत पूरो. चड करून आशिल्यांक रेस्टोरेंटांत तयार केल्लेल्या बुफे जेवणाचेरीच लक्ष.

होडल्यो होडल्यो चूड्यो लावनु थंय सग उजवाड भरला. चित्रविचित्र वेष घालून थंयचे दंदेली आपले दंदार लागून आसाय. कोणालोय जायदीस आशिल्यान जन्मदिसा आशंसा गीत म्हणचें आयकूक येता. ओट्टू थंयची खाशेली भेरी वाद्य, होडले ताळ वाजप आनी मंत्र म्हणचे वरी किर्तेय सगट चमकता आयकीलें. लेबनावातीचो परमळ, विचित्राचें संगीत. अरबी तराचो वेषु हे सर्वानीय माका खंचेय अरबी काणियेंत पावयलोच. ऊंटा फाटीर सैर करचे भोंवडेकारांक हांवें थोडे वेळ मुर्थम समुद्रा वेळेर पळयलेलेय. वज्र समान नक्षत्रां झगझगेवनु राबिल्ले स्वच्छ मळबाचेर फुगरो चंद्रु उद्देलो.

मोंबासांतुली ही राती जादूची जाली!

फाले फाल्यार मिगेले एक दोस्तान माका जागयलो आनी आमी वेळेर चमकूक म्हूण देवलीं. सुर्या उदेलोना आनी ते खातीर पूर्वार मळव तयार काडता आसा. उदकांत पडलेलीं व्हडीं* खाल ऊंच नांचताय. आनी तांच्या काळे रूपांच्यो सावळ्यो उदकांत नांचताय. केन्ना केन्ना मासळी धरूक समुद्रांत बुड्क्यो मारचे सवण्यांचो सोवदू आयकूक येता. साबार मुकार वचून जांवचानिक वेळे रेंव सरली आनी भूंय निबरी आनी फातराळी जाली. मृत पवळ्यांचे चोंब्यार वाडून आयलेलें मानग्रोव झांडांचे रान आरांभिले. रेवेंत साकून भायर सरलेले कुरले तांचे चिमट्यांनी अळतापेळतांतु टिकटिकायताय. उदेंवचे

*व्हडें - boat

सूर्याचें वोत तांचेर पडून प्रतिबिंबित जाता.

एक दीग थोर गोरेल्लो मनीश धांवत आमचे लागी पावनु राबीलो. ताणे आमकां खरशेवनु खरशेवनु अभिवाद्य सांगीलें आनी आमी उलोंवचाक लागले. कालिफोर्णियांत साकून व्यापाराचे आवश्याक आयलोलो तो थांगा लागी आशिल्ले आनी एक होटलान सौकर्य करून दिल्लेले रुकावयले घरांत राबून आसा. मोंबासाचे पासून, थंयचे होटलां पासून, कूडांक दिंवचे भाड्याचे पासून सग आमी उलयले. मागीर तो धांवत तागेले रुकावयले घराकडे गेलो.

मुकारी एकि बायल दृष्टि पडली. रातीचो तिजो धंदो जावनु येंवची दिसता, ती आमकां दिकून उल्लो मारूक लागली. तिका आमचे सांगातांत 'वाकाक' (चमकूक) वचुका खंय. तिगेले दृष्टीचेरी दृष्टि घालनातिल्लें आमी होगी चमकूक लागले. 'हे बोय्स, वै आर यू अफ्रेयड?' तुमी कित्या भिताय? तीजी तीं उतरां आमचे फाटीक खोंबूक चोयलीं.

सूर्या तापून आयलो. वेळेर चमकूचीं आनी धांवचीं चड चड देवल्यांय. दुर्मिळ वस्तु विकपाक जावनु विकपे तयार करताय. साबार ऊंटां वेळेर वोता हुनसाण घेताय.

होटलांतुले मजा करप्यानीं काली राति करून घाल्लेलें सर्वय दंदकारां साफ करताय. काफी शोपांत निदकूरे वेयटरांनी हाडून दिल्लेली कापी पीवनु आमी कूडांत गेले. सूखाचें एक न्हाण आनी सकाणचें खाण जावनु हांव रिसोर्टांतुलें जनजीवित निरीक्षण करूक लागलों.

दीस मुकार वता तशीच थंय आशिल्ले पूळांतुले स्फटिक समान उदकांत लळून आमी वेळ सारूक लागले. जलदेवतां सारके उदकांत उडक्यो मारच्या, पोंवच्या, वोत घेंवच्या आनी हंय थंय

लळच्या सुंदर वा तितलीं सुंदर न्हय बायलांचेर दोळे व्हरूनातिल्लें राबूक श्रम काडून आमीय बेसले. कितले राज्यांचीं जनां थंय ते होटलांत आसाय म्हूण अनुमान करूक साध्य न्हय. गोरेल्ले दादल्यां सांगातांत भोंवच्यो थोड्यो तरी धंद्याच्यो बायलोच दिसताय.

होटलाचे लागी क्रोयेश्यांतुले एकल्यान चमकोंवची जलखेळाची एक शाला आसा जंय समुद्रा उदकांत करचे विविध तराचे अभ्यास खेळ शिकयताय, आनी ताजे खातीर अवश्यक सामानां भाड्याक दिताय. स्नोरकलिंग, स्कूबा डायविंग, डीप सी डायविंग, विंड सफ्रिंग, वाटर स्कीयिंग आनी विंड सेयलिंग करूक थांगा सौकर्य आसा. समुद्राचे उदकांत सदा भोंवचे कारण जायत तें स्थापन चलोवप्याक पळयल्यार तडीर पावलेले देवमास्याचें* सादृश्य दिसता. सुमार 64 वर्षांचो दिसता तो. चामडी सारके मिरियो पडलेले ताजे सालीचेरी हंय थंय चामकळा वरी कितेंय चडच दृष्टि पडता. दीग भीमाकार आसा ताजें रूप आनी ताणे अल्प मात्र वस्त्र घाल्यां. ताजे पोंवपाचे होडले कलसांवांचे खालाक दृष्टि पडचे पाय जाय तितले होड नाशिल्ले. पावलां साधारण तराचीं आनी तांचेर घाल्लेलीं पोंवपाचीं जोतां साबार काळांक समुद्रा मिटूस उदकांत पडून कशिकीची जाल्लेलीं. एक 'ऑल्ड सी सॉल्ट' (an old sea salt) अशी ताका इंगळीशीन व्याख्या दीवयात.

एक होडले ऑक कौंटराचे मागशी बेसून तो व्यवहार चमकयता. ताजे बाजूंत एक स्टफ्ड स्वोर्डफिष ताणे चलोंवचे व्यवहाराचेर आपले मणियां दोळ्यांनी पळयता आसा. ताजे कौंटरा मागशीं आलमारीचे खणांत रब्बरा फ्लिपरां, गोगळ्सां, ऑक्सिजन सिलिंडरां आनी डायविंगाक जाय जाल्लेलीं इतर सामानां सगट भरून दवरल्यां. ते रूका खोंपीये भायर वेळेर सर्फबोर्डां, सेयलबोर्डां, पोणटूणां, वाटर स्कूटरां आदी दवरल्यांय आनी उदकांत थोडीं व्हडींय खाल ऊंच

*देवमासो - whale

नांचताय.

मोंबासाची समुद्रा देग थोडे किलोमीटर उदकांत पवळ्याचे चोंब्यान भरलेली. ऊंच सांगलेले व्हड्यांक स्फटिकाचें पोंद तं. तांचेर समुद्रांतुल्यान गेल्यार उदका पोंदाक आशिल्ले पवळ्यांचो हींडु बरो जावनु दृष्टि पडतलो आनी ताजे मद्दें वास करचे जलजीवजालांचेंय दृश्य पळोवूक मेळतलें.

उदकांतुले साहसिक खेळ कांय माका लागूचे न्हय. चड पोवूक कळनातिल्ले आमी येदे जाणानी ते व्हड्यांचेरीच श्रद्धा दवरली. एकेकेल्याकय 600 शिलिंगां* ताणे घेतलीं. हें नंतणा मरैन इकोळोजिकल पार्क करचे खातीरी सरकारी लगान जावनु 100 शिलिंग लागेन घेवनु ताणे रसीदि दिली. ती आमी बोटीर आसतना संभाळूनु दवरची.

उदकांतुल्यान थोडें चमकून आमी ते व्हड्यांत चडले. तेन्ना एक वर जाल्लेलें आनी सूर्या तेजवंत जावनु आपलें वोत रकरकी ओतून धवी रेंव करपायतालो. दर्या देगेवेलें उदक तापून आयलें. व्हड्यार चडून बेसलेले तेन्ना थंड वारें मारूक लागलें आनी सूर्याची हुनसाण कळना जाली. उदकाचे वयरी वारें खेळता आनी सूर्याचीं किरणां उदकाक पाचवे, नीळ, भांगराळे वर्णांत बुडयता.

वाट दाकोवपी अरबी गायडान बोटीचे पोंदाचे भागांतुल्यान समुद्राचे शांत उदकाचेरी आमची श्रद्धा व्हेल्ली. सर्व दिकारीय विविध खोलायेन विविध वर्णाचो पवळ्यां हींड दृष्टि पडता. तांचे मद्देंतुल्यान मासळ्यो निपून खेळताय. मासळेचो हींड अस्त्रवेगान गति परतून परतून भोंवता जशी मळबावेलीं सवणीं. एकेकी मासळीय दोनी फीट दीगी मळमळवर्णाची. तरीय तांतूय गोबरा वर्णूच चड दिसता. तांचे स्वासेंद्रियांचे लागी हळदूवे वर्णाचे पाटे आसाय. थोड्यो सानूल्यो मासळ्योय आसाय. तांचे काळे आंगावेले खवळ्यांचेरी रूप्या तित्ते

*100 केनियन शिलिंग - सुमार 60 रूपया

थळथळेताय.

छट जावनु एक मनीशु कांचेंतुल्यान दृष्टि पडलो जाणे आमकां हात दाकयलो. पवळ्यां हींडू लागी वचून पळोवूक गेल्लोलो एक बुडपी आशिल्लो तो. 'बाराकूडा डायविंग टीम' म्हूण नांव बरयलेली ताची बोटि स्वल्प दूरा उदकाचेर नांचता. बुडकीयो मारूक तयार जांवचे भोरनु 'मुसुंगे' तांतू बेसल्याय. 'मुसुंगो' म्हळयार कितें? हांवें गायडाचे लागी निमगीलें. तो हासलो. मुसुंगो म्हळयार तानी गोरेल्यांक आपोंवचें खास नांव. ताणे सांगलें. भारतांत 'फिरंगी' म्हणचे वरी हांवें आठयलें. ते बोटीर पूरा डायविंग करचे लोक. उदकांत पोवपाक घालच्यो व्हाणो घालूक श्रम करचे थोडे, थोडे तोंडार रुपडें* घालून बेसल्याय आनी थोडे बुडप्यांचें वस्त्र घालून पूरा तयारी करून बेसल्याय.

बोटि धांवडांवचो चेडो तेद्दे भितरी उदकांत देवलो आनी हातांत रोटीचे कुडके घेवनु बोटीचे पोंदाक सरलो. आमी कांचेंतुल्यान ताका पळयलें. रोटीचे कुडके खावूक जावनु मासळ्यां हींड ताजे आंगार चडून लडाय करूक लागला. उदकांतुली ही खुशाली पळोवनु आमी थोडे घडियांक बेसले. मागीर एक तांतुल्यान आमीय रोटीचे कुडके उदकांत घालूक लागले तेन्ना मासळ्यो पिटपिटेवनु उडक्यो मारून खावूक लागल्यो. आमकां भारी उत्साहु जालो.

तो चेडो बाटीचे एक तांतुल्यान उदका ऊंच पावलो तेन्ना ताजे ते तांबडे मुदियाळे केस पळोवनु माका आश्चर्य जालें. ते तिमूनातिल्ले लेकान सुकेच दिसताय, 'वाटर प्रूफ' जशी. हें आफ्रिकन जनांचे केसाची एक विशेषता म्हूण माका मागीर समजलें. न्हाण जातरी केस सुकोंवचें आवश्य तांकां पडना. तानी मातें हालयल्यारीच जाता! उदक पडून वतलें. आफ्रिकन जनांनी चडकरून केस गुडेच राबोवप. केसांचे मद्देंतुल्यान तांचें मातें तकतकेता दिकूक पडतलें. केस दीग वाडोंवचे जनविभागानं ते विविध प्रकारानी फांती घालून गांठि घालून

*रुपडें - mask

शिंगारून दवरप. स घंटे साकून दोन दीस पर्यान समय खर्च करून बायलो म्हालिणीचे* कर्यान केसांचेर नवी नवी शैली करयताय. ताका खूब खर्च जाता. सासा लेकान फांतीयो एकमेकाक जोडून घालनु एक प्रत्येक तराची चित्रविचित्र तांबशे केसां तोपी सरी दिसूची एकि शैली. थोडीं तरी केसांक रंगावनु सामकें नवें बरें स्टैल करताय. म्हालिणीचें दंद बरें जाल्यार स मासांक तांय ती केसा तोपी तशीच वरतली. न्हय तरी चडकरून एक मासाक. खास नमूने शांपू घालनु मात्यार न्हांवच्यान आनी केसांचेर उदक धरूनातिल्यान केसांक जावो मात्याक जावो हानी पांवना.

आनी एक विशेषता मिगेले श्रद्धेंत पडली. थंयचे भिन्न वर्गांतुले जनांचें वेगळेपण स्पष्ट जावनु समजूक साध्य आसा. गांववासियांक मात्र न्हय नगरवासियांक पळयल्यारीय हें व्यक्त जाता. मसाई लोकांक होडलें निडल. बायलांक तांय निडळार खूब ऊंच साकून मात्र वाडूचो केसु. तांचीं नांकां सानुलीं. बायलां वरी मसाई दादल्यांकय कानाक होडलीं घटि बोळीं लांबोंवची सवंय कारण कानाची पाळी लांबून आसता, केरळाचे जाण्टे क्रिस्तांव बायलांचे भशेन. हीं जनपदां दीग सुलुंब वरताय. गोरवांक पालन पोषण करून बंजारी जीवन काडचे हे युद्ध वीरय आसताय.

'लुओ' जातींतुलीं गुड्डीं आनी केनियाचे उत्तर भागाक मासळी धरून जीवन काडचीं. 'किकूयु', 'कांबा', 'कालेंजिन' अशी आनी तीन जाती. चाळिसां भायर अन्य वर्गांचीं जनां थंय व्यत्यस्त भासो उलोवनु जीवन काडताय. एकामेकाक मेळतना तीं स्वाहिली वा इंगळीश उलयताय जशी भारतांत आमी हिन्दी वा इंगळीशाचो उपयोग करताय.

एकेक वर्गाचेंय वेगाळेपण स्पष्ट दाकोंवचें आनी एके चिह्न तांचो केसूची. थोडे वर्गाचे जनांक सुलुंब दीग केस वरता. थोड्यांक

*म्हालिण - hair dresser

गुड्डे मोवाळ मुदियाळे आनी थोड्यांक दीग मुदियाळे. उणे थोडे भागाक मात्र जावनु अल्पाल्प मुदियाळे केस आसूचींय आसाय. तांचे मात्याचो केस नातिल्लो मद्देंचो भाग तकतकेता दिकूक येतलो.

हांव केसां विशीं आशिल्ले मनोराज्यांत साकून परतून बोटीचेरीच पावलों. ती आतां तडीर पावल्या. आमी सगट देवनु वेळेर विकूक दवरलेले वस्तु पळोवूक गेल्ले. आफ्रिकेंत दिकूक येंवचे तरातरा वन्य मृगाचीं सुंदर सुंदर शिल्पां वेळेचे देगेर दिगायेन विकूक दवरलेलीं. हस्ती, सिंह, पाणघोडे, गेंडामृग, हिरणां आदींचीं सगट सान होडलीं रुकाचीं फातराचीं विविध तराचीं शिल्पां दवरलेलीं पळोवनु आमी मोल करून भोवले. परदेंशी म्हूण आमकां वळकून विकप्यानी आमची श्रद्धा धरूक गोंदाळ आरांभिलो. एकेक शिल्पाकय ऊणे 3000 केनियन शिलिंग तं मोल.

मोला पासून आमी मोलावणी* आरांभिली. निशब्द मोलावणी. एकेक विकप्याचे लागी एक सोपूरी बड्डि आसा. एकेकी ताणे आमकांय दिल्ली. ते बडियेन तो वेळेचे रेंवेंचेर आमी निमगिल्ले शिल्पाचें मोल बरयतलो आनी तें आमकां अवसूचें न्हय जाल्यार आमी आमकां सर जाल्लेलें मोल बरयतलीं. तें ताका अवसना जाल्यार तो न्हयकार करूक मातें हालयतलो आनी दुशेरी बरयतलो. तशी दोनीय भागाचांकय अवसूचें एक मोल पांवू तांय हेच लेकान निशब्द मोलावणी चमकतली. वेगळ्यांक ही संख्या कळोवनातिल्लें राबूक जावनु तं अशी करताय म्हूण माका समजलें. हे आमगेले मोलावणीचे मद्दें आनी एकल्या लागी तसलेंच शिल्प 3000 शिलिंग मोल सांगून विकीता दिकीलेंय. तीन सासार साकून सशें पर्यांन ऊणे करोवनु घेवयात म्हूण मागीर समजलें. तशी हातांत एक भीमाकार गेंडामृगा शिल्प उबारनु धरून हांव कूडांत परतलों. होटलांतुले रिसेप्शनांत तसलेंच एक शिल्प पांच सास शिलिंगाक विकूक दवरल्यां दिकीलें. क्रेडिट कार्ड उपयोग करूनु

*मोलावणी - bargaining

घेंवचे खंचेय एक सादे भोले यात्रिकाक एक तुच्छ डिस्कौंट दीवनु तीं तृप्त करतलीं. असले ब्यारांत साकून कितलो लाभ करताय हे ब्यारी!

मुर्थम खेल्लेलें रुचिकर खाण थोड्यांक तरी हित जाल्लेना. सांज जाता तशीच पोटाक त्रास येवून अजीर्णाचीं सर्व लक्षणांय दाकोवूक लागलीं. मिगेले एक दोस्ताक बरे तरपेन कष्ट जाले आनी डॉकटराक आपोवनु हाडका जालें. पंचताळीस मिनिटांनी मात्र एक डॉकटराची व्यवस्था करूक होटलकारांक साध्य जाल्लें तरीय आयलोलो डॉकटर ल्हवू उतरांचो शांत मनीशु आशिल्लो. अरबीचें लांबचें कफ्तान न्हेसून आशिल्ले ताका तांबडें खाड आसा. बरें करून परिशोधन करून जातरी ताणे काडलेले एक इंजक्शनान थोडे घडियानीची दोस्तालो तापु आनीक शींयारु ऊणे जावूक लागलो. डॉकटरान मिगेले अस्वस्थतेक निंब्या चाया आनी सोडा पीवूक उपदेश दिलो जाचान माका अचाट फलच मेळ्ळें. दोन घंट्यांनी साधारण भशेन जालों.

तिसरो दीस दिसउजवाडांतुले भोंवडेक जावनु दवरलोलो. थोडे दोस्तांक तांची निमणी खरीदारी करचे खातीर होडले सूपरमारकेटांत वोचुका जालें. हे कारणान चडय वेळ तशी गेलो. तरीय सिट्टींतुल्यान हंय साकून थंय सग वतना टोयोटा वाहनाचेर बेसून वयरी साकून खालटाक दृष्टि पडची वेळेची झळक मेळ्ळी. उतर मोंबासांत साकून पेलतडी दक्षिण मोंबासाक सासा भायर जनांक घेवनु वची फेरी पळोवूक जाली. एक किला आनी स्टीलानी केतविलीं हसत्या सूळ्यां भशेन दिसूचीं दोन कमानां दृष्टि पडलीं जीं आसाय सिट्टींत चडचे खातीरचीं मुख्य दारांतु. कोची दिकूचे लेकान आशिल्लीं थोडीं मकानां, पुरतुगीस स्टायलीरी बांदलेले खूब बंगळे आनी मागीरचे कालाक तांकां अनुकरण करून बांदलेले वेगळे बंगळेय दिकूक पडले. थोडीं स्थलां अविश्वनीय लेकान कोचीचे भशेन दिसताय आनी हें आयकून

खुशी जाली कि वास्को ड गामा, केरळांतुले काप्पाड वेळेर तारू लागूचे फूडे भारताक येंवचे वाटेर मोंबासांत थोडे मास राबलोलो.

आतां हे दोन गांवचो संबंद पूर्ण दिसलो.

होटलांत परतून वचे वाटेर आमी मांबा गांवा लागिच्यान गेलीं जंय सिसरेक वाडोंवचें आफ्रिकेंतुले सर्वापशी होडलें मळ आसा. लागीचे फंता मोंबासाक वतना तें पळोवूक शपथ करून एयरपोर्टांत वचे बसार चडूक जावनु आमी गेले. तांतु भरसी एयरपोर्टांत पावनु जावनु मिगेले एक दोस्ताक तागेलें ब्रीफकेस होटलांतूच दवरनु विसरलो म्हूण बोधोदय आयलो. लागीचे दिसाचे कुरियराचेर तें सामान ताका पावोवनु दीवूं म्हूण होटलकारानी उतर दिल्लें. ताका तशी आपलें सामान नातिल्लेंच नायरोबीक परतुका जालें.

अशी तीन दिसांची आमची मोंबासा यात्रा सरली.



# भाग्याक एक बर्प

प्रिय भाग्या,

तुमी तेगंय सुखान आसाय म्हूण विश्वास दवरतां. अपर्णा आनी अपूर्वा कितें करताय? हांगाचें स्कूळ निश्चित जावनु तीं पसंद करतलीं. काली हांव ऑस्वाल स्कूळांत गेल्लोलों आनी तें जैन समुदायांचानी चलोंवचे कारणान जावयात मुंबईचे नानावती स्कूळा कदी दिसलें. हांगा शिकोंवची रीति व्यत्यस्त आसा - पठन पुस्तकांचेर चड तेंकूची तसली न्हय.

स्कूळाक, सामकें ऊटीचे सारके यूकालिप्टस रूक सगट जावनु एक होडलें मैदान आसा. एक भोव बरें स्विमिंग पूळ, एक होडलें बास्कट बॉळ कोर्ट, रोळर स्केटिंग रिंग, टेबिळ टेन्नीस आनी बॅटमिंटण कोर्ट आदीय आसा. हांगा खेळांचेर चड प्राधान्य दिताय म्हूण माका दिसता. हांगाचीं विद्यार्थीं केनियाक प्रितिनिधित्व करून अंतराष्ट्रीय खेळ शर्तांत तांय भाग घेताय.

नानावती स्कूळांतुल्या वरी चेरडुवानी निर्माण केल्लेलीं साबार सामानां क्ळास रूमांत प्रदर्शन केल्लेलीं आसाय. हांगाचे शिक्षक बरी योग्यता आशिल्ले.

घरा लागी साकून सुमार एक किलोमीटर आसा स्कूळांत पांवचाक. पावुणी एक साकून दोनी वरां पर्यान सुमार सवाय घंटो समय जेवणाक मेळतलो. चेरडूवांक सकाणी स्कूळांत व्हरूक, देनपारां जेवणाक घरकडे हाडूक, परत स्कूळांत व्हरूक आनी सांजे परतून हाडूक कंपनी व्यवस्था करता.

पांच दिसांक तं शिकवण पुण शनिवाराचें स्पेशल क्ळास आदी आसतलें.

फ्रेंच निर्बंध जावनु शिकुका, पुण तें सोंपें म्हूण आयकलां. अन्य ऐच्छिक भासो किस्वाहिली आनी गुजराती. अपर्णान आनी अपूर्वान भारतीय भास शिकुका कि अंतराष्ट्रीय भास शिकुका म्हूण तुमकां निश्चय करयात.

भारतीय उच्च कमिशनाचे कर्मचारी शनिवाराचें हिंदी शिकयताय आनी नवेंच जावनु फ्रेंच शिकच्यांक सिट्टींत खास क्लासां आसाय. हांगा नायरोबींत सुमार 350 मलयाळी कुटुंबां आसाय तरीय मलयाळम शिकूक कसलीच व्यवस्था ना.

आमगेले चेरडुवांक हाय स्कूळांत पांवतरी भारतांत परतून व्हरयात वा हांगाच हाय स्कूळ शिकवणय पुरतें करयात. (माका कळता तूं कितें सांगूक वता म्हूण)

हो गांव भो सुखमय आसा आनी हांगा सामाजिक जीवित (Social life) आसूना म्हूण सांगचें एक मिथ्या. शोपिंगाक वचपच एक मुख्य सामाजिक कार्यक्रम जावनु आसा कारण सुमार वीस होडलीं सूपर मारकेटां, एकेकय मुंबईचे णयन टू णयनाचे पशी होडलीं, हांगा आसाय. आनी थंय विकूक प्रदर्शन केल्लेलें सामान सामकें दोळे विसविसेंवचे तराचें. सर्वय आयात केल्लेलें. भारतीय सामान मेळचे खास विभागच तांतू आसाय जांतू भारतांतूलें प्रायः सर्वय मेळता. सर्व तरा फळां जशी तरा तरा आंबे, आपिळ, तरा तरा केळीं (नंदरबाळींय आसाय). पेर, पोणोस. स्ट्रोबेरी, अनवास आदी, करबापत्ति, कोतंबरी पाल्लो, पालक वगेरा पाल्ले, सामकें बरें आनी विपुल मात्रेन मुंबई मेळच्या पशी चड बरें मेळता! तरातरा धान्य दाळ, चणो. अठाणो. सुकी चवळी आदी. सर्व तरा मसालेचें सामान, काजूबी. बदाम. किसमिस वगेरा सुकी फळां. नोणचें मळमळ तराचें हांगा मेळता. मुंबईचे समान मोल दींवका फळांक पुण आंब्यांक मात्र मोल ऊणे. अन्य तरकारेंक 20 साकून 30 प्रतिशत चड दिंवका



जातलें.

शोपर्स स्टोप आनी क्रोसरोड जशी होडले समुच्चयांत तं हीं सुपरमारकेटां स्थित आसाय. हांगा थियेटरंय आसाय जंय भारतांत नवें चलचित्र प्रदर्शनाक आयलेलेच दिसा प्रदर्शित करताय. थंयीच सी डी लेडिंग लायब्ररीय आसा जांतू साकून सुमार साठ रुपया दिल्यार नवे हिंदी वा इंगळीस सिनेमाची सी डी उशीणे घेवयात.

हेच समुच्चयांत साबार खाणामळांय आसाय जंय दक्षिण भारतीय, उत्तर भारतीय आनी चैनीस खाण मेळता. वेळ सारूक भायर वोचून खावप हांगाचें पसंदीचें मनोरंजन जावनु दिसता आनी आमकांय अपूर्वाचे खातीर चड पावटी विविध होटलांत वचाक साध्य जातलें.

चेरडुवांले वस्त्रां विक्रीचो विभाग किलोमीटरानीच पातळेवनु आसा पुण भारी किमतीचें सर्वय. आमकां जांवका जाल्लेलीं वस्त्रां भारतांतूच साकून घेंवका जावनु आसा.

सावकापळ्येचे नमूने एकदम मनभूलोंवचे तशी आसाय आनी मोलय ऊणे. तशीच इलक्ट्रोणिक यंत्रसामग्रींकय भारतांतुल्या पशी मोल ऊणे.

पूरा मेळनू चोयताय जाल्यार हांगाचो खर्चु 20 साकून 30 प्रतिशत चड जातलोच.

मिजी कंपनी, मलयाळी समाज, दक्षिण भारतीय समाज, भारतीय हाय कंमीशन आदी, जनांक एकडे जावनु मेळूक विविध आघोष चलयताय.

कंपनी स्वागत म्हळ्यार हे आफिसांत काम करचे आठ भारतीयांनीय प्रत्येक प्रत्येक दिंवची येवकार पार्टी. हें नंतणा थोडीं कोंकणी कुटुंबां आनी मलयाळी कुटुंबांय आमकां येवकार दितलीं.

हाजे खातीरीय थोडे उपचार आसाय. आंमंत्रण दीवनाशिल्लें वा कळोवनाशिल्लें कोणाले घराकडे वचें सम न्हय. तशीच खंचीय पार्टी जातरी एक औपचारिक 'थांक यू' बर्प आनी परत आंमंत्रणाचें लागेन तीं प्रतीक्षा करतलीं. हें सगट वेळ येताकूच तूं शिकून काडतली.

अथवा तुका एक पार्टी चलोंवका जाल्यार साधारण रीति कशी म्हळ्यार अन्य घरवंतांच्यांले दंदकारणियांचो सहाय जाय म्हूण मागणी करयात. थाड्यो तरी बरें करून भारतीय खाण रांदूक कळच्यो. तूंवें सामान घेवनु दीवप आनी देखरेख मात्र केल्यार जातलें. पाचक विधीचे पुस्तकय तेच घरकांरांचे लागी मेळतले. आनी शुद्ध शाकाहारी खाणांचो मेनू अनुवदनीय आसा. हे आठ कुटुंबांत मद्दें दोन कुटुंबां शुद्ध शाकाहारी आसाय आनी आमी तिसरीं. हांगाचीं कुटुंबांय जावनु तुका संकोच विना मेळूक साध्य जातलें.

आमकां निमंत्रण मेळचे थोडे पार्टींक सोयरीं जावनु केन्ना केन्ना मलेश्याकारां, श्रीलंकाकारां, पालस्तीनकारां, अरबी, फिरंगी आदी आसुयात आनी तसले वेळार औपचारिक वस्त्र जांवका न्हेसूक. भारतीय बायल मनीशांक औपचारिक वस्त्र सारीच. औपचारिक जेवणाक तं आंमंत्रण मेळ्यां तरी चेरडुवांक शेजरांतुले खंचेय घरकडे सोडून वचाक तयार आसुका, कारण असले कडे चेरडुवांक येवकार ना. आमचे कंपनीचे कुटुंबकारांचे वा मलयाळी समाजाचे सर्व कार्यक्रमांकय चेरडुवांकय निश्चित जावनु येवकार आसा.

हांगा साबार देवळां आसाय आनी उत्सवाघोष, पूजा आदी मजेन चमकयताय. तिरुपती बालाजी, गणेश, हनुमान, विष्णू, शिव, आय्यप्पा आदींचीं तं देवस्थानां. कसलोय सगट उत्सव आघोष चमकूनाशिल्लो एकु दीस सरी आसचिना आनी कसलेच सुरक्षा प्रश्नय ना.

नायरोबीचीं थोडीं बरीं फोटो हांवें काडलेलीं आनी स्कूळाची

येवजण पुस्तिका हाजे ओटू दवरल्या. तुकाय हेच स्कूळांत चरित्र शिकोवयात (वा चरित्र रचुयात). तुका पसंद जाल्यार. 35000 शिल्लिंग येणावळ मेळतली. म्हळ्यार सुमार वीस सास रूपया. मेळचें अवसर कित्याक नष्ट करका?

माये मोगान,
सुधाकर



# रस्त्यावेल्यान मोंबासाक

ह्युंडाय इलांट्रा म्हळ्ळेले काराचेर तं आमची यात्रा. एक शार्क जशी तकतकीत वायुगतिशास्त्राक अनुसरून आसा हाची आकृति. ड्रायवराचे सहायाक आशिल्यो त्यो दोन रियर व्यू हारश्यो पळयल्यार ते शार्काचीं पाकां सरी दिसताय. बुळेटा आकृतीन हाचें नांक. हांतु भितर एक बळिश्ट इंजन आसा जें हे वाहनाक घंट्याक 222 किलोमीटर गतिवेगान व्हरूक शक्ता.

आमचो ड्रायवर किमालू पूर्व आफ्रिकेचे कांबा समूहाचो. ते समूहाचो परंपरागत वेवसाय नकशीकाम* आसूनूय तो तें सोडून चार चक्री वाहनांचो निपूण चलोवपी जाला. फूडे तो मटाटू म्हळ्ळेलें वाहन धांवडायतालो जें केनियाचें सार्वजनिक वाहन आसा. जो कोण एक मटाटूचो चलोवपी जाला ताका एक प्रत्येक तराची निपुणता प्राप्त जाता. सान वाहनांक आपले रस्त्यार साकून कूशालकायेन दूरा काडून अतिवेगान मुकार वचाक आशिल्ली एकि निपुणता! शक्तिवंताक हक्क म्हळ्ळोलो ताजो नियम!

मटाटूचे अधिकाराक धमकी दीवूक पांवचें एकच वाहन आसा केनियाचें ट्रक. ऊण्यान ऊणे सोवीस चक्रां, दीग होड ताजे मागशीं लागून आनी एक गाडो लागेन आसुयात. हाजे लागी तर्क करूक कोण ना आनी हीं ट्रकां तं हायवेचीं मालकां.

हायवेचेरी तागेलें वाहन स्वतंत्र करूक किमालू पळयता कारण नायरोबीचे रस्त्यांचेर किमालूक आपले मनपसंद वेगीन चलोवूक नियमां, नियंत्रणां आनी खीट्रू आडायतालो. ऊंच भूंय नायरोबींत साकून सवान्नाचे मद्देंतुल्यान केनियाचे दक्षिण भागाक 489 किलोमीटर दीग मोंबासाक वचे हे रस्त्यावेल्यान वाहन अतिवेगान चलोंवचाक

*नकशीकाम - woodcarving

जातलें म्हूण आठोवनु किमालूलें तोंड फुलेलें.

मिगेलो एक सहयात्रिक ओयूगी आमचे कंपनीचो स्टाफ जो पेन्शन फंडाचें काम पळयता आनी असले यात्रेंत गरजेचो वांगडी. दुशेरो सहयात्रिक मजुमदर मिजे सांगातांत भारतांत साकून आयलोलो. कोलकताचो. अबुदाबीचे शेखाचे धनीपणार मोंबासांत चलोंवचे एक स्कूळाचे कर्मचार्यांचे मुकारी कंपनीचे खातीर एक प्रत्येक भेटवण करूक आमी वताय.

नवे पावसान भिजल्ले नायरोबीक उदकाचे शिंवरांत* मागशीं सोडून आमगेलें वाहन सकाणी साडे इकरारी भायर सरलें. सिट्टी सोडून ज्योमो केन्याटा इंटरनाष्नल एयरपोर्टाचे उजवे तांतुल्यान सरनु शहराचीं आखेरचीं दृश्यां पावलीं. होडले होडले कारखाने, आयात निर्यात थळां, अत्ति न्हंय वेवसाय थळां, कुंकडा मळां*, गाळशीट पाकीं घालेले खोंप्यांची झोंपड पट्टी, आदी मागशीं सोडून वाहन अतिवेग धांवता.

रस्तो सपाट न्हय. थोडे फोंड फोंडर्यांचो. आनी फोंडकुल्यांतुलें उदाक उवसूनूच वाहनां वताय. नायरोबी आनी मोंबासाचें मद्दें धांवचीं होडलीं बसां, थोडीं मटाटू अशी मात्र वाटेरी दृष्टि पडताय. सातुल्यो धोरनु बस राकून जनां बसस्टोपांत राबल्यांय. रस्त्याचे देगेर एकेक कडे जावनु होडलीं ट्रकां नायरोबींत चडचे खातीर अनुमति राकुन पडल्यांय.

ह्युंडायेचे स्पीडोमिटरा सूव शेंचेर साकून चडून आतां 135 दाकयता, मुकावेल्यान येवपी होडलीं वाहनां आमचे लागीचान वेगीन वतना कार खूब हालता. तरीय तें मागीरीय धैर्य संभाळून मुकार धांवता.

दोंगरा रस्त्यार एकेक कडे हायवेक रूंदाय चड आसा. खरशेवनु

*शिंवर - spray *कुंकडा मळ - chicken farm

चडून वचे हेडले वाहनांक सावकाशायेन वचाक आनी सान वाहनांक जांवचे वेगीन मुकार चडून वचाक म्हूण ही रुंदाय. दोंगर सोडून विसकळ सवान्ना पावल्यां. रूक रुकावळी ऊणे आसून विस्तारान पातळेवनु पडलेलें हरयाळी स्थल तं सवान्ना. हें पळयल्यार 'द लायण किंग' म्हळ्ळेले चित्रपटाचो उडगास येता जांतु कारटूण कलाकारानी हाजीं चित्रां सुंदर रूपान रचल्यांय.

आनी माका समजयेता हेंच तं आफ्रिका!

रस्तो तशी दिगायेन सुलुंभ जावनु मुकार वता आनी दूरा अतिदूरा पर्यंत दृष्टि पडता. दूरा हायवेवेल्यान वचीं वाहनां मंदगतीन वचे वरी दिसताय. शेंबर किलोमीटरा ऊंच वेगीन तीं वताय तरीय मुकावेले स्थलाचे विशालकाय कारण जायत तांकां मंदगति दिसता.

यात्रेचो आरंभ केल्लेले उपरांते आमी पयलीं जावनु मकिंडू म्हळ्ळेले कडे राबोवूक लेकलें. नायरोबींत साकून दोन घंट्यां वाट. भारतीय यात्रे लेकान पळयल्यार हे समयान सुमार 80 किलोमीटरांची यात्रा करयात. पुण माका हें जाणून अतिशय दिसलो कि आमी दोन घंट्यानी 215 किलोमिटर यात्रा करूक वताय. 120 किलोमीटराचे ऊंच गतिवेग दाकोंवचे स्पीडोमीटराचे विशीं तेन्ना आयलो उडगास.

भारतांतुले सामान्य खंयचेय हायवेचेरीय मेजूक जावनातिल्ले संख्येन द्विचक्री, त्रिचक्री वाहनां, मोटोरकारां, बसां, लॉरी, सायकलां, रिक्शा, आनी समान लेकान पदयात्री आसतले. रस्त्यांचेर भोंवचे गोरवांचोय ऊणाव ना. पुण हे हायवेचे देगेवेल्यान टार केल्लेले भागाक चडोवनातिलें धूळी भरिले भागाच्यान मात्र सायकलां व्हरताय. हांगा धांवचीं वाहनां पूरा शेंबर वीसा ऊंच वेगीन होर्ण सरी वाजूनातिल्लें वताय. चडय वाहनांकय इलक्ट्रोणिक सिगनल चलता आनी चड ओवरटेक करनातिलें एका मागशीं एक जावनु सामान्य एकच वेगीन वताय.

जेवणाचे समयार आमी मकिंडूंत पावले. आमकां रस्त्या देगेवेले रेस्टोरेंटातुलें जेवण न्हय. मोंबासाक वचे एकेक यात्रिकाकय मकिंडूंत एक खास जेवणच राकता. थंयचे गुरुद्वारेंत खंचेय यात्रिकाकय भोजन वा भोग मुफ्त मेळता.

किमालूक थंयची रीति कळता दिकून तो आमकांय घेवनु सीदा बुफे मेजा लागी गेलो. परंपरागत पंजाबी रांवदयो, वैंगण आनी कुकाच्यो, खूब तूप सासम घालेल्यो, दाल, रोटी सर्वय रुचिक जालें. भोजन जातरी अतिथियांनी थंयचे ते गुरुद्वारेंत जाय किंतेय दीवनु वचुयात.

1896 साकून मकिंडूय जावनु सिख जनविभागाक संबंद आसा. हे भागाचे गुरुद्वारेंतुलें सगल्यां पशी होडलें तें. भोजन शाला नंतना आनी एक हॉळ आसा जंय हे प्रदेशाचे रेलवेचे विशीं प्रदर्शन केल्यां. ऊंच सांगिल्ले काळांत पोर्ट मोंबासाक साकून नवो व्यापार ठाणो जावनु वाडून येंवचे उगांडाक वचे खातीर एक रेलीचें आवश्य ब्रिटीशकारांक पडलें. नायरोबी तेन्ना शैशवदशेर आनी ब्रिटीश शासकांचे खातीर तयार जाता मात्र. ब्रिटीश ईश्ट आफ्रिका कंपनी आनी ब्रिटीश ईश्ट इंड्या कंपनी हांनी एकडे जावनु भारतांतुले साबार जनांक थंय मकिंडूंत पांवयले. सास सास भारतीय आफ्रिकेंतुले कठिन वातावरणांत कठिन दंद करून रेल बांदूक निर्बंधित जाले. तांचे हुमे-रगताचें फल तं तें रेल. रानवठी वाठारांतुले होडले जानवरांचे हातांत साकून वांचून, जीव घाण घालनु वा प्राण पेल्यान घालनु भारतीय दंदेल्यानी बांदिल्ले ते रेलीक लुनाटिक लायन म्हूण नांव पडलें. 'लूनाटिक' म्हळ्यार पिशेपणाचें. हें सग चरित्र, पोरणे फोटो चित्रां हाजे सहायान विवरण सयत तं प्रदर्शनांत आसा. भारतीय दंदेली चडय सिख विभागाचे आशिल्ले आनी तानी तेन्ना साकून गुरुद्वारा बांदून मकिंडूय जावनु संबंद दरवला.

हें लुनाटिक लायन सावो नाष्नल पार्कांतुल्यान वता. सुमार केरळा राज्या येदें होडलें हें पार्क केनियांतुले सर्वा पशी होडलें आसा. हें रेल आनी ताजे लागीच्यान वचें होयवे हे पार्काक चीरून दोन करून वता.

**सावोचे नरभोजी**

दोनशें वर्षा मुर्थम सावो होडलो रानवाठार आशिल्लो आनी मनुष्यांचे पशी चड सिंहच रानांत भोंवताले. हें आमकां कल्पना करूयात कि हे कठिन वाठारांत कठिन दंद करून अशक्त जाल्लेले भारतीय दंदेली, स्वतः आळसे सिंहाचे अनायास शिकार जाताले. मरण संख्या होडी आशिल्ली आनी वर्षांन वर्ष नवे नवे जनांक भारतांत साकून दंदाक हाडका जातालें. हे कारणान ते नरभोजियांची संख्या ऊणे करूक शिकार्यांची वेवस्था करका जाली. इतले नरमांसा रूची लागून थोडे सिंह कुप्रसिद्ध जाले कि तांची वळेरी* तांय शिकार्यांक दींवका जाली. हे नरभोजियांक शिकार करून तांचे देहांत मांसा बदल कुंडो भरून ट्रोफी करून हे शिकारी रोमांच पावले.

इतलेंच न्हय, सिंहाचे आक्रमणा भयान मोंबासाक साकून नायरोबीक धावलेले रेलगाडीचे पयले यात्रेंत शिकार्यांची व्यवस्था तांय करका जाली. इंजिना (हेंवय भारतांत साकून आयात केल्लेलें) मुकार रेल अधिकार्यांचे ओटू, इंग्ळंडांत साकून आयलेले उन्नत व्यक्तियांचे सांगातांत दोनीय तांतूय शिकारीय राबून काडलेलें एक फोटो थंय प्रदर्शनांत आसा.

मागरीय हे रेलीवेल्यान धांवचे गांडींत साकून यात्रिकांक आनी रेलवेचे कर्मचार्यांक पर्यान सिंहानी बरबरी तांडून व्होरनु आपलें भोजन केल्लेलें चरित्रय आसा.

तें मुर्थमलें सावो.

---

*वळेरी - list

आतां दूरा रानांत सिंह आसुयात तरी मकिंडू शहरांत नांय. पुण आज तांचाकय घातकी जात आसा मकिंडूंत - तस्कर!

दर सात-आट दिसांत एक राति पुणिय मोंबासाचे आनी मकिंडूचे मद्दें रस्त्यार एक कार पुणिय फारनातिल्ले राबुना हे तस्करांनी. तांची प्रवर्तन रीति खूब सरळ. सान एक फळ्या कुट्क्याचेर उणेच खीळे वयर खोंबचे लेकान मारनु चडोवनु रस्त्याचेर पाले पत्र्यां भरसी निपोवनु दवरतले. वार्यांत उबून पडलेले थोडे पाल्ले शिरपूटां सारके तं ते दिसतले. हाजेवेल्यान चडून जावनु थोडें मुकार पांवतरी गाडी वांकडी तेंकडी धांवचाक लागतली. आनी तेन्ना मात्र ड्रायवराक आपले दुरभाग्या विशीं समजावणी येतली.

असले विजन स्थलार टायर पंचर जाल्यां आनी सहायाक लागी लक्ष्यार खंय एक मनीषु सरी ना म्हण तो शिरापूक लागतलो. दोनी होडले शहरांचे लागी साकून 200 किलोमीटर दूरा हे स्थलार कोण एकल्याक पुणीय दिकूक जावनु तो वांवटयतलो. टोर्च घेवनु वा विना तो भायर देवनु डिक्कींत साकून जॅकि आनी स्पेयर टायर काडचे मद्दें दूरा परीं* लेकान दोनि हेड्डलायटां दृष्टि पडतलीं. तो खुशीन भरतलो. तेन्ना ती गाडी लागी येवनु राबतली आनी तांतू साकून परीचे बदल अर्द डजन तस्कर भायर उडकी मारतले. तांचे हांतांतुलें हातियार दाकोवनु ते भिष्टायतले आनी खंयीच वचाक सांगतले. विरोध करतल्याक डिकींत बंद करून गाडीय घेवनु वतले. कारा धनियाक हेरदूसा सोडचे मुर्थम ते गाडियेचे काडूयात जाल्लेले सर्व मोलादिक भागय निकळावनु तांनी विकून उडयलेले आसतले.

असली चोराय थंय सदां नेमान चमकता आनी ताजे बदल कोण कांय करना म्हळ्ळेली तं तमाशा.

बीमा कंपनीन असले नष्टाक 'कारजाकिंग' म्हण खास नांव घाल्यां आनी सर्वसाधारण नष्ट जावनु मानून दवरल्यां. कारां मात्र

*परि - angel

न्हय असले तस्करांचीं लक्ष्यां. रातीचे कठिन दुरघड यात्रे मद्दें ट्रकांकय एकेक वेळार तांगेलें सामान नष्ट जांवचें पडता. पिक्कप ट्रकांय घेवनु तस्कर हेडलायट घालनातिल्लें होडले ट्रकांचे लागी पावून धांवताच आशिल्ले होडले ट्रकांचेर जाळूवा* सारके चडतले आनी टारपाळ्या पोंदा निपतले. ट्रकांतुलें सामान फारनु पिक्कापाचेर चडोवनु व्हरतले. ही चोरायो दोनी गाड्योय धांवताच आसतना चमकता आनी होडले ट्रकाचे ड्रायवराक हाजें खबर मेळता म्हूण जायना. मुकार साकून वेगळें खंचेंय वाहन येता म्हूण दिकल्यार तस्कर सल्प घडियेक होडले ट्रकाचे मागशीं सरतले आनी तें बाहन वचून जावनु परत तांचें दंद करतले. रातीचे वेळार हे विजन हायवेचेरी चड कोण नाशिन्यान असलें दंद कुशाल जावनु चमकता.

ट्रकांचे विशी हाजे मुर्थम सांगल्यां, भारतांत अस्सल ट्रकां भो ऊणे. भारतीय वाहनाक ट्रक म्हूण सांगूक जावना. ताका लॉरी म्होणूयात. स चक्रांची. भारतांतू होडलें कंटेयनर व्हरूक टाटा, लेयलंड आदी कंपन्यांचे केवल बारा चक्राचें ट्रेयलर तं उपयोग करताय. हे लागींच मात्र भारतांत वोळवो ट्रकां प्रभाव दाकोवूक लागल्यांय आनी थोडीं ट्रकां मुंबई पूणे स लेयना एक्सप्रस हायवेवेल्यान अतिवेगान वताय दृष्टि पडूक लागल्यां. भारी वजन व्हावनु व्हरूक ताकद आशिल्ले अतिशक्त ट्रकांचे गूणा विशी गतागत मंडळांतूले कर्मचार्यांक समजावण येता मात्र. आनी अशोक लेयलंड, टेलको आदी कंपन्यो आतां जड म्हाल व्हरपी ट्रकां उत्पन्न करूक लागल्यांय. लॉरी उपयोग करून व्हरूक जांवचे सामाना पशी चड वजन आतिवेगान नियुक्त स्थल्यार पावोंवचाक हे ट्रकांक तांक आसा.

केनियांत मोटोर वाहनांचो उद्योग ना म्हूण सांगुयात. आनी अंतराष्ट्रीय कंपनियांक थंय येवनु ठाण मांडूक सरकाराली अनुमति मेळ्या. एक सान यात्रे मद्दें तांय स्कानिया, मॅक, मॅन, बेन्ज़, वोळवो,

*जाळूव - leech

मित्सुबिषी, फीयट आदी अंतराष्ट्रीय वाहनांची एक दीगी श्रेणीच मत्सर करता दृष्टि पडतली.

मॅक एक राजकीय ट्रक. ताका दिगीच सोंडी सरी नांक आसता. आनी ताजें कॅबीन रस्त्यार साकून बहू ऊंच जांतू ताजे सारथी घनगंभीर जावनु बेसून अन्य तुच्छ वाहनांक पळयतले. 32 टण वजन वाहक अतिप्रभावशाली लांब दीग सोवीस चक्रांचे हे ट्रकाक सोळा चक्राचें आनी एक ट्रेयलर लागेन ओडूक तांक आसा. पयले पावटी हें ट्रक पळयलेल्याचो माका स्पष्ट उडगास आसा. केनियांत पावलेले दिसा एयरपोर्टांत साकून नायरोबी सिट्टींत वताय. मोंबासा हायवे दावे तांतुल्यान अर्द किलोमीटराक समांतर जावनु धावनु सिट्टी रोडार येवनु चडता. आंमगेले वाहनांत बेसून दावे तांतूल्यान चोंवचे वेळार एक दृश्य मिगेले लक्षांत पडलें. उजवे तांतूल्यान आंमगेले वाहनाक ओवरटेक करचे कित्याचीय सावळी दावे तांतू दिकूक पडता. 120 किलोमीटर वेगीन वचे आमचे वाहनाक ओवरटेक करची ती सावळी सरनु सरनु सरना. सूर्या ते वाहनाचे समकीच मागशीच आसा. हे आमगेले सान वाहनांत बेसून एक अपूर्व दृश्य दिकलोलो अनुभव जालो माका. ते सावळेचो उद्भव एक मॅक ट्रक म्हूण हांवें समजून घेतलें. 'रोड ट्रेन' म्हणचे तसलींच दोन ट्रकां लागेन ताजे मागशी एकची वेगान ओवरटेक करून गेलीं. एक प्रभावशाली प्रदर्शनच आशिल्लें तें.

रेलवेची वेवस्था अविकसित आसून केनियेचे उपभोक्त जनतेक आवश्यक म्हाल सर्व हे ट्रकांचे वाटेन चलता. अन्य राज्यांत साकून कणस्यूमर गुड्स मोंबासा, दर-ए-सलाम आदी पोर्टांतुल्यान आयात करून भितरचे प्रदेशाक पांवयताय. जपान, दुबाई आदी कडे साकून आयात केल्लेलीं मोटोर कारां, भारतांत आनी पाकिस्थानांतु भरलेले वोरवा साक, फ्रांसांतुली टोयलेटरी, यूकेंतुली सानिटरी सामग्री, यू

एसेंत साकून आशिल्लीं उत्खनन यंत्रां अशी सास वेगळेंय आवश्य सामान मॅक ट्रकां नियुक्त स्थायार पांवयताय. हे ट्रकांचे भरसी केनियाचेंच उत्पन्न 'मजिवा' म्हूण नांव आशिल्ले दुदाचीं टांकरां, केनोळ म्हळ्ळेलें तेल, पेट्रोळ वा डीज़ल टांकरां, मिनेरल वाटराचीं ट्रकां आनी सर्वव्यापी कोकाकोला ट्रकांय चलताय.

मागीर एक सांगचें म्हळ्यारी, कोकाकोला वा विंगड खंचेय कारबणेटड रंगयाळे उदकाक हांगा 'सोडा' म्हूण नांव. आनी आमगेलें सादा सोडा जाय तरी 'सोडा वाटरच' म्हणचें. सादा उदकाक 'माजी' म्हणूय शेळ उदकाक 'माजी बरिडि' म्हणूय सांगुका.

सादा उदक वा सोडा वाटर पिंवचें बायजणांचें* लक्षण जावनु हे लोक लेकताय. कितले दरिद्र आसा तरीय तांची तान वाडवोंवचाक 'कोक' च जाय. 'इमारा कामा सिंबा'- 'सिंहा वरी बलवंत' पिल्स्नर बियर तं हांगाचे चेड्यांनी पिंवचें. युव साहसी जनतेक पिल्स्नर बियर पीवूक आह्वान करून राबिल्ले एक भीमाकार काळग्यालें विज्ञापन हायवेचेर खंयी चोयल्यारीय दृष्टि पडता. पुण 'यथार्थ दादल्याक' तेंवय नुपूरो. तांकां 'टस्कर' लागर स्ट्रोंग बियरच जाय. हाजें विज्ञापनय हायवेचेर साधारण. 45 केनियन शिल्लिंग दिल्यारी अर्द लिटराची बोटली मेळता. हें तांकूचें मोल कारण हाका खूब वेचु आसा दिसता आनी खंचेय पेट्रोल पंपांतूय हें विकती मेळता.

मकिंडू शहर सोडून आमी सावो वन्य मृग संरक्षण केंद्रा कडे पांवताय. दोनीय तांतूय होडले पोटाचे रूक आपले मुरडेवनु वांकडे तेंकडे गांठ पडलेले खांदे उबारनु, दुखी रूप घेवनु राबून आसाय. हे भूखण्डांत पूर्व ते पश्चिम पर्यान दृष्टी पडचे हे बाओबाब रूक पळयल्यार हास येता. थोर धडाक सर जावनातिल्ले सान खांद्यांचेर सान सान फळां. आपल्याचेर सर्वांचेंय लक्ष घेवूक राबल्याय हे म्हूण दिसता. तांचें पोट घेरून चोयल्यार चाळीस फीट पुणी आसतलें आनी

*बायजण - sissy

तितलीच आसा ऊंचाई. हे रुकांचें मद्दें मद्दें जावनु सपाट मात्याचे वेगळेय रूक आसाय. मात्यार इस्त्री घालनु आज्ञानुवर्ती केल्लेल्या वरी दिसताय हे. भूंय तांबडे चिकलाची, धुळियारी. रूक झाडांक अधिक ऊंचाय नातिल्यान दूरा पर्यान आशिल्लें दृश्य स्पष्ट दिसता. थंय थंय साकून फातरा पुडिये वाटो घूवनु रानयाळे वाठारांत भितरी सरताय. तें शिकारी मृगांचे वाठार म्हूण दिशा दाकोवपी चिन्नांय थंय आसाय.

आतां मुकार हायवेक रुंदाय चड. हांवे आतां पर्यान दिकिल्यांतुलो सुंदर हायवे दिसता हो. सामकी शरगतीन आशिल्ले हे दोन लेयनांचे मद्दें हळदूवें मीडियन. बांजूत प्रतिच्छाया उडोवपि दोन धवी रंगीन पट्टीयो. हायवेचे दोनीय तांतूय आनी एक पांच फीट लागेन ट्रक पार्क करूक स्थल आसा. दोन लेयन तरीय ओवरटेक करूक सरळ. हायवेचो हो मुकावेलो दोनीशें किलोमीटर भागु चैना कणस्ट्रक्षण कोर्परेषण हानी हे लागीच बांदून पुरतो केला. सावो पार्कांतुल्यानच हो वता आनी मोंबासाचे सीमे भायर तांय वोचून सरता.

नेणतनाच किमालू वेग चडयता आनी स्पीडोमीटरा सूव 170 दाकयता, काराचे वाकते जनेलांतुन्यान वारें कुलेरी घालनु भितरी चडता. वेग पळोवूक हांव हात भायर घालून चोयतां. तुरंत मिगेलो हात जनला मुल्याक चिरडून वता. परीक्षण राबोवनु हात भितरी काडून हांव जनेला कांची चडयतां. तेन्ना मात्र आमी उलोवचें आयकूक मेळता.

'स्लो डौण' म्हळळेल्याक कितें म्हणताय म्हूण हांव ओयूगीचे लागी विचारतां. गति ऊणे करूक 'पोळे पोळे' म्हणताय म्हूण तो सांगता. 'किमालु, किमालु, पोळे पोळे किमालू' हांव ल्हवूच गायतां. किमालू आयकता आनी गतिवेग 140 किलोमीटराचेरी देंवयता.

आतां मोबायल फोणाक रेंज ना. अन्य लोकांचे लागी संपर्क ना.

आफ्रिकेंतुले होडले वन्यमृग केंद्रांत तं आमी आसाय. रोड सपाट शरगतीन वताच आसा. मुकावेल्यान द्रुतगतीन येंवचीं ट्रकां आमचे लागीचान वतना आमगेले काराक धपको लागल्या वरी दिसता. अशी वचे वाहनांचे चलावप्यांक चुकलें तरी वा एक क्षणाक तो झमेवनु गेलो तरी जांवचें भविष्य कल्पना करूक सरी माका भय जाता. संभव्य जाल्लेले हानीची व्याप्ति अति भयानक आसा.

चारीय तांतूय विस्तारान पातळेवनु आसा सवान्ना. दूरा दक्षिण भागाक मातें उबारनु राबिल्ले दोंगर अस्पश्ट जावनु दिसताय. हे पर्वतांचे पेल्यान जावनु आसा टानज़ेनिया, थंयचे सेरेंगेटीचें सपाट ज़मीन आनी थंयचे वरदान तीं वन्यमृगां. हायवेचेरी साकून दोंगर पर्यान 75 किलोमीटर पुणीय आसुयात तरीय थंय पर्यान स्पश्ट दृष्टि पडता. पुण ही विशालकाय फटवणेची. हे अंतराचेरी पळेयल्यारी हस्ती तांय मूंय कशी दिसतली. आनी कित्याचीय हालचाल सामकी दिकचीच ना. एक मृग सरी थंय ते विशाल सवान्नांत स्पश्ट दृष्टि पडना आशिल्लें. हायवेचेर हंय थंय मृगानी रस्तो हुपपाचें स्थल- 'अनिमल क्रोसिंग' म्हूण सावध करचीं चिन्नां आसाय. थोडें मुकार वचानिक हायवेचेरी दोन बबूणां दृष्टीरी आयलीं. तीं बेगीन तांचो पृष्ट भाग हालयत ते रानयाळे प्रदेशांत भितर सरलीं. ते काळे तोडांच्यांक पळोवनु माका दक्षिण भारतांतुले सिंहा बालाचे* वानरांचो उडगास आयलो.

**झिब्रा क्रोसिंग**

सुमार पन्नास किलोमीटर मुकार रस्त्या देगेर थोडीं झिब्रा चरताय दिकीलें. छट जावनु तीं रस्तो दांटवूनु पेल्यान धावलीं. आनी 'झिब्रा क्रोसिंग' हे शब्दाक नवो अर्थु दवरलो. मागीरीय मुकार खूब बबूणांक दिकूक जालें.

हायवे आतां चडती चडून दोन दोंगरा मद्देंचे प्रवेश मार्गार

*बाल/शेंपडी - tail

पावल्या जंय 'सावधान, आडूवी वायु गति' अशिल्लें स्थल म्हूण चिन्न दवरल्यां. थंय साकून एकि घुंवडी घूवनु जाल्यार एक देवणे. ऊंच साकून हें देवणे देवनु खालट पावनु खेयीच घूवनातिल्लें हायवे सपाट स्थलावेल्यान तशी दूरा वता.

मळबारी भोरनु मेघां शिंवडून पडल्यांय. सपाट भुंयचेर तीं तांची काळी सावळी खांप खांप जावनु घालताय. थोडे कडे मेघां एकडे जावनु गुडगुड वाहक वृष्टि उत्पादक जावनु आसाय. मुकार एकेक स्थलार पावस पडचो दिकूकय येता. घोग्यांचे पावसान फाटभूंय अस्पश्ट आसा. भिजल्ले मातियेचो वास थंय सग भरला. काराचे विंडस्क्रीनारी होडले होडले थेंबे पडून उसळूक लागले. कारांत भितरी धुक्याळें जालें. केवल दोनीच निमिशांक आमी ते धारांधरी पावसा मद्दें आशिल्लीं आनी तांतु पावलेल्या पशी होगी भायर वोतांतूय पांवलीं. मुकार रस्तो सुकोच. कसलेंच घडूनातिल्ले वरी आसा. पुण थोडे घडियान आमी दुशेरीय पावसांत चडलीं आनी देंवलींय बी. हो आपोलिपो खेळ 'वोय' पांव तांय चमकता.

मोंबासा पांवचे सुमार शें किलोमीटर मुर्थम तं वोय म्हळळेलें हें सान शहर. नायरोबी, मोंबासाचे मद्दें लुनाटिक लायनाचे दंदेल्यानी ठाणो मांडिलो जागो तं वोय. आतां थंय ते दंदेल्यांचे पिळग्यांतुलीं राबताय. तांनी दोंगराचे सोपणा* सारके आशिल्ले जमीनीर खोंपीयो, घरां, बंगळे बांदून केल्लेलो हो गांव निलगिरीवेले कूनूर गांवचो उडगास हाडता.

बरे रस्ते गांवां कडेन वताय तरीय आमी गांवां भायरच्यान शेतांचे लागीच्यान मुकार सरलीं. हे शेतांत उत्पन्न करचें फसल सिसल - दोर करूक उपयोग करताय. सायकलांचेर वचे थोडे दंदेल्यांक दिकीले. इंगाळे भरलेले साक रस्त्या देगेर विकरीक देवरलेले आसाय. काजू रूक थंय थंय दृष्टि पडताय. पेकटांत भरलेली काजूबीयो

*सोपण - steps, terrace

विकूक चेडे वाहनांक इशारो करून राबोवोंचाक चोयताय. माका केरळाचो उडगास येता.

थंय साकून हायवे मागीरीय सावोंत चडता. थोडीं ढोंकां आनी जंगली गाढवां दृष्टि पडताय. सुमार तीस किलोमीटर मुकार साकून भूप्रदेशाक बदलाव दिसता. दिगंतरारी उबी राबिल्ले माड्डे दृष्टि पडूक आरांभताय. उबून भोंवचे कायळे, वोलसार वातावरण, पावसाळे रूक, आंब्या रूक, केळीचीं तोपां आदी समुद्रा लागीचे भूप्रदेशाचीं दृश्यां दिसताय. केन्ना केन्ना दिकूक येंवचे कारखाने, दूरा कारखानेंचीं धुवराडीं, होडलीं विज्ञापनां आदी होडलें एक शहर पांवचीं लक्षणां दाकयता. चैना रोड सरता आनी फोंड फोंडार्यांचो रस्तो आरंभ जाता. वाहन गतागत चड आसा. नियम नियंत्रण पालन ऊणे, नायीच म्हळ्ळेले सारके वाहन धांवताय. भारतीय शहरांची साम्यता चड चड दिसता.

आनी आमी दुशेरीय मोंबासांत येवनु चडताय. आतां समय पांच वरां. पंचड घंट्यानी, तेंवय मद्दें जेवणाक, दृश्य पळोंवचाक आनी पेट्रोळ भरूक जावनु सुमार एक घंटोभर खर्चु करनूय 489 किलोमीटर यात्रा करून जाल्या. अनिश्चनीय पुण सत्य!





## मोंबासा शहर

आफ्रिकेंत पूरा विख्यात, हस्ते सूळ्यांचीं कमानां
तींच मू मोंबासाचीं आसाय प्रसिद्ध निशानां
आरपार, वांकडे सूळ्यांचीं अत्याकर्शक
तीं आसाय हायवेचेर भोंवडेकारांचे दर्शनाक
समुद्रा देगेवेलें हें शहर आसा व्यत्यस्त
वाहनांची चाल सामकी अस्ताव्यस्त
पोरने पत्रासी बंगळे, राबल्याय स्वस्त
शहराचे तेवय वांटेकारी, जनांचे सांगातांत
कमानांचीं आनी मिनारांचीं मसज़िदां
पांच समयाक सूचना दिताय सदां.

सुके हायवेचेर थेंबे पडून जाता वल्लें
ऊंच मळबावेल्यान उबचे मेघानी कुपयलेलें

उबताय सातल्यो, एकि जाता उमती उद्दारी
वांचता एकलो, मातें ताणे बावगयलें धरारी
वाहनांचे चिडचिडांत आमी सामके शिरकताय
चड ऊणे सांगून तापून प्रायः झगडताय
आयलेले इतले वेगीन जाता पावसाचो विराम
उज्वल नीळ जाता मळब एकदम
करूक आनी मुकार कसलेंच नाशिल्यान
वाट सोडोवनु वताय वाहनांय वेगीन

आतिथेय मिजो, दीग सुलुंभ, वेजलानी
केनियाचो नागरिक तरीय जन्मान हिंदुस्थानी
गुजराताचे अंतर्भागाचो तो अस्सल कच्ची
सवंय ताका, हे रेस्टोरेंटांत स्थिर येवनु वची
आमी बेसलेलें रेस्टोरेंट हें चीनी
मिजे खातीर खाणा-पानीची करता तो मागणी
शीत आनी नूडिल्स हेंचय मू पावल्यां
चिपट वा दाय रहित सादा वाट्यांत
चोपस्टिक्सान खावूक नासून माका सवंय
पडता हातांत साकून खालाक तींवंय
भुकेचे शमनाक फोर्क उपयोगाक मेळ्ळें
कष्टांत साकून वांचूक साध्य माका जालें

स भूखंडां आनी डज़ना भायर राज्यां
मिजे सीमचे पेल्यान हांवें दिकल्यां
आठतीस वर्षांकय खुशाली, मिजे सायबा
हाजे वरीं ना एक जागो वेगळो, अब्बा!

ताजे सांगातांत बेसल्या ताजी बेगम
हे जाग्या पासून तो वाचाल एकदम
धूवेक व्हारडीक करून सोडली, आनी
दोगांय खुश, फकत आसून एकसानी
अन्य जागे पळोंवचाक जरी वरलेनाय
राबूक उत्तम मोंबासा म्हळ्ळोलो होच स्थाय

मित्र मिजो शौकत, प्रसिद्ध एक एष्यनी
चडय समय तो शांत आनी संयमी
आकर्शक, हुशार आनी अनुकूल वर्ती
आयकल्या, ताजी तीव्र नृत्य करची रूची
उच्च जातीचो, मेकळेपणान उलोंवचो, मायेस्त
भोंवडायता माका काराचेरी जागे व्यत्यस्त
ताजोय प्रतिनिधी, कासिम, जाती मूळावी
जाता सजीव आनी साबार उलोवपी.

थंय दिकचें तें इमारत आतां पळय
आशिल्लें थंय मुर्थम आमचो खेळाचो स्थाय
शांत आनी भावनायुक्त आसूचे बदलाक
विरक्ति आनी प्रक्षोभ जाला जीविताक
दिता तो विवरण मोंबासाचे चरित्राचें
आनी आतां शीघ्र बदलाव जांवच्याचें
वोत सोदपी भोंवडेकारांचो आसून आश्रय
हो आतां, जाला मजा विनोदाचो स्थाय

माड्डे वार्यांत हालून धलून बावगताय
दुरचे मिजे गांवंचो उडगास ते दिताय
मडाफू म्हळ्यार शीयाळें, नंतणा न्हय वेगळें
आनन्द पांवयात पीवून तें, आतांच पाडयलेलें
माड्या सूर पितल्यांक करता उन्मत बेशुध्द
तें पूरो, केनियांत धरून घालूक बंद
इंगळ्याचेर भाजलेलें भुट्टा सगळें
खातना लागून जाताय दांत मू काळे

सांकोवाचे ऊंचावेल्यान समुद्राचे देगेर
दिकुयात, लोंकंड व्हरचें तारुंवाचेर
पाळां गर्जूचे समुद्रावेळेर चमकतना
परतपरत विस्मित जातां, पळोवनु राबतना
दीस सगोळचे आमचे प्रयत्नाचे उपरांत
चोयताय अवशेश एकु, तारुवाचो, हे बंदरांत
झगमगेताय दीवे थंय दुरचे तारुंवांचे
कोसळताय प्रतिबिंबां घांट्टपान भरते पाळांचे.

दारवट्यांत राखणदारु, निशाक्लब 'फ्लोरिडाचे'
हुशारीन करता दंद, पडचें आंगार चुकतल्यांचे
परिशोधन करता तो, पावलां साकून ऊंच मातें
आनी भितर सोडता, ताकीद दिल्ले उपरांतें
धडधडपी आफ्रिकनी भेरीयांचें संगीत
सोडता तें नर्तकांक हुनसाणींतु खरशेत



झिगिमिनी जांवचे दीव्यांचे उजवाडांत
साबार प्रणयजोडींचीं रूपां पडताय दृष्टींत
छुट्टीर आयलेले नाविक एकल्यान
केल्लें मोगीणीचें अनुगमन, गेय्टांतुल्यान
वेगीन तिरस्कारली हांवें भेटवण भोगविलासाची
चेडुवाक तेन्ना प्रत्यक्षांत वरली निराशाची
स्थल सोडतां हांव, वेगीन बुद्धी शिकून
हाजाकय चांग कडे वचाक निश्चयु करून

फडिपानाची एकि आंगडि हांगा, नांव मिलानी
गब्बर आनी गोविंदा ताजे दोग धन्नी
अलीशाचे ताळात्मक धडधडपी संगीताक
गावून साथ दिताय ते 'मेय्ड इन इन्डीयाक'
होडलीं कारां साबार येवनु राबताय भायर
चिडाचिड होड करताय तीं आंगडीचे मुकार
गोविंदाक उल्लो मारताय, रुचिक पानाक
उत्साह आनी ऊर्जा ताजे दिंवचे शैलीक

हेरदूसा मांबा गांवांतुले सिसरीमळांत
हांवंय भोवलों, पर्यटकांचे भीर्यां सांगातांत
आसाय थंय निश्ठूर सिसर्यो साबार
घूडांतु, तळ्यांतु पडल्याय त्यो हिंसेक तयार
लागीच आसा चरतल्यांचें एक मळ
काळके घूडांतु दिवडांक वाडोंवचें स्थल
काळो मांबा सोरोप विषाचो मूर्ती
पळयतना ताका, भरता भय भीती

हांव तांचे हाता भायर म्हूण अभारी
नोणच्यां घालेल्यांक पळयतां चड, मागीरी
लागीचे गावांत कांबा जातीच्याचें शिल्पकाम
लिखणे सारके आयदूवांनी करचें नकशीकाम
कोरांतून रुका मृगांचे हींडांकच हाडताय जन्मांत
उत्कृष्ट आसून दिसताय तीं प्रायः जिवजिवंत
पर्यटकांचे खातीर विक्रीक हीं मृगां सर्वय
तांची विक्रय रीति आसा अतिरहस्यमय
घेतलें हांवें हसत्यांचें जोडें एक
यत्न तांचें सुळे खोंबूक मिजेच मू आंगाक

भोंवतां हांव मालिंदी, लामू, उत्तर भागाक
आनी केनियावेळ सरचे सोमालीचे दक्षिणाक
ड गामा देवलोलो खंय मालिंदी तीरारी
केरळांतुले काप्पाड पांवचे मुर्थमले वेळारी
ताजें यश स्पश्टावूक केल्यां एक स्मारक
हे स्वर्गाचेर स्थापित करूक ताजेंच हक्क

हांगा भोंवचीं भोंवडेकारां, अल्पवस्त्र धारी
चिमटीभर अंतरच मू जावूक विवस्त्रकारी
शूसां आनी सोक्सां मात्र हांवें निसरायलीं
फातरांचे लागी उदकांत पावलां देंवयलीं
बुडलो सूर्या नारंगी ज्वालेंत अतिरमणीय
चिंतलें -'हांगा भोंवचाक जालेलें कितलें भाग्य!'

# केनियांतुले भारतीय

केनियांत हांव पावनु जावनु गेल्ले दोन मासांक एक वेळार सरी भारतांत न्हय आसा म्हूण दिसलेंना. आफिसांतुल्यांलीं तोंडा, मॉळांतुले भारतीय गिरायक, देवळा मुकुटां, गोपुर, भारतीय जनसमाजां सर्वय एकमेळी आशिल्ले भारताचोच उडगास दितालो.

पार्क लंड्सांत स्थित राम मंदिरांत वचाक आज माका अवसर मेळ्ळें. तमिल ब्राह्मणांक आज एकु खास दीसु. संत त्यागराजाचो जन्म दीस हो जेन्ना तंजावूर लागी कावेरी न्हंयचे पाडीक आशिल्ले तिरुव्यारू म्हळ्ळेले गावांत सर्व वर्षाय कर्नाटिक शास्त्रीय संगीतोत्सव चमकोवनु येताय. गेल्ले धा वर्षां जावनु नायरोबीचे दक्षिण भारतीय समाजूय हो विशेश दीस मानोवनु येता. गुजराती समाजान चलोवनु येंवचे राममंदिरांत तं हो उत्सव हे फंता चमकता. हेच स्थलार लागीची जावनु दक्षिण भारतीय समाज अय्यप्पालें एक देवळ बांदूचे उद्यमांत आसा जें मध्य आनी पूर्व आफ्रिकेंतुलें तसलें पयलें देवळ आसतलें.

हांगा एकमळीक कारण जाता धर्मु आनी भासो. भासे भेदान जांवची विभागियता जी भारतांत खूब आसा हांगा प्रसक्ती नातिल्ली जाता. दक्षिण भारतीय समाजांत कन्नडा, तमिळ, तेलुगू, मलयाळम आनी कोंकणी उलोवपी एकडे जाताय आनी तांतू जाति भेद कांयीच दिसना.

कापूर, अगरबत्ति, गांद, तुळसी वा तारे उंड्डे घालून दवरलेले कांचीपुरम कापडांचो घमघम हाळांत भरला. हे सुगंधाचे भरसी फडिपान फफळ पाकाचो परमळूय एकडे जावनु भारतांतुले मिगले भूतकालाचे देवळांकडे, संगीत सदसांकडे माका व्हरता.

हांगा हे संगीत लोकांत एकु आफ्रिकेनी काळगोय आशिल्लो

जो अन्य सर्वांचेय भशेन भुंयचेर पालकडी घालनु बेसून शब्द उपकरणांची व्यवस्था करता. धवें कुर्ता न्हेसिल्लो एकु खाड्याळो पिरलूकेरी पयलें स्वर वाजूक लागलो. जनां पांवतालीं मात्र. आयलेलीं आयलेलीं खालाक भुंयचेर घाल्लेले माद्रेंचेरी बेसून खबरी उलेयताय.

उगांडाचे कंपाला साकून आयलोलो मृदंगवाजपी ताजे वाद्योपकरण स्वरसज्ज करता. खंचेय कर्नाटिक संगीताचे शुरवातेर आयकूचे शब्दानी ती सभा भरली. गावपी बायलो मैकांचे मुकार तयार जावनु बेसल्यो आनी संगीत आरांभूचे प्रतीक्षेन जनांय.

गणेश स्तुति म्हणून संगीत मेळ आरांभिलो. सुमार पंचेवीस बायलानी एकसानीची ताळलय बद्ध जावनु गांवचें तें दैविक संगीत थांगा एकडे जाल्लेले एकेकेल्यालेय कणकणांत भरलें. ते श्रावण सुखाचीं पाळां एका ऊंचार एक जावनु येवनु मिजे सर्वांग रोमांचित जालें. हांव हे भारतीय संगीताचे शक्तीचेर विस्मय पावलों, जें कसलीच जबरदस्ती नातिल्लें फकत ताजे प्रीतीन ताजे पूरा शुध्द रूपान पिळग्यांनी शिकून काडून हांगा मातृराज्याचे भायर इतलें सुंदर जावनु जिवंत राबयल्यां.

दक्षिण भारतीयां संग गुजराती, कच्ची, मराठी आदी नंतणा एक गोरेलो आपले भारतीय बायले सांगातांत हें भारतीय संगीत आस्वादन करूक पावलोलो. जमलेलीं सर्वय शुद्ध कर्नाटिक संगीताचे शैलीरी ताळु धरताय जाचे पद्दती पसून हांव आज्ञानी आसा. तीं मिजाकय भो ज्ञानी दिसतालीं पुण संगीतच आपले खातीर उलयता आनी संगीतज्ञान नातिल्याकय आस्वादन करचे लेकान देवान तें रचल्यां.

थंय उपस्थित चडय बायलोय परंपरागत वस्त्र धारण केल्लेल्यो आनी हें कल्पना करूक माका आसाध्य जाता कि आमी भारतांत साकून 5500 किलोमीटर दूरा एक अनवळखी स्थलार आसाय. हॉळा भायर सुमार एक किलोमीटर दूरा जावनु स्वामीनारायण देवस्थानाचें

भांगरा मुकुट उबें राबलेलें आनी हांव गांवांतूच आसा म्हूण धीर काडूक अनायास जालें.

हावें मन सानप्रायेचेर व्हल्लें जेन्ना आमी कोलकत्ता राबतालीं. थंय राजा बसंत राय रोडारी एक त्यागराजा हॉल आसा जंय कर्नाटिक संगीतोत्सव केन्ना केन्ना चमकतालो. दक्षिण भारतीय समूहांत साकून दूरा राबूनातिल्ले खातीर कि कितें मिगेलो बप्पा दोन विमुखी भुर्ग्यांकय घेवनु तांचें मन सुदारूक बि जावयात, ते संगीतोत्सवाक वतालो. सात आट वर्षांचे माका वा तीन चार वर्षांचे मिगेले भयणीक असली संगीत मेळ रुचना आशिल्ली. आनी आमी थंय बेसलेले संगीत प्रेमियांचे अस्वस्थतेक कारण जावनु दोनीय वशीं आशिल्ले सीटांचे मद्देंतुल्यान धावनु भोवनु वेळु सारतालीं. आतां हांव हांगाचे चेरडुवांक पळयतां जीं हे थरथरी भुंयचेरी धावनु गडगडेवनु पडून, रडून तांचें आवसूंचें सांत्वन घेवनु सगट आमची परंपरा घटि जावनु मुकार व्हरच्यांत व्यापृत आसाय. सानप्रायेचे ते अनुभवांत साकुन आमकां कसलोय गूण जालो कि म्हूण कळना तरीय आतां हांव मिगेले बप्पा लागी आभारी आसा कारण तेद्दूसचे उडगासान आतांचो हो अनुभव खूब आनन्द हाडता.

त्यागराजा संगीत अंत्यार पावनु आरतीच्यान राबयलें. प्रसाद घेंवचाक येवकार मेळ्ळो.

केनियांत आराधना संबंदी पूर्ण स्वातंत्र्य आसा आनी उत्सव आघोशांकय कसलेंच नियंत्रण ना. होळी, नवरात्री, दीपावली आदी सर्व परबोय परंपरागत रीतीन दारूवे प्रदर्शन सयत आघोश करताय. एकेक देवळांतूय संगमरमरान केत्त्विल्लीं सर्व देव देवताचीं बिंबय एकसानीच हाडले हॉळांत प्रतिष्ठा केल्यांय.

भायर होडलीं उद्यानां आसाय जंय चेरडुवांक खेळूयात. देवळांचे परिमितींचेर भितरी वाटो आसाय जंय भोरनु जनां प्रदक्षिण काडताय वा आरोग्या खातीर चमकण वा धांव करताय. एकेक देवळांतूय सर्व

आयताराचेंय प्रसाद वितरण आसा. प्रसाद म्हळ्यार उणेच कांय न्हय. रायांक सर जाल्लेलें जेवणच! आनी हांगाचे भारतीयांचे मद्दें असली एकि चाली जाल्या कि दर आयताराय घरकडे रांदूनातिलें खंचेय देवळांकडे वचून तीं प्रसाद जेवताय. हेच अवसर बंधुमित्रांक मेळूक आनी सर्व समाजाचे एकमेळीकय कारण जाता. होडले देवळांकडे मात्र अशी एकेक आयतारा जावनु फेर मारूक सुमार देड मासु काडतलो. स्वामीनारायण देवस्थान, सनातन धर्म देवस्थान, तिरुपती बालाजी देवस्थान, जलराम मंदिर, इसकोण मंदिर, राममंदिर, गुरुद्वारा आदी आनी नवें बांदूचें अय्यप्पा देवळ हीं तं हांगाचीं धार्मिक एकमेळीचीं मुख्य केंद्रां.

भारतांतुले जायते गांवंचे जायते भाषा समाजिकांचे लागी दोस्ती आशिल्यान बंगाळी समाज, मलयाळी समाज, दक्षिण भारतीय समाज, दक्षिण कनरा समाज आदींत माका आमंत्रण मेळ्ळें. तें मात्र न्हय नवी नवी दोस्तीय जाली.

गुजराति, तांतुलो कच्ची विभाग तं हांगाचो मुखेल समाज. तें जातरी आसा सिख जनता. एक शतका चड हांगा वासु करनु येवचीं हीं चडय केनियाचें पौरत्व स्वीकार करनु राबून येताय. मराठी, मध्यप्रदेशांतुलीं आनी वयरी परामर्श केल्लेलीं, खंचेय उद्योगांतूय लागून आसाय. दक्षिण भारतीय लोक चडय पौरत्व घेवनातिल्लें व्यापारी उद्योगघरांत करार काम करताय. तमिळ जनता हिशोब, आर्थिक मंडळांत जशी सी ए, बैंक, बीमा कंपनी आदींत मुखेल अधिकारपदां हाताळताय. आन्ध्राचीं चडय इंजिनियरांय, कनरांतुल्यांक मुख्य जावनु बैंकिंगांतूय दिकुयात. ब्यारु, अध्यापक वृत्ति आनी ऐ टी हे मंडळांत चड तात्पर्य मलयाळींक आनी बेंगाळींक म्हूण दिसता.

नायरोबींतुलें मिगेलें हें काम कारण सर्व भाषेंचे भारतीय समाजिकांकय लागीच्यान वळखूक, समजूक, भारत सगळें भोवनातिल्लेंच साध्य जातलें म्हूण दिसता.

---

# नायवाशाचे पाणघोडे

पाणघोडे आमचे लागी साकून सुमार वीस मीटर दूरा आसाय. तांचे आनी मिगेले तंबूचे मद्दें वेगळीं दोन तंबू लागेन आसाय जांतू क्रेफिष लेय्क रिसोर्टांतुले थोडे वासी घोरेंताले. चिकलांत चरून भोंवचे ते पाणघोड्यांचे दोळ्यांचेरी मिगेले टोर्चाचो उजवाड पडलो.

आमचें मद्दें 800 वोल्ट विजेची एकि वोंय मात्र जी भूंय साकून एक फीट ऊंच पर्यंत आसा. तंबू वासियांचे लागी वचाक पाणघोड्यांनी श्रम केल्यार आंग दुकतलें म्हूण मुर्थमले अनुभवांत साकून कळता आसतलेंच. पुण तांकां कळनातिल्लें एक कायरीं आसा. आज हे रिसोर्टांतुले विजे केबलांत शोर्ट सरक्यूट जाल्लेल्यान ती विजे सरी निरुपयोगी जाल्या. पाणघोड्यानीं सदांच वोंय आपडून चोवप आसुना म्हूण हांव आशापूर्ण राबलों. आनी टोर्चा उजवाडांत तांचे दोळे चकचकेताय पळेयले.



कसलोकी विचित्राचो शब्दु आयकून तं हांव निदांतुलो जागलोलों. आमगेलें तंबू हुनयाळें आनी सुखदायक आशिल्लें. आमी तेग जनां दोन घंटे मुर्थम तं निंदेंवचाक पडलेलीं. राति बोणफायराचे वशीं बेसून करचे खेळ आनी भूतकाण्यांचे उपरांत शेळवोतु चड जांवचाक लागलोलो. मिगेलो गोमटो, कान आनी हाता बोटां बेगाबेग सूख मागूक लागले तेन्ना आमी बोणफायर सोडून कांबळ्यांत चडूक निर्बंदित जाले.

होडान कोणेय हुसकारून श्वासु तांडूचो शब्दु कि कितेंय चोखूचो खो खो शब्द कि आयकून हांव जागलों. तीं भीमाकार मृगां तांबूचे द्वारांत पावल्यांय म्हळ्ळेले कल्पनेन भीयेवनु भीयेवनु हांवें ल्हवूच द्वार वात्कें केल्लें. भाग्याक भायर तांचीं होडलीं तोंडां नांय. विज ना तरीय तीं मृगां विजे वोंयचे भायरच आसाय पळोवनु माका समाधान जाली.

ते चार आसाय. तांचे मागशी पापिरस बेतांचीं झाडां वोंय सारकीं वाडून राबल्यांय. नायवाशा सरोवराचे पाणघोड्यांचें खेळ स्थल तं पापिरस वाडून राबलोलो तो प्रदेश.

हे केंपाचे परिमितीचेरी खंचेय रातीय पाणघोडे धावनु भोंवचे दृष्टि पडतले म्हूण मुर्थमची हांवें जाणून दवरलेलें. नक्षत्रांनी उजवाडायलेले आकाशावेलो भागल्लो चंद्रु खालचे दृश्यांचेरी भयजनक उजवाड घालतालो. धावनू भोंवचीं थोडीं काळीं रूपां मिगेले टोर्चा उजवाडांत दिसताय. हांवें तांचीं साबार फोटो काडलीं तरीय मिगेले ओटो फोकस कॅमॅरेन ते दुर्बल उजवाडांत काडलेलीं कितलीं चित्रां स्पश्ट जावनु मेळतलीं म्हूण कळना. प्रत्यक्ष रूपान शांत दिसूचे हे मृगाचें भय माका आसाच. ते कारणान हांव सावध आशिल्लों. पडून आशिल्ले एक रुकाचे मागशीं हांव संभाळून राबलो.

आपले प्रदेशांत अतिक्रमण करच्यांक पाणघोडे निष्ठूर जावनु धांवडायताय आनी मनुष्यांचेरीय आक्रमण करून हिंसा करताय जावनु आयकलेलें आसा. पार्कांत थंय थंय ही कळोवणी आनी सावध करची सूचोवणी आसा. धावांत खंचेय मनुष्याकय सामकीं फाटीं घालूक हांकां साध्य आसा. तांचे चड लागी वचाक वा तांकां कोपु हाडोंवचाक नज म्हूण थंयचे कर्मचार्यांनी आमकां स्पश्ट रूपान सूचना दिल्लेली. पाणघोड्यांक दिकल्यारी हालूनातिल्लें राबूका, निशब्द राबूका आनी तांनी सहज गतीन वचू तांय तशीची राबूका अशी म्हूण थंयचे संभाळप्यानी उपदेश दिल्लोलो.

खूब घडियांक उदका पोंदाक बुडून पडूक पाणघोड्यांक साध्य जाता. आनी श्वासु ओडूक मात्र जावनु भायर येवनु तीं तुरंत ते चिकला उदकांत बुडतलीं. खंचेय पाचवें तरणे रोसाळ झाडय हे वळवळे खावगे भरताय. आनी खेल्लेल्या तितलेंच तांचे आमाशयांतुल्यान वेगीन सरून भायरय पांवता. भितर घेंवच्याची आनी भायर सोडच्याची मात्रा तुल्य दिसता. शेण घालचे समयार तांचें सानुलें बाल एक आयण्या लेकान हालताच राबता आनी पूरा शेण एकडेच पडचे बदल चारीय वशींय उसोळनु पडता. ही क्रिया उदकांत आसतनाय चमकता आनी वायूंतूले शेणा शिंवरान ते अस्पष्ट दिसताय. शतकां शतकां जावनु थंय वास करून येंवचे पाणघोड्यांचे संबंदानच जायत हे नायवाश सरोवराचें उदाक बदामी रंगाचें जाल्यां. सरोवराचे तडियेर निरंतर जावनु मेळचे हे सार्याचे कारण पापिरस झाडां बरे नेटान वाडताय आनी पाणघाड्यांचें भक्ष्यावश्य सुगम जावनु चमकता. हाजान एकमेकाक फायदो जाता.

इजिप्ती लोकांनी पयले जावनु तांची भास बरोंवचाक उपयोग केल्लेले खातीरीच पापिरस प्रसिद्ध जाल्यां. पेपर म्हळ्ळोलो शब्दू

पापिरसांत साकून उत्भव जाल्लोलो. तणाचे वर्गांतुलो दीग वर्गु हो तीन मीटर दिगायेरी पर्यान वाडूचो. ताजे तुद्दियेरी मात्र आसूचे सोपूर पाल्ले. तलवाक आसता ताजें बीं. बेत सारके आशिल्ले भागाक दाटी पाचूवी साली आसा पुण भितरी मोवाळ स्पंजा समान तंतुमय आसता. हीं बेतां वोतांत सुकोवनु वीणून पाकें घालूक, वोंय बांदूक, घरा पागार बांदूक आदी उपयोग करताय. चेंचून वीणून काडल्यार बलिश्ट दोर मेळता.

पुरातन काळा साकून पापिरसय जावनु आफ्रिकेक खूब संबंद आसा. मूसा संबंधित पुराण काणियेंत हाजो उल्लेख केल्लोलासा. मूसाक आपले आवयेन त्याग करतना पापिरसाचे खोट्यांत खंय निदायलोलो आनी हेच पापिरस झाडांचे हींडाचे मद्दे साकून खंय इजिप्ती राणियेक तो मेळोलो. सांस्कारिक जनजीवनांत आनी व्यापारांत पापिरसाचो खूब सहाय मेळ्ळोलासा. आफ्रिकी चित्र कलेंत आनी शिल्प कलेंत हाजो आसपाव जाला. ताजे बेतानी बांदलेलीं चेपकर सपाट व्हडीं आतांय नैल न्हंयेंतुल्यान यात्रा करूक उपयोग करताय. विक्टोरिया सरोवर साकून इजिप्त पर्यान ते न्हंयेंतुल्यान करचे यात्रे काण्यो पाणघोड्यांचे आनी सिसर्यांचे बरोबर चमकिल्ले संघर्शानी भरून उद्वेग जनक आसता.

चिकोल भरलेले पाणाथळांत तं हें पापिरस वाडता आनी हाजे लागी पांवका जाल्यार ते काळे पायकीळे चिकलांतुल्यान वोचुका जाता. पाणाथळांत भोरनु पाणघोड्यांनी माडोवनु केल्लेले होडले फोंड आसतले. सावधान जाल्लेनाय तरी ते फोंडांत माडोवनु फारकून पडूक साध्यता चडच आसा. सरोवराचे देगेर पाणावळि वाडून भोरनु पडल्या तरीय केरळाचे सरोवरांनी आशिल्ले तितलीच ना. केरळांत आमी हे पाणावळीक आफ्रिकेंतु साकून आयलेली म्हूण म्हणताय,



पुण हांगाचीं जनां हे पाणावळीक आनी खंयीच साकून हांगा पावलेली जावनु, कदाचित भारतांत वा सौथ अमेरिकेंत साकून म्हूण आठयताय म्हूण माका दिसता. तशी हे पाणावळीक प्रचार केल्लेले भूखंडां संबंदी आरोपचक्र होड होड जाताच वता.

### नायवाशाक वचें हायवे

देनपारांचे जेवणा समयार नायवाशाचे रिसोर्टांत पांवचे लेकान तं आमी सकाणी भायर सरलेलीं. नायरोबी साकून नायवाशाक सुमार शें किलोमीटर आसा. मद्दें मद्दें दृश्यां पळोंवचाक राबयताय तरीय हे उत्तम हायवेवेल्यान देड घंट्याची यात्रा केल्यार थंय पांवता.

नायरोबी साकून दक्षिण भागाक आशिल्ले 'नकुरु' वचे हायवेवेल्यान तं यात्रा. हाजेर चडूनिक सैप्रस, सिलवर ऑक, आदी दीग हरयाळे रूक आमकां स्वागत करून दोनीय तांतूय उबे राबल्याय. दोन कोणक्रीटा मीडियनां पदयात्रींनी आनी गोरवांनी हायवेचेरी चडचें आडांवचाक आसाय. एक सानी 'धारावी' जशी झोंपड पट्टी नायरोबीचे सीमेचेर दृष्टि पडली तरीय मागीरीय मुकार निर्मल भूप्रदेशूच आसा. यूकालिप्टस, पैन आदी रूक तांचे नैसर्गिक परमळानी वार्याक घमघमायताय. हायवे चड घूवळी नातिल्लें सीदा वता. दोंगरांचेर साकून दिकचीं दृश्यां सुंदर आनी अत्याकर्शक आसाय. पाचवेचार जाग्यांचेर तांबडे कोयलूवेंचीं घरां, थोडे बंगळ्यांचे आंगणांत गाड गुलाबी रंगाचें जकरांता फुलून राबलेलें हें सर्व सुंदर दिसता. हायवेचे थोडे भागाक दोनीय तांतूय खंचेय उद्योग पतीन प्रायोजक केल्लेलीं झाडां आनी फुलां अति सुंदर आनी मनमोहक आसाय.

मळब एक कॅनवासा लेकान आसा जाचेर फूडे रचिल्लें तृप्ति जावनातिल्ले वरी मेघां नवीं चित्रां रचूनूच आसाय. खालच्यान उबून

मेघां रूप बदलताय, धोक्यांत मेळसताय, मागीरीय नवें रूप धरताय वा अप्रत्यक्षच जाताय.

केन्ना केन्ना कायळ्यांक दिकूक येता. सदा दिकचे तराचे काळे कीटे न्हय, हे धवे छातीचे.

आमगेलो रस्तो दोंगराचे एक तांतुल्यान धुवलो तेन्ना मुकार रिफ्ट वालीची पयली दृष्टि मेळ्ळी. भूंय चीरून होडली खांची जावनु आसा. दूरा आफ्रिकेचो पेल्लो भाग दिसता. लाख लाख वर्षांनी प्रकृतींत स्वभाविक जावनु जाल्लेली ही घटणा. भारतीय उपखंडाचे भौमिक आकर्शणान जायत आफ्रिकेचो एक कुटको भुखंडाचे प्रधान भागार साकून दूरा सरचे प्रक्रियेंत आसा. आफ्रिकेचे उजवे भागाक जावनु आशिल्ली ही खांची केनियांत सरता. जंय ही खांची सरता थंय खालटार वचून एक वाडकूळे पोडग्या सारको भूभाग आसा. हे भागाक खांची सरचे कडे जावनु लोंगोनोट ज्वालामुखी मातें उबें धरून राबिल्या. हांगा साकून क्रमान देवणे आरंभता आनी खालाक वचून नायवाशा शहर पांवता. लोंगोनोट दोंगराचे खालचे प्रदेशार नायवाशा सरोवर पातळेवनु पडल्यां. भौमजलान उत्भव जाल्लेलें सात मैल दीग आनी पांच मैल रूंद हें सरोवर आदिमकाळ साकून पाणघोड्यांचें वासस्थान जावनु आसा.

आतां ताजे देगेवेलो प्रदेश सागळोच पुष्प कृषींत व्यापृत आसा. एकर एकरा लेकान हे प्रदेशार कृषि करून मेळचीं फुलां लोकांतुले अन्य राज्यांत निर्यात करताय. हुनाळें वातावरण राबूचे होडले होडले उष्णकूडारांत तं ही पुष्पकृषि चमकता. ऊंच राबून पळयल्यार हे पुष्प कृषीचो विस्तार स्पश्ट जाता.

हायवेचेरी राबून दूरा लोंगोनोट ज्वालामुखीचें तोंड आनी दोंगरा देवणेचेर फूडे लावा होळंनु होळनु घटि जाल्लेलीं लक्षणांय दृष्टि पडताय.

ते भायर थंय लागी ताजे आनी एक सान जागृत तोंड लागेन आसा जंय आतांय लावेची हालचाल आसा. लोंगोनोट ज्वालामुखी चड होडली न्हय आनी विरळ जावनूच फुटल्या तरीय हें स्थल आतांय सजीव आशिल्यान भविष्यारी फुटूची साध्यता सोडूक जावना. हे दोंगरा लागीच्यान घूवनु लुनाटिक लायन वता.

आमगेलें वाहन नायवाशा शहरांतुल्यान सत्तेरा किलोमीटर मुकारी आशिल्ले सरोवराचे लागी पावलें. थंय पर्यटकांचे खातीर साबार रिसोर्टां आसाय तरीय चड जनांय क्रेफिष लेक रिसोर्टच पसंत करताय. पाणघोड्यांचे वास स्थलाचे सामीप्यच हाका कारण.

केंपिंग स्थलार पांवचानिक थंय पार्क केल्लेले शेंबरा भायर वाहनांतुले संगीतान आमकां स्वागत केल्लें. एकेक वाहनाचेय लागी एकेक तंबू आसा जांतू तांतूले यात्रिकांनी राति काडची पडता.

एक अंतर्राष्ट्रीय जन समूहची थंय जमलेलें. थंयचे केंप आफिसांत साकून तंबू भाड्याक काडयात. थंय एक रेस्टोरेंट आसा, बार आसा. चडय तंबूवासियानी स्वयं रांदचे खातीर रानणी आनी रांदपा सामान हाडलेलें. सरोवरांत बोट यात्रा करूक सुविधा आसा.

पाचूवें पाकें घाल्लेले सारके दीग कांट्याळे रूक सावळी दीवनु राबल्याय. हे रुकांचे मद्दें मद्दें जावनु जंय वोताचीं किरणां देवनु येताय थंय होडलीं पाचवेचार तणामळां आसाय जांचेर तंबू बांदल्यांय.

तरातराचीं जनां, तांचीं रंगीन वस्त्रां, नानावर्णाचीं तंबू, बोट्यो आदी ते मेळाव्याक चित्रविचित्र दिसयता. सर्व जनांचेय मद्दें एकमेळी आनी सहकरण आसा.

आमचेय खातीर तंबू तयार केल्लें. उशीं, कांबळे सग मेळ्ळे. चोरडूवां एकडे जावनु उत्साहान तांचे खेळ खेळूक लागलीं. चड

खिलाडू व्यक्त्यांक भाड्याक सायकलां काडयात. राति बोणफायर करचे खातीर आमी राकूड एकडे केल्लें.

एक तांतू थोडे साबार चेडे, कॉलेजांत शिकचे दिसता, तंबू मारनु राबून आसाय. विविध देशांतुले दिसूचे ते खूब मौज करताय. तांतूल्यातुले कोणेय एकल्यालें 1000 सी सी कावासाकि बायकार ते, ते केंपांत घूवळी काडताच आसाय. ते बायकाचो होडलो शब्दु थंय पूरा उत्तेजक जावनु धडधडेता.

होड स्टीरियोचेर धडधडपी वाद्य संगीत चलतालें आनी ताका लागून लोक गायताय आनी नांचताय. ते भायर असंख्य बियरा कॅनां रित्तींय जाताय.

थोडे तंबूतुल्यो युव जोडी विरळ जावनूच भायर येतालीं.

आमी स्टोवारी खाण आनी चाय करूक लागलीं. पुण अर्दकूड्यार वाझवडी सयत पावस पडूक लागलो. पावसू कारण सरोवराचे पेल्लीतडी दृश्य न्हय जाली. झोडा वार्यान पाळां धवसाणीर उठलीं. एक भागाचान वोत. आनी एक भागाचान पावसू. दृश्यांक रंगबदलाव आयलो. पोंदाक साकून उजवाडायलेले वरी सरोवराचे उदकाक पाचूवसाणी चडली. मळबारी उजवाड ऊणे जालो. उबून वचे थोडे ढोंकांचेरी एक कडेचान वोत पडून झगझगेता पळयल्यारी ते काळे मळबार काजोळे उबताय म्हूण दिसता.

इतल्यान सूर्या निपलो आनी सरोवर गोबराळें जालें. तिमूनातिल्लें राबूक आमी धावनू कारांत चडून पावसू राबूक राकताले. थोडी घडि भितरी आरांभिलेले वरीच राबलोय. मोड उबून दूरा गेल्लें. पाल्यां तलवावेले उदका थेंबे सूर्याचीं नवीं किरणां धरूक लगले.

चाय समकीची तिमून नाशु जाल्ली.

थंय पावलेले तेन्ना आमी भाड्याक एकि बोटि सांगून दवरलेली. पावसू राबूनिक आमी बोटीचे यात्रेक भायर सरलीं.

बोटीर चडचे खातीर आशिल्लो फळ्यां बांदू सुके स्थलार न्हय आसा. ताजे पयलेचीं थोडीं फळीं ते पाणाथळार मारनु दवरल्यांय. आनी बाकीचीं फळीं प्लास्टिकाचे रिते पीपेंचेर बांदून उदकांत पोंवताय. यात्रिकांनी बोटीरी चडचे वा देंवचे वेळार तो रुका बांदू खाल ऊंच हालतलो. एकेक वेळार तो उदकांत थोडो बुडतलोय बी आनी जूतां तांय तिमून वतलीं.

लाय्फ जॅकेट घालनु आमी ते उथळ मोटोर बोटीर चडलीं. एक गर्जन सयत बोटि मुकार सोडली.

उदकाचे ऊंचावेल्यान धवे पाकांचीं पाणकोळीं* राजकीय भशेल पोंवताय. तीं बेगीन पोंवताय तरीय येदें सरी उदक उसोळनु वचना. हें पळोवनु माका अतिशय जालो. थंय ते सरोवराचेर भोंवचे सर्व सवण्यांकय वळकूक, तांचीं नावां वळकूक हांव आशेल्लों.

दिवडा गोमट्यांचीं थोडीं काळीं सवणीं खालच्यान उदकाचे केवल एक इंच ऊंच जावनु उबताय. तांनी पाकां फडफडावनु उबतना उदकाक येदें सरी लागना. तांचो गतिवेग शेंचे भायर आसाच, हाका संशय ना.

एक पाणकायळो* वार्यांत एकडेची पाकां हालयत राबून उदकांत पळयता. छट जावनु ताणे बुडकी मारली आनी चोंचींत एक मासळी धरनू ऊंच पावलो.

तडीर थोडीं दीग सवणीं राबलेलीं दृष्टी पडलीं. 'लेप्टोप्टिलोस क्रुमेनीफेरस' म्हूण जाती नांव आशिल्ले तांकां माराबू ढोंकां म्हळेले नावांन तं साधारण जावनु वळकताय. तांचाकय सानां एष्यन तराचांक

---

*पाणकोळीं - pelicans *पाणकायळो - kingfisher

अडजुटन्ट ढोंकां म्हूण नांव. आफ्रिकेचे चड भागाकय सहाराचे दक्षिणाक जावनु होडले तराचीं ढोंकां वास करून येताय. होडले हे सवण्याचे विस्कळावनु धरलेले एक पाका तलव साकून आनी एक पाका तलव पर्यांन सुमार अडेच मीटर आसूयात. आनी हांकां भुंयचेर साकून वार्यांत उबूक सुमार अर्द धांव पाट्येचे दिगायेन स्थल जांवका जाचेर तीं धावनु धावनु एक पटाक वार्यांत उडकी मारनु उबूक लागताय. तानी उबूक लागचें पळोंवचाक जावनु हे सवण्यांचे संग धावनु धावनु चेरडुवांय खरें जावनु खूब मजा पांवतालीं.

तांचे बोडके मात्यार थोडीं गोबराळीं पाकां आसाय. तांचे देहा पाकांय गोबरालीं. तांचो भाव आनी चाल एक सैनिक अफसराचे सारके दिसयतालें. सबाव न्हय तांकां अडजुटन्ट (सैनिक अफसर) ढोंकां म्हूण नांव पडल्यां. तांचे गुलाबी तोंडाक एक होडले चोंचीन मिरियो घाल्या आनी तांचो मुखभाव संपूर्ण करूक केवल एक चशमो लागेन दवरल्यार जातलें.

लागी साकून पळयल्यार सुंदर दिसचीं न्हय तीं तरी तांचीं विस्कळ पाकां, दीग गोमटे आनी दीग चोंच्यो कारण आकाशार उबतना सामके राजकीय आनी आदिम काळाचीं सवणीं सरी दिसताय.

सूर्यप्रकाशित दिसांचें, नायरोबीचे उहुरु हायवेवेल्यान वचे वाहनांची येदी परवा करनाशिल्लें हायवेचे ऊंचावेल्यान उबून वचे ढोंकांक दृष्टि पडतलें. नायरोबीचे विमाना अड्यांन साकून सिट्टींत वचे रसत्याचेर खंयचेय एकडे दृष्टी पडचे गुवानोची धवे खतांची राश पळयल्यार थंय ते भागाक आशिल्ले रुकांचेर तांचे साबार घोंटेर आसाय म्हूण स्पश्ट कळता. कुसडें मांस खावपी हीं सवणीं ते बाबळा रुकांचेर बेसून नवागतांचेर घालची निस्तेज दृष्टीयो, एक अनन्य भूखंडांत तं पावल्यांय म्हूण पर्यटकांक परत उडगास दिता, जी भूंय

जंतुलोकाक तरा तरा विचित्र रीतीन परिणाम जांवचाक सहाय जालेली.

वेगळे तराचीं सवणींय उदकांत बुडकीयो मारनु भोंवत आसाय. हंसपावलां सारके आशिल्ले तांचे पायानीं उदका उंचावेल्यान धावनु भोंवचाक तांकां साध्य आसा.

भो ऊंच मळबार थोड्यो घोण्यो उबून घूवळी काडताय.

चार वरां पर्यान बोटीचे आनी पाडीचे मद्दें जावनु णव पाणघोड्यांक दिकून जाल्लें. नवजात दिसूचीं तसलीं पिलां साकून होडलीं होडलीं मृगां तांय तांतु आशिल्लीं. सरोवराचे पाडीक गांवकार न्हाताय, उंबळताय आनी कितें तांचें सदांचें काम म्हळ्यार तें सगट करताय. पाणघोडे रूका धडि पोंवचे लेकान तशी उदकांत पोवनु भोंवताय. आनी एकेक वेळार देवमास्या लेकान नांकांतुल्यान वूऽऽष शब्दू करनू श्वासु सोडताय. आमकां फोटो काडचे खातीर म्हळ्ळेल्या वरी मातें उबारनु दोन पाणघोडे एकसानीच होडली जांबयो काडूक लागले.

पाणघाड्यांचे आंगार प्रकृतींतुलें आनियेक विस्मय आसा. तांबडे छातीचीं सानुलीं सवणीं पाणघोड्यांचे तोणांत भयरहीत चडून तांचे दांतांचेर शिरकलेलें खावनु साफ करताय. आनी तशीच हे होडले मृगांचे सालीचेर जीयेवपी किट्टी जशी प्राण्यांकय खावनु सहायु करताय. पाणघोड्यांक तरी सानच खुंटी सरी एक बाल तं आसा जाचान मुसांक, प्राण्यांक धांवडांवचाक आसाध्य.

एकु पाणघोडो आनी एकल्या फाटीर चडून ते सान दुर्बल मृगाक उदकांत बुडयता दिकीलें. उदकांत आसतना केवल दोळे, कान आनी नांकां पूडे मात्र भायर दिकचे लेकान ते पडताय. हें चोयल्यार सादा घोड्यां उडगास येतोलो. आनी हेच कारणान जायत तांकां

उदकांतुले वा पाणींतुले घोडे - पाणघोडे म्हूण नांव पडल्यां.

बोटि तांचे सल्प लागी व्होरूक आमी केल्लेली मागणी आयकून बोटीकारान ताकीद केल्लें. ते भो कोपिश्ट स्वभावाचे आशिल्यान उदकांत बुडकियो मारनु निशब्द बोटीचे पोंदाक सरनु बोटि अनायास उमती करची साध्यता चड आसा. आनी हे कारणान केदणाय सावध राबुका म्हूण बोटीकारान सांगलेलें आयकून मिगेलो हात लाय्फ जॅकेटीचेर गेलो. ताजें महत्व तेन्ना मात्र माका समजलें.

बोटि मागीरीय मुकार सरली.

थोडे फंता अ़शीय जालें. शुरवातीर पाणघोड्यांचे आनी एक समूहाची हालचाल म्हूण दिसलेलें दृश्य होडले आफ्रिकेनी दादले नागडेच स्पश्ट जावनु मज़ेन, उवसून खेळनु न्हांवचें तं म्हूण समजून बोटीचे यात्रिक विस्मित जाले.

'एल्सामेर' म्हळ्ळेले सिंहीची काणी सांगूचें 'बोर्ण फ्री' म्हळ्ळेले चित्रपटांत उपयोग केल्लेलो एकु बंगळो बोटीकारान पाडीर दाकोवनु दिल्लो. हे सिंहीची काणी 'मसाई मारांत' चमकूची तरी चित्रणाचे खातीर नायवाशाचे अनुकूल परिसरांत थोडो भाग चित्रण केल्लोलो.

सांज जाली म्हणतना बोटीयो सर्वय परतून पाडीक पावल्यो. तांतूले यात्रिक केंपांत परतले. सरोवराचेर सौम्य शांतताय पातळ्ळी. सवण्यां किळबीळूय ऊणे जावनु राबून गेल्लो. थंडी चड जाली आनी सर्वय बोणफायरां जळोवूक लागलीं.

आमी येदीं जनां रोस्टोरेंटांत गेलीं. थंय खूब केंपवासी एकडे जाल्लेले. कितें सगट आसा थंय म्हूण दिकूचे मुर्थम विजेचो शोर्ट सरक्यूट जालो. भायरचे विजे वोंयचे सरीयेर साकून खूब कडेच्यान उज्या कीट्यो उसोळनु पडूक लागल्यो. दोन मिनिटांक हें अशीची

चमकीलें जेन्ना एकेक भागान जावनु वीज सोंतु जाता गेली. आखीर केंपस्थलार वाहनांचीं हेडलायटां, टोर्चांचो आनी बोणफायरांचो उजवाड मात्र वरलो.

आमी तंबूंत परतले जंय बायलो आनी चेरडुवां रांदप करच्यांच लागून आशिल्लीं. आमचे लागी एमर्जेंसी लायटां आशिल्लीं म्हळ्ळेलें सहायाक पडलें तरीय विजे वोंय निरुपयोगी जाल्या म्हळ्ळेलें हुस्क्याक कारण जालें. पाणघोडे गांवांत नांय जाल्लेलें बरें जालें म्हूण आमी तमाशो मारूक लागले तेन्ना केंप संभाळप्यानी आमकां ताकीद दिलें. दर राति थंय भायर येवनु ते फेर मारताय म्हूण आयकून घप जालें. राति तीं मृगां तांबूंत चडून आयलीं जाल्यार कितें करतलीं म्हूण हुस्को भरून आलोचना चालू जाली. मदराति निंदात पाणघोड्याचे खूब दाट दोन टण भारी पाय आपले पोटारी घेंवचाक कोणाक साध्य? आमचे आनी पाणघोड्यांचे प्रदेशांचे मद्दें आशिल्ले दोन तंबूंतुले वासी, पाणघोड्यानी राति आक्रमण केल्लें जाल्यार, बोबाट घालनु जाणयतले आनी तशी आमकां वांचूक वाट जातली म्हूण आमी आशापूर्ण राबले. थोडे उन्मादक युवक चंद्राक पळोवनु कुल्लेरी घालूक लागले 'लोंगोनोटाचे भीभत्स प्रदर्शक!' हांवें लेकलें आनी तंबूत चडून कांबळो पांगूरनु पडलों.

ते चार पाणघोड्यांची घडणूक नंतणा राति शांत जावनु सरली. आतां तें एक सपन सरी दिसता. फोटो डेवलप केल्यारीच कळतलें.

ताजें फल कळू तांय मिगेले सपना रंगमंचार लोंगोनोटाचे मागशींच्यान उदेवनु येंवचे पूर्णचद्राचे, पापिरस झाडां मद्देंतुल्यान पाझरून येंवचे प्रकाशांत नायवाशाचे पाणाथळाचे पेल्यान तांची निशब्द सावळीयो पळोवूक, तांचे दोळे चकचकेंवचें पळोवूक, तांचो उल्लो येंवचो राकून हांव बेसतलों.

# सुकुमा आनी उगाली

"केनियांतुलें परंपरागत खाण कसलें?" हांवें मिगेले केनियाकार सहप्रवर्तकाक विचारलें.

आमी कोनिंड्या इमारताचे सोळावे माळियेर बेसून जेवतालीं. भारतीय जेवण शीत, रोटी, दाळ, उपकरी इत्यादी. थंय पांवचे भारतीय अतिथियांक तांकां सर जाल्लेलें खाणा जेवणाचें करून दीवूक केनियाकारी रांदप्यांक शिकोवनु सोडलेलें.

"तुमी एष्याकारांनी करचे लेकान मसालाचो उपयोग आमी करप ना," ताणे सांगलें.

भारतीय जनतेक तांनी एष्यन म्हणूची आपयताय. तांचे पूर्वारी राबूचे पाकिस्थानी, बंगळादेशी, जापानी, चीनी, कोरियाकार, मलेष्याकार, भारतीय आदी बदामी रंगाच्यांक मेळोवनु तांनी घाल्लेलें नांव तं 'एष्यन'.

केनियांत पावनु थोडे दीस मात्र जाल्लेल्यान खाण जेवण हांव आफिसांतुले केंटिनांत करता. एकेक दिसा आमचे ओट्टूच केनियाकार सहप्रवर्तकय एष्यन खाण खाताय, तांकां तें पसंद न्हय तरीय.

"मिस्टा सुटाका! आमी सदां उगाली आनी न्यम छोमा खाताय." ताणे सांगलें.

मिगेले नांवाक ताणे कशाप केल्लेलें आयकून ताणे सांगलेले खाणा नांव मिगेले श्रद्धेंत गेल्लेना.

"उग....कितें?" हांवे निमगीलें.

"उगाली," ताणे दुशेरी म्हळ्ळें. एक सरळ उत्तर उच्चारण

करूक इतलें कष्ट वे म्हूण ताणे लेकलेलें आसतलें. मिगेलें सादें नांव सुधाकर स्पश्ट उच्चारण अनायास करयात मू म्हूण ताका जाणोवूक दिसलें तरीय हांव कांय उलेयलोना.

"मको* रवा शिजोवनु करचें एक खाण तं उगाली. तें न्यम छोमाचे ओटूच खांवका. न्यम छोमा म्हळ्यार भाजिल्लें मांस."

"शाकाहारी रांवदयो कसकसल्यो आसाय?" हांवें निमगीलें.

"सुकुमा! एक भाज्ये रांवदयी." ताणे म्हळें.

"मिजे दोस्त, तुमगेलें परंपरागत खाण माका रुचून चोंवका म्हूण आसा. पुण हांव शाकाहारी आशिल्यान माका उगाली आनी सुकुमा पूरो. तुमचे रांदप्याचे लागी सांगून फाल्याक करोवनु दिशी वे?"

"ओहो. जायत!" तशी तो निश्चय केल्लो.

लागीचे दिसा केनियाचें परंपरागत शाकाहारी खाण रूचून चोंवचाक जावनु आमी तयार जाले. इडले वरी दिसूची उगाली घेवनु बेयरर पावलो. हांवें दोन कुटके घेतले आनी सावकाश ताजो घास काडलो. अळ्ळीं मुद्दो! भारतीय खाणांत दवरून रुची ऊणे आशिल्लें एक इडली म्हूण माका दिसता. पुण ही उगाली इडलेकय हारवयलेली! माका अतिशय जालो. सादा मको रवा उदकांत शिजोवनु मीट मीरें कांय आपडावनातिल्लें एक खाण!

सुकुमा पावलें. आमी घरकडे करचे भाज्ये उपकरे वरी दिसता. ताजें रूप आनी रुची हांकां आमचे भाज्ये उपकरे लागी आशिल्ली साम्यताय दिकून हांव अतिशय पावलों जाल्यार ताकाय मीट मीरें नाशिल्या पसून हांचे लागी सांगूचें कि ना म्हूण हांवें लेकलें. मागीर नुतोच सुकुमांत कालोवनु उगाली गिळ्ळी.

*मको - maize

मिगेली अस्वस्थता समजून कि इत्तें दोस्तान सांगलें, "न्यम छोमाचे ओट्टूच उगाली खांवका. तेन्ना रूची चडतलीं."

"ना, कांय ना. अशीय बरी." हांवें दोनी कुटकेय खावनु सारतना सांगलें.

थोडे नारलेलांत सासमा फण, दोनी कुटके जीवि सांग, आल्या थोडो कोचोलु, करबा पत्ति, कोतंबरी पल्लो आनी निश्चय जावनु आवश्याक मीट, केवल इतल्याचो उपयोग केल्लोलो जाल्यार आमगेले 'उपमा' वरी रूची याताशिल्ली म्हूण माका दिसलें. कोण नातिल्ले वेळार घरकडे उगाली करून चोवूं म्हूण हांवें निश्चय केलो.

मिगेलें रित्तें वाटें पळोवनु तांनी दुशेरी उगाली वाडलीच! मिगेली व्यथा कशी सांगूं?



# कार घेंवच्या पासून

एक नवे जाग्यार पांवतना सुरवातीर साकूनूच आवश्यक म्हूण दिसूचें एक कार्य तं वाहन, विशेषतः परदेशांत नवें काम मेळनु वतना. कारण एक वाहन आमकां संचार स्वातंत्र्य दिता. आपले सहप्रवर्तकांचेर भार घालनात्तिल्लें जाय तशी खंयीच वचाक साध्य जाता. सकाणी आफीसांत वचे ओमसरान पायार सोक्स चडयतना वा आपलेआप खंयीच चमकूक गेल्लेले एक जूताचे मागल्यान सोदून भोंवतना होर्ण वाजूचो शब्दु आयकूक पडतलो. आपलो दोस्त वाहन घेवनु येवनु अक्षम जावनु राकून होर्ण मारताच राबतना निश्चय जावनु कोणालेंय मातें लजेन बावगतलें.

पूर्वकालांतु ब्रिटीश कोळनी आशिल्यान केनियांतूय भारतांतुल्या वरी वाहनां दावे भागाच्यान धांवडायताय आनी हे कारणान माकाय हांगा कार धांवडांवचाक कष्ट जावना म्हूण विश्वास आसा. तरीय नायरोबीचीं ट्राफिक नियंत्रणां भारतांतुल्यांचे पशी भिन्न. हांगाचे चलोवपी रासत्याचेर न्यायान आशिल्ले हक्काक महत्व दिताय. उजवे भागाच्यान येंवचे वाहनांक जंक्शणांत पयलीं वाट मेळतली. उजवें इंडिकेटर घालून आसा दिकल्यार मुकावेल्यान येवपी, आमकां वचाक इशारो करतले. एकलोय अनावश्य ओवरटेक करचो न्हय. रसत्यांचेर सैकल वा मोटर बैक ना म्हणूच सांगुयात, पदयात्रीं चमकताय दिकचेंच ना.

वाहनां एकय लेय्न चुकोवनु धांवचीं ना आनी लेय्न परतूका जाल्यार युक्ती पूर्वक सावधपणान, इंडिकेटरां, बाजूच्यो आनी रियरव्यू हारश्यो उपयोग करून धांवडायताय. मागीर एक कायरीं आसा, नायराबींत एक ड्रायवरान सरी होर्ण वाजूचें ना. हांगाचे ट्राफिक पुलीस भारतांतुल्यांक हे कार्यांत शिक्षण दिताय जाल्यार कितलें बरें

जाता म्हूण हांव आशेतां. नायरोबीचो ट्राफिक कम्मीशनर कोची आयलो जाल्यार निश्चय जावनु कोचीक प्रयोजन जातलो. पुण माका अशीय दिसता, एकच तो कोचीचें ट्राफिक सामकें करतलो ना तरी परतून वचून केनियाकारांक कोचीच्यां सारके धांवडावूक उपदेशु दितलो, कारण कोचींत एकल्याक जाय तशी करूक कितलें स्वातंत्र्य आसा!

माका इंड्यन ड्रायविंग लायसेंस आसा पुण मिगेले कंपनीन केनियनी घेंवचाक निर्बंध केल्लो. आनी तें भो सरळ काम. मिगेलें नांव, फोटो आनी थोडी अन्य जानकारी दीवूनिक अतिशय कि न्हय, केनियांत पावलेले दुशेरे दिसाच एक नवें लायसेंस मिजे हातांत पावलें! कशी जालें म्हूण सोदलेंना पुण हांवें बेगीन समजून काडलें कि 'किटू किडोगो' हांगाय चालू जाता. तें म्हळ्यार किस्वाहिलींत 'कितेंय अल्प स्वल्प', जें कसलींय कायरीं चमकूचे खातीर साधारण जावनु हात सोडका जांवचें. तशी लायसेंस मेळून जावनु मिगेले बॉसाले ह्युंडाय इलांट्रा काराचे चालक चक्रारी हात दवरूकय माका अवसर मेळ्ळें. तें एक बळिष्ठ वाहन आनी ताजें चलोंवचें कार्य उत्तेजक! उणेच वेळान हांव थंयचे रसत्यांचेर धांवडांवचाक निपुण जालों!

पुण मिगेलें आपलेंच वाहन म्हळ्ळेलें सपन मागीरीय तशीच वरलें. माका अनुवाद दिंवचाक आशिल्ले अडखळेन न्हय पुण इतलें सान एक कायरीं चर्चा करूक वेळु मेळना म्हळ्ळेले कारणान बॉसान दिल्लेले उतराक फलप्राप्ती जायना आशिल्ली. अथवा उलोवूक आरांभीलें तरीय मिजे मुर्थमले मानेजरान कार घेवूक साहस दाकयलेले तेन्ना ताका विकप्यान फटयलेल्या पासून आशिल्ले दीग काणियेंत चर्चा घूवनु वताली.

पुण हांव तशी वेगीन मागशीं सरचो न्हय. आनी माका एक

वाहन घेवूक अनुवादूय मेळ्ळो. कंपनीक दोनी पद्दत आसा. एकि - नवें कार घेवप आनी दुशेरी - पूरा सामकें करून नवें जशी केल्लेलें पोरणे कार घेवप. तुलन केल्यार नवे काराचें मोल तांकू जावना, आनी हे कारणान ही पद्दत शुरुवातेरीच निरोधित केल्या. मेरसिडीस, वोळवो, ओडी आदी कारांचेर आशेचे दोळे दवरूक मात्र हांव शकतालों.

माका वाहनाचे खातीर खर्च करयात जाल्लेले रक्कमाचेरीय नियंत्रण आसा. नायरोबींत धांवचे कारांची संख्या पळयल्यार सगळ्यां पशी चड लोकप्रिय कार टोयोटा कोरोला आसा जें घेवूक माका हें रक्कम पांवतलेंय. थोडे चड काळाक राकता जाल्यार खंचेय उत्तम मोडलाचें नवें कार जें आमगेले कंपनीन पूरा नष्ट परिहार दीवनु घेवनु सामकें करून सेकंड हैंड बाजारांत विक्रीक दवरलेलें, तें घेवूकय अनुवाद आसा. बी एम डबिळ्यू वा वोळ्क्सवागण बी मेळत की ना म्हूण कशी कळत!

मिगेले सपनांक पाकां दवरलीं. वेळु सारूक जावनु कारांचें बाजार भोंवूक हांवें निश्चय केलो. 'एकलोच वचूनाका, एक समर्थ मिस्त्रीक सांगातांत व्हर' कंपनींतुले मिगेले मित्रांनी उपदेश दिल्लेले प्रकारीं कंपनी वाहनां सामकी करचे राजसिंगांक हांवें सहायाक एकडे केलो.

आरंभारी साकूनूच राज भो उत्साही. "हांव तुमकां सर्वोत्तम कारच घेवनु दिता, सर! खूब जाग्यांची वळकी आसा माका." भायर सरतना ताणे आश्वासन दिल्लें.

पयली आंगडि कंपनी मंदिराचे सामकी लागी. थंयचे मानेजर म्हणून वळकी दिल्लेले एकल्यान थंय सगळें भोंवडावनु दाकयलें. ताका पळयल्यार गोड गोड उलोवनु फटोंवचो सो दिसता. मित्सुबिषी लान्सेर, कोरोला, होंडा, फोर व्हील ड्रायव वाहनां आदी आकर्शीत जावनु प्रदर्शन केल्यांय. सगल्यां पशी मोल ऊणे कोरोलाक.

केनियांत कारांचें उत्पादन ना. आवश्याक जावनु नवीं कारां आनी पोरनीं कारांय आयात करताय. यू के, ओस्ट्रेलिया आदी कडे उपयोग केल्लेलीं उजवें चालक चक्री कारां नवीन तशी करून केनियांत पांवयताय.

ताणे दाकयलेलीं कोरोला कारां तकतकेवनु सामकी नवीं दिसताय आनी तांचे सीट बेल्टांचेरी श्रद्धेन पळयल्यार मात्र वाहनांचे उत्पादन वर्ष कळतलें. चड कारांय सुमार चार वर्षां पोरनी, 1998 वर्षाचीं.

एकेक काराचेय भायरच्यान भोवनु चोवनु राज आपलें बोट वाहनाचे धुवरा नळियांत चडोवनु काळो काजोलो लागला कि म्हूण निरीक्षण करता, आनी निरुत्साहक शब्दांनी आपलें मत जाणेयता. अशी पळोवनु चड करून सर्व कारांचेय इंजिनाक प्रश्नु आसा म्हूण ताणे जाणयलें. आखेर ताका पसंत जावनु एक गोबराळें कोरोला वेंचून काडलें.

मिगेले सपनांतुले कारा लागी हांव पांवलां! पुण विकप्याचे लागी कितेंय उलोवनु जावनु राजान माका बेगीन ओड्डून आमगेले वाहनांत चडयलो. पांच किलोमीटर दूरा शहराचे पेल्ले भागाक आशिल्ले आनी एक आंगडींत व्हरूक ताणे ड्रायवराक आदेशूय दिल्लो.

थंयीय हेच रीतीन निरीक्षण करप, एक कोरोला वेंचून काडप आदी सगट चमकीलें. चोवथी आंगडि सोड्डू भितरी हांवय काराची धुवरा नोळी निरीक्षण करच्यांत निपुण जालों. पुण पांचवे विकप्यान राजाले हे विचित्र रीतीचे विशीं एक उपहासात्मक उल्लेख केल्लो.

"एक्सोस्ट पैपांत बोट खोंबून कशी कि एक काराची अवस्था निर्णय करूक जाता?" ताणे तिडकून निमगीलें. "एक हृदरोगा वैद्यान रोगीचे गांडीत बोट खोंबून चोवनु हृदरोग निर्णय करच्या सारके जाता तें!" साधारण जनांक जिरचे खातीर तागेलीं उतरां सल्प मोव करून हांगा बरयल्यांय, पुण तुमकां कायरीं कळ्ळींच मूं...

नवी शिकून काडलेली, काराची अवस्था निर्णय करची राज सिंगांची ही रीति थंय साकून देंवतनाच हांवें मनांत साकून उडयली. मागीर राजा लागी ताजें गारेज खंय म्हूण विचारलें. तें लागीच आसा म्हूण कळ्ळें आनी माका थंय व्हरूक तो बेगीन तयार जालो.

एक वोणींत भितंरी सान एक गेटांतुल्यान चडल्यार ताजें कार्यस्थल. थंय पागडि बांदिलो वेगळो एक सरदारजी एक लांडक्रूसराचे इंजिनांत पूरा मग्न आसा. आनी एक भागाक, धापको लागलेले एक कोरोलाचेर कितेंय कुटकुटायताय. काणसूले दोळ्यांतुलान हांवे तांबडें कितेंय दिकीलें. ताजो मुकावेलो भाग सामकी मोडून आसा, विंड ग्ळास नष्ट जाल्यां, बॉनॅट ना, पुण इंजिन पूरा सुरक्षित. हांव काराचे मागशीं भागाक वचून चोयलों. एक रुंद कार, मुकार उडकी मारूक तयार दिसूचे लेकान आसा. होंडा सिविक... चड पोरने न्हय, भितरी साफ, गोबराळें वेलवेटीचें.

हांव एक पावटी लागेन घूवळ काडून आयलो आनी राजाचे लागी वाहना पसून निमगीलें.

"सर. तें तुमचे कंपनीचें कार. पूरा नष्ट परिहार दीवनु मेळ्ळेलें. हांव सारकें करीत आसा..."

"कितले दीस काडतले?" हांवें निमगीलें.

"दोन वार, सर."

"तशी तरी हें तं माका जाय जाल्लेलें कार!" हांवें सांगीलें.

तशी तं तें सुंदर होंडा सिविक के ए जी 853 मिगेले हातांत पावलेलें.

देवा! मिगेले नायरोबींतुले जीवन कालाक हें कार कसली भूमिका खेळूक वता म्हूण कळतालें जाल्यार...

# स्कूळां आनी घरां सोदप

चाळीस राज्यकारी चेरडुवांक उपकार पडचें, नायरोबीचें अद्वितीय म्हूण मिगेले अफिसांतुल्यानी आदरान सांगलेले सेंट ऑस्टिन्स अकाडेमीचे रिसेप्शनांत तं हांव आसां. यू एनाचें प्रांतिक प्रशासन केंद्र आसून, नायरोबीचे ताजे आफिसांत विविध राज्यांत साकून आशिल्ले कर्मचारी येतच वतच आसतले, आनी हे स्कूळांत अंतराष्ट्रीय विद्यार्थीयांचो प्रवाह निरंतर जाता.

हें स्कूळ चमकोंवची व्याप्ती पळोवनु हांव विस्मित जालों. केनियाचे साबार मंत्र्यालीं चेरडुवां हांगा शिकताय. आनी हे कारणान हाजें सामकें राखण करताय. भितर चडतना एका पशी चड कडे राबूनु मिजी वळख दिंवची पडली, उद्देश सांगूचो पडलो.

"मिसिस ली आतां तुमकां भेटतली." रिसेप्शनिस्टान सांगलेले तेन्ना हांव प्रधानाध्यापिकेचें कूडा कवड वात्कें करून भितर सरलों.

थोडेभोव एक बायल ब्रूसलीचे सारके हाताच्यो मुष्ठियो मुकार धरून सल्प बावगून उडकी मारूक तयार राबलेले एक आश्चर्य जनक रूपाची तं हांवें प्रतीक्षा केल्लेली. हांव विस्मित जालोंच तरी तें केवल तिजें सामके परिचयाचें दिसूचें रूप कारणच नंतणा वेगळें कसलें न्हय. आपले कदेलार पूरा भरून बेसलेली ती बायल मलयाळीच दिसता. सुंदर एक कपड न्हेसून आसा. आनी निडळार होडलो तीळो करून आशिल्ले तीणे उठावनु माका हस्तदान करून बेसूक सांगलें.

हांव प्रायः बडबडेवूक लागलों, कोण, कितें, ली...

"गुड मोर्णिंग, मिस्टर सुधाकर, चडय भारतीयांचे लागी साकून माका असलीच प्रतिक्रिया मेळता." तीणे सांगलें. "मिगेलें यथार्थ नांव

राधिका, मिस्टर ली मिजो बामूण."

अब्बा! हांवें आठयलें. तांगेलो सामको एक विशेश प्रेम विवाह आशिल्लो आसतलो. भारताची राधिका आनी सिंगपूरचो बि ली, खंचेय विश्वविद्यालयांत भेटून प्रम संबंदांतु पडून मागीर व्हारडीक... हांव सामको एक सपनाळो आसून निमिश भितरी कोणाचीय पूर्व काणी कल्पना करून रचूक लागतालों.

तिका मिगेली चिंता समजली म्हूण दिसता आनी तीणे सांगलें-

"वास्तवान मुरळीधरन म्हळ्ळेलें नांव गुड्डें केल्लेलें तं ली. आनी मिगेलो बामूणूय केरळाचोच."

आमी उलोंवचें आमची गांवंची भास मलयाळमान केल्लें. कोचीचे महाराजास कोळेजांत साकून मिगेले बायलेन तिजी विश्वविद्यालयाची पदवी काडलेले तेच काळाक तं मिसिस लीनय थंय साकून शिकवण पुरती केल्लेली. स्वताचे पासून थोडें उलोवनु, गांवंच्यो नव्यो खबर्यो दीवनु जातरी मागीर हांवें मिगेली म्हलगडी धूव अपर्णाक तांगेले स्थापनांत प्रवेश घेंवचे विशींचो विशय काडून घालो. मिसिस लीन वेगीन तो मान्य केल्लो मात्र न्हय अपर्णाक एक क्लास ऊंच चडोवनु सट्यांत प्रवेश घेवूकय सूचयलें जाचान मागीर परतून वतना भारतांत एक क्लास देवोवनु घालतना वर्ष नष्ट जांवचेंय ना. अनुभवाचीं उतरां.

शनिवाराचो सांजेवेळ आनी रित्तें स्कूळ सगळें आमकांच आशिल्लें.

"यो, हांव स्कूळ भोंवडावनु दाकयतां." मिसिस लीन माका स्कूळाचीं इमारतां, मैदानां आदी भोंवडावनु दाकयलीं. पयलेचे रित्ते क्लासरूमांत चडतना हांवें दोळे बंद करून दीर्घस्वास घेतलो. सर्व क्लासरूमांकय असलोच परमळ कित्याक? हांवें चिंतलें. खाणांची

परणसाण, पेन्सिलांचे खरवडांची, परमळा इरेसरांची, हुमे घाणियारे शूसांची, आदींची एक मिश्रण घाण मिजे नांकाक आक्रमण करूक लागली जाचान हांव मिजे बाल्य कालाक हांवें शिकलेले णव स्कूळांतूय पांवलों. परमळु मात्र तं एक सारके आसा. हें स्कूळ सामकें अत्याधुनिक आसा. विस्कळ खेळमैदानां, बास्कट बॉळ कोर्टां, टेन्निस कोर्टां आनी ऑलिंपिक खेळाक सर जाल्लेलें स्विमिंग पूळ आदी हांगा आसा.

"राष्ट्रीय खेळ शर्तेंत आमचे विद्यार्थी सर्व पावटीय भाग घेताय." मिसिस लीन अभिमानान जाणयलें.

एक भागाक प्रायमरी विभाग प्रवर्तन करता जाचे कूडांचे भायर पूरा, चेरडुवानी रचलेलीं एकेक कलात्मक वस्तू आनी चित्रां प्रदर्शित केल्यांय.

"हे विभागाचें अधिकारपण मिसिस खंवबोक आनीक मिसिस कागूंडाक तं." तीणे सांगलें.

नीळ मळबाचो निवळ वायु श्वसन करून, थंयचे मैदानांक शीमा घालचे यूकालिप्टस रुकांचेर दृष्टी व्हरून, 'हेंच तं, हेंच स्कूळ तं मिगेले अपर्णाक' म्हूण हांवें निश्चयु केल्लो. 'चाळिस राज्यकारी चेरडुवांचे लागी संपर्क करून हेच प्रायेचेर ती एक अंतराष्ट्रीय नागरिक जातली. कसलो एक खास अनुभव मेळतलो तिका' हांवें आठयलें.

गावांत साकून मिगेले कुटुंबांक हांगा हाडचें आशिल्लें. हांगा पांवतरी करका जाल्लेले मिगेले कार्यक्रमांत स्कूळ सोदूचाक प्रमुख स्थान दीवनु दवरलेलें मिगेले बायलेन.

पयलेचो दीस साकून हांवें ताजी शुरवातय केल्ली. साबार स्कूळांत भोवलों तरीय चडय भो दूरा आशिल्लीं. हें सेंट ऑस्टिन्स अकाडेमीय आमगेले घराकडे साकून सुमार आट किलोमीटर दूरा जेम्स गिछूरु रसत्यार आसा. पुण शहराचे सल्प भायर जावनु आशिल्यान्

हांगा वचे रसत्यांचेर चड खीट्ट आसचोना आनी व्हरूक, हाडूक कंपनी ड्रायवराची वेवस्था करयात.

हांवें संतोषान मिसिस लीक हस्तदान करून विदा सांगली. स्कूळाची प्रधानाध्यापिके पदार एक मलयाळीच आसा म्हळ्ळेलें संतोषाक कारण जालें. इतल्यान हांवें समजून काडलें कि केनियांत गणित आनी शास्त्र विशयां शिकोवचे अध्यापक चडय केरळांतूलेच. हांगा साकून 300 किलोमीटर दूरा उगांडा शीमेचे लागी किसूमु म्हळ्ळेले कडे लेय्क विक्टोरियाचे पाडीक तांय हांवें मलयाळी शिकोवप्यांक पळयल्याय. आनी केनियाचे भोव अंतर्भागाक दिकचे खंचेय मळयाळींचे लागी 'येंदोकेयुंड विशेषं' म्हळ्ळेली सुखान्वेशणाची मलयाळी जाप दीवनु विस्मित करूकय माका भो खूशी आसा. हांव तांची भास उलयता पळोवनु तींवय अत्यधिक खुश जातालीं आनी केवल तेच कारणान माका खाणाक, जेवणाक तांय आपयतालीं. केनियाचे एक भो विदूर ग्रामप्रदेशांत एक सान आरोग्य केंद्र चलोंवच्यो थाड्यो कन्यास्त्रीयो ज्यो केरळाचे आलुवा गांवंच्यो आशिल्यो तांकांय भेटून दोस्ती करूक जाली. इतले दूरा आशिल्ले हे राज्यांत भास कारण संबंद दवरूक साध्य जांवचें भो हृदयस्पर्शी आसा.

मिजे धाकले धूवेचे खातीर हांवें घरा लागीच विशा ऑस्वाल प्रायमरी स्कूळांत शुरवेकच एकावे क्ळासा खातीर प्रवेशन घेवनु दवरलेलें. हांगाचे शिकोवपी आनी विद्यार्थी चडय भारतीय वंशजच आसाय आनी तांचे लागी संपर्क करून जावनु हांव हे स्कूळाचे व्यवस्थेचे पासून भो तृप्त जालों. हाजे हायर सेकंडरी स्कूळांत अपर्णाचे खातीर जागो ना देखून तं सेंट ऑस्टिन्सांत प्रवेश घेतलोलो.

ऑस्वाल स्कूळ चालू आशिल्ले वेळार तं हांव थंय पावलोलों आनी तेन्ना रिसेस आशिल्लें. हांतांचो, पायांचो, जूतांचो सर्व प्रायेचे आनी आकारांचे चेरडुवांचो एक गोंदोळूच आशिल्लो थंय. हंय थंय

धांवचीं, धिंगुळचीं, डुमके मारचीं, बोबाट घालचीं, गडगडेवनु पडचीं, खांवचीं, पिंवची, खेळबाणींचेर मांकडां सारके लांबचीं, रडचीं, हासचीं, तोंडां करचीं, नितु फुंकून फेणु करचीं, खरपूचीं, मारनु घेंवचीं, पेट घेंवचीं, सवे घेंवचीं, क्लासांचे भायर दंड घेवून राबिल्लीं, फांतींचेर राबिल्लीं, प्रधानाध्यापकाचे कूडा मुकार दुखेस्त राबलेलीं तशी तरा तराचीं चेरडुवां.

हांगा थोडे आफ्रिकनी अध्यापक आसाय तरीय चेरडूवां पूरा भारतीयच आनी चडान चड धनिक कुटुंबांतुलीं म्हूण तांकां हाडूक व्हरूक येंवचीं वाहनां पळोवनु हांवें समजून काडलें. हे चेरडुवांचे भरसी हांवें अपूर्वाक कल्पना करूक चोयलों आनी तेन्नाच एक चेडुवाचेर मिजी श्रद्धा पडली जिका मिगेले अपूर्वाचें सारकें आशिल्लें, तिजे इतलीच दिगाय आनी तसलीच शरीरप्रकृति, दीर्घवाडकूळें तोंड आनी नांका तलवाची आकृति, पुण अशी दिसूक कारण हांवें मिजे कुटुंबाचे पासून काडचे विचारच जावयात.

मिगेले सहप्रवर्तकाली धूव पूजा हांगाच शिकता आनी तिजाकय एक क्लास खाल तं अपूर्वा आसतली. मागीर मुकार एक वर्ष उपरांत अपर्णाकय हाजेच लागी आशिल्ले हांगेलेच ऑस्वाल जेय्न हायर सेंकडरी स्कूळांत प्रेवेश मेळतलो. केनियांतुली मुकावेली जीण कशी जाल्यारीय उज्वल आसतलीच म्हूण माका दिसूक लागलें.

गेल्ले तीन मास जावनु नायरोबींत आशिल्ले माका भारतांत परतूक, कुटुंबाचे लागी वचाक आशा चड चड दिसूक लागल्या. नवे जाग्यार भोंवचो संतोष इतल्यान ऊणे जावूक लागलोलो आनी मिजे कुटुंबाक हांगा हाडतरी हींच दृश्यां वा अनुभव पसंद करचे मिगेले मायेस्तांचीं फुलचीं तोंडां पळोवनु तांचे सांगातात आसतना हे जाग्याचो जादू परत जागतलो म्हूण हांव जाणच.

पुण मिगेले चेरडूवांची मुंबई विले पार्लेचे नानावती स्कूळांतुली छुट्टी आरांभिलेना आशिल्ली. मात्र न्हय नायरोबींत नवें अध्ययन वर्ष आरांभूक सेप्टेंबरय जांवका.

माका मेळ्ळेलें घर सल्प सान आनी हाजाकय बरें घर सोदूका म्हूण आरंभार साकून मिजे मनांत आशिल्लें. मिगेले कंपनीन मिजी अपेक्षा होगीच मान्य केल्ली आनी हांव घरां सोदूक लागलों. हांगा घर सोदचें सरळ काम. नेट्टाचेर विविध वेबसाय्टांत घरांची सूचना आनी भितरचीं आनी भायरचीं चित्रांय चोंवचाक मेळतलीं. तात्पर्य आसा तरी ताजे सांगातांत दिल्लेले फोण नेबरांचेर संपर्क करून मागीर चोंवचाक वचात. हें नंतणा होडले मॉळांतु होडलीं नोटीस बोर्डा आसाय आनी तांचेर कोणाक जाय जाल्यारीय कित्याचेय विशीं जशी फर्णीचरांची, इलक्ट्रोणिक उपकरणांची, घरांची आदी सूचोवणी घालयात. हांचीं चित्रांय आसतलीं, आनी ताजे ओटूच साबार सोपूर कागता कुटक्यांचेर बरोवनु फोण नंबरांय आसतलीं. जांवका जाल्लेल्यानी तें नंबर बरयलोलो एकु कुटूको पिंजून काडून व्हरून सोकर्य तकीत संपर्क करयात.

तशी मेळ्ळेली जानकारी सयत हांव मिजे कंपनी ड्रायवराकय घेवनु एका मागशीं एक जावनु घरां, मासियोनेटां पळोंवचाक गेल्लों. पुण पळयता तशीच हांव सामकी घुसपा गोंदळांत पडूक लागलों. कारण एक घर सुंदर आसा तरी ताजी सुरक्षा सामकी वायट, उत्तम घरां पूरा तांकू जावनाशिल्ले भाड्यांचीं, दिसाचें चांग म्हूण दिसलेलें राति पळोंवचानिक काळखें दिसलें, थोडीं परम सुरक्षा आनी नियंत्रण आशिल्ले हावसिंग एस्टेटांत आसाय, थोड्यांक पंचनक्षत्र सुविधा आसा आनी थोडीं सामकीं चड आधुनिक. पुण हांतुल्यांक खंचाक माका पायलेच मेळ्ळेले घराची आकर्शकता ना.

हांगा माका शेजारीं जावनु केरळांतुलीं, गुजरातांचीं,

तमीळनाडाचीं, वेस्ट बेंगाळाचीं, राजस्थानाचीं, महाराष्ट्राचीं आनी आंध्राचीं आसाय. दीपावली, दुर्गापूजा, ओणम आनी पोंगल आघोष करचीं दुशेरे आनी तिसरे पिळगेचीं भारतीय वंशजय आसाय. आनी हांवें दिकलेले डजना भायर घरांतुलें खचेंय माका सामकें पसंदय जालेना.

खंयचेकी एक लोककथेंतुले कथापात्राक गांव सगोळ सोदून भोवनु आखेर आपलेच गाद्यांत चड खोलायेन खोणून चोयतना पूरून पडलेलीं वज्रां मेळताय. हे कथापात्रा समान तं हांवय म्हूण दिसलें.

तशी हांवें हांगाच राबूक निश्चय केल्लो. मिगेले कुटुंबाक स्वीकार करूक जावनु हांवें घर तयार केल्लें, कूडांचे जनेलांक पूरा नवीं करटनां घालीं, नवें एक सुंदर सोफा सेट घेतलें, न्हिदेंवचे कूडांत संगणक तयार केल्लें, कटलरी आनी क्रोकरी सामानां घेतलीं आनी एक दंदकारणीची वेवस्थाय केल्ली.

नायरोबींत दंदकारण्यो समृद्ध जावनु मेळतल्यो. ग्रामीण केनियाच्यो ह्यो बायलो दंद सोदून शहरांत पांवताय. त्यो पूरा उत्तम रीतीन इंगळीश उलयताय मात्र न्हय भारतीय रांदपाची रीति वेगीन शिकूनूय काडताय. एकल्याचे खातीर रांदूक सांगून दिल्लेले पाचकाविधीचे आदेश शिकून आवश्य पडतरी चड जनांचे खातीर कुशल रीतीन रांदूकय तांकां निपुणता आसा. सुवाद बदलचोच ना आनी उत्तम इडल्यो, सांबार, तांबळी, उत्तर भारतीय रांवदयो आदी श्रेष्ट रीतीन तयार करताय. घरवंतांचे मैदरांत आशिल्ले दंदकारांचे खातीरचे कूडांत राबतल्यो आनी घरा सफाई, कोयरु काडून पुसप, उंबळप, इस्त्री घालप, खालाक बि पडलोलो वस्तू पुंजावनु ताजे ताजे स्थलार दवरप आदी कार्यक्षम आनी किरकिर नाशिल्लें प्रसन्न जावनु करतल्यो. रांवदयेचें शिंद्धून दितल्यो, सान सान खरीदारी करतल्यो आनी जूतां तांय पोलीश करून दितल्यो.

आमचे पयले दंदकारणीचें नांव आशिल्लें मेरी अमोयिट एप्यूरेट आनी तीणे स मासांक आमचें सेवन केल्लें. मागीर छुट्टी घेवनु घरकडे घेल्लेली ती परतून आयलेलीच ना. मागीरची एलिज़बेत आमचें सेवन करून आमी केनिया सोडचो निमणो दीस तांय आसून भाग्याचे आनी चेरडुवांचे सांगातांत एक मोगाळ संबंद दवरलेल्यान आमकां विदा सांगतना रडून रडून दोळे फुगरे करून राबलेली. आमी तिका भारतांत व्हरूक तयार आशिल्लीं तरी ती खुशीन येवूकय तयार आशिल्ली.

जेन्ना हांव स्कूळां आनी घरां सोदतालों, घर तयार करतालों, दंदकारणीक राबोवूक वेवस्था करतालों, तेन्ना मिगेलें कुटुंब मुंबईचो वास अंत्यार पावोवनु, स्कूळांत साकून टी सी घेवनु, मिजे मित्रांचे सहायान सामानां बांदून केरळांत पेटोवनु, कोचीक वचाक भांडी चडून घरकडे पावनु केनियांत वचाक तयारी करतालीं. हांवें तांकां हाडूक एप्रिल मासांत कोची तं वचूका.



# मसाई माराचे सिंह

ड्रायवर पीटर थैलून लांडक्रूयसर न्यूट्रलाचेर हाडून इंजन मंद केल्लें. तो मंद शब्दु नाशिल्लो जाल्यार मिगेले हरद्याचो शब्दू वाहनांत गुंजतलो आशिल्लोच!

"निशब्द बेसुका!" ही चेतावनी दीवनु पीटर मातें निश्चल राबोवनु केवल दोळ्यांनी अळतापेळतांतुले दृश्यांचेर दृष्टि व्हरूक लागलो. वाहनाचे मुकार तण खुतच वाडल्ली देंवती जमीन आसा. दावे भागाक आशिल्ले रुकां पोंदाक कुचकुची वाडूचीं झाडां आनी उदय सूर्याचे किरणांत हंयथंय थळथळेंवची रुप्या झरी थंय एक न्हंय होळता म्हूण स्पश्ट दिसयता. तें मात्र न्हय, ते दीग तणा मद्देंतुल्यान देवनु फातरांवेल्यान उडकी मारून वचे उदका व्हाळ्याचो खळखळु आयकूक पडता. वलसार जमीनीर साकून सकाणचो हालको धुको सावकाशेन वयर उबून ऊंचावेले हुनयाळे वार्यांत मेळसून वता.

वाहनाची जनेला कांची हांवें देवोवनु दवरलेले कारणान वार्या थंडी अनुभवली.

मागशीं दावे कडेन जावनु वांकडे तेंकडे धडियेचो होडलो एकु पानयाळो रूक खांदे पातळावनु राबला.

उजवे कडे आशिल्लो चडउतार प्रदेश अर्द किलोमीटर दूरा ऊंचटाक गुंडे फातरा भुंयचेर समाप्त जाता. ताजेय पेल्यान सकाणचें मळब नीळ रंगात बुडून राबल्यां. दावे कडेच्यान उदय सूर्याचीं किरणां चडते जमीनीक भांगराळ रंगान चितरायताय. ताजान सपाट तणामळाचो थोडो भाग तरी उज्वल जावनु दिसता.

'कितलो शांत आसा हो प्रदेश' हांवें आठयलें. इतलें वर्णनात्मक

सैम दृश्य मुकार आमंत्रण करतना, ते सुंदर स्थलार देवनातिल्लें राबूक हांवें भारी संयम पालन करका जालें. लागी आशिल्लो थंड झरो मिगेलीं पावलां थंडावूक आपयता. पातळेवनु पडलेले भांगराळे तणा मद्देंतुल्यान फातराळो जागो तांय चमकूक निशब्द उल्लो दिता. शांत निश्चल वारें इतलें थंड आनी नशा चडोवपी आशिल्यान थंय साकून परतूकच दिसना.

दावे कडेन आशिल्ले ते रुकाचे थोडे खांदे खालच्यान आशिल्यान आकर्शक दिसताय. हात पाय लांबोवनु घालनु तांचेर पातळेवनु पडूक कितलें सूख आसतलें म्हूण एकि चिंता आयली. एक बुक्या सारके ते रुकार चडूक, ताणा मद्दें हंय थंय धावनु भोंवूक, उडकी मारनु खेळूक एकि विचित्राची इच्छा मिगेले मनांत चडली आनी ते खातीर इतलो अधिक उचित स्थायु वेगळो आसचिना म्हूण दिसलें.

आमी हांगा पावलेल्याचे पासून चिंता केल्ली. मसाई मारा वन्य मृग संरक्षण केंद्रांत तं आमी आतां आसाय. वर्षान वर्ष वन्य मृगांचें चमत्कारी देशाडन चमकूचे मुख्य स्थयांतुलो एकु हो. टानज़ेनियाचे सेरेंगेटि वाठाराचे उत्तर भागाक जावनु केनियांत तं हें मसाई मारा. हे दोन होडले वन्य मृग केंद्रांक मारा न्हंय वेगळायता. सेरेंगेटीचें तणा मळ पूरा गिम्मारी सुक्कून वनस्पतरहीत जाता आनी तेन्ना थंय साकून सासान सास वैल्ड बीश्ट, झिब्रा, तरा तराचीं चितळां जशी अंटेलोप, थोंपसण्स गज़ेल, आदी उत्तर दिशेर धांवाधांव करताय. पावसान पेलेतडीचे तण खरें जावनु आयले तडीर आशिल्या पशी पाचवें आसून हीं मृगां, सिसर्यानी भरून असुरक्षित आशिल्ली मारा न्हंय साहसिक जावनु हुपून मसाई मारांत पांवताय.

हें देशाडन वा धांवाधांव लोकांतुले होडल्यांतलें एक सैमिक प्रतिभास आशिल्यान तें पळोंवचाक आनी विस्मित जांवचाक जावनु पावसाडीर भोंवडेकारांय सासानी हांगा पांवताय.

हे प्रतिभासाचे आरंभ समयारी तं आमीय हांगा मारांत पावल्यांय. आतां खूब अधिक प्राणी हे पाचवे प्रदेशाचो फायदो काडचें दृष्टि पडता.

पुण एक मास जातरी जांवचे धांवाधांवाक तुलना केल्यारी हें आतां दिकूचें कांय न्हय म्हूण सांगता पीटर. वीस लाख मृगां पुणीय तेद्देभितरी मारा न्हंय हुपून मसाई मारांत पावलेलीं आसतलीं. तें एक प्रभावी दृश्यच आसतलें म्हूण अनुमान करूक माका कष्ट जालेनाय.

शाकाहारी खूरांच्या हे मृगांचे सांगातांत तांचे हींडाचे सीमवेल्यान मांसाहारी हिंस मृगांय पांवतलीं. सिंह, तरस*, चीता, चिट्यां वाग आदी मृगां, अनायास शिकार करूक, घायल बलहीन मृगांक वा पिल्लांक, विशेश जावनु मारा न्हंय हुपून वचे तेन्ना धरूक लक्ष्य घेवनु भोंवतलीं. न्हंयचे लागी देंवचाक आशिल्ली सोपूरी हादि आनी उदकांतुल्यान ऊंच चडची थरथरी चिकलाची वाट, ह्यो दोनीय कारण मृगां संकष्टांत पडताय. सोपूर हाद्येर सासान सास मृगां एकसानीच देंवूक वा चडूक चोयतना चिड्डाचिड्डी* चमकता आनी ते खिटांत व्हड संख्येन मृगां मरण पांवताय. तें नंतणा सेरेंगेटी भागाक हादि उपयोग करनातिल्लें थोडीं मृगां खूब ऊंच दोंगुल्यार साकुनूय मारा न्हंयतू उडकी मारतलीं तेन्ना उदका पेंदाक आशिल्ले फातरांचेर धाडवून चेंचून हाडां मोडनूय पडतलीं. उदकांत वांचून पावलेले मृगांचे आंगार ऊंच साकून उडकी मारचीं मृगां पडूनूय अनर्थ जाता. तांचें कष्ट चाडोंचाक, वाकते तोंडात मुफ्त खाण उडकी मारनु येवनु पडचें राकून, पोवनु भोंवचे सिसर्यांचें भीरेंय आसता. हांतु सगट साकून वांचून थरथरे वाटेवेल्यान चडती चडतना घायल मृगांचे देहांचेर माडोंवचेंय पडता. हिंस मृगां अनायास शिकार करूक मारा न्हंयचे दोनीय पाडीरीय राकून आसतलीं. घायल मृत मृगांचे मांस खावून, हाडां मात्र करून सोडूक गीधडांकय तोडोव कांय नाका.

---

*तरस- hyena *चिड्डाचिड्डी - stampede

जीं जांवका तितलीं आरोग्यवंत आसताय तीं मात्र ही कष्टकर यात्रा तरण करून तो पाचवोचार जागो थोडे मासांक आपलें वासस्थल करून, पोट भरून, वंशवर्धन करून राबताय. मागीरी असलीच एकि परतून वची यात्रा लागेन करका जाता जेन्ना तांचे सांगातांत तांचीं पिलां लागेन आसतलीं जांकां सिसर्यांनी भरून पडलेले उदकांतुल्यान सुरक्षित जावनु पेलतडी पांवोंवची जवाबदारी लागेन तांचेर आसतली.

मसाई मारांतुल्यान मारा सरोवा जंगल लोड्जा कडे वतना सासान सास वैल्डबीश्ट, जिराफ, झिब्रा, ईलांड, थोंपसण्स गज़ेल आदींक दिकीलें. दूरा साकून हे अंतरार, तांनी उबयलेले धूळीचे धुक्यांतुल्यान पळयल्यारी तीं मृगां मुयां कदी दिसताय.

सांजेचो सूर्या आपले भांगरा किरणांनी गोबरा कापसाळे मेघां मद्देंतुल्यान पाचवेचार जमीनीर उजवाडाचीं आनी सावळेचीं खतां घालून घडियेन घडियेन परतूचे तराचें सुंदर दृश्य दाकयता. थंय मद्दें जावनु एकेक कांट्याळे बाबळाचे रूक सपाट तकल्यो उबी धरून, कदाचित शिकार करूक तयार काडचे चिट्यां वागाक निपोवनु राबलेले आसाय.

आफ्रिकेनी सुर्याचे पोंदाक जीवचक्र तशी घुंवताच आसा.

दूरा दूरा गांवां शहरांत राबूच्यांक हांगाची पूरा सोबितकाय वा ह्या मृगांनी जिवंत राबूक तरण करचे कष्टांचे पासून कल्पना करूक सरी असाध्य. पुण आतां थोडे वीर मनुष्यांक उपकार सांगचो पडतायीच जानीं असले वन्य स्थलांचेर वोचून हे प्रकाराचे सैमिक प्रतिभास अन्य जनांकय दाकोंवचे खातीर, टी वी चेर प्रदर्शन करचे खातीर, अधिक कष्ट भोगून चित्रण करून काडचें आपलें जीवन कर्तव्य जावनु आपणायल्यां. लोकांतुले सर्व राज्यांतूय सासानसास घरांत हीं दृश्यां प्रदर्शन करतना प्रक्षेक घरांचे सुख समृद्धींत, तापमान क्रमीकृत कूडांत

बेसून, कुका बाळूकां करमुरावनु खावनु कोक चोखून पीवनु सुखान पळयतले.

पुण थोड्यांक मात्र थंय स्वयं वचून, एक होडले कानवासाचेर म्हळ्ळेल्या वरी प्रकृतीन रचूचीं काल चक्राचीं हीं दृश्यां पळोंवचाक, अनुभव करूक भाग्य मेळता. हे कार्याक हांव भाग्य आशिल्लोच. कारण मिगेले औद्योगिक जीवितांत हांगा येवनु राबून हें सगट पळोंवचाक खूब पावटी अवसर मेळ्यां. भारतांत साकून आमगेले कंपनीचे होडले अधिकारी केनियांत येतना तांकां असले मृग केंद्रांत व्होरनु भोंवडांवचाक जायते फंता हांवच आशिल्लो.

असले अवसरांचे समयार मृगांक दिकून धरचे खातीर, सामकीच तांचे प्रत्येक जाग्यांचेर शाणेपणान पांवोंवची आमगेले ड्रायवरांची जाणीव आनी तांकां अभ्यासान आयलेलें संयम, क्षमा आनी कुशलतेक हांव आदर दिवूंक लागलों. हेच कारणान हे थंड सकाणी वाहनांत बेसून आसतना पीटरान दिल्लेली चेतावनी कायरीं जावनु काडून श्वासू वोडूचो सरी शब्दरहित करूक हांव चोयलों.

"निशब्दता तं आवश्य जाल्यार कित्याक तें इंजन राबयना?" हांवें तागेले कानांत पुसपुसेवनु निमगीलें.

"इंजनाचो शब्दु मृगांक परिचित जाला, पुण मनुष्यांचो शब्दु तं तांकां कोप हाडचो. तें मात्र न्हय इंजन चलताच दवरलेल्यान आमकां आवश्य पडल्यार हांगा साकून धरार परतूकय साध्य आसा. कृपया ती जनेला कांचीं बंद करका आनी एक कारणानय हात भायर घालूक नज." ताणे दुशेरी मंद स्वरान ताकीद दिल्लें.

हांव भायर अशी तशी चोयलों. थंय खंय एक मृगाक सरी दृष्टि पडना. पीटर कित्याक थंय साकून धरार मेकोळचें कायरीं सांगता म्हूण माका समजलेना.

"हांगा खंय एक मृगय दिकूक येना. आमकां घुंवडावनु आनी खंचेय जाग्यार वचून सोदूया." हांवें म्हळ्ळें.

"नाका, हो सिंह प्रदेश आनी हो जागो तांचो आवडीचो. आमकां क्षमेन राकुया!" ताणे सांगलेलें आयकून थंय साकून धरार वचें आवश्य कित्याक पडतलें म्हूण समजावण येवूक लागली.

भायर घालोलो हातु तुरंत भितरी वोडीले, कांची ऊंच काडली आनी सीटारी दांबून बेसलों. कांचे लागीच, नांक ताजेर थापून म्हळ्ळेल्या वरी भायर चोंवचाक जावनु बेसलों. एकेक पावटीय श्वास सोडतना दोन जॅटा आकृतीर कांचीचेर दोवा भशेन मांडतालें.

तशी मग्न बेसले वेळार सकाणीच मारांतुल्यान केलेली धांवडी कारण कुरवणी दोळ्यांत भरूक लागली. छट जावनु एक सानीच हालचाल दूरा फातरांचे लागी जावनु दिकलेले वरी दिसलें. एक जानवरच आसतलें म्हूण स्पश्ट दिसता तरीय तें कितें म्हूण समजूक जायना. आंगावेलें उदक पेल्यान घालूक मातें आनी आंग बेगीबेगीन फाफुडचे एक होडले भालूचे कदी दिसता, पुण आफ्रिकेंत भालू ना म्हूण माका कळता. मागीर तें कितें? चितळ वा ईलांड बि? हे अंतरार तें कितें म्हूण मनांत करूक असाध्य. वाहनांत बेसल्यांचें लक्ष थंय ते जाग्यार व्हरूक चोयलो पुण जें कितें मिगले दृष्टींत पडलेलें तें थंय तेन्ना नाशिल्लें.

"कांय ना! थंय कांय ना!" अशी सांगून पीटर ताजे पूर्व कामांत लागलो. हांवें सांगिल्याक कोणेय खंडण करचें माका सावना. तेंवय मृगांक दिकून धरच्यांत आपल्याकय सामर्थ्य आसा म्हूण अभिमानान बेसलेले तेन्ना! माका पूरा विश्वास आशिल्लो आनी दुशेरी त्याची जाग्यार दृष्टि केंद्रित करून बेसलों. ह्या फंता ताजाकय लागी जावनु एक हालचाल दृष्टींत पडली.

रगत गोठेवचे* तराचें मुकावेलें दृश्य पळोवनु हांवें समजून काडलें कि जें कितें हांव पळयतालों तें लोकांतुले सिंहां मद्दें होडल्यांतुलो होडलो एकु सिंह आशिल्लो. ते पर्यान वाहनांतुले अन्य जनांनीय ताका दिकीलो. भालू म्हूण चुकून समजूक कारण ते सिंहाचे बदीमी रंगाची आयळच*.

हे सवान्नाचे फटवणेचे अंतरार दोवा फाल्यार दिकूचें हें सिंहाचेंच मातें. माका जाल्लेले धपक्यांत साकून मुक्त जातना तसलेंच एक राजकीय मातें लागेन पयले सिंहाचे लागी जावनु तणांत साकून उबें जालें. ते दोगांय एकामागशीं एक जावनु मंद गतीन आमकांच लक्ष करून येताय पळोवनु माका दुशेर धपको लागलो.

"आतां कितें करप?" हांव पुसपुसेलों.

"शांत बेसुका सर!" पीटराचे शब्दाकय भय लागलेले वरी दिसलें.

मुकार येंवच्याक आतां स्पश्ट दिकूक येता. भुजां ऊंचायेर तांय पांवचे तणांतुल्यान बाल ऊंच उबारनु हालयत वार्यांतू निरीक्षण करून सरी तो मुकारसतालो.

ताजी बदामी रंगाची आयाळ वोतांत तकतकेता. तण नातिल्ले एक वाकते जाग्यार पांवचानिक तो चडच प्रौढगंभीर दिसलो. जवानीचे अत्युच्चारी पावलेलें आरोग्यवंत व्रण रहित देह. जंगलाचो राजा, वैभवयुक्त आफ्रिकनी सिंहाचो सर्वश्रेश्ठ उदाहरण, तो एक लागेन आपली आयाळ फटफटांवचाक लागलो. पूरा दांतांची माळा आनी स्वस्थ गुलाबी जीब दाकोंवचे तशी व्हड तोंड वात्तें करून जांबय काडून फाटी उबारनु पाय मुकार काडून आंग वीणून ताणे आपली आयाळ बेगीबेगीन फटफटायली आनी मंद चाल परतून शुरू केल्ली.

आतां माका ताजे नांकांतुल्यान दोव येंवचें आनी दोळ्याचें

*गोठेवप- curdle *आयळ - mane

हळदूवें बिबूळ तांय दृष्टी पडता. मिजो स्वासु मद्दें राबून गेल्लेल्या वरी जालो आनी तें मृग लागी लागी पांवचें हांव तीव्र भयान पळयत राबलों. तो आमचे वाहना लागी येवनाशिल्लें दुरच्यान वतलो म्हळ्ळोलो मिजो विश्वासु पुण सत्य जालोना. प्रत्यक्षः आमी ताजो रसत्याचो हक्क अतिक्रमण करून जायत राबलेलीं आनी आमचें वाहन पळोवनाशीं कदी तो सीदा आमचेच लागी चलत येत राबलो.

"भारतीय भोंवडेकार सिंहाचे हातानी घायल जाला" फाल्याचे खबरे पत्रांचेर येंवचें शीर्षक मिजे मनांत बिनतार फांकरलें.

तो निर्दय लागी लागी आयलो, जनेला उंचायेर ताजें हालचें बाल दिकूक येतालें. तें हिंस मृग वाहनाचे सामकें लागी आसा म्हूण हांवें कांचीतुल्यान पळयलें. भारतांत वन सफारीक व्हरचे वाहनांचीं जनेलां लोकडा बाणियेन सुरक्षित केल्लेलीं आसतलीं पुण हाका विपरीत जावनु आफ्रिकेंत भोंवडेकारांक आपले वाहनांचोच उपयोग करूक अनुवाद आसा.

आमगेले लांडक्रूयसराच्यो कांच्यो बलवंत तरीय एक होडलो बळिश्ट सिंहु आपलें पूरा वजन तांचेर तेंकून बलपरीक्षण करूक आयलो जाल्यार त्यो वांचूच्यो ना हांतूं संशय ना!

पीटर आतां अत्यंत निश्चल जाला पुण इल्लीशी अपाय सूचना मेळ्ळी तरी तो थंय साकून वाहन मारनु उबोवनु व्हरतलो म्हूण माका कळता.

हो समय भितरी दुशेरो सिंहूय त्याची वात्ते जाग्यार पावलो जंय पयल्यान आंग विणलेलें. ताणेय पयलेच्याचे वरी सर्व कायरींय केल्लीं.

पयलो सिंहु आमगेले वाहनाचे मागशीं भागाक गेल्लो. ताजे खंचोंकि भागु वाहनाक आडळेल्यान तें सगळें हाललें. गोमटो घुंवडावनु

हांवें पळयतना ताणे वाहनाचें बंपर हुंगून चोंवचें दिकीलें. मागीर ताणे तगेलो मागशींचो एकु पायु उबारनु वाहनाचे मुल्याक मुताचो शिंवर घालो. ताणे आपले प्रदेशांत आमगेले वाहनाकय एक स्थिर वस्तु जावनु स्वीकार केल्ला आनी आपले निशाणीन अन्य सिंहांक दूरा राबूक ताकीदय दिल्यां. मागशींचे दाराचेर हालचे बालाचे दोनी तीनी पेट्ट लागेन दीवनु तो न्हंयेक लक्ष दवोरनु उडकी मारनु धावनु झाडां मद्दें अदृश्य जालो.

दुशेरो सिंहूय वाहनाचे लागी पावलो पुण तो मागशीचे भागाचे लागी सरी गेल्लोना. दुरच्यान, हांवें फुडे परामर्श केल्लेले आमचे दावे भागाक आशिल्ले ते होडले रुका लागी वोचून उबो जावनु होडले दावकुले रुका धडार दवरून राबिल्लो. दावकुल्याचीं धारे नांकुटां भायर काडून रुकाचे धडियेरी, जशी एक ओपुरबायेचें माजर करता तशी, मोगान भुरके मारूक लागलो. तेन्ना थंय साली वचून नारंगी रंगाच्यो पट्टियो दृष्टि पडल्यो.

तें जातरी सरळ जावनु प्रयासरहित ऊंचार रुका खांद्यार चडलो, जंय सल्प घडि मुर्थम हांव चडूक वांवटेतालों, थंय तो हांवें पडका म्हूण कल्पना केल्लेल्या वरीच पडलो. उंचायेर बेसून ताणे हे वाहनाचेर दृष्टि हाडली आनी मागीर मातें उबारनु मळबाक तोंड करून निशब्द जांबय काडली.

थोडे घडियांक रान निश्चल आशिल्लें. मंद वार्यांत केवल तणाचीं तलवां ल्हारांचे भाशेन हालतालीं. पुण एकेक कडे तण चड हालचे वरी दिसलें. वार्यान कि...

येद्दे घडियानी इशारो केल्लेल्या वरी पूर्ण वाडी पावलेल्यो दोनि सिंहीयो आमचे सामके मुकार तणांत साकून उबी जाल्यो. त्यो थंयीच विश्रम काडताल्यो. आमी वाहनाचेर थंय पांवतना साकून

आतां पर्यंत एक फंता सरी तांनी तांची हाजिरी कळयलीना आशिल्ली.

इतल्यान तणाचें हालप चड जावनु सळसळेंवचाक लागलें आनी मुकावेले तणामळाचेर भोरनु सिंह म्हूण आमी समजलीं. होडल्यो सिंहीयो, सान सिंह, सामकीं सान पिलां, तरा तराच्यांचें एक भीरेंच हालूक लागलें. जें एक शांत सुखमय तणामळ म्हूण हांवें लेकलेलें तें, सिंहांचे होडले हींडान सुसेग घेवूक सामकें उपयुक्त केल्लेलें.

मुर्थम मिगेले मनांत आयलेली ती इच्छा, ते शांत तणामळांत देवनु भोंवची, ती आलोचन करूनिक मिगेले निडळार हूम फुटली. केनियांतुले सर्व मृग संरक्षण केंद्रांचेय दारांत 'अतिक्रमण करचीं भक्षण जातलीं!'(Trespassers will be eaten) अशी एक चेतावणी सबाव न्हय प्रमुख जावनु प्रदर्शीत केल्या म्हूण हांव समजलों.

सगळो हींडु उठायलो, आंग विणून मातें फटफटावूक लागलो, जशी उदकांत साकून भायर चडलेल्या सूण्या कदी, आनी बेगीन चमकून न्हंयचे लागीचे झाडां मद्दें चडून गेलो. एकल्यान सरी शब्दु केल्लोना एकु गर्जु सरी आयकलोना, एक मुरंडेवप सरी ना, केवल निशब्द जावनु तीं नदरे आड सरलीं.

रुकार आशिल्लो तो सिंहूय लाघवान अनायास उडकी मारून देवलो. ताजो मंद धब्ब शब्दू वाहनांतूय अनुभवलो. आमकां सपनांत कि म्हूण आश्चर्य चकित सोडून तोवय अदृश्य जालो.

श्वासोच्छस्वास पुनरारंभून ह्या सिंहांचे जीवनांतुलें एक अनर्घ निमिश पळोंवचाक अवसर मेळ्ळेले खातीर आभारपूर्व उलयताच आमी लाड्जाक लक्ष दवोरनु परतलीं जंय पंचपक्वांचें खाण आमकां राकताले.

जेन्ना जेन्ना हांव माराचे त्या दिसाचे पासून चिंतन करता, तेन्ना मिगेले मनांत मसाई लोकांचोय उडगास येता जांचे संबंदानच ह्या मृग

संरक्षण केंद्राक हें नांव मेळ्यां. ते धैर्यवंत जनजाती लोक सदा परके संस्कृतायेक विरोध करून, गोरवांक चरोवनु भोंवची आपली परंपरागत चालणूक सदा घटी धरून, सिंह शिकारी म्हळ्ळेली तांची जाती संबंदी अस्मिताय राकून दवरून येताय.

आफ्रिकेक तरी कशीकीच वेळ काळान प्रभावित जावनातिल्लो एक सुस्थिर आनी अनन्य आत्मो मेळ्ळा जो भूतकालांत साकून भाविकालांत चलतनाय बदलूनातिल्लोच राबता.

पूसूक जावनातिल्ले लेकान एक चित्र मिजे मनांत कोरांतून घाल्लेल्या वरी पडल्यां जें आसा मसाई मारांत आपले दीग बङ्येर तेंकून आपले गोरवांक चरोवनु एकलोच राबलेले एक मसाई चेड्याचें, जाचें होडलें निडळ आफ्रिकेनी सूर्याचे रकरकी वोतांत तकतकेतालें. ताजे फूडे ताजो बप्पा आनी ताजाकय फूडे ताजे पूर्वज अशीच राबलेले आसतले, त्याची जाग्यार, गोरवांक राखून, शताब्दां शताब्दां आदीं, रोमा राज्याचे उदय आनी अस्ताचे कालाक, क्रिस्तुदेव भूमिचेर भोवलेले कालाक, पिरेमीडां बांदलेले कालाक...



# कुटुंबसयत केनियाक

केनियांतूले पयलेचे तीन मासांक हांव घरचे विचारान सामको अस्वस्थ वरलों आनी कुटुंबाचे पासून चिंता चड चड करत राबलों. मुंबई साकून हांवें सोडलेले मुर्थमले दिसांचे पासून उडगास येताले.

दक्षिण मुंबईचे बल्लार्ड एस्टेटाचे लागी खंयीच जावनु एक केंद्र आसा जंय साकून आमकां येल्लो फीवराचे प्रतिरोधक इंजक्शनां काडका आशिल्लीं. परदेशांत वचून परतून भारतांत चडूक हें नाशिल्लें जांवचें ना. येल्लो फीवराचें इंजक्शन काडलेल्याचें प्रमाण पत्र नाशिल्लें परदेशांत साकून मुंबई येवनु देवलेले एकल्याची काणी केवल उणे दीस मुर्थम तं हांवें आयकलेली. कुटुंबांच्यांक तांय भेटूक अनुवाद नाशिल्लें वेगळेच कूडांत बंदखणींतुल्या सारके एकलोच दीस मेजून मेजून चार सप्ताहांक पडूक निर्बंधित जाल्लेल्याची खबरी भो कष्टकर दिसली.

हें इंजक्शन सात वर्षांक योग्य आसतलें आनी खास जावनु आफ्रिकेंत वचाक उद्देश करचे सर्वानीय हें काडचेंच पडता. ते केंद्रांत आमकां एक कूडांत साकून वेगळ्यांत, थंय साकून आनी एकांत तशी भोंवडायलेलें, एक शेळ रुका बांकार राकून बेसलेलें आनी मागीर एक कूडांत एक सहानुभूतीवर्ती डाक्टरान आमकां एकेकल्यांकय एका मागशी एक जावनु सूव चडयलेलेंय माका उडगास आसा.

इंजक्शनांचे पशी चड अनिवार्य तें प्रमाण पत्रच आशिल्लें आनी पासपोर्टांचेर आशिल्ले वरीच चूकी रहीत आमचीं नावां स्पश्ट बरयलेलीं प्रमाण पत्रां मेळूक जावनु आमी राकून बेसलीं.

मिगेले मालक कंपनीचे शिफारिशा वाटेन पासपोर्ट मेळचें

कार्य त्वरित करचे फास्ट ट्राकांतुल्यान तं मिगेलें पासपोर्ट वेगीन हातांतु केल्लेलें. केनियांत काम करूक माका कार्यानुमति मेळ्यार मात्र तं मिगेले कुटुंबाक आश्रितानुमति दिंवचे खातीर विचार करतलीं. इतलेंच तांय चड कष्ट नाशिल्लें पावलेल्यान आनी मुकार तांगेलीं पासपोर्टां घेवूक कसलें विघ्न येवनाशिल्लें राबूक जावनु श्रम काडलो.

पासपोर्टां मेळूक आवश्यक आशिल्लें पुलीस वेरिफिकेशन वेगीन करचे खातीर आमी सर्वांनीय करून दोन दीस मुर्थमच अंधेरी पुलीस ठाणेंत हाजीरी दिल्ली. लागीचो पूरा दीस पासपोर्ट आफीसांत खर्च केल्लो. एक मेजे कडे साकून लागचे कडे अशी भोवनु भोवनु आखेर एक दयावंत पासपोर्ट अफसरान आमचीं अत्यावश्यक प्रमाणपत्रां पूरा मान्य करून आमचे हातांत दिल्लीं.

उद्योगस्थ मंडळीन माका आडायलें वें म्हूण निमगील्यार माका इतलेंच सांगूक जाता कि ते थोडे दीस एक सपनांतुल्यान सरि जावनु गेल्ले. असंख्य फांत्यांत राकून राबप, फोटोंचीं कोपी अटेस्ट करवप, एल आय सीचें प्रमाणपत्र घेवप, सानुले अक्षरांनी बरयलेल्यो माहित्यो वाचप, ॲड्रस प्रूफ घेवप, काळे सायेन भरवणी करका जाल्लेलीं साबार कागतां, साबार कडे हस्ताक्षर घालचें, छाप मारचें, एक कौंटराचेर साकून आनी एकडे भोंवचें तशी सगट माका उडगास आसाच.

पुण हे सगळे कार्यक्रमाकय ताजे गूण ना म्हूण ना. पासपोर्ट आफिसाचे हॉळांतुल्यान घूवनु घूवनु वचे फांतीचेर राबलेले तेन्ना शीघ्र धरलेल्यो दोस्त्यो, पेनां मात्र न्हय उदका बोतलांय अळतापेळतांतु उपयोगाक दिल्लेलीं, मागणी करून तशीच मागणी नाशिल्लेंय सहायहस्त तयार आशिल्ले, मिगेले उत्साहाक मोड्ूक पुरोश तांक खंचे प्रतिबंधाक ना म्हूण दिसलें.

केनिया सरकारालें वर्क परमिटा खातीरचें काम पुरतें करप, ताजे खातीर नायरोबीच्यान हांगा थंय ई-मेयलां घालप, इंटरनेटांतुल्यान हे नवे राज्याचे विशीं वाचून वळख घेवप, आश्रितानुमतीचे खातीर कागतां तयार करप अशी साबार कार्यांत गोंदळेवनु मिजे परदेशी कामाचे वेंचणीचे उपरांतेचे दीस धावले.

केनियांतुले मिगेले मालक कंपनीतुलो न्यंबाटी भारतांत आयलेले तेन्ना भेटूक पावलोलोय माका खूशीचे ओटू आश्चर्यय जालें. ताणे निमगिलोलो पयलो प्रश्नु आशिल्लो "तुजी व्हारडीक जाल्या वे?" हांवें व्हय म्हूण सांगूनिक तो निराश जाल्लेल्या कदी दिसलो. केनियांत साकून माका एक बायल मेळताशिल्ली म्हूण ताणे माका आश्वासनय दिल्लें. हांवें केनियांत विमान देंवतना ताजो पूरा सहयोगू मेळतलो म्हूण जें आश्वासन ताणे दिलेलें तें हांवें संतोषान स्वीकारलें.

दिलेलें उत्तर पालन करचो आशिल्लो न्यंबाटी आनी नायरोबी विमान अड्डो आपलीच संपत्ती जावनु लेकचे कदी ताजो व्यवहार आशिल्लो. हांव थंयचे ड्यूटी फ्री शोपांत कितलेच पावटी, आपले आवश्याक वा गांवांतुले संबंदीयांक आनी दोस्तांक भेंट दिंवचे खातीर सामानांची खरीदारी करतना तोवय सदा मिजे सांगातांत, मिजे सहायाक भोवला. मुकार हो मिजो मित्र वेंचणूकेक राबून जय पावनु आपले राज्याचो एम पी जावनु सेवन करतल्लो जालो.

नायरोबींत पाय दवरलेले उपरांतेचे मिगेले आद्यानुभव हांवें अम्माक आनी भाग्याक विस्तारान बरयलेले. आतां हांव ती यात्रा परतून करतां. केन्याटा एयरपोर्टांत साकून सोडलेलें विमान मुंबई पांवतना फांत्यार चार वरां जाल्लेलीं. यात्रेन थकून आशिल्लो तरीय हांव मातृराज्यांतु पावलेल्याक अभारी जावनु मिजे अपुरबायेचे मुंबईचे मिट्टुस वोलसार वारें श्वसन करूक लागलों.

परगावांत साकून पयले पावटी गावांत येंवचो सामको वेगळोच एक अनुभव आसा. केवल थोडे मास मुर्थम वळकीचें आशिल्लें पूरा आतां नवेंच सरी दिसलें. केरळांत देवनु टाक्सीचेर घरकडे वतना हांव मिगेलो मांयगांव कोची नवोच जावनु दिकचे सारके, दृश्यां आनी परमळ आपणावूक लागलों. रसत्याच्यो साबार घूवळ्यो, आडोळनु म्हळ्ळेल्या वरी वचीं वाहनां, रसत्या मद्देंचान चमकूक आशिल्लें स्वातंत्र्य, कसलो विचार वा अपराध भाव नाशिल्लें कचरा मेळ्ळेले कडे विंदूचो स्वभाव, असलीं सानसानच कायरीं जीं भारतांत आमी स्वभाविक जावनु करताय तीं आतां, केवल तीन मास परदेशांत राबून जांवचाकय सामकीं विचित्र दिसूक लागलीं.

घरकडे पावनु थोडे दिसानीच हांव मिजे नित्यक्रमांत परतलो आनी हेच कारण कुटुंब सयत नायरोबीक वचो वेळ पांवचानिक हांव वास्तवान विमुख जालों. कितेंय जाल्यारीय आपलें घर सदा घरच मू!

आखेर तो दिसूय उद्देलो. आमचीं टिकटां, पासपोर्टां, येल्लो फीवर प्रमाणपत्रां, सामानां आदी सयत आमी घरकडे साकून अम्माक यात्रा सांगून देवलीं. हे फंता वियोगाचें दुःख भोगूक भाग्यालो आनी चेरडुवांलोच खेप आशिल्लो. मुर्थमले दिसा भाग्याले घरकडे दवरूनूय असलेंच दुःख भरीत यात्रा सांगप जाल्यां. खास जावनु मिगेले चेरडुवांक चड दुख जालें जेन्ना तांचे मामाभांवडानी, केनियांत व्हरचे खातीर तांकां अपुरबायेची भेंट दिलेली.

मिगेलो अप्पा आनी मिजो भावु सुरेश आमचे सांगातांत विमान अड्डेंत तांय आयलीं. आमकां नायरोबींत आवश्याक पडतलें म्हूण दिसल्लें सर्वय काडून चेपून भरलेल्यो पांच होडल्यो पेटो एयरपोर्टांत वजन करूनिक अनुवदनीय भाराचे पशी चड आसा म्हूण समजलें. चड आशिल्याक चड दुड्डु दींवका जाले.

मुंबई पावनु मिजो मित्र विजयसारथीचे घरकडे आमी राति काडली आनी लागचे सकाणचे एयर इंड्या विमानाचेर आमी नायरोबीक सोडलें. मिगेले मुर्थमले पावटीचे यात्रे सारके नायरोबी विमान अड्डेंत न्यंबाटीचो मायेस्त स्वीकार सहित परत तशीच ही यात्राय चमकीली. विभिन्न विचित्र अनवळखी दृश्यां, आनी हांवें तांचे खातीर तयार दवरलेलें विस्कळ घर पळोवनु विस्मित जांवचाक हे पावटी मिगेले कुटुंबाचो हक्क आशिल्लो.

हांवें तांकां थंय लागी आशिल्ले भारतीय रेस्टोरेंटांत व्हरून खाण खावयलें आनी थंय तांकां स्वाहिली भासेची पयली वळख जाली. थंयचो केनियनी वेय्टर आमी करचे एकेक मागणेकेय 'सावा सावा' म्हूण हयकर सांगताच आसा आयकून तो 'सावु सावु' म्हूण तं सांगता म्हूण अपूर्वान लेकलें. सान चेरडुवांक सांत्वन दिंवचाक उपयोग करचें उतर मू 'सावू'.

हांगाचे शोपिंग मॉळात वचून सामानां घेंवचो परिचय हांवें तांकां करून दिल्लो. तेन्ना साकून मिगेल्यो दोगांय धूवोय असली खरीदरी सामकी पसंद करूक लागल्यो आनी तें एक प्रत्येक कलारूप जावनु उबारून मॉळांच्यो स्थिरवास्यो जाल्यो.

घरकडे साकून केवल अर्द किलोमीटर दूरा आशिल्ले नायरोबी नाष्नल म्यूज़ियमांत व्हरून हांवें तांकां भोंवडायलीं. मनुष्यांचे उत्भवाचे विशींचीं ऐतिहासिक फोसिलां सर्वोत्तम रीतीन संभाळून दवरलेल्यांतु, घट जाल्लेले लावेचेर आदिमनुष्यालें पावला छाप तांय आसा. कुंडो भरलेलीं साबार मृगांचीं आनी सवण्यांचीं रूपां आसाय जांतु सूळे सयत उत्कृष्ट रूपान अहम्मद नावांचो एक हस्तोय आसा.

स्कूळ आरांभूक मागीरीय चार मास लागेन आशिल्ले आनी केदणाय मेळच्या पशी चड दीग रजा मिगेले चेरडुवांक अनुभवूक

मेळ्ळी. कुटुंबाचे सांगातांत चड मजा जांवचाक मेळ्ळेले दीस ते. सर्व शनिवाराचें आनी आयताराचें भोंवडी, भायर खावप, शोपिंग, मित्रांथंय भोंवडी आदी सगट जावनु उत्सव प्रतीति दिसताली. कुटुंबसमेत आयताराचें देवळांकडे पंचपक्वा प्रसाद जेवणांत भाग घेवप, पूरो जावू तांय शोपिंग आदी करून सगळे कुटुंबाक आयतार म्हळ्यार दंद नाशिल्लो छुट्टी दीस जालो.

तशी एक नित्यक्रम आमी बांदून हाडलें. एक जानुवरींतुले ते निर्णायक दिसा, जेन्ना आमची जीण खाल ऊंच जातली तेन्ना तांय आमी तें नित्यक्रम नेमान चलोवनु आयलीं.



# दोन एलिज़बेतांची काणी

## "विश्व एड्स दिवस"

नायरोबीचे प्रांत प्रदेशांतुल्यान कारार वतना म्यूज़ियम हिल रोडाचे आडूवें बांदलेले एक बॅनराची झळक मेळ्ळी. ताजे एक कडेन वांकडें एक तांबडें रिबण चित्रायलेलें- राज्यांनी हे भयंकर रोगाचे विपती विरुद्ध लडाई करच्या पासून उणेच उतरांची एकि घोशणाय आशिल्ली. निमिश भितर बॅनर नदरे आड गेल्लें.

काली एक लोकप्रिय संगीत चानलाचो डी जे, एड्स आनी एच आय वी चे मद्देंचें फरका पासून आयकूप्यांक विचारतालो. दोनीय प्रायः एक समान म्हूण एकलो आठयता तरीय, दोनीय विशयांचे पासून आधिकारिक जाणकारी आशिल्ले डॉ सोमचंद पटेलान सांगचें आयकूक ट्यूण कराय म्हूण तो डी जे आह्वान दितालो.

... ... ...

आफीसांत कवडार खटखटावनु कंपनी ड्रायवर प्रवेश करता. ताजे हातांत तीन कागतां आसाय. 'हरांबे' घेवूक तो आयला. हरांबे म्हळ्यार केनियाचें आदर्शवाक्य 'Let us all pull together' जें आसा, खुशीन खंचेय संदर्भानुसार दिंवचें योगदान, सहाय आदी.

काम सोडून यू एसांत प्रयाण करूक वचे एक बायल आफीसराक अलविदा करचे खातीर तं पयलेचें. तिजे खातीर कर्मचारी पूरा संतुश्ट आसाय आनी तांनी बरोवनु दवरलेलें योगदाना रकम हांव पळयतां. मिगेलें हांवय बरयतां आनी लागीचें कागत काडतां. एक कर्मचार्याली भयणी अंतरल्या आनी ते खातीरीय समान रकम आसा.

ते विरहित व्यक्तीचें नांव पळयतना ते अंतरलेले व्यक्तीचे विशीं माका परत एक शंका जाता. काली न्हय वें हांवे आलफ्रेडाचे लागी ताजे भयणीचे पासून निमगिलेलें? ती तेन्नाय अबोधावस्थेंत म्हूणूय ते स्थितींत साकून सुधारून येतली अशी डॉकटर आशापूर्ण आसा म्हणूय ताणे जाणयलेलें.

लागीचें कागत पळयतना मिगेलो संशय सम म्हूण कळ्ळें. आमगेले एक विभागांत टायपिस्ट जावनु काम करची मिसिस एलिज़बेत ओमान्या अंतरली. अंत्य संस्काराचे खातीर योगदानाची मागणी केल्या.

हे दारुण निमिशा विशीं माका मुर्थमच अंदास जालोलो म्हूण समजून हांव जड मनान मिगेलें योगदाना रकम बरयतां.

एड्स संबंदी मरणसंख्ये विशीं हे लागींच घडयलेले एक कार्यशालेचेर मिगेली चिंता वता. आफ्रिकेंतुले विविध राज्यांत विविध प्रायेच्यांचे मरणाचें गणित दाकोंवचीं ग्राफां प्रदर्शन केल्लेलीं. तीस आनी पंचताळीसां मद्दें प्राय आशिल्यांची मरणाची संख्या मंदगतीन चडताच वता म्हूण ते ग्राफांची दाटसाण सूचयता अशी ते कार्यक्षम प्रदर्शनांत तीन दशकांचो काळ तुलन करून स्थापित केल्लें.

आफ्रिकेंत कितें चमकतालें?

"एड्स संबंदी मरण संख्या चड जांवचे कारणान तं अधिकतर आफ्रिकेनी राज्यांचे ग्राफांचेर ही दाटसाण स्पश्ट दिसता," ते कर्मचार्यान जाणकारी दीत म्हळ्ळें "आनी हें प्रमाण बोट्स्वाना जशी थोडे राज्यांत सामकें चड आसा जंय एच आय वी पोसिटीव जनांचें प्रमाण चाळीस प्रतिशत, जें लोकांतुले सर्वा पशी चड आसा."

"आफ्रिकेंतुले अधिकतर प्रदेशांतूंय हें पन्नेरा साकून अटावीस प्रतिशताचे मद्दें आसा," ताणे मागीरीय सांगलें.

ताणे आमकां आनी एक ग्राफ दाकयलें जाचेर दाटसाण एक लागेन स्पश्ट आशिल्ली. हें ग्राफ फकत बायलांची मरण संख्या दाकयता, आनी दादल्यां पशी चड बायलोच एड्साक वश जाताय. नगर प्रदेशांत आशिल्याचे पशी चड आफ्रिकेचे उप सहारा ग्रामीण भागाक हें मुर्थमल्या पशी चड आसा. हे प्रदेशांत आरोग्य परिरक्षा मेळना म्हळ्ळेलेंच ही स्थिती वाडोवूक कारण जाता. मुर्थमल्या पशी चड चेरडूवां एच आय वी पोसिटीव जावनु जन्मताय.

कितेंय अप्रिय घडूक वता म्हळ्ळेली तांची शंका सम दवरताय हीं प्रमाणां म्हूण, आयकून बेसलेले कर्मचार्यांक समजावण आयली. एड्स संबंधित मरण चड जावनूच तं तांचो व्यवहार नष्टार वतालो म्हणूय तीं समजलीं.

**आलपुषा, भारत**

"एलिज़बेत अंतरली. देव तिजे आत्म्याक रक्षण करो!" राती वेळ दांटवून बाबून उळदून जांणयलें. माका प्रायः समाधान जालेल्या सारकें जालें. फकत काली तं हांवे तिका दिकलेली. तेवीस किलो पशी ऊणे भार आसून तिजें देह हांतणार थापून पडलेले कडे पांगुरलेले कांबळ्याचे पोंदाक दृष्टि पडनाच म्हळ्यार जातालें. ती मिजे हाताक धरून रडली. आनी रोगमुक्त जातकच आमचे कंपनीची विकपी जावनु मुकारीय काम करूक येतली म्हूण आश्वासन दिल्लें तीणे. तिका पॅनक्रियासाचें कॅनसर म्हूण कळू तांय, आमकां आशिल्यांतुली सर्वोतम एजंट तीच आशिल्ली. तीणे हें सांगूचें व्यर्थ म्हूण कळतालें तरीय तिजे लागी सांगूची तितली हृदयशून्यता आमकां नाशिल्ली.

तीणे आस दवरलेली पुण विपरीत म्हूण आमकां कळतालें. ती सामकी कष्टांत पडलेली आनी तिजी यातना पळोवूक माका तांकना आशिल्लें.

"अंत्य संस्कार फाले चवडाचेर."

"हांव थंय पांवता," हांवें ताका उतर दिल्लें.

**नायरोबी, केनिया**

नवे आफिसांतूले मिगेले पयलेचे दिसा एलिज़बेत्ताची वळक करून दिल्ली. विविध विभागांतुल्यान भोंवतना एकि उत्साहभरीत बायलमनीशेक हांव भेटलों जीणे हे राज्याक हांव पसंद करतलो म्हूण आस करून हे राज्यांत माका स्वागत केल्लें. निश्चय जावनु म्हूण हांवें जाप दिल्ली.

मिगेलें हस्ताक्षर घेंवचे खातीर कागतां घेवनु ती केन्ना केन्ना येताली. ती लुवो जातीची म्हूण हांवे बेगीन समजून घेतलें.

"किसुमू प्रदेशाचें न्हय वे लुवो?" एक दिसा हांवे तिका विचारलें.

"ओ, प्रत्येक जातीय खंयचे कडेची म्हूण कळता वे?" तीणे निमगीलें.

"हां, हांव मार्गदर्शक पुस्तकां वाचता आसा. होमा बे कडेची वे?"

"खरें म्हळ्यार न्हय. तरीय ताजे लागीच आशिल्ले मफन्गानो बे म्हळ्ळेले जाग्याची तं," तीणे सांगलें.

तीणे बेसचे कडे लागीच्यान हांवें वतना सदा शुभ दिवसाची आशंसा सांगून ती माका अभिवादन करताली.

एक दिसा तीणे एक वारा खातीर छुट्टी घेतली. कारण 'व्यक्तिगत' म्हूण दिलेलें दिकून हांवे चड सोदूका नाका म्हूण दवरलें.

तीणे परतून पांवचानिक पयले वरी उत्साहभाव नाशिल्लो. आनी तिका सल्प असौख्य जालेले कदी दिसतालें. थोडे दीस तीणे तशी मुकार व्हेल्ले आनी मागीर एक दिसा सांगूनातिल्लेंच दुशेर छुट्टीर गेल्ली.

सौख्य नाशिल्यान तिका आस्पतालांत प्रवेश करका जालें म्हूण आयकलें. तिजे सांगातांत काम करच्यांचे लागी निमगितना तांनी वेगवगळ्यो जापो दिल्यो.

'रोगमुक्त जावूक तिका साबार वेळ काडतलो.' माका मेळ्ळेली एक जाप ही. हे खबरे पासून हांवें विचार केलो. आनी एकाएक हें मिजे मातींत आयलें कि मुक्ती नाशिल्ले रोगपीडेंत तं ती पडल्या. अशी जाणोंवची रीति जायत ही. तिका एड्स वे म्हूण निमगूक जीब काडली तरीय हांवें दांबयली.

कर्मचार्यांक एकल्याकय आवश्या पशी चड हुसको आसा म्हूण दिसलोना.

एक दिसा नायरोबी आस्पतालांत पडलेले एक रोगीक पळोवूक वचाक अनुवाद घेंवचाक क्रिस्टोफर आयलो. शंका दिसून एलिज़बेताक वे पळोवूक वता म्हूण हांवे ताजे लागी निमगीलें.

"व्हय," ताणे म्हळ्ळें

"हांवय येवू वे?" जेन्ना भारतांतुले मिगले आफिसांतुले कर्मचारी सौख्य ना जावनु आस्पतालांत पडल्याय ते असंख्य पावटीय हांव तांकां पळोंवचाक गेल्लेल्या विशीं मनांत येवनु हांवें निमगीलें.

तो एक निमिश दुविधेन राबलो आनी मागीर आमी कशी थंय पर्यान वतलीं म्हूण निमगूक लागलो. मिगेले कारार वचूं म्हूण हांवें आश्वासन दिल्लें आनी जेवणा समयार आमी भायर सरलीं.

**आलपुषा, भारत**

"मिजे प्रिय मित्रानो हे लागींच निवृत जालेल्या मिस्टर सायमणाचे बदलाक एक नवे मानेजरान चार्ज काड्ल्यां. तुमी तुमचें नांव, पत्तो आनी तुमी करचें काम सांगून वळक दियाय," बाबू तागेले एजंटांची वळक दितालो.

"हांव एलिज़बेत जोर्ज. आलपी बोट जेटीचे लागी राबतां आनी चड करून दोर करचे दंदेल्यांचे मद्देंच विक्री करतां. हे संघा सर्वोतम विकपी हांव तं." हांवें ते होडले गोरे बायलेक पळयलें जी थयं उपस्थित आसून कूडांतुल्यांक संशयरहित प्रभावित करताली.

तिजे संबंदी कितेंय आशिल्लें जें तिका लक्षांत ओडतालें. कोणाकय तिजेर विश्वास दवरूक दिसूचो तसलो एक मुखभाव, एक उत्साहपूर्वक भाव आशिल्लो, जें लक्षण बीमा व्यवसायांतूले एजंटां मद्दें चड आवश्यक जालेलें. भविश्यार कसलेय संदर्भाचेर आवश्य पडतलें म्हूण हांवें तिजो विशय मिगेले मनांतुले फायलांत दवरलो.

उपरांत थोडे मासानी हांव साबार एजंटांले घरांकडे मेळूक गेलों. तांचे लागी उलोवनु, अनुभवांचो आशयविनिमय करून, तांचे कुटुंबांच्यांचे लागीय वळक केल्ली. एलिज़बेतान आमकां भारी खुशीन स्वागत केल्लें जेन्ना तिजो टीम लीडर बाबूचे ओटू हांव तिजे घराकडे गेलों. तीणे खुशीन आमकां केकां खावयलीं आनी बरी एक चायाय. तीणे तिगेलो बामुण जोर्जाक वळक दिल्ली जो ओटोरिक्शा सामकें करचे दंदात विशेश परिज्ञान आशिल्लो एक मेस्त्री. तिगेले घराकडेचो

बॉस कोण म्हूण तीणे संशय दवरयलोना.

थोडे काळ उपरांत एलिज़बेताली अनुपस्थिती मिजे लक्षांत पडूक लागली आनी ताजे कारणाचे पासून बाबूचे लागी निमगीलें.

"तिका एक शस्त्रक्रियेचें आवश्य पडलें. तिगेलें पॅनक्रियास काडलें," बाबून सांगलें.

आस्पतालांत वचून आमी तिका पळयली. तिजे आरोग्या खातीर आमची प्रार्थना आसतली म्हूण तिका आश्वासन दिलें. बरें जावनु परतून कामाक चडतली म्हळ्ळेलें तिजें उतर सदाक उतरच राबलें.

आज दोन एलिज़बेतांय नांय...

... ... ...

"हें बीबीसी वळ्ड सर्वीस, लंडन. हे वराचें मुख्य खबर. एच आय वी पीडा भोगूचीं जनां लगभग चाळीस मिल्यण आसाय म्हूण अनुमान करताय. लागीचे वर्षा लोकांत सर्व कडेय जावनु तीन मिल्यणा पशी चड एड्स संबंधित मरणां जातलीं; जांतूलीं अंयशीं प्रतिशत मरणां एष्यंत आनी आफ्रिकेंत आसतलीं.

भारतांत एड्सा विरुद्द लडाई करचे खातीर लोकांतूलो सर्वोपरी धनिक बील गेट्सान चाळीस मिल्यण दान दिल्यां..."

... ... ...

एड्स... कानसर... आनी कितले लागेन काळ वचुका हाका प्रतिविधी सोदून काडूक?

# पत्रवोडो*

"जायते काळ जाले मू गो पत्रवोडो खावनू!" हांवें सांगीलें.

"तुमकां ना जाल्यारीच पत्रवोड्या खाण चड जाता. पोट वाडकुळेंच जावनु आयलेलें आसा!" बायलेन सांगीलें.

"केदाणा गो आमी हाजे मुर्थम पत्रवोडो खेल्लोलो? तीनी मास जालेनाय वे?"

"तें म्हूण इत्तें जालें? होडलें दंद तं पत्रवोड्याचें. माका पान आनीक उजरावनु बेसूक जावना."

"एलिज़बेत आसा न्हय वे तुका सहायाक? ती केदणाय येता न्हय?"

एलिज़बेत घरकडे दंदाक येंवची आफ्रिकनी दंदकारनी.

आफ्रिकेंत पत्रवोडो? तुमी निमगितलीं. व्हय! हांगाय मेळता पान. एष्यन मारकेट म्हूण एक बजार हांगा आसा. जायते गुजराती जनां आशिल्ले केनियांत, भारतांत मेळचे तराचें रांवदयकयेचें सामान एष्यन मारकेटांत गेल्यार मेळतलें.

पत्रवोड्या लोळो कवोळनु दवरलेले वरी आसतलो पानांचो काटू. एक पोळितीन घूडांत बरें करून बांदून दवरतलीं. एक काटांत धायके पानां आसतलीं. वीस शिल्लिंग तं एक काटाचें मोल - सुमार बारा रुपया.

एष्यन मारकेट होडलें आसा. आमगेले गांवचे मारकेटाचे वरी सामकें चिकलट आसतलें. हांगा साकून सल्प दूराय तं. मिगेले धूवांक

---

*मूल लेखक श्री सुधाकर हांनी स्वयं कोंकणींत बरयलोलो लेख

थांगा वचून सामान घेंवचें सावनातिल्लें कायरीं तं. तांकां होडले सूपरमारकेटांत चंद करून घूडांत घालनु विक्रीक प्रदर्शन केल्लेलें घेंवचे तं लागता. आमी केदणाय एष्यन मारकेटांत वचप ना.

"तूं वोरोव फुगत घाली गो. हांव आजी वोचून पान हाडता." हांवे सांगीलें.

"फायी आयतारु. एलिज़बेत आसुना. तिकाय एकु दीस नवें छुट्टी मेळता." अशी खंय बायल.

"फाय? फाय करी म्हूण कोणे सांगीलें? माका आजी तं पत्रवोडो खांवका!" माका वाशी चडली.

"आजी? इत्तें कि तुमकां? चेरडुवांचे वरी करताय?"

"व्हय, माका आजी जाय, चांग सूरय वोरोव आसा मू. आतांची फुगत घाल्यारी सांजे मुर्थम पीट कोरयात. आजी जाल्यार एलिज़बेतय आसा. तिजे कर्यान पान उजरावनु काडी."

"जाल्यारीय तुमकां वाशी तं. येतले आयतारा केल्यार नुपूरो वे? अपूर्वाक जाल्यारी पात्रवोडो लागना बी."

'लोकांतुले सर्वापशी चड भयंकर वस्तू तं हो पत्रवोडो' म्हूण तं ती सांगता. पत्रवोड्याक अपमान केल्यारी हांव तुका 'disinherit' करतलों म्हूण हांवें अपूर्वाचे लागी सांगलेलें आसा.

"ना, माका आजी पत्रवोडो खांवका!"

फाले फाल्यार चमकूची वर्तमानां तं. भायर उजवाड जाता मात्र.

"हो! हो! तुमकां शनीवारा सकणीच वेगळीं कायरीं कांय मेळ्ळीनांय वे सांगूक?"

शनीवारा आमकां छुट्टी. पांच दीसा वारु तं आफिसाक.

"तुमीची वोचून हाडाय पान. हांवें बि येवना एष्यन मारकेटांत." कोणाक एष्यन मारकेटांत वचाक मन ना.

"अपर्णाक जागयतां," हांव चेरडुवांले कूडांत गेलों.

दोगांय चांग नीद.

"उट्टा गो अपर्णा, एष्यन मारकेटांत वचा."

"ना.... माका नीद येता... अप्पाच वच!" अपर्णा गोंदोळ करता.

"ना गो, तूवंय यो, तूं तं मिगेली असिस्टंट. प्लास्टिकाचो घूडु धरूक माका लागी तूं जाय नवें? दांत घासी आनीक अशीच यो. मारकेटांत गेल्यार चिकोल जातलो."

तशी आमी शनीवारा सकाणीच पान घेंवचाक जावनु मारकेटांत पावलीं. सामकीच पान मेळचे आंगडींत गेल्लीं.

"एषिकल खंय?" हांवे थांगा दिकलेले काळग्या लागी निमगीलें. केदणाय दिकूचो काळगो तं एषिकल. ताणे माका मोल ऊणे करून दीवप आसा.

"तो आज पावलोना. वेळ जाता मात्र."

"जावो. तूं माका सहाय करशीवे? माका पत्रा जाय." हांगाय पानांक पत्राच म्हूण तं म्हणताय. गुजराती जनांनी पानाचो एक गोडु पत्रवोडो करप आसा. ताजें नांव 'पत्रो'.

"माफ करका. आज पत्रा ना." ताणे जाप दिल्ली.

"कितें?" माड्यारी साकून खालाक पडलेल्या वरी जालें माका.

हांव अपर्णाक चोयलों. ती माकाय चोयली. आनीक ती ल्हवू ल्हवू हासता.

"मिजे दोस्ता. तूजे लागी पत्रा ना जाल्यार लागी आशिल्ले आंगडींत निमगीशी वे?" हांवें सांगलें.

"पत्रा आसा वे, पत्रा?" ताणे लागीचे आंगडींत सग उळदून निमगीलें.

"ना", "ना", "ना", "ना", लागीचे चारी आंगडींत साकून जाप आयली.

माका सल्प भय दिसलें. भाग्याचे कर्यान वोरोव फुगत घालोवनु तं सकाणीच हांव पान घेंवचाक आंगडींत आयलां. पानां नातिल्लें घरकडे वचीं कायरीं - कितें जातलें म्हूण माका सांगूक जावना.

"मिजे दोस्ता, हे मारकेटांतूले पूरा आंगड्यांतूले तुगेले सर्व मित्रांचे लागीय निमगून सहाय करशी वे?" माका वेगळी वाट ना आशिल्ली. ऊणे दोनीशें आंगड्यो पुणीय ते मारकेटांत आसाय. एकेक आंगडींतूय वोचून निमगूक माका जातलें वें?

"तूवें आज माका पत्रा घेवनु दिल्यार हांव पांच काट कडता. तें मात्र न्हय तुका भरपूर बक्षीशय दितां. वचून सर्वकडेय पत्रा आसा की म्हूण पळय." हांवे सांगीलें.

तानी किस्वाहीली भासेन गोंदोळ आरांभिलो. एक आंगडींत साकून लागीचे आंगडींत. एदीच घडी भितर मारकेटांत पूरा होडलो गोंदोळ. तशी पान आसा वे पान आसा वं म्हूण निमगून धा मिनेट जांवचाकय उतर मेळ्ळें. एष्यन मारकेटांतुले एक आंगडींतूय पान ना! पान केदणाय आसुना, शुक्रवाराचें मात्र खंय मेळतलें!

"सबाव जालें मू अप्पा हांगा आयलेलीं."

"आनीक कितें करप गो?" हांवें निमगीलें

"हा हा हा हा..." ती हासता.

"हासूनाका गो! तुजे कर्यान हांव पान खुंटयतलों." तशी सांगुका जालें तिजो हासु राबोंवचाक.

येदी तरकारी घेवनु आमी परतलीं.

"चिना वे आयचें पान?" भाग्या निमगीता.

हांव कांय उलयलोना. अपर्णा हासताची आसा.

"इत्याक गो तूं हासता?"

मारकेटांत जालेलीं कायरीं सग तीणे मीट मीरें एकडे करून पातळायलें. सगटय बेसून हासताय. अपूर्वा होडान होडान हासता.

"हांव सांगीलें नवें, लोकांतुले सर्वापशी चड भयंकर वस्तू तं हो पत्रवोडो. माका संतोष जालो. ला ला ला..."

"तुमी सगटय पानाक शीरापिताय दिकून गो पान मेळना. तुमगेलीं वर्तमानां आयकून आशिल्लें पान सग कुसून गेल्लेलें आसतलें. तुमी पत्रवोड्याक खेळू केल्लो जाल्यार तुमकां सगटांकय देवु पाताळांत पेटेयतलो!" हांवेंय सोड्न दिलेंना.

तशी पत्रवोड्याचे बदलाक काबेजाची उंडी खांवका जाली!

# नायरोबी नाष्नल पार्क

## ट्वीगा ट्वीगा लिट्टिल स्टार

मिगेले धूवांक दोळे वात्ते धरूक भारी कष्ट जाताले. फांतोड्याचे पांच पंचडांचेर मांचार साकून तांडून उटकरायलेल्यो त्यो, सफारीक वचाक म्हणून होगी भायर सरल्योय. गांव भोंवडेक मार्गदर्शक जावूक सदा तयार आसूचे ड्रायवर किमालून धावडांवचे लांडक्रूसराचेर नायरोबी नाष्नल पार्कांत वची अर्द घंट्या वाट आनी टिकटां काडचे कडे जालोलो तोडोव कारण त्यो दोगंय दुशेरी कुरवंल्यो. पार्कांत प्रवेश करतना साडे सात जालीं. आनी उदेंवचे सूर्याचीं हुनसे किरणांनी तांकां सुख निद्रेंत बुडयलींय. आमचे सांगातांत वाहनार आसाय मिजो बॉस मजुमदर, ताजी बायल आनी धूव.

पार्काचे द्वारांतूले दाट रानांतुल्यान भितरी सरून आमगेलें वाहन, रूक ऊणे आशिल्ले सपाट भूप्रदेशार चडलें. दिगंतर साकून दिगंतर पर्यान पातळेवनु पडलेले हे भूप्रदेशाचे मद्देंमद्दें जावनु काळसें खांप सरी दृष्टि पडता तें उदकाचें लक्षणच आसा. पयलेचीं धा मिनिटां एक सरी मृगाक दिकूनातिलीं गेलीं. कष्ट काडच्याक प्रयोजन कसलोय जातलो कि म्हूण संशय मनांत चडूक लागलो.

तेन्ना तीं प्रत्यक्ष जालीं. दीग गळे खाल ऊंच हालोवनु भोंवचे तांकां दूरा दिगंतरारी दृष्टि पडली. सर्वव्यापी जावनु थंय आसचीं टोपी वा थोंपसण्स गसेलां हीडांची प्रतीक्षा करून आशिल्ले आमचे मुकार जिराफां तं पयलीं पावलेलीं. आमी लागी पांवताय तशीच तांचें रूप, होडलें देह, दीग गोमटो आनी सोपूर दीग पाय स्पश्ट जावूक लागले.

चेरडुवांक निदांत साकून उठावूक कष्ट जाले तरीय जिराफांक दिकून त्यो सजीव जाल्यो.

रस्तो जिराफांचे लागी पावलो आनी वाहन राबयलें. तीं सात जाणां आसाय. कांट्याळे बाबळा रुकांचे तुदियेरी साकून पाल्ले खांवचे तांकां सुमार पन्नेरा फीट उंचाय आसा. आरोग्यवंत देहांचेर स्वच्छ तकतकेंवचे सालीचे पोंदाक तांच्यो बळिश्ट मांसपेश्यो उठून दिसताय. तांचे देहांचेर आशिल्लीं काळीं बदामी खांपां नवींच रचलेले वरी आसाय. अतिसुंदर लावण्यवंत म्हूण हांकां वर्णना करयात. सुंदर दोळ्यांची दीगी पातकडी तांची सोबितकाय चडयता आनी हें कारण खंचेय मोडलाकय हारवोंवचे तशी तीं दिसताय.

आतां हें समजता कि ह्या गावांत सर्व कडेय विकूक मेळचीं जिराफांचीं जीं शिल्पां हांव सुंदर म्हूण आठयतालों तीं ह्या अस्सल मृगांचे लागी तुलन केल्यार खंयीच पांवचीं न्हय!



"ट्वीगा, ट्वीगा," मिगेली म्हालगडि धूव म्हणता.

"कितें?"

"ट्वीगा म्हळ्यार जिराफाक म्हणचें किस्वाहिली उतर," नवे भासेचीं उतरां शिकून काडलेले अभिमानान अपर्णान म्हळें.

"ट्वीगा, ट्वीगा लिट्टिल स्टार," अपूर्वा गावूक लागली.

**रानांतुली गाय**

"ईलांड - जंगली गायो," मुकार दिकचे विचित्र मृगांक दाकोवनु किमालून सांगलें. पयले दृष्टीर हांकां गोरवां म्हण चुकून समजतलीं तरीय लागी साकून पळयल्यार व्यत्यास दिकुयात. पाड्याले सारके आशिल्ले देहारी हिरणा मातें परिणाम जाल्लेल्या वरी जाय तशी न्हय जाल्लेलें सोपूर सान मातें, जाचेर दोनि शिंगां सामकीच उबी आसाय. खंचेय सायन्स फिक्शन चलचित्रांत, जशी 'मेन इन ब्लाक', आशिल्ले अनवळखी ग्रहांतुल्यांचो उडगास हाडताय हीं. तांचे होडले देहार हें सानुलें मातें अस्वस्थ जावनु जोडून आसा म्हूण दिसता. पुण तांकां ताज्यान कसलेय कष्ट जाता म्हण दिसना. ईलांडांक ही तांची रूपाची चूकी कोणे समजावनु दिल्लीना म्हूण स्पश्ट आशिल्यान ते खातीर लजेंवका जालेलें कारणय तांकां ना.

**विंदूर आनी बबूणां**

"थंय ते व्यू पॉयंटारी होडले विंदूर दृष्टि पडताय," बॉसान म्हळें.

"विंदूर? कसले विंदूर?" माका अतिशय जालो.

"जाल्यार चानि जावयात, आफ्रिकेनी चानि," दिकलेले मृगाक नांव सोदून बॉसान म्हळें.

राना मद्दें चारीय दिकानय रूक घेरून ऊंच पाक्या सारके राबलेले एक वात्ते जाग्यार बेसून सूर्याचीं सुखदायक किरणां घेवून आमी सकाणचें खाण खावनु जाल्यां. मुकार वचाक तयार काडचे मद्दें तं ताणे विंदुरांक दिकलेलें. हें आयकून आमी कोण वाहनांत चडलीनाय.

"लागी पांवतरी हांव तांचें फोटो काडतां." हांवेंय दूरा होडलो विंदूर जशी कितेंय दिकीलें. तरीय लागी पांवचे मुर्थम जें भीमाकार विंदुरा सारकें दिसतालें तें एक फातरा मागशीच्यान मिजे मुकार धावनु येता. हें पळोवनु घप जावनु हांव कडकडेलों कारण तो आसा एक भीमाकार दादलो बबूण आनी तो सीदा मिजेच लागी उडकी मारीत येता.

बबूण प्रातांत अतिक्रमण करच्यांक कोणाकय, चीताक तांय, बबूणांचो हींड धांवडावनु घालून वा चाबून दिंवशी मारता म्हूण हांवें वाचलेलें आसा. हांगाचीं बबूणां मनुष्यांक दिकून परिचित जालेल्यान जायत देवादयेन ताणे माका कांय केल्लेना. तो मिजे लागीच्यान घूवनु आमचे वाहनाचे वात्ते द्वाराक लक्ष करून धावलो. तेद्दे भितरी पांच बायल बबूणां, जांचे फाटींचेरी तांचीं पिल्लां पाकडी घेवनु पडलेलीं त्योवोय त्या दादल्याचे मागशींच धावनु वाहनाचे आसपास भोंवचाक लागल्यो.

टोयलट पेपराचो एक कवळो निसरायत ते कागतान झाडांचेरी रिबणानी जशी शिंगारीत तो धावनु भोवलो तेन्ना तागेले लक्षांत, चडती चडून येंवचें आनी एक वाहन पडलें. हें पळोवनु हातांतुलो कवळो थंयीच उडोवनु तो ते वाहनाचे लागी धावलो. ते वाहनाचो वेग ऊणे आशिल्यान ताणे ताजे ऊंच उडकी मारली. भितरी बेसल्लीं जनां केळीं खातालीं. बबूणा दर्शनान स्तब्द जालेले ते यात्रिकांनी होगी जनेलां बंद केल्लीं.

तो बबूण वाहना ऊंच बेसून बावगून जनेलांतुल्यान यात्रिकांक तोंडां करून दाकोंवचाक लागलो. अन्य बबूणांचेंय ध्यान आमचेर साकून गेलेलें अवसर चोवनु, सर्वांचे लागी कारांत चडूक हांवें बोबाट मारली. सगटय होगी वाहनांत घुसलीं आनी तुरंत कवड, जनेलां आदी बंद केल्लीं. दोनीय वाहनांय तेन्ना भितरी लागी लागी आशिल्यान बबूणां एकार साकून आनी एकार परत परत उडकी मारूक लागलीं. तानीं उडकी मारतना धडवूचो शब्दु होडू. ऊंच बेसून बावगून तांनी दाकोंवचे खुशाले तोंडांचीं येद्दीं फोटो हांवें काडलीं. वाहन मुकार काडचे मद्दें तांकां संतोष हाडोंवचाक जावनु किमालू एक केळें भायर विंदूक चोयलो. पुण तें सरसरेवनु भितरीच पडलेलें बबूणांक आनी आमकांय समान निराशाजनक जालें.



अन्य वाहनय वेगीन मागशीं काडून वतना तानी घालनु दिल्लेली केळ्या साली घूवनु चोवूक सरी बबूणां श्रम पावलीनाय. हें दिकून

तानीय आमचेच लेकान साली काडून केळीं खाताय म्हूण आमकां जाणीव मेळ्ळी.

**वाडकूळ्यांत घूंवप**

"मुकार आशिल्लो तो स्थाय फूडे दिकलोलो न्हय वे?"

"न्हय. तो वेगळो तं!" मिगेलो संशय दूरा करून किमालून सांगलें.

हांव चोयलों. तो सान बंगळो जाचे ऊंच थोड्यो आंटिना आशिल्यो तो पळयल्यार वळकीचोच दिसता. थंयचे सूचोवणी फळ्यार बरयलेलें 'रस्तो बंद' म्हळ्ळेले उतराचें एक अक्षर पडून वोचून आशिल्लें जें हांवें फूडे दिकलेलें, तें फळेंच थंय आसा कि म्हूण हांवें सोदलें. तेंवय आसा थंयीच.

"किमालू, हें तेंच स्थल तं. आमी अशीणान सल्प घडि मुर्थम गेलेलीं उडगास ना वे? ते तांबडे कारावेल्यांक हांगाच भेटलेलीं, जानी सिंहांचे विशीं निमगिलेलें."

"जावयात," ताजो शब्दु भायर फुटना. वाट घुसपली म्हूण मान्य करूक तो तयार नाशिल्लो.

धूळी उबोवनु एक तांबडे कार मुकार साकून येता. दोन वाहनां मुखामुख पावल्यारी साधारण रीति अनुसरून राबोवनु दिकलेले मृगांचे विशीं जाप दीवनु मात्र तं मुकार सरतलीं. तेच लेकान आमीय राबयलें.

"तुमी खंयीच सिंहाक..." निमगूक काडलेलें पुरतें करूक जावनातिल्लें किमालूक हास फुटलो. तांतूलीं जनांय खुतखुती हासताय. फूडे दिकलेलीं तींच. तींवय आमचेच वरी वाट घुसपून वाडकूळ्यांत घुंवतालीं. दोगांय दोनि दिशेर म्हूण मात्र.



सामकी वाटेचें चिन्न दिकून धरूक मागीरीय पन्नेरा मिनिटां काडलीं.

### आमचे तोप्ये खातीर एक ऑस्ट्रिचा पाक

इंजिन मंद करून राबयलें. आतां परिपूर्ण निशब्दता. फतरा पुडिये रस्त्याचे देगेन राबलेले ऑस्ट्रिचांची अस्वस्थता ऊणे जाली. गोबरा वर्णाची एकली बायल ऑस्ट्रिच जी काळे पाकांचे प्रेमपरवश दादले ऑस्ट्रिचाचें व्होराण आपले मागल्यान घेवनु भोंवताली, ती आमगेले वाहनाचे लागी साकून वीस फीट दूरा राबली. प्रेमींचें व्होराणय राबलें. मागीर ती आपलें पावल अतिलोल जावनु रसत्यार आपडावनु परीक्षण करून वाट घट आसा म्हूण स्पश्ट करून कि इतें धैर्य संभाळून मुकार सरली.

आपले पाकांचेरी आनी पृश्टभागाक आशिल्लीं धवीं पाकां एक प्रत्येक ताळात्मक रीतीन हालयत ते दादल्यांचें व्होराण तिजे मागशी रस्तो हुपून केन्ना ल्हवपणान, केन्ना वेगीन नांचत, धांवत मुकार गेलें जशी खंचेय भारतीय चलचित्रांतुले नांच गीत रंगातुले नर्तक.

हांचें रूप विचित्राचें. होडले देहार साकून सोपूर दीग कशीच हालोवयात तशी दिसूचो एक बलवंत गोमटो जाचे उंचावेले तलवाक आशिल्ले सान मात्यार पूराय भरून दिसूचे दोन होडले दोळे आनी एक बळिश्ट चोंची आसा. उणेच पाकांचें मुंडें बाल आनी तांचे आकाराक जाय तशी न्हय आसलीं सानुलीं दोनि पाकां. तांच्यो जांगो धांवगड्याचे* पायां सारके होडले मांसपेशियांनी बळिश्ट दिसताय. एक चीता समान वेग आनी घोड्या समान बळवंत आसून जायत हानीं लाख लाख वर्षां मुर्थम उबचें सोडलेलें. दीग पायांवेलीं दीग पावलां धारे नांकुटांनी समाप्त जाताय. तांतुले एकल्याले जांगेर

*धांवगडो - athlete

होडलो एक रक्तबंबाळे घायु आशिल्लो जो आपले सांगात्यां ओट्टू मारनु घेवनु मेळोलो जायत.

हांनी तणांत चरचें पळयल्यार चार पायांचें खचेंय काळें मृग बि म्हूण घुसप पडतलो.

**दोन शिंगां आनी अदूरदृष्टी**

आपले हींडांक राकूक जावनु हिंसमृगांचो जागरूक एक होडलो दादलो टोपी राबला. दोन वांकडे शिंगाचें, गाढ बदामी चितळ तं हें टोपी. हांचो हींड चरतना एक ना एक दादलो टोपी सदा राखणदार जाता. फाटभूंय जावनु केवल नीळ मळब आशिल्ले एक दोंगुल्यार तं हो हींड चरता.

तिनीशें मीटर दूरा आशिल्ले एक रुका पोंदाक एक होडलो काळसो फातोर दिसता. तसले फातरां लागी तं सिंहाक दिकूक पडतलें म्हणून हांव एक लागेन सूक्षमेन चोयलो. तेन्ना तो फातोर हालोलो! ताजे मागशीं आनी एक हालचो फातोर लागेन आसा. आफ्रिकेंतुलें आमगेलें पयलें गेंडामृग दर्शन! किमालूक जाणयलें. तांचे सल्प लागी आशिल्ले पाचवेचार जाग्यार वाहन व्हरूक सांगीलें. वाहन लागी येता दिकून तीं दोगांय घूवनु रुका पोंदाक साकून दूरा दिकूक येंवचें रान लक्ष्य करनू धावलीं.

वाहन राबयलें. दोस्ता संगातांत हांवय भायर देवलों.

"देंवताय? इत्तें कि तुमकां?" मिगेले बायलेन फडफडेवनु निमगीलें.

"भीवनाका, गेंडामृगां अदूरदर्शी* म्हूण आयकलेलें आसा," हांवें सांगलें.

"गेंडा मृगांक दूरदृष्टी ना म्हूण? 'लासिक लेसर सर्जरी' करून

*अदूरदर्शी - short sighted

तानी दृष्टि सामकी केल्या कि म्हूण कोणाक कळता! खंय कि तीं?"

"थंय, ते झाडा मागशीं... हेय! कवड कित्याक वंद करता?"

"ते गेंडामृगांक सांगात दीवून तुमी थंयीच रावाय! किमालू... कार घरकडे व्हर!" तीणे आज्ञा दिल्लीच.

दिंभ्येर बावगून राबून बायले लागी विनंती करका जाली माका परतून भितरी चडूक! तेन्ना सग मागशींच्यान गेंडामृगांचो हुसकार आयकूक पडतालो!

ना, सवाव सांगिल्लें तं...



**घोण्यो, गिधाडां* आनी ढोंकां**

दावे कडे मळबार धवे मेघांचेर काळी सावळी सारकी एक घोणी उबून घूवळ काडता. दावे भागाचे एक देवणे कडे ती देंवता पळोवनु थंय कितें आसा म्हूण आमीय उत्सुक जालीं. पळयल्यार थंय एक सान उदका तळ आसा जंय ऊण्यान ऊणे स नमुन्याचीं सवणीं उदक पिंवचाक आसाय.

सुमार एक डजन गिधाडां थंय ते उदका देगेर बेसल्यांय. थोडीं तांचीं पाकां सुकोंवचाक धरलेले लेकान विसकळावनु राबल्यांय. थोडीं धांवत उडकीयो मारनु पाकां फटफटायत दुशेरी खाल देंवताय. वाहन लागी पांवता दिकून तीं पाय झरोवनु ल्हवू दूरा सरलीं तरीय

*गिधाड - vulture

तो फातराळो जागो सोडून गेलीनाय.

ती घोणी उदक पीवनु उबून गेल्ली. दोन माराबू ढोंकां घूवळ काडित उदका लागी येवनु देवलीं. दोगांय चखचखून चडच उदक पिल्लीं आनी आपलीं पाकां गिधाडां सरके विसकळावनु राबलीं.

थंय आशिल्लीं सर्व सवणींय उदक पीवनु जातरी रखरखी वोतांत साकून आंग थंडावूक पाकां विसकळायताय म्हूण समजलें.

एक किलोमीटर मुकार वचानिक वोल्ले चिकलांतुल्यान आयलेलें दिसूचें एक लांडरोवराचेर थोडे अमेरिकनी मुसुंगे येताय.

"थंय कांय दिकीलें वें?" तानीं आयलेली वाट दाकोवनु हांवें निमगीलें. देनपरांचे वोतांत थळथळेंवचें एक सरोवर थंय दूरा दृष्टि पडतालें जाचेर काळे तीळे सरी कितेंय पोंवता.

"थंय थोडीं सवणीं मात्र. तरीय सरोवर दांटवून मुकार झिब्रा आनी म्हशी दिकुयात."

"ऑके, थंक्स! मागीर एक कायरीं. तुमी गेंडामृगांक दिकलींना जाल्यारी मुकार ते दोंगुल्यार तीन किलोमीटर चडल्यार एक टोपी आपले हींडाचो राखणदार जावनु राबला दिकूक पडतलें. थंय लागी एकटो एक रूक आसा जाचे आसपास एक आवसु आनी पील गेंडामृग दृष्टि पडतलें."

"वॉव! थंक्स!" संतोषान हात दाकयत तीं गेली.

बारा सास किलोमीटर अंतरार आशिल्ले दोनी राज्यांचीं आमी उलयआठयनासतना आफ्रिकेंत एकडे पावनु एकच संतोषांत भाग घेंवचो हो एक विचित्र प्रतिभास!

सरोवरा पेलतडी पावूनिक झिब्रांक दिकचे खातीर आमची इच्छा पूर्ती जाली. टोंपी आनी थोंपसण्स गसेल नावांच्या चितळां

हींडां सांगातांत चार झिब्राय तणांत भोवनु खेळताय. उडकी मारनु धावनु खेळनु भोंवचे जायते मृगांचीं फोटो, वाहनांत साकून देवनु राबून आमी काडलीं.

थोंपसण्स गसेला हींड धांवतना सवण्यां हींडानी उबचे सारके एकेक मृगय एकच लेकान एकच समयार पूर्ण ऐक्यान दिशा बदलून धांवताय.

## रेड्यांची चिड्डाचिड्डी

निशब्द झाडां मद्दें साकून धवे सवण्यांचो एकु हींडु उबूक लागलो. वाहनाचे दावे कडेचे दीग तणां मद्दें साकून एक होडलें काळें मातें वयर आयलें. ताजेवेलीं दोन शिंगां वोतांत तकतकेताय. आनीकय मातीं उबीं आयलीं. थोडीं मृगां उठावंचाकय लागलीं. रेड्यांचो एक होडलो हींड थंय विश्रम काडतालो म्हूण समजलें. घडि भितरी सुमार तीस जोडी दोळे तांचो कोपु आमचेर ओतूक लागले. तांकां उपद्रव दीवूक जावनु कसली करणी करूक वताय हीं नीच मनीशां म्हूण जायत तांचे मनांत.

कदाचित आमी तांगेले प्रदेशांत अतिक्रमण करून चडल्यांय जायत वा तांगेले निदेक भंग हाडलो जायत. खंचे म्हूण स्पश्ट सांगूक कष्ट तं, पुण तांचे ते हींडांत साकून प्रसरण जांवचो शत्रुभावा तरंग खूब विस्ताराचो म्हूण हांव समजलोंच.

आफ्रिकेंतुले जानवरां मद्दें सर्वा पशी चड उपद्रवकारी तं हे जंगली रड्डे आनी रानांत दवोरनु जांवचे मनुष्य हत्येक सिंहांचे पशी चड हेच रड्डे कारण जाताय. "हांकां गूळो घालूक सरळ न्हय. मुकार साकून ते आंगार पडूक येतना ह्या मृगांचेर निशानी दवरून चुकुनातिलें सामके नांकांतु गूळो घालूक अति कठिन." आफ्रिकेचे खंचेकीच भोंवडेकारालीं उतरां मुर्थम केन्नाच वाचलेलीं मिगेले मनांत गर्जुक

लागलीं. ओटू पाय मिजे बलहीन दिसले. भोंवडेकारांक जंगली जानवरांचे हातांनी जांवचो अपाय वा मरण हाजें उत्तरदायित्त्व पार्काक न्हय म्हळ्ळेलीं उतरां जीं पार्काचे दारांतुले सूचोवणी फळ्यार वाचलेलीं, तांचो पूरा अर्थु आतां मनांत भरलो.

आमचे लांडक्रूसराक मुकार सरूक धैर्य दाकोंवचाक आह्वान करून सरी तांचे नेतान एक पाय मुकार दवरलो.

"मागशीं सर! तांनी आक्रमण करूक वताय!" हांवें किमालूचे लागी गडबडीन सांगलें.



ताणे रिवर्ज मारून वाहन दोन फीट मागशी काडलें. रेड्डे एकसानीच खांदाक खांद लावनु जांवका म्हणून धा फीट मुकार सरले. चीनी पागाराचो वा आमेरिकेनी फुटबॉळ खळकारांचो उडगास हाडचे तशी येताय ते. वाहन एक फीट माग्ल्यान सरलें, रेड्डे पांच फीट

मुकार!

भारवंत मांसपेशियांनी बलवंत इतले सबार रेड्यांचे हींड, वेगीन आंगार पडूक आयल्यार जांवचे हानीचो अंदास माका जालो. असली एक अवस्था एक कारटूणांत तं दाकयतालीं जाल्यार, 'बाडाभूम! बाडाभूम!' शब्दानी आडोळनु रेड्यांचे पोंदाक पडून वाहन चेपून घडी जावनु वता पळोवनु बेसूक खूब मजा येता आशिल्ली. जाल्यार सत्यावस्था आतां आमी वाहनांत भितरी आनी मुकारी येताय निश्ठूर जिवंत रेड्डेय!मुर्थम

मन घटि धरून किमालून, भितरी बेसल्यांक अशी तशी उडोवनु म्हळळेल्या वरी वायुवेगान वाहन घुवंडावनु, रेड्यां प्रांतांत चडचे मुर्थम सोडून आयलेले फातरा पुडिये रस्त्याक लक्ष्य करून अतिवेगान धूळी उबयत मारनू उबयलें. रियर व्यू हारश्यांतुल्यान तांचीं काळीं रूपां धूळिये धूक्यांतुल्यान दृष्टि पडतालीं. तांनी तांचो धांव राबयलोलो पळयल्यार तांचो उद्देश सफल जाला म्हूण स्पश्ट जाता.

**मसाई आनी विमुखी सिंहू**

"आज सिंहाक बि दिकलो वे?"

"हां, व्हय, आज सकाणी एकल्याक तशीणान वतना दिकेलोलो तं." ताणे पिंगार्तांचे* दीग नळियेन दाकयलेले सोपूर हादि कडे आमी पळयलें.

"येयाय, हांव तुमकां थंय व्हरता." ते वनपालकान पिंगार्त आपले खांदार लांबोवनु म्हळळें.

आपले कानार विश्वास दवरूक आमकां कष्ट जाले. कितें? ते रानांत वचाक? जंय आज सकाणीच एक सिंह चडून गेला! अविश्वसनीय!

---

*पिंगार्त - rifle

"तें दिकिलें वें? सिंहविश्टा तं!" भुंयचेर पडलेलें येद्दें संदेहजनक पदार्थ दाकोवनु ताणे सांगलें. ताजान आमकां सामकी प्रभावित करूक जाल्यां म्हूण समजून तो मुकार चमकीलो. ताजे मागल्यान एक पाणाथळा देगेवेल्यान वचे ते हादीर सावधपणान आमीय मुकार सरलीं.

पडून आशिल्ले एक रुका धडियेर साकून उदकांत उडकी मारूक तयार काडचे थोडे कासवांक लक्षांत व्होरनातिल्लें ते पाचवे उदकांत एक सिसरो वोत घेता.

अळतांत वा पेळतांतूले झाडांचेर खयींच साकून मधुर सिटीचो शब्दु आयकून आमी एकसाणीच निमगीलें -"तें कोण कि ?"

"तें एक बुळबुळ सवणे तं. ते झाडां मद्दें खंयीच आसा."

आमी कशी तरी चोवनूय ते मधुर शब्दाचे गुपित भोंवचे सवण्याची एक सरी झळक मेळ्ळीना.

सल्प लागेन मुकार, पेलेतडीर आशिल्ले झाडां मद्दें साकून होडान स्वास वोडूचो आनी पाणाथळांतुलो फेचक फेचक जांवचो शब्दूय आयकीलो. तेन्ना हें आयकून 'पाणघोड्यान पाणाथळांत साकून फारकलो पाय उबारनु काडचे सरके' म्हळ्ळेली वाकशैली कितली निरीक्षणात्मक जावनु पी जी वुड्हाव्स म्हळ्ळेले इंगळीश बरोवप्यान आपले साबार पुस्तकांत अनुयोज्य रूपान प्रयोग केल्या म्हूण हांव समजलों.

अवसल्ले एक मनुष्याक आपलें भोजन करूक सोदून भोंवचे ते सिंहाक भेटलोना म्हूण आश्वास पावनु थोडे घडियानी आमी आरंभ केल्लेले वात्ते जाग्यारीच परतून पावलीं.

काळे तोंडांची दोनी मांकडां थंय बेसून आपले पिल्लांक दूद

दिताय. मोठे मोठे दोळ्यानी आमकां पळयलें नंतणा तांनी थंय साकून हाललेलीं सरीना.

थंय आशिल्ले एक रुका बांकारी तेंकून बेसून एक मसाई योद्धा माळबरो सिगरेट वोडून धुवरा बोळीं फुसकावूक चोयता.

ताजे लागी गेंडामृग, हिरण, बबूण आदींचे मात्यांचीं दिसूचीं तीन करटीं आसाय. बबूणाचे करट्या दोळ्यां फोंडांत कोक कुप्येंचीं दोन दांपणीं चेपून दवरलेलीं पळयल्यार भयानक दिसूचे बदलाक तमाशाच दिसता.

"तुगेले सांगातांत मिगेले चेरडुवांक राबोवनु एक फोटो काडू वे?" हांवे निमगीलें. तो बुद्धवंत योद्धा असलेच एक अवसराक राकून राबलोलो म्हूण माका पुर्ण विश्वास आसा.

पुण माका तो तिरस्कारपूर्वक पळोवूक लागलो. हांव एक सादा पर्यटक न्हय आनी हे कारणान बक्षिश चड दिंवचो न्हय म्हूण वळकलोलो आसतलो.

"शिल्लिंगी हमसीनी," ताणे म्हळळें

"इंगळीशान कितलें?" हांवें निमगीलें. चड जाल्यार पन्नास दिवयात. हांवें लेकलें.

"शें शिल्लिंग," ताणे म्हळळें.

"ना. मिजे लागी तसलें चिल्लर ना. पुण पन्नास दीवूक शक्ता." हांवें म्हळळें. तें ताणे तिरस्कार केल्यार आनी आशिल्ले सासा नोटांची चिंता मनां हाडूनातिल्लें चोयलों हांव. तरीय तसले चिंतेचे आवश्य नाशिल्लें.

ताणे तागेलें सामान सगट एकडे केल्लें. मात्यार ओस्ट्रिच पाकांचें मुकुट सामकें करून दवरलें. दीग भालो हतियार हातांत नीट

धरलो आनी फोटो काडूक तयार जालो.

मिगेले धूवांक ताजे दोनीय तांतूय राबोवनु कॅमॅरा तयार करतना ताणे म्हळ्ळें - "एकच फोटो काडका."

"हां, हां," हांवें ताका उत्तर दिल्लें.

सूर्या समकीची ऊंच आशिल्यान ताजें तोड सावळेंत निपून आसा.

"सल्प ऊंच पळयशी वे ब्वाना?" हांवे निमगीतना तुरंत आपले मसाई योद्धाची पूर्ण राजकीय सोबाय दाकोंवचे तशी तो राबलो.

ताजे मार्ळबरोचे घाणियेन नांक कवोळनु मिगेल्यो धूवो एकदा ताजेर दृष्टि घालून हुसक्यान राबल्यो. ताजे हातांतुलो दीग धारे भालो, मात्यावेलें पाकां मुकुट, ताजें तांबडें वस्त्र, गळ्यावेल्यो मणियां माळो, हाताचीं मणियां कांकणां, पायार घाल्लेलीं पोरणे टायरा कुटक्यांचीं जूतां आदी विचित्राचो वेषु पळोवनु जायत त्यो अस्वस्थ जालेल्यो.

"असान्ते!" फोटो काडून जावनु हांवें ताका उपकार सांगलो आनी पन्नास शिल्लिंगय दिल्लें.

"ब्वाना, तुजे लागी हे डोळरा बदलाक शिल्लिंग दिंवचाक आसतलें वें?" मुर्थमले भोंवडेकारानी ताका बक्षीश दिल्लेलीं दोन धा डोळरा नोटां ताणे भायर काडलीं. सबाव न्हय तो माका तिरस्कार पूर्व पळयतालो!

"विनिमयाचें लेक कशी की?"

"आयचें मोल अंयशी शिल्लिंग," चुकूनत्तिल्लें ताणे सांगलें.

"तुका कशी कळता?"

"मिगेलीं मित्रां जाणेयताय," आपलें सफारीकॉम मोबायल

फोण मिजे तोंडा मुकार नेटान धरून चूकी सोदूक आह्वान करचे वरी तो राबलो.

"मिजे लागी आशिल्ले सासाक बाकी दिंवचाक तुजे लागी आसतलें वे?" हांवें निमगीलें.

"ना," तो उदास जालो.

ते हुनयाळे आफ्रिकेनी देनपारां सवान्नाचे मद्दें मोबायल फोणावेल्यान डोळर शिल्लिंगांचे विनिमय मोलाचेर नदर दवरचो एक मसाई योद्धा अविश्वसनीय दिसलेल्यान आमी मातें हालयत थंय साकून गेल्लीं.

थंय सिंहाक दृष्टि पडूनातिल्याचें कारण स्पश्ट जालें. शूर वीर सिंह शिकारी म्हूण नांव काडलेले मसाई योद्दा एकलो तरीय थंय आसतना सिंह दूरा राबतलेच.

**आखेर आमी सिंहाक दिकीलोय!**

परतून येतना शहरांत एकडे वाहनां धरून राबयताय. सत्ताधिकार सोडून वचो राष्ट्रपती आपले आखेरचें जम्हुरी* दिसाचें भाषण दीवूक जावनु दवरलोलो मेळ समाप्त जातना राष्ट्रपतीले वाहन व्यूहाक तशीणान अडखल नातिल्लें वचे खातीर अन्य वाहनांक धरून राबयल्यां.

आमकां पांच मिनिटां राकून पडका जालें.

तेद्दे भितरी सुमार वीस धवेच मोटरसायकलांचे गर्जनान राष्ट्रपतीचे वाहनव्यूहाचें आगमन जाणेयलें. ताजे मागशींच जावनु एक दीग लिमोसिन कार वेगीन गेलें जाचे कर्टन घाल्लेले जनेलांतुल्यान तांतु बेसुनाशिल्ले व्यक्तीचें रूप अस्पश्ट जावनु दृष्टि पडलें. केनियाचो राष्ट्रपति डानियेल अरप टोरोटिच मॉय आशिल्लो तो - एक विस्मयपूर्ण भोंवडेक अनुयोज्य समाप्ति!

---

*जम्हुरी - Republic

# ओजिजो क्लोस

'ओजिजो क्लोस' म्हळ्ळेलें उतर आयकतना कल्पनेंत कित्तें येता? ओजिजो एक रांवदयकयेचो वस्तु कि, एक मृग बी, वा एक मनीषु? आनी कोण ओजिजोक क्लोस (बंद वा खल्लास) करता, कित्याक? ओजिजो वात्तें करूक जायत वे? तुमकां घुस्पागोंदळांत घाल्लेल्यांत क्षमा करका. हांवें राबूचे स्थलाचें नांव तं ओजिजो क्लोस.

नायरोबींत साबार क्लोसां दृष्टी पडतलीं. क्लोस म्हळ्यार एक तलवाक समाप्त जांवचो रस्तो. साधारण जावनु असले रस्ते स्वतंत्र धनिपणार घरां आशिल्ले कोळनी जश्या स्थलांर अंत जाताय. हांगाची सुरक्षा, कचरा व्हरची वेवस्था आदी सगळ्याचो खर्चु थंयचे वासी वांटे घालून भरताय.

मिगेलें घर एक मासियोनेट्ट. तशी म्हळ्यार कितें म्हूण उत्सुक जाताय आसतलीं. वेगळें कांय न्हय, एकामेकाक आडोळनु, एकामेकाचे सामके प्रतिबिंब जशे दोन भागांचो एक बंगळो तं मासियोनेट्ट. एकेक भागाकय खालचे माळियेर एक बेसूचें कूड, जेवणाचें कूड आनी वासरी, उंचवेले माळियेर निदेंवचें कूड, रुकाची भूंय, होडल्यो अलमार्यो, दंदकारांचे खातीर मैदरांत जोड्डून कूडां आनी दोनीय घरांक जावनु एक तणामळय आसा.

ओजिजो क्लोसांत सुमार पन्नास स्वतंत्र घरां, थोडीं मासियोनेट्टां आनी थोडीं फ्लाटांय आसाय. हांतू सर्वांतूय राबताय भारतीयच जांतु केनियाचें पौरत्त्व घेतलेलीं आनी तशी घेवनातिलींय आसाय.

क्लोसांत भितर सुमार पन्नास मीटर दीग L आकृतीचो एकु

रस्तो आसा. आरोग्या विशीं चड चिंता दवरचीं ह्या रस्त्यावेल्यान चमकूक वा धांवूक वताय आनी जे जे प्रमाणान आपलें वजन तोलताय ते ते प्रमाणान, किलो वा पाऊंड, व्यायाम करून ऊणे करताय.

सदा सकाणी करची चमकण खूब ऊर्जादायक. एकामेकाचे किळबिळाक बुडोवूक श्रम करचीं तरातराचीं असंख्य सवणीं थंय आसाय. अशी तशी सगट एकेक तीख दृष्टि घालून घोण्यो टी वी आंटिनेंचेर बेसल्याय. गाढ गुलाबी रंगाचीं फुलां फुल्लले जकरांता रुकांचेर ढोंकांचे सारके दिसूचीं ऐबिस सवणीं प्रत्येक तरा हाव, हाव, हाआव शब्दान वळख दीवनु वास करताय. टूकान सवणीं तांची भारवंत हळदूवी चोंची सामकी मुकार लक्ष्य करून धरून जोडि जोडि जावनु उबून भोंवचें दृष्टि पडता. गुणगुण सवणीं गुणगुणेवनु झाडांचेर सदा करचें कितें, तेंच करताय.

मळब नीळ जांवचाक लागतना, सकाणचीं किरणां घरांचे धवे पागारांचेर पडून प्रतिबिंबित जाताय. क्लोसांत मनुष्यांची हालचाल दृष्टि पडूक लागता. कार-पूळ अंगां एकडे जावूक राकून, कारखानेंचे पयले शिफ्टाचीं जनां कारा इंजिनां चालू दवरताय. स्कूल बसां म्हणून धांवचीं मिनिवानां होडलो शब्दु करून डिसेला धुवोर सोडून, अस्कारीन वात्तें करून दिल्लेले गेटांतुल्यान भितर सरताय. अस्कारी म्हळ्यार राखणदार तरीय ताजें मुख्य काम केवल क्लोसाचें गेट वात्तें करच्यांत आनी बंद करच्यांत सीमित जावनु आसा. हें गेट, भितरी घुसूक श्रम करचे आफ्रिकेनी तस्करांचे भीर्याक आडायतलें म्हूण विश्वास!

चमकण जावनु घरांत वचाक आतां वेळु जाला.

सकाणचें पयलें अनुष्ठान खाड काडचें. हारश्या लागीचें लाय्ट जळोवनु मिगेले मिशिये मद्दें दृष्टि पडचे धव्याक सोदितां. मुर्थम

परामर्श केल्लेले घोण्येक तांय विस्मित करचे तसले तीक्ष्ण नदरेन ते धवे केस सूक्षिमपणान वेंचून धरून तांचेर हांव एक धारे कातरीनी आक्रमण करतां.

मागीर तोंड बरें जावपाचे खातीर शेविंग फोंम लावनु ब्रष उपयोग करून क्रमान फेणु चडोवनु हाडतां. निदांत साकून जागचे मिगेले धूवांक हासोंवचे खातीर हांव एक अपूर्ण सांटा क्लॉस जावनु न्हाण्येंत साकून भायर देंवता. त्यो दोगांय उठावनु येताय. जांवचे तितलें रेसराचे लागी मिगेलें तोंड पावोवूक श्रम काडून हांवें करचीं तरा तरांचीं खुशाले तोंडां पळोवूक त्यो दोगांय उत्साहपूर्व मिजे दोनीय वशीं राबताय.

तें जातरी चेरडुवांक भायर देवोवनु न्हाणी बंद करून हांव टबांतुले उदकांत बुडून भायर देंवता.

देवा मुकार हात जोडून जावनु नवे दिसाचे खातीर तयारी काडतां. केस वोळेयतां. आनी मागीर आफिसांत वचे खातीर वस्त्र घालूक वेळु जाला. शर्ट, पॅण्ट, बेल्ट, जाकीट, टाय, लेसू आदी एका ऊंच एक जावनु घुसमुट येवू तांय देहार चडयतां. मेटां देवनु खालाक पांवतना मिगेलो गोमटो हालोंवचाक जावनातिल्ले सारको आसतलो. खूब पावटी अशीय जाता कि किसांत चडोंवका जाल्लोलो कसलोय अत्यावश्य वस्तु काडूक विसरून गेल्लेल्यान दुशेर माळियेर चडून सोदून हाडचेंय पडता.

तणामळाक तोंड करून आशिल्ले जेवणाकूडांत बेसून सकाणचें खाण खातना सांगातांत मिगेली अर्दांगिनी आनी 'नेषण' नावांचें खबरे पत्रय आसता.

सुमार साढे आठ वरांचेर खाण जावनु नायरोबी सिट्टी सेंटरांत वचे सान यात्रे खातीर कारार चडूक जावनु हांव विमुखी पावलां

दवरून देंवतां. सोमाराचें मिगेले पाय चड विमुखी जाताय. दोन दिसांक घरकडे चेरडुवांचे सांगातांत खळून हांतुणार लळून सुखवास केल्लेलेंच ताजें कारण.

मिगेले आफिसांतूले कामा विशीं सांगूक आनी खंचोय वेळु उपयोगु करुं. आतां इतलेंच सांगूचें उचित कि सर्व दीसय एका समान आसताय.

सांजे साढे पांच वरां माका अत्युत्साहान ओजिजो क्ळोसांन पांवयता. आंगणांत सामके मुकार अस्त जांवचे तेजिष्ठ सूर्याचेर प्रायः बंद दोळ्यांनी पळोवनु हांव कार भितर चडयतां.

आनी आतां माका दोन कायरीं करयात. एक पावटी लागेन चमकूक वचात वा संगणकाचे मुकार बेसून आफ्रिकेचे पासून हें तें विवरण बरोवयात. आज हांव बेसूक पसंद केल्यां देखून हें लेख!

आनी रात पर्यान हांव कितें करतलों म्हणूय माका खात्री आसा. सात वरांचेर इंटरनेटार लॉग ऑण करून दोस्तांक सोदून चेट करतलों. आठ वरार लॉग ऑफ करून टी वी मुकार बेसूनासूचे धूवां सांगातांत फ्लिंटस्टोण्स वा टॉम आन्ड जेरी पळयतलों. साढे आठ वरांचेर जेवतलों आनी मागीर चेरडुवांक निदेंवचाक पेटोवनु साढे धा पर्यान एक ना एक हॉलीवुड चलचित्र पळयतलों.

मागीर आफ्रिकेंतुले ह्या दिसाचो निद्देचो समय.



# तीन व्यत्यस्त संस्कारांतुल्यान

## मरुभूमींतूलीं टमाटरां

भूयेंत साकून फुस्कारून, चीटी मारून उदक खतखतून ऊंच येतालें. तें तळें सुमार पांच फीट खोलायेन आसा. तांतू पोंदाक आशिल्ले खाचींतुल्यान फेणू जावनु ऊब उदका ऊंच फुटताली. तांतू पडूक दुर्भाग्य केल्लेले सवण्यांचीं हाडां उदका पोंदाक पडून आसाय. उदक इतलें हून आसा कि तांतू पडचे सवण्यांचें मांस निमिश भितरी शिजून पडून वतलें. ते तळ्याचे अपायाचे पासून तीं हाडां भयानक सूचना दिताय. ताजे एक तांतूल्यान एकि सानी झरी देवनु वांकडी तेंकडी होळनु आमचे दावे भागाक आशिल्ले लेय्क बोगोरिया नावांचे क्षार सरोवरांत मेळता.

नरकतुल्य एक स्थायाचे मद्दें तं आमी राबूनासाय. आमचे पायां पोंदाक चमकूचे भूगर्भ प्रक्रियेचे कारण तळ्यांत साकून भुंयचे खांचींतुल्यान होळचे उदकाक लावा खतखतायता. चरचरी भोगची ही भूंय हंय थंयचान खतखतें उदक वा ऊब सामके शक्तीन भायर उवसीता. हें एक प्रषर कुक्कराचे तत्वा सारकें चमकता. भितरचो दाब चडून अमकोच जातना दाब ऊणे करूक भूंय ऊब उदक आनी चिकोल बहीरद्धारांतुल्यान बळान भायर उवसीता. आमचे चारीय दिकारीय ऊब निवळ नीळ मळबाचेर पावून अप्रत्यक्ष जाता.

मध्याना वेळ आसून सूर्या तेज आसा. सर्व दिकानय दोंगरानी घेरून आशिल्ले घांटींत हें सरोवर आशिल्यान हुनसाण चडूक कारण जाता. एक पोड्ग्यांतु पडलेले सान प्राण्यां कदी आमी, केन्ना भूंय हालतली आनी ते उदकांत आमी निर्भाग्यवश पडतलीं बि म्हूण

चिंतून राबलीं. ते हून उदकांत पाय बुडून मांस रहित भायर काडची एक भयजनक घटणा मिजे कल्पनेंत झळकूक लागली. पोरने हिन्दी चलचित्रांतुले थोडे घटणूकांचो उडगास माका आयलो जांतू आसिड वा खतखतें उदक भरलेले बाटळांत नायकाक धिंगूळतलो म्हूण धमकी दिंवचो आनी ताची मारकता सिद्द करचे खातीर खंचेय एक भाग्यहीन जानवराक बळी दिंवचो खलनायक आसता.

नायरोबी कंपाला हायवेचेर साकून बोगोरिया वचो रसतो, सुमार 125 किलोमीटरांय सामको सीदा पुण सोपूर आनी भो वायट आसा. उन्मूलन करका जाल्लेले एक नीच प्राण्याक चिरडूचे कदी, आमचे निर्भीक ड्रायवरान ताजे जड पायान आक्सिलारेटर सामकें दांबून धरलें. आनी तापलेले लोकंडा छाप पृष्ठ भागाक घेतल्या बे सावध घोड्या कदी आमचें टोयोटा हायेस मिनी वान अतिवेगान मुकारसतालें. वाहनांत मिगेलें कुटुंब नंतणा मिगेलो मित्र वार्यर ताजी बायल आनी धूव आनी एक मित्र जयश्वर, ताजी बायल, धूव आनी पूत लागेन आसाय.

दोनीय तांतूय दीग तण आनी झाडां खूतच वाडून आशिल्ले कारणान अन्य भूप्रदेश पळोंवचाक साध्य न्हय. गाय बोकडि जशी खंचेंय एक होडलें मृग ना जाल्यार एक आदिवासी भुरगें बि ते झाडा मद्देंतुल्यान भायर धावनु रसत्यार आयल्यार वि म्हूण हांव कल्पना करूक लागलों. ब्रेक घालूक येद्दी साध्यता नाशिल्ले वेगान तं वाहन धांवतालें आनी ताजान निश्चित हत्या वा सामको वायट अपघात जाताच.

पुण देवादयेन तसलें कसलें हे यात्रेंत चमकलेंना.

तरीय एकू प्रश्नू आशिल्लो.

आमी पिंवचाक उदक काडलेंना आशिल्लें.

सगळेंच आरांभलेलें एक तर्काक लागून. मिगेले सहयात्रिकांक उदक व्हरका म्हूण आशिल्लें. पुण केनियांत सर्व कडेय मिनेरल वाटर समृद्ध जावनु मेळता आनी खंय गेल्यारीय थंय निश्चित जावनु कोकाकोला आनी मिनेरल वाटर विकूच्यो आंगड्यो आसतल्यो म्हूण तर्क करून हांवें खेडदें घालें. केनियांत खंतय साकून जाल्यारीय उदक सोदून हांव हाडतां म्हणूय शर्त दवरलें.

हांव तर्कांत जिकवलों पुण शर्त हारवलों.

अर्द चड यात्रा करून जांवचाकय हे हादीर रेस्टोरेंटां वा खाणामळां वचून एकि सानी आंगडि सरी दिकलीना म्हूण समजावण आयली.

दीग तण सरून भाजल्ले बदामी मात्येचो प्रदेश पावलो जंय दूरा मात्येचे खोंपियां कदी दृष्टि पडतालीं. ते विजन रसत्यार थोडीं सरी वाहनां धांवनाय आनी कसली व्यापारिक हालचालय ना. हाजे मद्दें वाहनांतुले ए सीन काम बंद केल्लें आनी सर्वय अस्वस्थ जावूक लागलीं.

हांव घबरेवूक लागलों. दिगंतरार कसलोय परिहार दृष्टि पडूक वांवटेतालों. हांगाय थांगाय चिकला उदकान भरलेलीं उथळ सरोवरां दिकीलीं. आफ्रिकेंतुले भयानक जलजन्य रोगांचे विशी मनांत आयलें आनी खंचेय उदका थळाचे लागी वचाक तांय भय जालें. सुसंस्कृत जीण, मागशी केदणाची विसरलेले अंतराचेर आशिल्ली. आतां वाहनांतूलीं सर्वय स्पश्ट नीरस दाकोवूक लागल्यांय.

मिजे सहयात्रिकांचो विरोध हांवें इतल्यान जोड्डून जाल्लेल्यान आनी मुकार वांचूक एक वाट सोदूची आसा म्हूण हांवें लेकलें. परतून वचप एक निश्चित परिहार तरीय उद्दिष्ट स्थायाचे इतले लागी पावलेल्यान मुकारसूकच माका चड इच्छा आशिल्ली. कशीच करून हांवें तांकां समजायलें. उदक मेळनाशिल्ले भविष्या पासून कल्पना

करत आमी एकेकलींय भीवनु बेसलीं.

तापमान क्रमीकृत रेस्टोरेंटांचीं आनी थंड कोकाकोला भरलेले ग्ळासांचीं दृश्यां दोळ्यां मुकार उदेलीं. आमचे ड्रायवराक प्रोत्साहित करीत मुकार एक गांवची सांत सरी दिसूचे एकडे पावलीं. एक रुका सावळेंत वाहन राबयलें. तेन्ना उदक सोदून हाडूक जावनु मिगेले सहयात्रिकांनी माका धिंगूळनु भायर देंवोवनु सोडलो.

निर्भाग्यवश थंय उदक नाशिल्लें. सातेंत थोड्यो निराधार दिसूच्यो बायलो टमाटरां आनी भुट्टा विकूक पळयताल्यो. वेगळी एकिसानी अस्थिर खोंपी आंगडि जावनु उपयोगार आसा. तांतूय उदक ना. दोन रोट्यो आशिल्यो जांचे बाळकां मद्दें पाचवो भातो दृष्टि पडता. नायरोबी साकून हांगा येंवची ते रोटीची यात्रा दोन सप्ताह मुर्थम बि जावयात चमकिल्ली म्हूण दिसता. हांव थंय साकून होगी दूरा सरलों आनी टमाटरां विकूचे बायलांचे लागी दुशेर गेल्लों.

हांतूंच मू उदक म्हूण छट जावनु मिजे मत्यांत चडलें. निश्चित जावनु टमाटरां रोसाळ आसतलीं आनी नैसर्गिक आसून भितरी दूशीत उदक आसचेंय ना. हांवें मिगेले मित्रांक विस्मित करूक निश्चय केल्लो आनी तीन किलो पिकलेलीं टमाटरां घेतलीं. लागी एकलो इंगळ्यार भुट्टा भाजतालो. ड्रायवराक सयत मेजून एकेकेल्याकय एकेक भुट्टा घेतलें. तशी अपल्याकच शबाशी दीवनु प्रसन्न जावनु हांव वाहनाचे लागी पावलों. मिगेले बायलेलें आनी चेरडूवांलीं बावलेलीं दीग तोंडां हुनसाणीन तांबडीं जावनु लिकलिकेताय. मिजेर दुखेस्थ दृष्टि घालून तान्नी उदकाची मागणी केल्ली.

हावें मुस्कुरायत टमाटरांची चील भितरी दिल्ली आनी सर्वांकय जाय तितलें काडूक बलपूर्व सांगलें. उदक मेळनाशिल्ले हे अवसराचेर देहाचें उदक नष्ट जावनाशिल्लें राबूक लागचें उत्तम वस्तू टमाटरांच

म्हूण तांकां समजावूक भारी कष्ट काडूनूय माका साध्य जालें म्हूण दिसना. वाहनांतुलें वातावरण आंबसयलें, स्थितीची तीव्रता वाडोंवचाक टमाटरांनीय आपल्यांक जांवचो सहाय केल्लो. आतां पर्यान खेल्लेल्यांतुल्यां पशी चड आंबूस ते टमाटरांक घास काडतना लोकांत आशिल्ले सर्व टमाटरांकय शिराप पडलोच.

उदक मेळूक वेगळी वाट ना म्हूण समजून आमी जाय नाका करून तांचो रोसू चोखून, मांसाळ भाग लेवनु, हरवो पाचवो भाग सोडून विंदून तीन किलो टमाटरांतुल्यान फेचकून फेचकून मुकारसलीं. हाताक लागूचो रोसु हून वर्यांत सुकून थापूक लागलो. सर्वांचोय मानसिक तापमान थोडो डिग्री ऊंच चडलो आनी भुट्टांचेर कोणे तात्पर्य दाकयलेंना.

भो निबर एक भुट्टा चाबून हांव खेदान बेसलों. ताका भुस्या* कदी सूवाद दिसतालो अनी चाबतना निडळ तांय दुकतालें.

कसलो एक दीस हो!

सरोवर पांवचाक आनीकय पन्नेरा किलोमीटर आसा. मुकार सरूक धीर दीसूक पुरोश मात्र द्रव आमच्यांत आमच्यांत पावलेलें.

अर्द घंट्यानी आमी लेय्क बोगोरियाचे द्वारांत पांवलीं जंय कोकाकोला आनी मिनेरल वाटर विकच्यो आंगड्यो आशिल्योच.

हात धुवनु जावनु मिनेरल वाटरान न्हालेल्या कदी आमचीं पोटां फुटचे तितलें उदक ढोंकून आमी तान सारली. द्वारांत साकून उणेच चमकून हांवें आरंभार परामर्श केल्लेले कडे पांवलीं. हांगा अन्य पर्यटक म्हूण सांगूक चड जाल्यार एक डजन बि भोंवताय.

नायरोबीचे उत्तर भागाक आशिल्लीं दोन क्षार सरोवरां बोगोरिया आनी बारिंगो फ्लमिंगोचीं वास स्थलां जावनु आसाय. हांतूले उदकांत

---

*भुसो - sawdust

समृद्ध जावनु वाडूचो शळो तं तांचें खाण. हांगा पोंदांक सक्रिय लावेचे कारणान उदक निरंतर आठताच आसा आनी मीट, खारू बाकी दवरता. वातावरण पूरा हायड्रोजन सळफायडाचे घाणीन भरून आसा तरीय अर्द घंट्यानी एकल्याक ताची सवंय जाताच.

हीं सरोवरां भोव दूरा विजन जाग्यार अशिल्यान एक सादा पर्यटकाचे पद्दतींत आसचीं न्हय. वाटेर रेस्टोरेंटां वा खाणामळां नाशिल्याचें कारणय तेंच म्हूण समजलें. हे सुके खरखटे प्रदेशाचेर कठिन जीण काडचे विविध जाती लोक बंजारी शेतकार वा खाणा खातीर शिकार करचे, सामकी दरिद्रांतुले दरिद्रच. गोरवांक पोसप तांचें आनी एक दंद तरीय अन्य जाती लोकानी गोरवांक चोरून व्हरप सर्वसाधारण. हांगा सरकार कायदे, नीति न्याय आदींचो अभाव स्पश्ट आसा.

हे सरोवराचेय पेल्यान उत्तर भागाक आसा आनी एक विजन स्थल लेय्क टुरकाना. ताजेय पेल्यान उत्तराक सुडान राज्य आनी सहारा मरूभूमि आरंभ जाता.

बोगोरिया सरोवर आशिल्लो हो आमी राबिल्लो फोंडा कदी भागू धरतरेचो अंत भागु सरी दिसता. हांगा राबल्यार आमचे सर्व इंद्रियांचेरीय आतां पर्यान येवनाशिल्ले अनुभव आक्रमण करताय. गंधकातो गंध, कडकडेंवची भूंय, खतखतेंवचीं उदका थळां, देहा सालीचेर करपांवची तेज सूर्यरश्मी, करपूचे रुचीचें वातावरण, चीटी वाजून उसळचो हून उदका झरो आदी सर्वय धरतरेवेलो जीवाचो आरंभकाला कदी दिसयता. कोटानूकोटी वर्शां मुर्थम धरतरी पूरा आसलेच अवस्थेर आशिल्ली जावयात म्हूण माका अनुमान करूक जाता.

धरतरेचे हे भागाक, विशेशता टुकराना प्रदेशाचेर तं मनुष्यान

पयलीं जावनु उबो राबूक शिकलेलें म्हूण लागींच गवेशण करून सोडून काडल्यां. उबे मनुष्याचेर दिसाचें वोत ऊणे पडता आनी हे कारणान देहार ऊणे हुनसाण लागता. आफ्रिकनी सुर्याची तेज हुनसाण चड घेवनाशिल्लें राबूक आनी आदिम काळाचे होडले शिकारी सवण्यांचे दृष्टींत पडूनाशिल्लें राबूक बि जायत मनुष्यान उठावनु राबूक शिकलेलें. राबून आशिल्ले मनुष्याक रूंद भुजार बेसल्लें एक सान मातें विना हात पाय पूरा भुजान आनी कुरटान निपयलेले आसतले. उबून भोंवचे शिकार्यांक मळबार साकून पळयतना राबलोलो मनीष तुच्छ जावनु दिसून येद्दो सरी आकर्शक दिसचो ना बि जावयात.

मिजे मित्रांलीं चित्रां, हून उबेंतुल्यान दिकचीं हांवें कॅमॅरान काडलीं. हुनसाण कारण तांचीं लिकलिकेंवचीं रूपां तळयेंतूले हालचे उदकांत प्रतिबिंबित जांवचे कदी थोड्यान विकृत आनी थोड्यान तमाशेचीं दिसतालीं.

हून वार्यांतूल्यान धवीं फ्ळमिंगो उबून भोंवताय आनी सवण्यांचे होडले हींड उथल उदकांत शेळो सोदून भोंवताय. आपले बूमरैंग आकृतीचे चोंचीनी उस्तून शेळो सोदूचीं फ्ळमिंगो नंतणा वेगळें कसलें सवणे वा जानवर थंय दृष्टि पडना.

### गुरुद्वारेंतूली चपाती

सांजे, आमी आयलेले नायरोबी कंपाला हायवेवेल्यानच परतून उजवे भागाक घूवनु केनियांतुले चाये उद्यान म्हूण नांव आयकलेले केरिछो कडे सरलीं. यू केंत सर्वा पशी होडलें चाये निर्यातक राज्य केनिया तं. हांगा व्यापक जावनु चाये कृषि चमकता आनी ऊंचल्ले ज़मीनेर तं ही आसा. भारताचे ऊटी, मूनार आदी कडेचे चाये भाटांचो उडगास येता. केरिछो पांवूक सांज दांटवली देखून भोंवडी सगट हेरदूसा करूं म्हूण दवरलें.

केरिछो आशिल्ले गुरुद्वारेंत तं आमकां राति काडूक वेवस्था केल्लेली आनी आमी थंय पांवचाकय सात वरां जालीं. आमकां मेळ्ळेले विस्कळ कूडांत आमगेलें सामान दवरलें. आरामदायक रातीची आशा करत आमी वेगीन सीदा जेवणा हॉळांत गेल्लीं. जेवण पयलींच तयार आसतलें म्हूण तं आमी आठयलेलें.

तेन्ना तानी आमचे कर्तव्याचे विशीं सौम्य जावनु सूचयलें जें आशिल्लें थंयचे प्रार्थनेंत भाग घेवप. पागडी बांदिल्ले सरदारजींनी चवरेन वारें घालचे पुण्य पुस्तक गुरु ग्रंथ साहिबाचे मुकार सिख जनांनी बेसून म्हणचे भजनाक तशी आमीय मंद ताळात्मक जावनु धलून साथ दिल्लें.

प्रार्थना जांवचानिक जेवणाचे खातीर चपाती आनी सब्जी तयार करच्यांत बायलानी सहाय करची एक सवंय गुरुद्वारेंत आसा म्हूण सूचोवनु श्रीमती जयश्वरान बायलांक सगट रांदपा कूडांत व्हेल्लीं. एक स्वयं सेवकान भाग्याचे मुकार शिंदूचे खातीर टमाटरां आनी सवाळे हाडून दवरलेले तेन्ना तीणे श्रीमती जयश्वराचेर रूक्ष एक दृष्टी घाली. तिजे दोळ्यांत साकून एक थेंबो पडता हांवें दिकीलेंय. कदाचित सकाणचे टमाटरांची घटणूक तेन्नाय तिजे मनांत ताज़ी राबलेली जायत वा सावाळे कारणय जायत!

जेवण जातरी श्रीमती जयश्वरान आयदनां घासूते सहायाक तांकां दुशेरीय आपोवनु व्हेल्ली. छुट्टी दिसांकडे भोंवडेक वतना भाग्याक घरचें कसलें काम करचें पसंत न्हय. तसली एकि चालि मू आमी नायरोबींत पावलेले तेन्ना साकून चलोवनु दवरलेली. गुरुद्वारेंत एक विस्फोटन बि जायत म्हूण भीवनु हांव होगी कूडांत गेल्लों आनी निदला म्हूण फटोवनु पडलों. अर्द घंटो जावनु भाग्या आयली. हांव जागो आसा म्हूण कशीच की अनुमान करून, हे सगळे भोंवडेचे विशीं

आनी हें अविस्मरणीय केल्लेल्यांत मिजे भूमिकेचे विशीं तिजो स्पश्ट अभिप्राय दीवूक लागली.

## भाटांतुली चाया

निवळ नीळ जावनु लागीचो दीस उदेलो. आमी सकाणचे खाणाक थंय लागी आशिल्ले एक क्ळब हावसांत गेल्लीं. केनियांत ब्रिटीशकारांनी बांदलेलीं आनी आतांय राखून बरें करून चलोवनु येंवचीं साबार क्ळब हावसां आसाय. हीं एकच गोळ्फ कोर्सांचेर, वा उद्यानांचे लागी, वा दोंगरांवेलीं रिसोर्टां जावनु वा समुद्रा समीपार आसताय. विसव घेवूक जावनु बांदलेले हांतू, एक बार, स्मोकिंग रूम, एक डार्ट बोर्ड, एक पुस्तकालय जाचे रुका पागारांचेर हातान चित्रायलेलीं सान सुंदर पिंगण्या वाटीं आनी कुंडो भरलेलीं मृगांचीं मातींय प्रदर्शनाक आसतलीं.

होडळें फायर प्ळेस आसतलें जाचे मुकार बेसून लळून सुसेग घेंवचे खातीर मोव सोफांची वेवस्था केल्लेली आसतली. शिकार, गोळ्फ आनी मासळी धरच्या विशींचीं नेमाळीं भरून दवरलेलें एक मेज आसतलें. बारांत एकेक कालाचीं द्राक्षा वायनां स्वाभिमान प्रदर्शित केल्लेलीं आसतलीं आनी जेवणा कडे यूरोपी तरा खाण - भाजिल्ली कुरकुरी रोटी, हॅम, डुकरा मांस, अंडे आनी खतखती चाया मेळतली. क्ळबांचे आसपास अतिसुंदर उद्यानांय आसतलीं.

एक दीस भितरी तीन व्यत्यस्त संस्कारांचो अनुभव आमी केल्लो. आदिम काळ साकून भाजल्ले बोगोरियाचे मात्येची हुनसाण, सामकें भारतीय गुरुद्वारा आनी हे वेवस्थित रीतीचे बर्या ब्रिटीश क्ळब हावसांतूली चाया.

थोडे मीटर दुरच्यान एक न्हंय होळता आनी दृष्टि पांवचे तितलेय अंतराचेर चायेचीं भाटां पातळेवनु पडल्यांय. केरिछो आशिल्ले

एक सुंदर बोटाणिकल उद्यानांत वचून सुमार दोन घंट्यांचो वेळ सारलो. चायेचे भाटांचे लागीच्यान वाहनाचेर भोवनु, फोटो काडून आनन्द पावलीं. वेळ निश्चल राबलेल्या कदी आनी समस्त धरतरी सुखान आशिल्या कदी दिसलें.

मागीर घरकडे परतूचो वेळ पावलो. एक भोंवडेचे सुरवातेचीं एकेक निमिशांय मनांत कोरांतून घाल्लेल्या वरी पडताय पुण परतून वचे यात्रे पसून कसलो उडगास राबना. अशी कित्याक म्हूण माका समजना. कदाचित मुकार अनुभवूक वचे बरे वेळा पासून आशिल्ली प्रतीक्षा कारण आमचीं इंद्रियां भो जागीं वरताय जायत आनी एक यात्रेचो पयले पावटीचो अनुभव नवे भोंवडेक अविस्मरणीय करता जायत. सर्व चांग कार्याकय एक अंत आसता म्हळळेली समजावण जायत परतूचे यात्रे पासून विसोर घालता.

जीविताचे यात्रेंतूय एक मनुष्याक अंत्य तांय आपले बाल्य कालाचीं अनुभवां स्पश्ट मनांत राबताय तरीय जवानीचेर चमकलेलीं सदांचीं कायरीं वा म्हातारपणावेल्या ताज़्यो घटणूको तांय विसोरार पडताय. एकेक भोंवडेकय आमी जीवित यात्रे कदी लेकताय देखून वे अशी? तशी जाल्यार आमचो उद्दिष्ठ स्थाय एकेक फंताय मुकार मुकार व्हरचो पडता जाचान केन्ना तरीय तो पांवचोच ना. जीविताचो उद्देश नवो नवोच अनुभव दिंवचो ताजे यात्रेचो भाग आसूका. आनी उद्देशित जागो न्हय आसूका जंय पांवतरी आमी पाय ऊंच चडोवनु बेसून निदेवनु पडूक आळसाय दाकयतलीं.

असले एकेक चिंतेंत मग्न बेसून निदलेले हांवें जागलेले तेन्ना नायरोबी परतून पावल्यांय म्हूण समजलें.

# मित्रांचे घरांकडे वचप

मिगेले उद्योगाचे संबंदान माका साबार घरांकडे पांवयलोलो आसा. पुण खंची यात्राय हांवें हे लागींच केल्लेले हे यात्रे समान विचित्र आसचिना.

मिगेले सदांचे मित्रभावा शैलीन एक एजंटाले नायरोबींतुले घराकडे वचाक हांवे तात्पर्य दाकयलें. ताणे तें वेगीन स्वागतय केल्लें.

"स्थल लार्गी वे?" हांवे निमगीलें.

"Yes, we kan pop in and be baak by laanch time." (व्हय आमकां वोचून जेवणा समय पर्यान परतून पांवयात) ताणे उतर दिल्लें.

"आमकां कशी वचात?"

"We kan go by uva ka, Meesta, Suthaka." (आमकां तुमगेले काराचेर वचात, मिस्टर सुधाकर)

"जावो," आनी आमी भायर सरलीं.

"खंय कि वचुका?"

"लाविंगटन."

वाव! इतले धनाढ्याले स्थलार वसती करूक मिगेले हे दोस्ताक कशी साध्य जालें म्हूण हांव विस्मित जालों.

ताजो वेषविधान सर जालोलोच. वेगळे वेगळे तीन भागांचें उचित सूट. एक साफ लेसाचें तलव ताजे कोटाचे किसांत साकून भायर पळयता.

कार लाविंगटन पावलें. थंयचे खंचेय व्हडले बंगळ्या कडे वाट दाकयतलो म्हूण हांवें कल्पना केल्ली. पुण ताणे माका मागीरीय मुकार वचाक सांगलें. आनी मिगेले काराचे टांकींत ऊणे मात्रेन आशिल्या इंधना पसून मनांत आयलें.

बरें पालपोसवण केल्लेलीं तणामळां मागशीं सोडून आमी एक वाकते ग्राम प्रदेशांत पावलीं.

"Taika laight turn heeya." (हांगा उजवे कडे घूंवका) ताणे सांगलें.

'हांगा?' उजवे भागाक घूवनु वचो फातरा पुडिये रस्तो हुस्क्यान पळयतना हांवें आठयलें. सुमार अर्द किलोमीटर पेल्यान धूळी दाटायेन मांडलेल्या पोंदाक कळंबेवनु पडलेले टिना पाक्यांचीं थोडीं खोमटां दृष्टि पडतालीं. थोडे मटाटू ते फोंड फोंडार्यांचे रस्त्यार प्रयत्न करतना आनीकय धूळी उबताली. मिगेले काराचें षॉक आबसोर्बर उपयोग शून्य जातलेंच म्हूण दवरून हांव ते आड रस्त्या कडे घुवलों.

चडोवयात जालेल्या पशी चड भार चडयलेलें एक मटाटू मिजे लागीच्यान धूळी उबयत मुकार गेल्लें. हांवें वेगीन जनेला कांची ऊंच काडल्यो. बुरशें वस्त्रधारण केल्लेले विकपी धूळी मांडलेलीं टमाटरां आनी गोबी विक्री करताले.

मिजे मुकार वाहनाची एकि श्रेणी खाल ऊंच आशिल्ले ते हादीर, फोंडांत देंवतना चिकोल उवसून, रस्त्यावेले फातरांचेर आडोळनु धाडवून वता. तसलो दुरुपयोग सहन करून सवंय नातिल्यान मिगेलें कार पोंद फातरार झरून, ते आघातान चक्रांक धापके लागून धाडवून चेंचून मुकारसलें.

त्यो टिना खोंपीयो आनीकय टिनां खोंपियांक वाट दिताय आनी हांव एक होडले नायरोबी झोंपड पट्टीचे मद्देंच आसा म्हूण समजावण आयली. असले एक अवस्थेंत पावयलेले खातीर हांवे

आपल्याकच शिरापीलें.

नायरोबीचे कुप्रसिद्ध झोंपड पट्यांतुलें वायट जीवन साहचर्य आनी तसली जीण कारण उद्भव जांवचीं सर्व तराचीं सामाजीक दृश्यां जशी उत्तेजक वस्तू, हत्यारां, ताका लागून संघर्शा, मारफार आनी हत्या आदीचे विशीं केवल आयकलेलें मात्र. असले प्रदेशांत चडूक साहस केल्लेल्यांनी थंय साकून वांचून केवल भितरचे वस्त्रारी परतूका जालेली खबरीय आसा.

हांव तरी हांगा एक निवळ मळबावेले पुनवे चंद्रा कदी स्पश्ट दृष्टींत आसा. जनां माका रूक्ष जावनु पळयताय. कदाचित एक बदामी रंगीन मनुष्याक तांचे वासस्थलार पयले पावटी पळयताय जायत. पुण तीं, मिजे लागी बेसुनाशिल्ले दोस्ताक पळोवनु वाट दितालीं. थोड्यानी तरी ताका अभिवादन केल्लेंय पुण थोडीं केवल घूरून पळयत राबलीं.

"आनी कितलें लागेन?"

"Jast alound the kona." (ही घूवळी जातकच)

एक उजवी घूवळी लागेन आनी मिगेलें कार सामकें पट घेवूक वता म्हूण हांव समजलों. मुकार रस्तो सामको वायट आनी बराबर एक देंवती लागेन आसा. चड जनां आसाय तरीय एक सरी एष्यन तोंड दृष्टींत पडना. तांचे रूक्ष दृष्टींत साकून वांचूक हांव चोयलों.

"There is funelal at mai neighba's house." (मिगेले शेजार्यांत एक अंत्यसंस्कार आसा) मिजे मुकार तेन्नाय चलचे वाहनश्रेणीचें कारण दीत ताणे म्हळ्ळें.

रस्तो भो सोपूर आसून एकच समयार दोनीय भागाचानय वाहनांक वचें भो कष्ट. हे कारणान मुकार साकून येंवचीं वाहनां बाधा काडून रस्त्या बांद चडून आमकां वाट दितालीं. मुकार आनीकय चड जनां जमल्यांय. कारांत अभिमानान बेसून ताणे थोडे जनांक

अभिवादन केल्लें.

"Heeya we aa." (येंचय आमी पावलीं) कार पार्क करूक जागो खंयीच दृष्टि पडना.

"Just palk along with the otha cals that haav kam for the funelal." (अंत्यसंस्काराक आयलेले वाहनां बरोबर पार्क केल्यार पूरो.)

तागेले घरा लागी आशिल्ले एक तणामळार पार्क करूक कशीकीच माका साध्य जालें.

हांवें आसपास पळयलें. थंय आशिल्यांत चड बरे तरपेन फातरानी बांदून केल्लेलें, कांचे जनेलां आनी टिना छातें घाल्लेलें ताचें घर.

एकि सान खोंपी लागीच आसा जाची घाणी ताजो उपयोग व्यक्त करताली. लागी ती खोंपी लागेन आसा म्हळ्ळेलें परिसरांत ताका आशिल्लें उच्च स्थान स्पश्ट दाकयता.

नायरोबी झोंपड पट्येंत शौचालयांची कसली व्यवस्था ना आनी 'उबच्या शौचालयांची' कुप्रसिद्ध खबरी मिजे कानांत पडलेली आसा. खंचोय विवश मनीश एक प्लास्टीक चीलांत 'तें' करता आनी दोळे बंद करून आपले जनेलांतुल्यान जांवचे इतलेंच दूरा 'तें' सोडून मारता. तशी ताजे शेजाऱ्यांक सदा सामकें भोगूचें पडता. निश्चय जावनु शोजाऱ्यांली पावट पांवतना दितल्लो मनीषु घेतल्लो जाता.

आमी घरांत चडलीं तेन्नां ते बरें सजावट केल्लेले बेसपाचे कूडांत एक फायर प्लेस आनी आरामदायक मोव सोफा आसा पळोवनु हांव विस्मित जालों. एक सान भुरगो भितर साकून आयलो. तेन्नाच ताका कोका-कोला हाडूक लागीचे आंगडींत पेटेयलो. भारतांतुल्या पशी चड तरपेन आफ्रिकेनी राज्यांत कोका-कोलान वसणूक मांडल्या. जनां साधारण जावनु सोडाच पिताय आनी शुद्ध उदाक तरी मेळूक

भारी कष्ट.

पागारांचेर साबार पोस्टरां आनी चित्रां लांबताय. जेसू क्रिस्तु आपले हात मुकार एका ऊंच एक दवरून एक दैवीक उजवाडाचेर दृष्टि एकाग्रित करून बेसला. सॅन फ्रांसिस्कोचे गोळ्डन गेय्ट संकोवाचे पोंदाक एक संचारी तारू आशिल्लें एक चित्रय आसा.

आफ्रिकेनी नकशीकाम एकय ना, भालो ना, रुपडीं नांय, जिराफांचीं वा हस्त्यांचीं रुका शिल्पांय नांय. तें पूरा पर्यटकांक दान दीवनु, अधिकतर केनियकारांय तांचो आदिवासी इतिहास विसरून बेसल्यांय. शहरांतुले व्यापार केंद्रांत दुर्मीळ वस्तू जावनु विक्री जांवचीं असलीं आदिवासी सामनां आतां दुर्मीळच जाल्यांय. आनी तीं होडले होटलांचे रिसेप्शनांत प्रदर्शन योग्य वा धनाढ्यांले घरवंतांक वा पर्यटकांचे सामानांत आसचीं जाल्यांय.

हांव आतांय जिवंत आसा म्हळ्ळेली वस्तुता परतून वची यात्रा घटणापूर्ण नाशिल्ली म्हूण स्पश्ट करता. विशेशतः हे मिगेले मित्रान आपले घराकडे तांय मिगेलेच कारार मुफ्त यात्रा करून, परतून वचे तेन्ना आफिसांत पर्यान तो माका सांगात दिता तरी थंय साकून ताका आपले घराकडे परतून वचे खातीर मटाटू मेळूक भारी कष्ट जायत म्हूण नीब सांगून आपले घरा दारवट्यातूच राबून संतोषान हात हालोवनु ताणे माका सहजपणान यात्रा सांगली.

हे फंताच्यो दृष्टीयो सामकी रूक्ष आशिल्यो.

"खंचे नरकांत कि गेलोलो?" हांव आफिसाचे कार पार्कांत कार धांवडावनु चडयतनाच प्रश्नु हो आयलो.

"कित्या...?" कारांत साकून भायर देंवतना काराची भाह्य अवस्था पळोंवनु हो मिगेलो परत प्रश्नु राबून गेल्लो. एक पारीस डाकर रालें वाहन तुलन करतना हाजाकय साफ आसतलें.

# किलिमंजारो, अंबोसेली आनी थंयच्यो हस्तीयो

अंबोसेली मृग संरक्षण केंद्र नायरोबीचे पूर्व दक्षिण भागाक टानज़ेनियेचे सीमेचेर आसा. आफ्रिकेचो होडलो, टानज़ेनियेंतुलो किलिमंजारो पर्वत सुर्योदयाचे समयारी जांबळा वर्णाचे फाटभूंयचेर आपले भांगराळे हिमावरणान उज्वल जावनु थळथळेवनु अंबोसेलीचेर आधिपत्य करून राबता. हे पर्वताचे शिखर अत्युष्ण भूमध्यरेखेचेर स्थित आसुनूय बाराय काळ हिमावृत आसता म्हळ्ळेलें ताजें अधिक उंचायेचेंच लक्षण दाकयता. आनी तें आसा सुमार स सास मीटरा पशी चड. दिसाचें जेन्ना हो पर्वत मेघावृत आसता तेन्ना ते मेघांचे मागशीं इतलो होडलो एक पर्वत आसा म्हूण कल्पना करूक सरी कष्ट जाता.

नायरोबी साकून मोंबसाक विमान मार्गार वतना हाजें शिखर मेघांतुल्यान ऊंच उबें राबल्यां दृष्टि पडतलें, पुण भुंयचेर साकून चोयतना फालेफाल्यार जेन्ना दोवु केवल भुंयचे लागी पातळेवनु आसता तेन्ना मात्र हाजी दृष्टि मेळतली. हे उंचायेचे दृश्याची सामकी समजीकाय मेळूक फांतोड्यार उठावनु काळकांत होडले मृगांचे शब्दाक बि कान दीवनु राकून राबूका. फांत्यावेले सवण्यांचे किळबिळाचे मदींत अडावूक एकेक झिब्राचो खांकीचो शब्दू आनी सांगातांत आयकूचो तरसाचो एकेक हासूय ह्या जाग्याचें गूढ आकर्शण चडयता.

इकूणीसावे शताब्दांत मात्र सोद करून काडलोलो हो प्रशस्त पर्वत पळोंवचाक हांव कॅमॅरा सयत तयार बेसलों. मुकार काळो कीटो काळूक आनी मागशीं उजवाडेंवचाक तयार काडचें मळब. मळबार आतांय नक्षत्रां दृश्य आसाय आनी हे शुद्ध वातावरणांत आमी शहरांत साकून दिकूच्या पशी उज्वल दिसताय. पर्वत आसूका जाल्लेले भागाक

पळोवनु हांव राकून बेसलेले तेन्ना मळब ल्हवूच उजवाडेंवचाक लागलें. मुकावेले काळकांत साकून हांव पर्वताचें रूप दिकून धरूक चोयतालों. भो उंचारी जावनु एक विमानान उबून वचून जाल्लेले धुक्याचे रेखेवरी मात्र दृश्य पडता. मागीरीय मगीरीय सोदितना माका ही समजावण आयली कि हांव चुकून आनी खंयीच चोयतालों. हो वेळ सगळोच तो मिजे सामकी मुकारीच आसा आनी हांवें दिकलेली ती अस्पष्ट धुक्या रेखा, उदय सूर्याचीं पयली किरणां पडून दिकची पर्वताचीच रूप रेखा! बहु ऊंच आडूवी हिमावरणाची ती रेखा आसा आनी ती इतली ऊंच आसा कि माका विश्वासूच आयलोना.

आतां सूर्याचीं किरणां सामके पर्वत मुखाचेर पडून ताजे विविध कोणार साकून हाजार रंगानी प्रतिफलन जाताय. आफ्रिकेचे वन्य जीवीं विशीं आशिल्ले प्रमुख पोस्टरांचेर सगट दिकूचो तो प्रसिद्ध पर्वत आतां मिजे मुकार सगळे तेजान उबो आसा. शेळच वारें मिगेले हलके वस्त्रांतुल्यान भितरी सरतालें आनी एकु तीव्र कडकडो मिजे आंगातुल्यान भोंवूक लागलो. पर्वताचे उज्वल दर्शनानय जायत!

खालाक सपाट जमनीवेल्यान चमकून भोंवचे काळे पट्यांचे झिब्राचे आंगार सूर्याचीं देंवती किरणां भोंवूक लागल्यांय. फाटभूंयचेर काळसार आकारांच्यो भोवरा भशेन मंद गतीन चमकून भोंवच्यो त्यो हस्तीयोच! शेंबरा लेकान हस्तीयो, होडले सान हींडानी धुळिये न्हाण न्हावनु धूळी उबयत आसाय.

सुमार एक सास हस्त्यांक वासस्थल जावनु आसा अंबोसेली. तांचे विशीं पठन करूक संषोधकांचें एक उत्तम संघय हांगा प्रवतन करून येता. जनन साकून पूरा जीवन कालाक एकेकल्याचेरीय नदर दवरून तांचे विशीं पठन करचें हें केंद्र एक मुख्य हस्ती संशोधन केंद्र म्हूण नांव पांवल्यां.

'किंग एलिफेंट' म्हळ्ळेलें चलचित्र हांगा तं चित्रण केल्लेलें जांतू एक हस्त्याचें जनन साकून मरण तांय आशिल्ली काणी विकारमय आनी सहानुभूती दिसोंवचे रीतीर चित्रण केल्या.

आमी ते केंद्रांत पावलेल्या पासून हांवें चिंतन केल्लें. काली फाले फाल्यार पीटर कमाऊ नांवांचे ड्रावराले निपुण हांतांत पाजेरो वाहनाचेर दोन घंट्यांची यात्रा करून आमी टानज़ेनियेचे सीमे लागी आशिल्ले गांवात पावलीं. थंय साकून दावे भागाक घूवनु रूंद आनी सपाट फातरापुडिये रस्त्यावेल्यान 80 किलोमीटर वेगान वाहन सोडलें. आमचे दावे भागाक संकाळ सरी राबलेले पर्वतांचे लागीच्यान धांवचे रस्त्यावेल्यान एक पन्नेरा मिनिटां धांवचानिक वाहनाक कसलो की एकु विचित्राचो धडधड शब्दु आयकूक लागलो. तो शब्दू पीटराचे श्रद्धेंत हाडूक हांव चोयलों तरीय तसले रस्त्यावेल्यान वतना जांवचो स्वाभाविक शब्दु म्हणून ताणे तो कायरीं जावनु काडलोना. पुण पांच मिनिटां लागेन वचून कितें तरी घुसपल्लें आसा म्हूण ताका समजावणी येवू भितरी हानी समकीच जाली. मागशींचे एक चक्राचें रब्बर टायर पूरा फाळनु कोचोल जावनु वचून वाहन व्हील ड्रमाचेर धांवतालें. ते उज्या वोतांत भारी कष्ट काडून अर्द घंट्यानी आमी तें चक्र बदलून घालें आनी यात्रा पुनः आरांभीली.

सान सान गांवांचे लागीच्यान, एक चेक पोस्ट दांटवूनु, जंय मसाई बायलो मण्यांचीं आभरणां विकूक भोंवताल्यो, थंय साकून मुकार सुक्कून पडलेले एक सरोवराचे लवणतळावेल्यान बेगीन वचून देनपारां मुर्थम आमी अंबोसेली लोड्ज पावलीं. हादीरी सानुलीं तूफानां आनी चक्रबादळां* धूळी ऊंच वोडून उबोवनु भोंवतालीं. थोडे कडे ओस्ट्रिचां दोनि तीनी जावनु ताळात्मक रीतीन मातीं बावगोवनु सुके तणांत खाण सोदिताय. चड मृगांक कांय तेन्ना भितरी दिकलेना. भूमध्यरेखेवेले सुर्यान सुकोवनु सोडलेले रूक रस्त्या दोनीय वशींय

*चक्रबादळ - whirlwind

राखणदार सरी राबल्याय. फातरा पुडिये रस्तो सोडून अन्य जाग्यार पूरा स्पंज जशी दिसूचे काळे ज्वालामुखीजन्य फातर भरून पडल्याय जे खूब काळ मुर्थम किलिमंजारो फुटल्याचें लक्षणां जावनु आसा.

मृगांनी देनपारां समयार मेकळे स्थलार भोंवप ऊणे तरीय आमी लोड्जाचे लागी पांवताच आसतना दूरा जावनु चारीय दिशेरीय हस्तीयो दृष्टि पडल्यो.



सांजे, एक मसाई मार्गदर्शकाचे सांगातांत, जाचे हांतांतुली दीगी बडी कारांत भितरी ऊंच आडळताली, आमी एक खास जागो लक्ष्य करून गेल्लीं जंय सिंहांक दृष्टि पडतले म्हूण ताणे आश्वासन दिल्लेलें.

हादीरी, चिकलांत एकलोच पडलोलो एक पाणघोडो, हस्त्यांचें एक कुटुंब जाका ताजी मुखेली मुकार चलोवनु व्हरताली, वैल्ड बीश्ट अथवा ग्नू हांचो हींड, एक सरोवरा लागी जावनु एकि हस्ती आनी तिजो निदून पडलोलो भुंडो, एक पाणाथळ साकून लागीच्याक लक्ष्य करून चलचो एकटो एकु हस्तो आदी मृगांक दिकीलीं.

जेन्ना आमचें वाहन हस्त्यां हींडांचे भो लागीचान वतालें तेन्ना

तीनी वा चार मीटरांचे अंतरार राबून आमी एकामेकाक सामकी पळयताले. भुंडे वाहनांचेर लक्ष दीवनातिल्लें भोंवताले तरीय तांच्यो आवस हस्तीयो सावधपणान भुंड्यांचे आनी आमचे मद्दें जावनु राबून तांकां संभाळताल्यो. निमणो सुमार अंयशी हस्त्यांचो प्रबल हींड धूळी उबयत, तांचो खास वास वार्यांत पसरायत अत्यधिक वेगान गडगडाहट करून मुकार गेलो.

मळब खांप खांप जावनु आसा आनी तो विख्यात किलिमंजारो धुक्याचे मागशीं अदृश्य आशिल्लो. थंय थंय दूरा पावसु पडचो दिकूक येता. सांजेचें पावसु पडप सर्वसाधारण, जेन्ना सूर्या आनी पावसु आपोलिपो खेळांत बुडताय. मळब नारंगी जावूक लागलें आनी मागीर मसाईन सांगलेले जाग्यार पांव पर्यान सूर्यास्त जालेंय. आतां सर्वाचेरीय एक काळिशी निळबाणी पांगरूक लागल्या. मसाईन सांगलेले वरी थंय दोन सिंह निदेवनु पडलेले. आमगेले वाहनान दोन फंता तांकां घूवळ मारली. तेन्ना वीडियो चित्रण करूक आनी कॅमॅरान फोटो काडूकय माका अवसर मेळ्ळें.



तांतूलो होडलो सिंहू छट जावनु उठायलो आनी धावनु सल्प दूरा आमकां अभिमुख जावनु बेसलो. सूम लेन्सांतुल्यान हांवें पळयलें कि तागेले नांकावेले एक होडले घायांत साकून त्या वेळारीय रक्तबंबाळ होळतालें. एक कुटुंब झगड्या उपरांतेंच आमी थंय पावल्यांय म्हूण समजलें.

तशी अंबासेलींतुलो पयलो दीस समाप्त जालो.

आनी हे फाल्यार हांगा कोण सांगातांत नाशिल्लें हांव एकलोच एक फातराचेर बेसून हे तेजवंत किलिमंजारोक पळयतां. फायचे फांतोड्यारी मिगेले कुटुंबाक लागेन निर्बंध करून हांगा हाडून फांतोड्यावेलें किलिमंजारोचें हें रूप दाकोंवका म्हूण हांवें निश्चय केल्लो.

हे केद्रांचे मुल्यामुल्यांक तं आयची भोंवडी. ते खातीर सकाणचें खाण जावनु आमी भायर सरलीं, पुण चडय यात्रा निराशाजनक आशिल्ली. एकडे एक मृतमृगाचें मांस खांवचे गीधाडांचें भीरें दिकीलें म्हळ्ळेलें मात्र तं ते हुनयाळे निर्जीव यात्रेचे उबगणींतू साकून रक्षा मेळूक कारण जालेलें. देनपारां थोडे झिब्रा एक लवण मरुभूमींतुल्यान चमकून वताय दिकीलें, जांचीं रूपां एकेक वेळार सूर्याचे रकरकी वोतांत दिसूचे मृगजलांतुल्यान* चमकूचे कदी दिसतालीं.

वोतान रंगहीन जावनु थंय थंय पडलेलीं मृगांचीं हाडां, ज्वालामुखीजन्य होडले होडले फातर, सुकून निर्जीव जाल्लेले रुकांच्यो धवश्यो धडियो, विजन वाठार आदी ते दृश्याक सामकें नरकांतुलें म्हूण दिसयतालें. उज्चल तांबडें वस्त्र न्हेसलेले दीग भालो धारक मसाई लोक थोडेच ते रेंवटेंतुल्यान वचें दृश्य हांगाची भयानकता वाडयता. हो जागो सामकोच विजनांतुलो विजन!

देनपारां लोड्जांत पांवचानिक दुशेरी एक टायर पंजर जाल्यां

*मृगजल - mirage

म्हूण केळ्ळें. जेवण जावनु तें सामकी करूक राकून बेसल्ले सुमार एक घंट्याक मिगेल्यो धूवो दोगांय स्विम्मिंग पूळांत वेळू सारूक गेल्यो.

सांजेचे भोंवडेक ऊंच साकून दृश्य पळोंवचाक सर जाल्लेले एक दोंगुल्यार वाहन चडयलें. थंय साकून चोयल्यार हे केद्रांचो पाचवोचार भाग दृष्टि पडता. थंय थंय जावनु उदका मळांय ताजे आस पास पाणघोडे, हस्तीयो आनी पाणकोंबेय भोंवताय. रेड्डे हींड हींड जावनु चरून भोंवताय आनी एकेकले चरवण करून बेसल्याय. झिब्रा, वैल्ड बीश्ट आनी चितळां भीरें भीरें जावनु चरून भोंवताय. आफ्रिकेचीं असलींच दृश्यां पळोवनु विस्मित जावनु पूर्वीले सोदपी आपले डायरींचेर घडबडीन टिपणी बरोवनु दवरलेलें, आपले आपले राज्यांत परतून वचून थंय आशिल्यांचे लागी विस्तारान सांगूचें माका कल्पना करूक जाता.

सांजे परतून लोड्जांत पांवचानिक थंयचे मसाई चेडे आपले केस विणून सुंदर करताय. मण्यो आनी अन्य वस्तू गांतून सोपूरी सोपूरी खास मसाई नमून्याच्यो फांतीयो विणताय. तांचीं जूतां पोरणे रब्बर टायरांचीं. तानी तांबडे काळे चवकोणा सजावट आशिल्ले लुगटाचें वस्त्र आनी खूब खूब मण्यांचीं आभरणांय धरशिल्यां.

तांनी बेसलेले भागाक लागून दिंभ्ये उंचायेर पांवचे पागाराचे पेल्ले भागान अस्तमय सूर्याचे उजवाडांत भांगराळीं दिसूचीं झीब्रा चरतच आशिल्लीं.

लागीचे फांतोड्यार हांवें मिगेले घरकारांक जागयलीं आनी किलिमंजारो दाकोवूक व्हेल्लीं. तेन्नाचे पर्वत दर्शनान आनी फाल्यार हसत्यां प्रदेशांतुल्यान केल्लेले भोंवडेन आमी बराबर प्रभावित जालीं. खंय पळयल्यारीय हस्तीयो. खेळनु भोंवचीं पिल्लां, सोपूर सोंडाळेन

इशारो करच्यो तरणाट्यो, पोट वाडल्यो गुरबीण्यो, आवसूंचें दूद पिंवचे होडले दोळ्यांचे नवजात भुंडे, वांकडे सूळ्यांच्यो, मोडलेले सूळ्यांच्यो, हळदूवे सूळ्यांच्यो, मोडलेले पोकळ सूळ्यांच्यो - तशी तरा तराच्यो. दीग तणांतुल्यान वचीं कुटुंबां, एकसूरे भोंवचे हस्ते, सर्वय उदय समयावेले मळबाचे पोंदाक उग्र किलिमंजारोचे वीक्षणा खाल भोंवताय. हे वेळार केल्लेली भोंवडी कारण ह्या मृगाचीं रूपां फाटभुंयचेर किलिमंजारो सहित कॅमॅरांत ओपून काडूक माका साध्य जालें आनी तीं चित्रां सदा मिगेले मनांत पडतलीय.

हसत्यां प्रदेशांत साकून परतून येतना एक सावळे जाग्यार एकि सिंही पिल्ला सांगातांत रुकां पोंदाचे काळकांत चडून वता दृष्टि पडलें.

तीक्ष्ण नदरेचे पीटरान झाडां मद्दें खंयीच एक सान हळदूवें मातें दिकून धरलें. ताजेच सांगातांत आनि एक हळदूवें बिबटें मातें लागेन उबें जालें आनी आमी पळयतालीं एक आरोग्यवंत चीता जोडीक!



तीं दोगांय उठावनु उदय सूर्याचे उजवाडांत दीग सावळीयो घालून आमचे उजवे भागाक फातराळे जाग्यावेल्यान मंद चमकूक लागलीं. ते जोडीक येद्दो अमसोरु नाशिल्लो आनी ते कारणान तांगेली आकर्शक चाल पळोंवचाक आमकां खूब समय मेळ्ळो.

शिकारी सुण्यां भशेन दिसपी चीताक शिरवंत सान मातें, दीग बाल आनी सोपूर पुण हुशार अवयवां आशिल्ले कारणान सर्वां पशी चड वेगान निमिश भितरी शेंबर धा किलोमीटर वेग पावून शिकार करूक जाता. हांकां निशब्द शिकारी म्हणताय.

लागीचे दीसा परततना सीमे लागी पांवचानिक तिसरीय टायर पंजर जालें. थंय साकून तें टायर सीमे गांवांत पावोवनु सामकी करून हाडू पर्यान दोन घंट्यांक आमी थंय रस्त्या देगेर बेसून अशी तशी धांवचे लॉरींची संख्या मेजून वेळू सारलो. सामकीच राति जावनु नायरोबींत पावलेले तेन्ना आमी देहान थकून तरीय उमेदीन भरूनूच आशिल्लीं.



# नायरोबीचें आनी आफ्रिकेचें दृश्य वश

नायरोबी शहराक 'Nairobbery city' म्हूण गुप्त अर्थगर्भीय नांव आसा. व्हड मात्रेन चमकूचे अतिक्रमच हाका कारण.

अन्य विदेशीय सरकारानी सुरक्षा संबंधित विशयांत नायरोबीक सामकें खालचें स्थान तं दिल्यां. तांचे वेबसाय्टांत केनियांत भोंवडेक वचे पर्यटकांनी हे सिट्टींत अत्यधिक सावध राबूका म्हूण उपदेश दिला. दर एक दिसाय वीस कारां पुणीय पिस्तोलानी धमकी दीत 'कारजाक' करताय, ए टी एम लुटूक तीन प्रयत्नां पुणीय चमकयताय आनी पांच घरांत पुणीय घुसून पिस्तोलानी धमकी दीवनु थंयचे वासींक लूट मारताय.

माका ह्यो माहित्यो खास उडगास आसूक कारण म्हळ्यार हांवें आतां हाताळचे हे पदाचे खातीर वेंचणी चलतना तांतू भाग घेतल्ले आनी एक उमेदवारान माका ही पूरा जानकारी दिल्लेली. मिगेलें हें पद ताका मेळचे खातीर माका निरुत्साहित करूक बि तो श्रम काडतालो जायत पुण हांव दृढ राबलों. आनी रसकर कितें म्हळ्यार अन्य परदेशीय अधिकार पदांचे खातीर दर एकाकय तीस वा चाळीस उमेदवारां आसतना नायरोबीचे खातीर केवल चौग जाणांच आशिल्लीं. अन्य सर्वानीय भोंवडे खातीरचे उपदेश वाचले बि जायत.

नायरोबींत काम करूक उद्देश करचे पयले पावटीचे जनांक, एक सशस्त्र तस्करान कारजाकिंग करूक परिश्रम केल्यार कितें करका म्हूण अपापले एंबसीलो उपदेश मेळता. तुमचो हात चालक चक्राचेरीच दवरका, कोपू काडूक नज, हासूक वा मुस्कुरावूक नज, अपमान करूक नज, आक्रमण करप्यान सांगलेलें अनुसरण करका.

हात उबारून धरून जांवका कारांत साकून भायर देंवूक, किसांत आशिल्ले दुड्डु भायर काडून दीवूक श्रम करूक नज कारण तुमी पिस्तोल काडूक पळयताय म्हूण तानी चुकून समजूक साध्यता आसा. संभव्यता तो तुमचे निडळाचेरीच गुळो घालतलो. तुमची परिशोधना करूक आनी ताका जाय जाल्लेलें काडूक अनुवाद दींवका, तुमचे काराचे डिक्कींत तुमकां चडोवूक तो पळयता जाल्यार विरोध करूक नज, काराचे सर्व मोलादिक भागय तो काडतलो तरीय तुमकां तांतू जिवंत सोडतलो, आनी कोणेय येवनु तुमकां भायर काडू पर्यान तांतूं पडका जाल्लेल्यान तांतूं आवश्याक उदकाचीं बोतलां तयार दवरका... अशी वताय ते उपदेश.

घरचोरीचे खातीर घरकारानी तयार आसूचे विशींय आसाय उपदेश. जीवन रक्षा निधी म्हळ्ळेले नांवान ऊण्यान ऊणे 40000 शिलिंग पुणीय रेडि कॅश जावनु घरांत दवरका. सामकें संरक्षण करचे घरांत चडूक तस्कर भो कष्ट तरण करताय. खंचेय एक प्रातांत दंद करूक जावनु तांनी थंयचे पुलीसांक रिश्वत दिंवचें पडता, राखणदारांची हत्या करची पडता, राखण सूण्यांक विष दीवूक पडता, विजेच्यो वोंयो कातरच्यो पडताय. असलीं परम यज्ञ करून तं तीं येताय आनी तुमकां द्रव्य रहित दिकचें तांकां सामकें तापयता. विजेन चलचीं होडलीं यंत्रोपकरणां आदी सामग्री फारनु व्हेल्यार पोरने सामान विकूचे बाजारांत विक्री करूक तानी साहसिक श्रम काडचें पडतलें आनी घरांत दुड्डु दवरनु तुमी तांचें दंद सरळ करूनाशिल्यान तापलेले तस्कर घायल सिंहा कदी क्रुद्ध आसून उपद्रव दितले, घायल करतले, हाडां मोडतले वा हत्या करूक जावनु गूळो तांय चलयतले.

नायरोबींतुले भारतीय नयतंत्रज्ञाले वसतींतूय थोडीं वर्षां मुर्थम तस्कर घुसलेले म्हळ्ळोलो विरोधाभासूच.

फारून काडलेले चॅकांचे खातीरीय रहस्य खरीदवार आसाय

आनी नकली आय डी कार्डां उपयोग करून दुरचे खंचेय जाग्यांचेर हीं चॅकां वाटावनु दुड्ड करताय.

बंदखणीचे सारकी आसा बैंकांची सुरक्षा. बैंकांत प्रवेश करका जाल्यार  वाहन दूरा पार्क करून चमकून प्रवेशन द्वारांत वचूका. थंय तुमचें मोलादीक सामान जशी दुडवांचें वॉलेट आनी मोबाय्ल फोण एक ट्रेयांत दवोरनु दींवका. हें स्कान करून भितर चडयतलीं. एक स्वयंचलीत ग्रिलाचें कवड वात्तें जातना सशस्त्र राखणदार तुमकां एक सोपूर जाग्यार चडूक सोडतले. तुमचे मागशी तें कवड बंद जातलें आनी तुमी थोडे घडियांक तांतू भितर बंदी जातलीं. मागीर तुमचे मुकावेलें ग्रिल वात्तें जातलें आनी एक कृत्रिम ताळो दोन पावलां मुकार दवरूक तुमकां आज्ञा दितलो. ते शब्दान सांगिल्ले वरीच करूक जाय ना तरी तें कवड आपले आप बंद जावनु तुमी दुशेर बंदी जातलीं. दुशेरे दारवोट्यांतुल्यान मुकार सरल्यार एक लोंकडा कवड आसा जें तुमकां बैंकाचे लोबींत पांवयता. भितर सरून, बुळट प्रूफ कांचेचे मागशी बेसल्ले टेल्लराचे कडे चमकून वचात तरीय तिजे लागी सुलभ जावनु वेव्हार चमकोवूक जांवचो ना. कांचेंतुल्यान तिका पळोवयात तरीय तुमी उलेयलेलें तीणे आयकूका जाल्यार एक उपकरणांतुल्यान उलोंवचें पडता. एक चॅक दिंवचे तं तुमचें आवश्य जाल्यार तें एक खास ट्रेयांत दवरून मुकार धिंगूळनु सोडल्यार एक खांचीतुल्यान तिजे लागी पांवतलें. आनी समान रीतीन दुड्डय तुमचे लागी पांवतले.

बैंकांत साकून देंवचेंय चडचे वरी दीग वाटेनच. तुमी इतले कष्ट भोगून काडलेले दड्ड कोणेय मारनु फारनु व्हरतले बी म्हळ्ळेलें भय, भायर रसत्यार पांवतना तुमचे मनांत येवनु तुमी धावनु वचून कारांत चडतलीं, बंदोवस्त करतलीं आनी वेगीन स्टार्ट्र करून सोडतलीं.

सिट्टींतुल्यान कार धांवडावनु वचेंय समान रीतीन अपायभरीत

आसा. सर्व ट्राफिक लाय्टांचे लागीय रसत्याचे चेडे मागूक राबलेले आसतले. तुमी कांची खाल काडली बि जाल्यार मागीर सांगूका नाका, सामके कष्टांत पडतलींच. भो भयंकर एक घाणी भितर पसरतली जेन्ना तो भिकमागरो चेडो हातांत धरलेलें एक प्लास्टिकाचें चील भितर दाकोवनु धमकी दीवूक लागता. तुमी ताका तुमचें दुडवा पाकीट वेगीन दिल्लेना जाल्यार मनुष्य मलमूत्रादीनी भरलेलें तें चील तो तुमचे होंटींत फुटयतलो म्हूण धमकी दिता. तांचें हें असामान्य चलाखपण सामकें विस्मयकारक आसा.

दीस रातीक वाट सोडता आनी प्रधान व्यापारिक प्रदेश, वेगळे एक व्यापाराचो केंद्र जाता, बायलांचो धंदो! आट वरां उपरांतें केवल निशाक्ळबां आनी जुगारघरां मात्र वात्तीं राबताय. एक रात्याचे बायलेचे लागी साकून आनी एक बायलेचे लागी वचून प्रस्ताव दवरून सौदा करूक उन्मत मनीश वाहनाचेर धावनु भोंवचे दिकूक पडतलें.

रसत्यांचे उजवाड ऊणे आशिल्ले भागांकडे बेसून रसत्याचे चेडे प्लास्टिक बोतलांतूलें ग्लू आनी पेंय्ट थिन्नर हुंगून नशा चडयताय. हें हानिकारक वस्तू भरलेलें एकेक बोतल तांचे तोंडार साकून लांबोवनु धाल्लेलें आसतलें जांतूलो धुवर तांनी तोंडानी ओडून भितर चडयताय. तांनी सामकी नशेंत बेशुद्ध जाताय आनी तुमचे दुडवांचेर हात दवरूक जावनु कितेंय करूकय तयार आसताय.

संभव्य जाल्लेली आनी एक आपत्कारक घटणा आसा वाहन वाटेर बंद पडची वा टायर पंजर जांवची. पिंजकर कोटां घालेलीं काळीं रूपां गीधाडां सारकीं येवनु तुमकां घेरतलीं आनी तांचे लागी साकून, केवल तुमचें भितरचें वस्त्र मात्र आंगार बाकी वरून तरीय, वांचून येंवचाक भाग्याचें सामकें आवश्य पडतलेंच. शहराचे सीमेवेले भागांक असले चेड्यांचे हींड तरसांचे सारके आक्रमण करताय आनी

तांचे हातांत पडलेले अभागींक धिंगूळनु खालाक घालून धा निमिश भितर पूरा फारून सोडताय.

रसत्याचीं जनां चडय निपुण विश्वास घातकी, चलाख फटोवपी, काळे दुड्ड धवे करपी वा अक्रमींचे अनुयायी आसताय.

सकाणी भायर देवतना तुमी करची प्रार्थना अशी आसता - माका हो आयचो दीस शहरांत खर्च करून सुरक्षित जावनु परतूक साध्य जांवका! रातीचें फारूक चडचे तस्कराले हातांत साकून वांचून सकाणी जिवंत जागो जांवका म्हणूय आसतली तुमची रातीची प्रार्थना.

हें सर्व नंतणा हांगाचे मूळावे जनांचे बस्तींत जातीय झूझांय चमकताय. शहरांतूले जनांक भयभीत करचें मुंगीकि नांवांचें एक रहस्य पंथ आसा जें आधुनिक जीवित रीति तिरस्कार करून मूळ रीतींत परतूक धमकी दिता. ते खातीर कसलेंच कारण वा नियंत्रण नाशिल्लें हाजे अनुयायी मेळ्ळेल्यांची हत्या करच्यांत लागताय. हांगा साकून वीस किलोमीटर दूरा आशिल्ले करियोबंगी म्हळ्ळेले कडेचे एक बस्तींतूले सुमार तीस वासींची निर्दय हत्या चमकीली. तांचीं मातीं लोकंडाचे पंगा म्हळ्ळेले दीग खांड्यांनी कातरून कच्चरेचे डिब्येंत चेपीलीं. तांचीं देहां कातरून विकृत केल्लीं आनी तांचेर अपरीष्कृत संस्काराचीं अनुष्ठानां चमकयलीं. पुलीसांक एक तरी सूचना मेळ्ळीना आनी आतांय अपराधींक धरूक जालेना.

कामांत साकून भायर घाल्लेले उद्योगस्थ तांचे पूर्व बॉसांचेर पूर्व वैराग दवरून बदलो घेताय. हांगाचे मिगेले कार्यकाळाचे मद्दें ऊणे चौग वरीष्ठ कर्मचार्यांची हत्या केल्या, जांतूले दोग जाणांक हांव वळकतालों. एकल्याची हत्या, ताणे ए टी एमांत साकून दुड्ड काडून भायर देंवतना तं चमकलेली. वेगळे एक कंपनीचे सीनियर मॅनेजराक, आपले पुताक स्कूळांत सोडूक कारार वतना सामकी लागी साकून

निडळार गूळो मारून हत्या केल्ली.

जायते जनांक फोणांतुल्यान अज्ञात संदेश मेळताय. संदेश मेळ्ळेल्यांचे चेरडुवानी स्कूळांत वचाक उपयोग करचे मार्गाची सविस्तार जानकारी, तांचे बायलानी वच्यो आंगड्यो, तांचे कार्यक्रमांचो वेळकाळ आदी चूकी रहित स्पश्ट सांगचें आनी ते ओट्ट दुडुवांची मागणी करचेंय आयकतना कितले धैर्यवंत तरीय कडकडेवूक लागतलेच. असले सर्व संदेशय गंभीरतायेन काडका आनी सदा सावध आसूका म्हूण पुलीस चेतावनी दिताय पुणून तांचे लागी सहाय करचे तसले उपाय कसलेय नाय.

विश्वविद्यालयांचे विद्यार्थियांनी एकेक कारण सांगून चमकोंवचे गोंदळांचे संभवय नित्यक्रम सारके चलताय. सकाणी आफीसांत वतना कसली सूचना आसचिना पुण एक दोन घंटे उपरांतें शहराचे खंचेय मुल्याक गोंदोळ आरांभिला म्हूण वार्ता पसरूक लागता. आमचे सोळावे माळियेचे जनेलांतुल्यान पळयल्यार दिकचे वाहनांची हालचाल गोंदळाचे जाग्याची सूचना दिता. कारण, इतल्यान अस्वस्थ भागाक वचे वाहनांचो प्रवाह पुलिसान आडायलेल्यान राबलोलो आसतलो.

एक दिसा असलोच एक अक्रम चमकताच आसतना भारतांत साकून मिगेले एक मावशेभावालें फोण आयलें. खंचेय सिनेमा थियेटरांत बि वे आसा म्हूण तं ताणे पयलेच निमगिलेलें. सोळा माळियां खाल चमकूचो गोंदळ तितले होडान आशिल्लो. तेदुसचे ते संभवाचें विवरण दितां.

जनेलांतुल्यान पळयतना दोन हेलिकोप्टरां खालचान केन्ना केन्ना इमारतांचे मद्देंचान उबताय. तांतू बेसल्ले पुलीसकारां टियर गॅसाचे गूळे सोडताय. आनी भुंयचेर आशिल्ले जलपीरंगी ट्रकांक अक्रमीयांचे जाग्याची सूचना दिताय. खालाक जमलेले जनांचेर जलटांकरां

जलपीरंगी सोडताय. ताजी शक्ती इतली चड आशिल्ली कि जनां बावल्यां कदी शिंवडून वतालीं, पागारांचेर आडोळनु चेपून वतालीं वा एकामेका ऊंच उसोळनु पडतालीं. दुकां धुवरूय तांचो त्रास चडयतालो. इमारताचे आसपास साकून पिस्तोलाचे गूळ्यांचो आनी मशीनगणांचो शब्दु आयकूक येता. सामकेंच दिकूक येना तरीय आयकूक पडचें जें मिजे कल्पनेक फूंक मारून भगभगायतालें. ऊणे एक डज़न जाणां पुणीय मेल्लेलीं आसतलीं म्हूण हांवें अनुमान केल्लो. जमलेले जनांक घेरून थोडे विद्यार्थीयांक बंदी केल्ले. हाजे उपरांतेचें चित्र पूरा विनाशमय आशिल्लें. विंडशीळ्डां फुटलेलीं कारां, जळचीं टायरां, लासून गेल्लेल्यो सान आंगड्यो, धूवर भरलेलें वातावरण आनी पायवाटेंचेर हंय थंय एकेक मृतदेहय! पुलीस वाहनांची आनी आंबुलेंसाची सैरनाचो विळाप विना वेगळो कसलो शब्दू ना.

हायवेवेल्यान उणे उणे वाहनां अनिश्चित जावनु चलूक लागलीं. राबून गेल्लेले वाहनाव्हाळ्याक सोडवाड मेळून मागीर वेगीन शक्तीन होळूकय लागलें. सांजे हांव हुसक्यान कार धांवडावनु घरकडे वतना, मिगेले हे कार्यकाळांत असले कितले गोंदोळ लागेन दिकचे पडतले म्हूण चिंतूक लागलों. हें तिसरें आशिल्लें.

शारीरिक सुरक्षेचे विशी हुस्को चडोंवचाक जावनु आतंगवादाची लागेन धमकी आसा. हे लागींच, किकांबला म्हळ्ळेले कडे आशिल्ले एक बीच रिसोर्टांत स्फोटक वस्तू भरलेलें एक ट्रक चडोवनु फूटून पडलें. आनी वीसां लागी पर्यटकांची हत्या जाली. हो तसलो दुशेरो संभव आशिल्लो, पयलेचो यू एस एंबसींतुलो. असलेंच एक ट्रक एंबसी इमारतांतूय मारून चडयलें आनी दोनीश्यां चड नागरिक मरून गेल्ले आनी पांच सासा चड जनां घायल जालीं. ते चौदा माळियेंच्यो जनेला कांच्यांच्यो जड धारे पाळ्यो फुटून पडून, कातरून फाळून, कुटके जावनु तं चडय जनांय मेल्लेलीं.

विविध जाती लोकांचें मद्दें तीव्र अविश्वासूय वरता म्हूण हांवें आयकलां. खास जावनु उगांडाचे लागी सीमेचे प्रदेशांचेर थोडे प्रत्येक भागांक काळूक जातरी वचाक नज म्हूण सान चोरडूवांक सदा ताकीद करताय. कारण इतर जातींचे लोक चेरडूवांक मारून खांवचाक जावनु धरूक थंय राकून बेसताय म्हूण संशय आसा.

"हे शतकांत, हे कालाक?" ही अविश्वनीय खबरी सांगून दिल्लेल्याचे लागी हांवें विस्मित जावनु विचारलें पुण खरें म्हूण ताणे खात्री दिली. सत्य सांगता जाल्यार माका येद्दो विश्वास आयलोना.

केवल थोडीं दशकां मुर्थम तं उगांडाचे स्वेच्छाधिपती इदि अमीनाले भेष्टावणे राजकालाक ताजे रावळारांतु नरमांस भक्षण करची सवंय चलता म्हूण आरोप आयलोलो म्हूण सांगताय. सीमेचेय पेल्यान रुवांडा म्हळ्ळेले कडे जातीय शुद्धिकरणाचे नांवांन अल्पसंख्यक जातींचे जनांची भोव संख्येन हत्या चमकयल्या आनी हे रगताचे झर्यांनी विक्टोरिया सरोवराचें शुद्ध उदाक कलंकित जाल्यां. आफ्रिकेचे विविध भागाक अशी सशस्त्रीय झूझां केन्ना केन्ना फुटताय आनी सैनिक आपले शस्त्रूंक दिंशी मारून, आपली शक्ती चडोवूक जावनु तांचें हरदें पिसूण खाताय जावनूय सूचना आसा.

आफ्रिकेचे पासून साबार बरयलेलें आसा पुण हे राज्यांत एक पसार पुणीय वास करनाशिल्ले एकल्याक ह्यो काण्यो सगट समजूक साध्य जांवचे रीतीन सांगूका म्हळ्यार असाध्य म्हूण माका दिसता. सुसंस्कृताय हे लागींच मात्र पावलेलें राज्य हें. हांगाचे जनांक निरंतर जानवरांचे कदी फाटी घेवून, घेरून, गोमटेक आनी हातपायांक संकाळ घालून बंदी करून दूरचे राज्यांत गुलाम जावनु विकचे खातीर पयलीं अरबानीय उपरांते वसणूकी शासकानीय विविध बंदरांकडे जबरदस्ती चमकोवनु व्हेल्लेलें राज्य हें. हें एक राज्य जंय वसणूकी सैनिक घोड्यां कदी मनुष्यांकय चाबकानी मारताले, मृगां कदी शिकार

करताले, परत परत तांचो उमेद, उत्साह चिरडून मोडून सोडताले, थंयचे लोक अवसर मेळतरी अक्रमकारी जाताय म्हळ्ळेल्यांत अतिशय कांय पुणीय ना. ग्रामप्रदेशांतुलीं भूरीभाग जनां आजीय दरिद्र आसाय, पीडेस्त आसाय, जातीय विश्वासांचे बंदी आसाय आनी भूप्रकृतीचे आनी शीमेंचेय बंधनांत आसाय.

तरीय सुसंस्कृताय म्हणच्याक आनी नवे धर्मांचे अतिक्रमणाक विरोध करून मसाई जश्यो थोड्यो जात्यो आपल्यांक अन्याधीन जावूक दीवनाशिल्लें राबल्याय. शतकां शतकां जावनु जीयेवनु येंवचे वरी तीं आतांय गोरवांक वाडोवनु, गायचें शीरेंतूलें रगत काडून हरवे दुदांत एकडे करून पीवून, गायचें शेण केसांक थापून शैली करून आदी परंपरागत रीतीन जीयेवनु येताय. आधुनिक वस्त्र धारण रीति तांनी आपणायलीना, हंय थंय सगट एकेक मोबाय्ल फोण पावलेलें विना कसलेंच नवें यंत्रतंत्रादिक ज्ञान तांनी आपणायलेंना. हे कालाकय एक दीग भालो घेवनु तीं भोंवताय आनी भयरहीत सवान्नाचेर थंयचे सिंहा हीडांक भिसरावनु, धांवडावनु भोंवताय. पुरुष म्हूण वळख दिंवचे तांचे प्रथम अनुष्ठानाचे वेळार एक सिंहाक पुणीय तानी दिंशीं मारलोलो आसतलो.

दर दिसाय दादल्यान दादल्याचेर चमकयलेले वा केन्ना केन्ना बायलेले हातान चमकलेले अक्रमाच्यो नव्यो खबर्यो उत्तेपणांत येताय. भारतीय वंशी जनां खास जावनु घरा दंदकारण्यांचे भयान आसाय. उणेच दीस मुर्थम एक भारतीय बायलेक तिजे क्रोधोन्मत दंदकारणीन कशाप करून कोचकोचोल केल्लो. धनीणीले निर्दय पीडेक विरोध करूक जावनु दंदकारणीन तिका कळचे प्रकारान मांस कातरचे कोयतेन कशापकारा सारकें आपलें काम चमकयलें!

गर्भछिद्र करचें नियमोल्लंघन तरीय गर्भपातीय भ्रूणां भो व्हड संख्येन अस्पतालांचे कोयरा राशीर, कचरे डिब्येंत, सांकोवांचे पोंदाक

आदी कडे साकून नेमान मेळताय.

हांगाचे थोडे रुकांचे पाल्यांत आनी साल्येंत साकून उत्पादन करचें 'मिरा' आनी 'ख्वाट' नांवांचीं दोनी भ्रमोत्पादक वकदां, गल्लींत आनी सोपूर आडवाटेंचेर समृद्ध आसाय. थोडे हें उपयोग करून उन्मत जावनु आपल्यान करचें कितें म्हूण येद्दी जाणविकाय नाशिल्लें भ्रम भरून निर्जीवां सारके भोंवताय आनी ते अक्रमकारीय आसताय.

'मथारे' आनी 'किबेरा' म्हळ्ळेले झोंपड पट्येंतूली जीण अत्यधिक निश्ठूर म्हूण आयकलां. अक्रम, हत्या, जानवरां भशेन निर्दय करणी, बायलांचेर आनी चेरडुवांचेर बलात्कारिक वेवहार आदी थांगा समृद्ध आसाय. शुचित्वाचे पासून तानी आयकलेलें सरी आसचेना आनी हे दरिद्र प्रदेशाचेर उदक मेळूकय ना. उदारवत्कारणाचो विकास आनी उपभोगी रीत एक भागाक आनी अत्यधिक दुर्बळपण दुशेरे भागाक अशी विरोधी शक्तीचें आर्थिक वर्गीकरण आनी तिसरे मध्यम वर्गाचो अभाव ह्या दोन वर्गां अळतापेळतांत मेटतना अक्रमासक्त जावूक कारण जाता.

नायरोबीचो सर्वोपरी होडलो उद्योगधंदो आसा 'सुरक्षा'. सुरक्षे खातीर विविध साधन सामग्री भाड्याक मेळताय, सशस्त्र राखणदार, घुस्प्यांचे विशी सूचना दिंवचें यंत्र, कांट्यां सरिये वोंयो, स्वयंचालक गेय्टां, घरदार नियाळूक विडियो सामग्री, राखण सूणीं, सुरक्षा आवरण आशिल्लीं करेन्सी वानां, बुळेट प्रूफ कारां, एक इंच दाटायेन मजबूत लोकंडाचीं कवडां, आंगणाक घेरून घालचो लोकंडाचे पागार, सुरक्षा चडोंवचाक जावनु ताजे ऊंच घालची विजेची आनी दीग थोरेल्ले खीळ्यांची वोंय आदी.

तशी हांव आपले काराचेर मृग केंद्रांची आनी सवान्नाची भोंवडी भयरहीत करून सैमाचे असीम शोबितकायेचो आनन्द घेतना, शहरांत

काराचीं कवडां आनी जनेलां बंदोवस्त दवरून भयभीत भोंवचें पडता. अनवळकीच्यांले दोळ्यांत दृष्टी घालनाशिल्लें, जनसंपर्क जांवचो इतलो वर्जून, पायवाटेंचेर चमकूचें सोडून आफ्रिकनी सहयात्रिक रहीत रसत्यांचेर भोवूक साहस काडूनाशिल्लें, अपरिचित मूळाचे जनांचे लागी मेळसूनाशिल्लें, प्रत्यक्षांत सुरक्षित दिसूचे कारांतूले सीमीत विस्तारांत बेसून सदां शहर वा राज्य पळोंवचें पडता.

नशीब कि उद्देश, कितें म्हूण कळना, मिगेलें सहज साहस आनी भोंवडी करचो तळमळ संबंधित कितेंय जावयात, कित्यान की माका हे जाग्यार ओडला. पुण सर्रोपरी, हे पुरातन भुंयचेर आधुनिक आसूनूय जातीय, रानवठारांत सुरक्षित अनुभवूनूय शहरांत अत्यधिक भयभीत भोंवचें निश्चित जावनु वेगळेंच आसा. हांव हें राज्य सोड्डून जिवंत परतूचो ना म्हळ्ळोलो एक भया गूळो कोड्डू पित्त ऊंच ताळ्यांत येंवचे कदी सदां मिजे अंतरंगांत स्थिर आसा. थोडे काळांक जावनु मात्र तरीय हांव हे होड 'नायरोबरी' शहरांत एक परकी नागरिक आसा. हे कामाचे खातीर मुलाखाताक हाजीर जाल्लेले माका सामकी पिशेंच आशिल्लें दिसता.



# कार्निवोर

तापून, जळची तशी जालेली एक लोकंडा कायली मिजे मुकावेले मेजेचेर झगझगेता आनी कायलेची करपटाण रूक लासूचे घाण्येंत मेळसून मिगेलें नांक हुलपता. करपून काळे जाल्लेले रुका होडले कुटक्याचेर तं ही कायली दवरल्या जाचे हुनसाणीन तो रुका कुटकोय धुवरतालो. असल्यो तापलेल्यो कायल्यो मेजेकडे बेसल्ले अन्य जनांचे मुकारीय आसाय. तापलेल्यो कायल्यो भरून दवरलेली एक ट्रोळी ओडून एकेक मेजे लागी व्हरून एक भीमाकार आफ्रिककारी चिमटो उपयोग करून त्यो काडून दवरतालो.

हे जाग्याक संबंद नाशिल्लो एक अप्रतीम परमळ, लोंकड तापलेली करपटाण नंतणा थंय पसरून आशिल्लो जशी अग्नीदेवाक प्रसन्न करूक तूप समर्पूचे एक हवनकुडांचे मुकार बेसतना येंवचे परमळा सारके. पुण हांगा सामकें नरकांतुले जाग्याचें दृश्या सारके दिसता.

थंयचे निस्तेज उजवाडांत आमचे चारीय वंशीय बेसल्यांचीं तोंडां अस्पश्ट दिसताय. चडय जनां आफ्रिकनी आनी तांचीं तोंडां हुनसाणीन तकतकेताय. गोरीं मुखामळांय आसाय जीं तांबीडसाण चडून गुलाबी जावनु झगझगेताय. थांगा बेसल्यांचे दोळ्यांत ते काळसार उजवाडांत मेजेर दवरलेले मेणावात्यांचे ज्वाले प्रतिबिंबित जाताय आनी ताजान तांचीं मुखामळां एक लागेन भयानक दिसताय.

भाजिल्ले झीब्राचो एक मागशी पाय, गुलाबी रंग जावू तांय शिजलोलो, हातांत धरून ताजें नैसर्गिक तूप भुंयचेर थेंबायत एक बळिश्ट काळगो आयलो. ताणे तो पाय उबारनु धरून एक कोयतेन वाट्या येद्दीं होड दाट बाळकां तासून चुकयनाशिं एकेक हून कायलीचे

मद्देंच जावनु घालीं. आनी तीं थंय पडून कायलीचे हुनसाणेन सळसळेवनु भाजूक लागलीं. कायलेक आपडूनाशिल्लें सावध राबूका ना तरी तुमचे हातय ते मांसा कदी भाजून मेळतले. पेसकात्यो आनी कांटे उपयोगाक अनिवार्य.

ते विचित्र, पवित्र धार्मिक दिसूचे परमळाचें कारण कितें म्हूण हांव आतां समजलों. झीब्राचे मांसार साकून थेंबेंवचें तूप कारणच आशिल्लें तें. गायचें तूप, कसलेय नांवान वळकिल्यारीय मृग तूप नंतणा वेगळें कसलें न्हय. पुण आमगेले धार्मिक अनुष्टानांचे आवश्याक व्यापक जावनु उपयोग करच्यान आमी भारतीयानी तुपाचो परमळ म्हूण मानून दवरला, एक पवित्र धार्मिक परमळ. हांगा आफ्रिकेंत हांव समजलों कि तूप लासूचो परमळ म्हळ्यार सगळे मृगाक सळ्येर घालनु भाजतना येंवचो तसलो.

नायरोबींतुले 'कार्निवोर' (मांसाहारी) नांवांचें, वन्यमृगांक प्रतिनिधित्व करचे रेस्टोरेंटांत तं हांव आतां आसा. लोंकांतुले पन्नास सर्वोत्तम विचित्र खाणामळांचे वळेरींत हाजेंय नांव आसा आनी हाका अत्यधिक प्रशंसा करताय. तरीय हांव थंय वचूनाशिल्लें राबीलों कारण मांसाहार्यांचे सांगातांत एकच मेजेर बेसूक माका कितेंकीच जातालें. पुण आज निर्बंधित जावनु मिजे उद्योग मडळीन चलोंवचे एक डिन्नर मीट्टिंगाक भाग घेंवका जालें आनी हांगा आसू नाशिल्लें राबूक जावनु सांगूक माका कसलेंच नीबय मेळ्ळेंना.

शाकाहारींक जावनु हांगा आफ्रिकनी रेस्टोरेंटांत सीमित प्रकारांचीं खाणा पदार्थां तं आसाय. उज्यार भाजिल्लें खुण्टा कणंग, मको रवा शिजोवनु केल्लेलें उगाली, हरवे केळ्या कुटके पोडग्यांत घालनु उणेचे भाजून मागीर शिजयलेलें 'माटोके' आदी मात्र.

हें रेस्टोरेंट भो विस्तारान आसा आनी ताजे दोन भाग थंड आफ्रिकनी रातींत वात्के आसाय. हाजे भायर लागीच जायते कडे

घाल्लेले वात्के उज्यांचे ऊंच बड्यांचेर पडून घुंवचे ओस्ट्रिच, सिसर आदींचे देहांचेर उज्या ज्वाले लेंवताय. गुड्डे थोर वांकडे लोंकडाचे खाड्यांनी मृगांचे शिजल्ले भाग कातरून काडून लोकंडा बड्यांचेर चडोवनु एकेक मेजांचेय लागी हाडताले. एकेक पावटीय एक होडलो भाग भितर हाडल्यार मेजेर साकून मेजेर व्हरून मांसाच्यो पेश्यो तासून विरकून बड्यांचेर हाडां मात्र बाकी राबू तांय वांटतालीं.

भायरचें मांस नंतणा दर मृगांचीं भितरचीं अवयवां लागेन हाडतालीं आनी खावपी सामको वेळ काडून तीं प्रायः हरवीं अवयवां संथ चाबून बियर वा वायनाचे होडले होडले घोट पीवनु देंवयतालीं.

वेंचीक वन्य मृगांक वाडोवनु तं हें रेस्टोरेंटांत तांचे मांस वितरण करताय. विचित्राचें खाण रुचुका म्हूण वांवट काडचे मनुष्यांचे खातीर तं हांकां वाडयताय. आफ्रिकेंत आनी खंयीच सग हस्त्यांचें मांस लागेन मेळता, खास जावनु जंय हस्त्यांची संख्या अत्यधिक नियंत्रणा भायर जातना तांचें नियंत्रण करचे खातीर शिकार करचें अनुवदनीय आसा. पुण आतां थंयीय मेळूक ना जावनु येता. केनियांत हस्त्यांक संरक्षित करताय देखून हांगाचे खंचे रेस्टोरेंटातुले मेजेंचेर हांचें मांस पांवचें ना.

हें रेस्टोरेंट खास जावनु धनिक पर्यटकांचे खातीर तं चमकता जीं केनियाचो अक्षरशा उपभोग करूक, अथवा मृगांक पळोंवचाक आनी रुचूक जावनु येताय. वर्णपटाचे एक भागाक 'कार्निवोर' तरीय दुशेरे भागाक आसाय असलेंच वा हाजाकय सान मृगांचें मांस वितरण करचीं केवल एक मेजेचीं खाणामळां. वात्के उज्यार संथ भाजून काडचें मांस तं केनियाचें प्रमुख खाण. हाजाकय विचित्र रीतीन खाण वाडचे तसले साबार रेस्टोरेंटांत मिजे आफ्रिकेनी सांगात्यांचें ओट्रू वचूका जाल्यां.

घरवंताक तरकारी शिंदूक उपयोग करचीं तीं प्लास्टिकाचीं

फळीं कळता मू जांचेर आमी सवाळे, बीन्स आदी कोचकोचोल करताय, तसलीं फळीं हांगा थोडे रेस्टोरेंटांत वाट्यांचे बदलाक उपयोग करताय. चड जाणांचें संघ तं आयल्यां तरी होडलीं फळीं दितलीं. न्यम छोमा म्हळ्ळेलें भाजिल्लें मांस, तें चडकरून गोमांसच आसता, हाडून मेजेर मद्देंच दवरलेले एक फळ्यार घालतलीं. आनी कशापकाराले कोयतेन वेय्टर गिरायकांचे मुकार दवरूनूच मांस कोचकोचोल करतलो. ते कुटके तेच फळ्यार साकून आपले हातानी काडून जाय जाल्यार मिटांत बुडोवनु तोणांत घालयात.

खंचेय एक संस्काराचे ऊंच आनी एकान आधिपत्य करतना खाणाची रीति तं बदलच्यांत निमणी आसता. वस्त्र धारण, भास, धर्मू आदी आधुनिक रीतीन तरीय आफ्रिककारांक आपले आज्येन रांदिल्ले सारके परंपरागत रीतीन संथ उज्यार, कसलो मसाला वा मीट आपडायनाशिल्लें, ताजे नैसर्गिक रोसांत भाजिल्लें मांस तं आतांय पसंत.

आफ्रिककारां आरोग्यवंत आसचें आनी तांकां ब्लड प्रेषर चड नासूचें रहस्य समजता. जे आफ्रिककारानी मेक डॉणल्डस फास्ट फुड शैलीची खाणा रीत धरल्या, तांकां निश्चित जावनु प्रश्न आसतलेच. अन्य कोणाचेय सारके थोर आसतले आनी जीवित शैलीचीं आरोग्य प्रश्नय समान लेकान आसतलीं.

कार्निवोरांत बेसूनासतना एक कायरीं चिंतून माका धपको लागोलो कि मुकार माका एक प्रश्नु जातलो. हांवें आतां हें मृग तूप जळची वा तापची घाणी वळकिलेल्यान भारतांत परतून वतना खंचेय धार्मिक अनुष्ठानांचे वेळार जशी व्हारडीकेचे लजाहोमांत तूप अर्पण करतना येंवचो परमळ घेतना हे दुरचे केनियाचे काळके रातीचो, झीब्रा, रानडूकर, सिसर, हरण, ओस्ट्रिच आदींचे भाजल्ले मांसांचो उडगास येतलोच!



# जिराफ मॅनॅर आनी सिसरीमळ

अडेच फीट दीग तोंडांतु साकून आषा इंचाची दीगी जीब भायर आयली आनी वोल्ली थरथरी दिसूचे ताजेर थोड्यो खाणा गुळ्यो ल्हवूच दवरूक अपर्णाक अनुवादूय मेळ्ळो. ती जीब ते होडले तोंडांतु भितर सरली आनी तें मृग कुरकुरांवचे शब्दान चाबूक लागलें.

ताजे मात्यार खुंटा सारकीं गुड्डीं दोन शिंगां, मुकार धिंगूळनु निडळ, दीग पातकड्यो सयत दोन सामके सुंदर काळे दोळे आनी अशी तशी हालोवनूच आशिल्ले दोन दीग कान आसाय. मात्याचे पोंदाक साकून खालाक तशी देवनु, होडलीं बदामी खांपां आशिल्ले पिंगूसे आकर्शक देहाचेर पांवचो दीग गोमटो आसा. मागीरीय खालाक चार सोपुर पायांचेर देह समाप्त जाता.

ते पाय दोन माळ्यो खालाक तं समाप्त जाताय आनी हे उंचायेर राबून विश्व पळयतल्याक मातें घुवलें म्हूण जातलें. हे सौम्य

मृगांचे भयान तांचे संबंधित कितेंय करूकय सामकीं विरोध करून राबली मिजी धाकली धूव अपूर्वा. जिराफांते पासून तं हांव हें सांगतां.

सगळी वाडी पावलेलें एक जिराफ दोन माळी उंचायेर साकून तं विश्व पळयता! नायरोबीचे जिराफ मॅनॅराचे दुशेरे माळियेर आशिल्ले रुका माच्येर राबून आमी जिराफांक खाण दितालीं. शहराचे मध्य भागाक साकून बारा किलोमीटर दूरा लंगाटा म्हळ्ळेले कडे स्थित साठ एकर विस्तीर्ण रान हाजे शीमेंत पडता. तीनीय प्रकारांचे जिराफांचें संरक्षण केंद्र जावनु आसा हो जागो. व्हय, आफ्रिकेंत आपले आपले विशेश लक्षणां आनी खास क्षेत्रांय आशिल्लीं तीन प्रकारांचीं जिराफां आसाय.

एक आसा, प्रायः धवे रेखेनी शीमा घालचे होडले गाढ बदामी खांपांचें रेटिकुलेटड वा सोमाली जिराफ. दुशेरें, देहाचेर अवेस्थित चौकोण आकृतींचे सामके बदामी खांपांक साये रंगाची अस्पश्ट देग आशिल्लें रोथ्सचैल्ड वा बारिंगो जिराफ आनी तिसरें आसा सर्व साधारण दिकचें मसाई वा किलिमंजारो जिराफ जाका धारे देगेचे द्राक्षा पाल्यांचे आकृतीन गाढ चॉकलेटी खांपां आसाय.

हे केंद्रांत अशी तशी भोवनु आपले दीग गोमट्यानी रुकांचेर मातें पावोवनु खाण सोदून खांवचे जिराफांची दृश्यां पळोंवचें आनी हे मॅनॅराचे दुशेरे माळ्येर चडून जिराफांक खाण खावोंवचें तं हांगाचें मुख्य आकर्शण.

कांट्याळे बाबळा रुकांचे खांद्यांचेर साकून पाले खावनु तं हीं जिराफां जीण काडताय. तानी निरंतर खांवच्यान हे रुकांची एक विशेश सपाट आकृति मळबा आड पळयतना स्पश्ट जाता. एक दिसाक सोळा घंट्यांक एक जिराफ खाण खातलें आनी शराशरी सोळा किलो पाल्ले ताका खांवचाक जाय. बाबळाचे पाल्ले खातना हांचे दीग जिबेक कांट्यानी घाय पडतलेच तरीय तांचे लाळेक

रोगप्रतिरोधक गूण आशिल्यान तांकां कसलेच प्रश्न जायनाय.

एक जिराफ संशोधन केंद्र लागेन हांगा आसा. वनप्रदेशांतु मनुष्यांनी करचें अतिक्रमण आनी हे मृगांचें वासस्थलाची विस्तीर्ण ऊणे जांवच्यान हांचेर जांवचे प्रभावा पासून हांगा संशोधन करताय.

हें एक सौम्य मृग म्हूण दिसता तरीय रानांतु भोंवतल्ले जिराफांक आपले सुरक्षेचे विशीं हुस्को जालो जाल्यार तीं भोव निर्दयी जाताय अनीक मनुष्यांक वा अन्य मृगांक तांचे सोपूर तरीय बलवंत पायानी बळान फाफरा मारनु दिंशी मारूक साध्यताय आसा.

आपले पिलांक तीं सामकी संरक्षण करताय आनी सिंहांक पर्यान आपले मुकावेले पायानी मुस्तून बायल जिराफ धांवडायतली. आपले शक्तीन दुशेर्यांचेर आधिपत्य स्थापित करूक जावनु आपले गोमटे उपयोग करून आळतापेळतांतू मारनू घेंवची सवंय हांकां आसा. एकेकलोय आपलो दीग गोमटो सगळो उपयोग करून मातें बळान अशीतशी हालोवनु आनी एकल्याचे आंगाचेर भयंकर शब्दान धाडयतलो. जिराफांचीं मात्या करटीं अत्यधिक बळिश्ट आसून असले प्रबल पेट्ट सहन करूक चड प्रयत्न नाशिल्लेंच तांकां साध्य जाता.

जिराफांक प्रतिकूल साहचर्य जांवचो एकु वेळु आसा तांनी उदक पिंवचो. कारण तांकां भुंयचेर तोंड पावोंवचाक अन्य मृगांचे वरी साध्य न्हय आनी ते खातीर तांनी तांचे मुकावेले पाय दोनीय तांतूय पातळावनु तांचें देहच एक उचित उंचायेर तांय देवोंवका जावनु आसा. तेच कारणान तं हे मृगांनी भुंयचेर साकून खांवचें वर्जून पोशण मेळूक जावनु दीग रुकांचे खालाचे खांद्यांचो आश्रय घेतला.

जिराफाचो गोमटो सामको दीग आसा तरीय, मनुष्यांचे आनी अन्य सस्तन प्राण्यांचे कदी तांचेय गोमट्याचे कण्याक केवल सात मण्यो तं आसाय. ताजें मातें हरद्याचे पशी अत्यधिक ऊंच आशिल्यान मात्याक आवश्यक रगत पावोंवचाक जावनु गोमट्या खालचे भागाक सामकी ताराटूनु पडची साली तं आसा, वैमानिकांचे ताराटूनु पडचे

सूटांचे कदी.

पर्यटकांचे खातीर राबूची आनी खाणाची वेवस्था करचें होटल जावनूय आसा हें जिराफ मॅनॅर. आनी एक आकर्शण लागेन आसा, हाजे जेवणाकूडांतूलीं जनेलां पूरा भायर ते मृग केद्रांत वात्तीं आशिल्यान जिराफांचीं मातीं आनी दीग गोमटे आतिथ्य घेवूक जनेलातुल्यान भितर चडून येतले.

सामको सुंदर एक जागो आसा हो लंगाटा. विस्तारान पडलेले शेतजमीनांचे मद्दें हंय थंय आशिल्लीं तांबडे कोयलूवेचीं शेतघरां, फुलांचे कृषीचे खातीर धवे प्लास्टिकाचीं उष्णकुडारां आनी दक्षिणाक मातीं ऊंच उबारनू राबलेले गोंग पर्वत हाजान हे जाग्याचें परिसर प्रायः यूरोपी दिसता.

लंगाटा पावूक एयरपोर्टांत वचे हायवेवल्यान वचून सान एक रेलवे स्टेषण दांटवून, माराबू दोंकांनी दक्षिणाक देशाडन करचे मुर्थम घोंटेर बांदचे बाबळा रूक जातरी उजवे भागाक घूंवका. हांगा उजवे भागाक नायरोबीची होडली झोंपडपट्टी 'किबेरा' आसा. शहराचे अर्दा पशी चड दंदेल्यांक वासस्थल जावनु आशिल्लें हें मुंबईचे 'धारावी' चे तेद्दें होड म्हूण अभिमानान सांगून भोंवचीं जनांय हांगा आसाय. एकर एकरानी पातळेवनु लागीलागी आडोळनु आशिल्ले खोंप्यांचीं तगडा पाकीं आपलीं निगूढमय रहस्यां भायर सोड्नाशिल्लें निपोवनु दवरताय. किबेराची घाणी मागशीं सोडून मुकार वतना मात्र तं ग्राम प्रदेश आकर्शक दिसूक आरंभता.

दोन लेय्नांचें हायवे मुकार वतना, दावे भागाक, विविध कालाचीं सान विमानां राबोवनु घाल्लेलें वेल्लिंगटन एयरपोर्ट दृष्टी पडतलें. अप्रधान जाग्यांकडे जशी आपल्योच धांव पाट्यो आशिल्ले जंगल लोड्जां कडे वा शेत जमीनांकडे वचाक हे विमान अड्यांतु साकून विमानां उबताय. धनिक शेतकार जे चडय मुसुंगेच आसताय ते आपले शेतांत कीडनाशिनी फाफडूक वा शेतांचें निरीक्षण करूक हे

सान विमानांचो उपयोग करताय.

हो विमान अड्डो दांटवून जालोलोय हायवे सोपूर जाता आनी अस्त्रगती सारके सीदा दूरचे गोंग पर्वताचे कडे धांवता. हे प्रदेशाक 'कारेन' म्हूण नांव आनी हांगा साबार आकर्शक होटलां, लोड्‌जां, सामके संरक्षण करचे होडले बंगळे आनी क्रिस्तीय देवालयां जांचे मुकार आयताराचें उत्तम रीतीन वस्त्र धारण केल्लेलीं जनां गोंदळेवनु भोंवचींय दृष्टी पडतलीं.

आट किलोमीटर लागेन मुकार वतना जिराफ मॅनॅर पांवतलें. भितर सरतना तुमकां रानडुकरां आनी होडले कासव स्वागत करतले. चड खीटू नाशिल्लें हें मॅनॅर प्रकृतीप्रेमियांक आश्रय जावनु आसा. नंतणा हांगा ओस्ट्रिचांचे खातीर वोंय बांदून सुरक्षित केल्लोलो जागो आसा, सर्व तराचे दिवडांक वाडोंवचें एक सान 'हेरपटोरियम' आनी एक सिसरीमळय आसा. होडल्यो आनी सान्यो सिसर्यो येद्दी हालचाल नाशिल्लें वोत घेवूक पडलेल्यो आसाय आनी कसलेय एक अतिक्रमणाक जोगुला वेगीन फटक करून तोंड बंद करून आसता तांचें प्रतिकरण. हांगाचे पशी होडल्यांक पळोवयात जाल्लेलें मोंबासाचे मांबा गांवचे सिसरीमळाक तुलन करतना हें सानच आसा.

दर दिसाय एक निश्चित समयार हांचे पोसपी हरवें मांस भरलेलीं होडलीं पाळीं घेवनु हांचे मळांचे ऊंच आशिल्ले एक सांकोवार पांवतले. सिसर्यांक हे समयाची कळाकळी आसा आनी तांनी तोंड वात्तें करून घेवनु राबचें दृष्टी पडतलें. मागीर चमकूचें अत्यधिक तीव्र अक्रमूच. मांसांचे एकेक जड कुटकेय वार्यांत विंदितना एकच समयार चार वा पांच सिसर्यो उदकांत साकुन भायर ऊंच ते कुटक्यांचे मागशी उडकी मारतल्यो. परतून उदकांत पडून आपलो वांटो घेंवचे खातीर अळतापेळतांतु मारनु घेतना उदक घांटिल्ले कदी भयंकर जावनु हालता.

तांकां हांगा भो आरामप्रद आसा, कारण रानांत तं तीं आशिल्लीं जाल्यार उदकांत येवनु पडचे निर्भागी मृगांक घास काडूक तांनी भारी कष्ट काडका जाता आशिल्लें. सिसरींक चाबूक कळना आनी मृगाक घास काडून धरून राबोवनु आपलें देह अशी तशी सगट बळान मारनु घुंवडावनु हालयतना ते मृगाचे मांसाचो होडलो एक कुटको पिसूण येतलो. तो कुटको ती सिसरी ऊंच उडकावनु खाल येतना वाक्ते तोंडांत धरून एक पट्टाक गिळतली.

एक भीमाकार सिसर्याक घाल्लेले एक टांकाचे लागी अशी एक चेतावणी बरोवनु दवरल्या "अतिक्रमण करूक नज. मुर्थमलो पर्यटक अतिरुचिकर आशिल्लो!"

नायरोबीचें हें जिराफ मॅनॅर वा मोंबासाचो मांबा गांव अर्द दिसाचे भोंवडेक योग्य आसा.





# रुपडें आनी पर्वत

मिजे मित्र सेंबी आनी मायिंगीचे सांगातांत हांव केनिया पर्वता कडे वचे रसत्यार यात्रा करतालों. सेंबी, स फीट दीग एक सरदारजी जो केनियांतूच जन्मून वाडून आयलोलो. ताजो बप्पा भो काळ मुर्थम नायरोबीचो सिट्टी पुलीस कंमीशणर जावनु आशिल्लो. आनी सेंबिकय एक मिल्टरी अफसरालें रूप आनी व्यक्तित्व आसा. केनियाचे अंतर्भागाक यात्रा करतना खरें जावनु सामकी धीर दिंवचो एक सांगाती. किकूयु जातीचो केनियाकारी मायिंगी तीक्ष्ण तमाशेचो विनोदी भाव दवरचो.

आमचे आफिसाचे तीन व्यत्यस्त विभागांचे अधिकार आमी तेंगाय हाताळताय आनी आमचे कंपनीचे व्यापारिक विकासाचे खातीर विविध प्रदेशांचेर आमचें काम आमकां पांवयता. बारा जाग्यांचेर कंपनीक शाखा आसून थंयचे कर्मचार्यांक प्रोत्साहित करूक जावनु थंय वचें आवश्य पडता. लागलागीचे प्रायेचीं आसून आमी तेगांय केन्नाकेन्ना एकडे जावनु असले हे दूरा यात्रेक वताय आनी यात्रे समान एकामेकांचें सहवर्तनय पसंत करताय.

व्यत्यस्त राज्यांत तीन व्यत्यस्त वातावरणांत वाडून आयलेले कारणान आमकां एकामेकांचे लागी वेव्हार करूक आनी आमचे तरणेपणा काला काण्यो सांगूकय भो उत्साह आशिल्लो. आमचो हो काल बरो रसकर करून सांगचे खातीर आमी एकेकलेय प्रत्येक यत्न करताले आनी वेळ वता तशीच आमच्यो काण्यो दीग दीग जावनु वताल्यो.

एकेक फंता आफ्रिकनी सांगात्यानी सांगच्यो तांचे पूर्व कालाच्यो ओडलावणी काण्यो वा तानी भोगिल्ले प्राकृत रीतिरिवाज़ाच्यो कष्टकर काण्यो भो अविश्वनीय दिसताल्यो. केनियाचे चडय प्रदेशाक सामकें

एक प्राकृत चरित्र आसा आनी थंयची उदरगति हे लागींच मात्र जाल्लेली. जेन्ना मिजे सहप्रवर्तकानी आपापले बायलांक पयलीं जावनु भेटलेले जागे जशी पाक्याचीं निशाक्ळबां, वा तानी पोंवूक वचप आशिल्लीं तळीं, वा तांचे अज्यान अज्येन आतांय वास करचे जागे दाकोवनु दितना आयकून बेसूक भारी उत्सुकता आसा.

आमचे चर्चेंत परतपरत येंवचो एक विशय आशिल्लो भास. इंगळीश व्यवहारिक भास आनी किस्वाहीली राष्ट्रीय भास जावनु घेतल्या कारणान तांनी तांची मूळाची जातीय भास विसरूक लागल्यांय. राज्यांत क्रिस्तू धर्माचो प्रचार वेगीन जालोलोय जातीय आचारांचे आनी आदिवासीय सामानांची मरणा घांट वाजूक कारण जाल्यां. आतां हें पूरा पर्यटकांचे खातीर कौतुक वस्तु जावनु मात्र वेचु जाता.

न्येरी वचें, आफ्रिकेचे सामके हृदयभागाक करचे यात्रे वरी आसा. केनियांत, नायरोबीचे भायर आशिल्ले सर्व प्रदेशाकय अंतर्भाग म्हूण तं म्हणताय. आनी हो न्येरी, ग्रामीण केनियाचो भो अंतर्भागूच आनी ग्रामीण भारताचे सारके आसा. हांगा दिकच्या मनुष्यांचें रंग मात्र तं आमी वेगळे भूखंडांत आसाय म्हूण सूचना दिता. केनियाचो रुचिकर पिशोरी वोरोवा शेंताचो ग्रामप्रदेश, दोंगरां, पातळेवनु पडलेलीं भाटां आदी ग्रामीण केरळाचेंच सादृश्य दिसयता. केरळांतूल्या वरी भाटांत खुंटाकणंगां आनी केळ्यो वोयताय.

पुण हे सादृश्याचे मद्दें भीभत्स रुपडीं विकूच्यो पूर्ण रूपान आफ्रिकनी दिसूच्यो थोड्यो आंगड्योय आसाय. आफ्रिकन संस्काराचें सर्वाधिक प्रभावी लक्षण हें रुपडें आसा. एकेक जातीकय आपलें आपलें रुपडें आसा जें तांचो तांत्रिक वा मुख्या वा म्हालगडो धरशीता. आचारविधींचे आवश्याक, सादे जनांक भिष्टावनु सोडूक, विश्वासियांचे समूहाक एकठांय राबोवूक आनी भोळे भाळे जनांचो फायदो काडूक उपयोग करचीं हीं रुपडीं आनी एक पावट लागेन आमचें ध्यान अर्ह

करताय.

सिट्टींत खूब आशिल्ले असले आदिवासीय सामानां विक्री करचे आंगड्यांत हीं दृष्टी पडतलीं आनी सर्व विनोदसंचार केंद्रांचे आसपासय मेळतलीं. नवसाण सोदचे जनांक हे रुपड्यांचेर एक प्रत्येक तरा भयानक आकर्शण जाता. पुण शहरांत मेळचीं रुपडीं चडकरून नकलीच आसताय. दुड्डु जोडूक आशिल्ले साध्यतेर दृष्टि दवरून अस्सल रुपड्यांचीं वेगीन तयार केल्लेलीं अनुकरणां. पुण अस्सल रुपडीं सामकीच व्यत्यस्त आसाय.

नायरोबी न्येरी रसत्यार आशिल्ले तसले एक रुपड्यांचे आगडीचें विवरण दितां.

प्रदर्शनाक दवरलेलीं थोडीं रुपडीं पुणीय शें वर्षां पोरनी दिसताय. हाडां आनी कात्यो साकून बबूणांचे दांत तांय, मनुष्यांचे केस साकून रुकाची चेंचिल्ली साली तांय, कोरांतिल्लें राकूड साकून सवण्यांचीं पाकां तांय, सिंहाची शेंपडी साकून चिट्यां वागाचीं नांकुटां तांय अशी तरा तरा मृत सामानां हीं अस्सल रुपडीं करतना उपयोगांत काडताय. थोड्यांक तरी बबुणाचे वा चिट्यां वागाचे सगळे मात्यान अलंकृत केल्यां. ते आंगडीक भातसाणीचे राकुडाची, चामाची, रगत सुकल्याची सर्वय घाणी आसा. एकेक रुपड्यांतूय तुमकां तांडूचो, तुमकांच घूरून चोंवचो, धमकी दिंवचो, ताजे काळके नेत्र द्वारांत बुडकी मारूक आमंत्रणा करचो एक उग्रात्मो आसा म्हूण शंका जाता. थंयचे काळकांतुले काळके मुल्यांत, होडलें, मृत्युरंगीन गोबराळें, वांकडे भोवर्यांचें, दोळ्यां खातीर सोपूर खांच्यांचें, एक फनेला कदी भायर धिंगूळनु राबून सान द्वारांत समाप्त जांवचे तोंडाचें अतिभीभत्स एक रुपडें अर्द निपून पडलेलें. हिमटी* काडचे चिंपान्ज़ीचे सारके दिसतालें तें, ताजाकय चड होड, वनस्पतिक तंतुवांचे अळशीक दिसोंवचे केस आशिल्लें. तसलें एक रुपडें धरशिल्ले एक दुष्टाक रात्याचे मूर्धन्यार

*हिमटी - pout

भेटतना कोणाक जाल्यारीय हृदयाघात येताच, आनी हें धरशिलेल्यान प्रक्षेकाचेर जागोंवचें भय समजूक आमकां अनायास साध्य जाता. थोडे प्रक्षक तरीय भयान मेल्लेलेच आसुका.

हांगाचीं हीं रुपडीं सर्वय केनियांतूलींच न्हय, अन्य आफ्रिकन राज्यांचीय आसाय. आफ्रिकेंत सर्व कडेचींय विवरणातीत अत्याचारां आनी बळी चडय हे रुपड्यांचे धारकांचे मुकार वा तांचेच हातान चमकलेलीं आसतलीं म्हूण कल्पना करूकय जाता. भातसाणि येंवचे हे काळके आंगडींत साकून आफ्रिकेचो पूरा भूतकाल - वसणूकी शासकानी थंयचे मूळचे जनांक गुलाम करचे खातीर निर्दय फाटी घेतल्या कालाचो, विविध राज्यां झुजांत मोडून गेल्लेले कालाचो, मनुष्यांक चड उदरगति नाशिल्ले कालाचो, प्राकृतिक शक्तींचे विरुद्ध केवल कुरडे विश्वास सहायाक आशिल्ले कालाचो आदी भूतकाल मिजेर उडकी मारून येता जावनु दिसूक लागलें. कुरडे विश्वासांचेर साकून सचेतन रुपकांचेर विश्वास विकास पावलो आनी देवांक संतुष्ट करचे खातीर बळी चडोंवचेंय. रुपडीं घाल्लेले तांत्रिकच असले अवसरांचेर मुख्य पात्र आशिल्ले.

तसलें निर्दय आनी हिसंक चरित्र दर एक रुपड्याकय आसून तें विक्री घेतल्याचे मात्यार कसकसलीं अनिश्टां तें निसरावनु सोडतलें वा ताजे अस्तित्वाचे प्रभावान मात्र उत्पन्न जावयात जाल्लेले व्यक्तित्व प्रश्नांचे पासून माका कल्पना करूक भारी कष्ट जाता. हे आंगडींत चड घड्यांक राबचेंच माका कडकडो हाडयता आनी मिजे गोमटेचे मागशीचे केस उठूक लागल्याय. सत्य सांगता जाल्यार अंधविश्वासांचे विशय येतना हांव दोन मनाचो जातां. भूत पिशाच कसलें ना म्हूण मिजी बुद्धी सांगता तरीय मिजे बुद्धीचो अज्ञानी पक्ष विज नाशिल्ले काळके रातीचे समयार मिजे भुजाक मागशीच्यान ल्हवूच आपडून, मिजे कानांत कुलेरी घालून असंबंध जल्पून, निदेंत बूडून वच्यांत साकून माका जागोवनु, हें सर्वय खरें कि मिजे कल्पनेचें एक उत्पन्न

म्हूण शंकेंत घालून वता.

तो एक विचित्र अस्वस्थ करचो अनुभव आशिल्लो आनी एक रुपडें घेंवचाक माका धैर्य ना जाल्लेल्याक उपकार मानून हांव वेगीन भायरचे शुद्ध वायूंत देवलों. भारतांत परतून वचून मिगेले परंपरागत घरांत मिजे सामानांत साकून तसलो एक भयानक वस्तू भायर काडतना मिजे अम्माबप्पाक आनी अन्य संबंदियांक दिसचो संपूर्ण अविश्वास आनी आकांत माका कल्पना करूक सरळ जाता. भारतांत तशीच केरळांतूय भूत पिशाचांचेर आपलेच रीतीन विश्वास आसाय आनी असलें कसलेंय रुपडें घालूक आशिल्लो साहस मिजे भागाक साकून दाकयलो जाल्यार तेन्नाच ज्योतिशी परिहार वा मंत्रतंत्रादी करूक जावनु सूचयतीत आशिल्लीं!

आमचो उद्दिष्ठ स्थाय तेन्नाय लागी खंय न्हय आशिल्लो आनी नानयूकि म्हळ्ळेले कडेचे ट्रौट ट्री रेस्टोरेंटांत जेवणा खातीर राबयलें. हादीर पूरा हाजीं भारी रचनात्मक विज्ञापनां दृष्टि पटतालीं. एक मासळेचे हाडां अवशिष्टा सारके दिसोंवचे लेकान सुकीं शिरपूटां आनी सोपूर खांदे एक रुका फळ्याचेर साकून लांबोवनु घाल्लेले.

एक होडले रुंबडा रुकाक घेरून तं तीन माळ्यांनी हें रुकाचें रेस्टोरेंट बांदल्यां. थांगा कांचेचे घूडांत प्रदर्शनाक कुंडो भरलेल्यो मासळ्यो आनी लागी तांचें नांव, तांचें वासस्थान आनी अन्य खाशेलेपण सुंदर करून छापून लांबोवनु सोडल्यां. रेस्टोरेंटाक आडोळनु आशिल्ले मासळेमळांत थोडे तराच्यांक वाडयताय. आवश्य तकीत जाळें घालून मासळेक धरून गिरायाकांचे दोळ्यां मुकार तयार करून हूनहूनीत वाडताय.

शाकाहारींक शीत आनी सांगातांत सुकुमा मेळतलें. बियर आनी शीतळ पानियांचीं बेतलां शेळ करूक जावनु एक पाळ्यांत दवोरनु ते मासळेमळा उदकांत देवोवनु दोरानी वेरांदेचे ग्रांतीक बांदून

घालतलीं. मागणी करतना बेयरर पाळें ओडून ऊंच काडतलो, जाय कितें भायर काडतलो बोतल वार्क्ते करतलो आनी पिंवचाक थंड दितलो. कापी विरकिताय होडले मगांत जाचेर संक्षिप्त, अर्थपूर्ण म्हण्यो जशी 'I love pot holes' (माका फोंड आवडताय) आदी बरयल्यां. हें केनिया पर्वताकडे वचे रसत्याची मुकावेली अवस्था सूचयतालें. थंयचे खाणाचे मेनूकार्डार निमणी बरयलेलीं उतरां आसाय अशी "सावध, तुमकां हांगा सोडूक दिसचेंना!" आनी तें खरें आशिल्लें. थांगा साकून वचाकच दिसना आशिल्लें.

रोस्टोरेंटाचे तीन माळ्यांचेर खंयीच आळसायेन वेळ सारूक जातलें वा मासळे थळांचे आसपास भोंवयात वा थंयंचे विचित्र रूपी कोळोबस मांकडांचें, गोंदळ करपी हंस पक्ष्यांचें, बकाबक करपी टर्की कोंब्यांचें, मराबू ढोंकांचें आनी टूकान सवण्यांचें बि सांगात घेवयात.

ट्रौट ट्री रेस्टोरेंटा कडे साकून मुकार रसतो चड वायट आसा. सुमार दोन घंटे जातरी आमी मौंट केनिया शहर पावलीं. थंय आयाती चीझाचो स्वाद हांवें पयले पावट रुचलो. गोडशें खाण आनी पासता विकचे एक सान बेकरीचे धनिणीन माका तांगेलें थोडें परदेशी चीझ खावनु पळोवूक प्रोत्साहन दिल्लें. खरें सांगता जाल्यार आतां मिजे देशवासियांचे लागी मिगेली सूचोवणी एकीच आसा "नाका, खावनु पळोवनाकाय!" यूरोपी खाणांचे मद्दें सर्वोपरी अमळीक करचें एक भक्ष्य वस्तू ते हें चीझ. पुण चीझाचे मोग्यानो, दया करून माका माफ करका, हांव हें सांगता म्हूण आठोवूक नज. पुण मिजे जिबेवेल्यान आतां पर्यांन गेल्लेले खंचेय वायट सूवादाचे वस्तूचे पशी अधिक वायट हो सूवाद. चडय शहरांत कुसल्ले कचरेची घाणी सहन करका जाल्लेल्यान हे चीझाची घाणी कुसले आनी दुर्गंधीत फळांचे घाण्ये सारके आंसा म्हूण सांगचेंच पडता. हांवें तोंड वांकडे करून ताजे कुसडसाणीचे विशी सूचोवनु होच वे हाजो मूळाचो स्वाद कि तें सामकें कुसून बि आसा म्हूण विचारूक लागलों. तें उत्तम आयाती चीझ

आसून हांवें वर्णन केल्लेल्याचेच सारके ताजी रूच आसूक जाय म्हूण ते धनिणीन माका गंभीर मुखभावान ताकीद दिल्लें. लज्जित जावनु आमी थंय साकून वेगीन भायर देवले आनी आमकां राबचे खातीर बंदोवस्थ केल्लेले मौंट केनिया गोळफ क्ळबा कडे गेल्ले.

पी जी वुडहावसाचे इंगळेंडांतुले सारकें आसा गोळफ कोर्स आनी थंयचें वातावरण. हांवय ताजे खंचेय एक कथापात्रा सारको, गांवांतुले सुंदर बंगळ्यांत भोंवचो खंचोय 'लोर्ड' वा 'अर्ळ' कदी म्हूण दिसूक लागलें. होडलें रीडिंग रूम, पाचवेंचार गोळफ मैदानांची सुंदर छाया चित्रां, पोरणे दिसूचे फोटो आनी तांचे पोंदाक बरयलेल्यान चरित्र विसकळेंवचें, होडलें फायर प्ळेस आदी ते जाग्याचें वातावरण बरें करतालें. गोळफ खेळचे खातीरचीं शताब्दां पोरनी नेमां नवे खेळकारांचे खातीर प्रदर्शन केल्यांय. गोळफ कंदू मारूक उपयोग करचे विविध क्ळबांचें विवरण आनी एकेकय कितले अंतरार मारूक उपयोग करताय, उपयोग करका जाल्लेली रीति, खेळकारान खेळतना राबूची शैली, कंदू मारची शैली आदी सुरवातेर थोडें घुसपांवचें तरीय तो खेळ शिकून काडतना समजूक लागतलीं.

गोळफाचे एकेक कार्याक जावनु उपयोग करचीं सुंदर पाचवीं तणामळां, तांचेर आशिल्ले आषा वेज्ज, आडावण घालूक तयार केल्लेले सोंकर्यां फोंडकूलां, उदका मळां आनी रुकय आसाय. गोळफ खेळ कशी म्हळयार जांवचे इतले ऊणे पेट्ट मारनु सुरवातेकडे साकून कंदू एका मागल्यान एक करून आषा फोंडांत घालका. सोंपें आशिल्लें कायरीं म्हूण दिसता तरीय सर्वाधिक कष्टाचो खेळ आसा हो. व्यक्तित्वाचे विकासाक अतिउत्तम हो खेळ, खेळकारांक क्षमा शिकयता आनी आठोवनाशिल्लें वळण सहन करूक आनी कठिन प्रयत्न करूक तांक दिता. हांजे कठिन खेळमार्गावेल्यान सफल जावनु खेळून मुकारसूक खेळकाराक क्षमता आसूका. आनी सैमिक शास्त्रां जशी कालावस्था व्यतियान, ऊर्जतंत्र, वनस्पति शस्त्र आदीचे विशी हे खातीर ज्ञान

आसूका.

थंयचे स्वीट्साचे आंगडीचे धनिणीन एक सान कार्यक्रमाक वेवस्था केल्लेली आनी थंय एकडे जाल्लेले मान्यस्थांचे मुकार आमचे कंपनीचे पद्दतींचे पासून आमी अवतरण केल्लें. ब्रिटीश करसेना ताजे प्रितिष्ठित एस ए एस कम्मांडो फोर्साक पर्वत आनी जंगली प्रशिक्षणाचे खातीर केनिया पर्वताकडे पेटेयताय म्हूण हांवें समजून घेतलें. केनिया सरकाराचे अनुमतीन दर वर्षाय कम्मांडो हे दूरचे गांवांत येताय आनी केनिया पर्वताचे देवणेंचेर प्रशिक्षण अभ्यास दवरताय.

केनिया पर्वताक आनी दोन ब्रिटीश संबंद लागेन आसाय. ब्रिटणाची आतांची राणी तरणेपणार केनियांत छुट्टीर आसतना, तेन्ना अधिकारार आशिल्ले अम्मामहाराणियेचो देहांत जालो आनी एलिज़बेताचें कीरीट धारण केनियांतूच चमकयलें. हांगा केनिया पर्वता कडे आशिल्ले जंगली लोड्ज 'ट्री टोप्स' म्हळ्ळेले कडे तं राणी तेन्ना राबताली आनी तें आतां पर्यटकांचे खातीर एक मुख्य आकर्शण जावनु आसा. तशीच बॅडन पॉवलान 'बॉय स्कौट्स' प्रस्थानाची शुरवात केल्लेलीय मौंट केनियांत आसतना तं.

हो प्रदेश केनियाचो पिकाळ प्रदेश जावनु वळकता कारण गोवु, भात आदी धान्यांची कृषी चडय हांगाचे मुसुंगो कर्षकांचे हातांत आसा. तांकां हेक्टरां हेक्टरांचो विशाल प्रदेश, आपलें विमान आनी धांव पट्टियोय आसाय. शेत भाटांत यात्रा करूक घोड्यांक उपयोग करताय आनी अमेरिकेचे वैल्ड वेस्टाचे कौ बॉय्सांचे लागी तांकां तुलना करयात. जायत्यो अंतराष्ट्रीय कंपनीयो हांचें उत्पन्न, मुख्य जावनु चाया, अनवास, आंबे, सोनारलिंग, आनी जाम मारमलेय्ड आदी करचे खातीर उपयोग करचीं इतर फळांय घेताय. गुलाब आनी अन्य अलंकारिक फुलां नंतणा ओरकिडांचे लागेन निर्यातिक उद्योग हांगा विपुल जावनु चमकता.

केनियाचे मध्यभागाक खंयकीच जावनु तं फातरांची आनी गोबराची ही होडली राश सुमार 5600 मीटर ऊंच तांय नीळ मळबार उबी राबल्या. वर्ष सगळेंय वरचें शिंवडून पडलेले हिमाचें किरीट हे केनिया पर्वताक आसा. हे कारणान थंयचे किकूयु जातीचे भासेन उजवाडाचो पर्वत म्हूण अर्थु आशिल्ले केरेन्यागा वा किरिन्यागा म्हळ्ळेलें तं ताजें सामकें नांव. पुण वसणूकी शसकांक तें उच्चारण करूक जावनाशिल्यान पर्वताक केनिया म्हूण नांव पडलें आनी हेच नांवांन राज्याकय वळकताय. आनी एक नांव लागेन हे पर्वताक आसा जें म्हळ्यार मेरु पर्वत! धरतरेचो मध्यभाग जावनु हाका थंयची जनता मानून येता. भारतीय पुराणांतूय एक मेरु पर्वत आसा जो भो होडलो आसून मरत्यांक आडावून राबता आनी हाकाय धरतरेचो मध्य भागूच जावनु कल्पना करून येताय!

हे पर्वताची होडकाय समजूका जाल्यार ताका वेष्टण घेवनु पडलेले सुमार 200 किलोमीटराचे रसत्यावेल्यान यात्रा करून चोंवका. ताजे ज्वालामुखी भूतकाल कारण पर्वताक सामकें शंखा सारकी आकृति प्रमाण बद्द जावनु आसा.

हे रसत्यावेल्यान यात्रा करतना सर्व समयारीय पर्वत आमचे उजवे भागाक स्थिर आसा आनी ताजें शिखर मेघानी, धुक्यानी अव्यक्त आसा. आमची यात्रा हादीर मौंट केनिया गोळफ क्ळबांत राबयलेली नंतणा पूरा पर्वताक आमी दोन दिसानी प्रदक्षिण काडून आयलीं. पूरा समयूय तो एकच लेकान राबला जावनु दिसलें.

भूमध्यरेखेचेर तं हो आसा वा भूमध्यरेखा हाका दोन करून वता. हो इतलो ऊंच आसून ताजीं जवळ शिखरां 'नेल्लियन'आनी 'बटायन' सदा हिमानी अलंकृत वरताय. भूमध्य भागाचें वातावरण थंयचे वनस्पतींचेर मस्करी खेळता आनी साधारणता सान आसूचीं थोडीं झाडां पुणीय हांगाचे चडतेर धा गुणा होड जावनु वाडताय.

राक्षसांचे ब्रोबडिंगनॅग गावांत गेल्लेले गळ्ळीवराचे कदी दिसता हे जाग्यार भोंवतना. कसली की एक सैमीक चूकी कारण आतांय धरतरेचे हे दूरचे भागाक डायनोसॉर कालाचीं निमणी जीवजालां वास करून येंवचे सारकें दिसता.

लागचे फाल्यार पंचड वरांचेर हांव हे शिखरांचें दर्शन घेवूक जावनु जागलों. असले समयार मात्र तं तीं स्पश्ट दृष्टि पडतलीं. आनी दिसाचे बाकी समय पूरा धुक्यांत निपून राबतलीं. हाडां कडकडांवचे तसले फांत्याचे वातावरणांत हांव मिगेलें विडियो कॅमॅरा सयत, पूर्वार जंय सूर्याची पयलेची रशमी पर्वताची रूपरेखा दिंगतरार चित्रायतली म्हूण सांगिल्ले कडे दोळे फटफटावनाशिल्ले कदी पळोवनु राकून बेसलों. सांगिल्या वरी घुंवते चडते धुक्यांतुल्यान तीं होडलीं शिखरां केन्ना उदय सूर्यांत भांगरांळीं जावनु केन्ना सावळेंत नीळ जावनु दृष्टि पडूक लागलीं.

हांवें विडीयो चित्रांवचे अर्द घंट्या पूरा समयूय एक मिनुलें सवणे ऊंच एक खांद्यार बेसून चिंवचिंव करत राबलेलें. ऊंच आशिल्ले देवदारु रुकांचे कांट्यांचेर साकून दोवा थेंबे मिजे गोमटे मागशी पडत राबलेले. गोळ्फ लिंक्साचे बरें पालपोसवण केल्लेले एक तणामळार साकून दोवाचीं लिकलिकेंवचीं रूपां ऊंच चडतालीं आनी भोंवतणे प्रदेश सामको जादूचो जालो. एका मागशी एक जावनु पातळेवनु पडलेले दोंगर, रुकांचो आनी फातराळो प्रदेश आदी ह्या सगळे देखाव्याक छाया चित्रा सारकें दिसयतालें. सकाणचीं ज्वाला रूपी मेघां भगभगेंवचे उज्या कदी दिसूक लागलीं आनी निवळ नीळ मळब हे उज्या चित्राक जांवचे तितले चमत्कारिक रीतीन चौकटी घालतालें.

आनी केवल दोन दीस लागेन तं माका आयूश आसा म्हूण जरी मिजो रचणार सूचयतालो तरीय माका धरतरेवेले हे स्वर्गार आनीकय दोन दीस आसा म्हूण जाणून हांव अशीच हासत राबतलों

आशिल्लों.

नायरोबीक परतूची यात्राय पर्वताक घूवळी काडूनूच आशिल्ली आनी मद्दें आफिसाची एक शाखा आशिल्ले न्येरी कडे राबयलें. काम चमकोवनु जातरी आमी थोडे मृत ज्वालामुखी आनी तांचीं सरोवरां जाल्लेलीं क्रेटरां पळोंवचाक गेल्ले. मेरु प्रदेश आपलोच गांव आसून मायिंगीन थंयचे विशी रसकर काण्यो सांगल्यो. आनी पंचेवीस वर्षां मुर्थम जातीय आचारांचो भाग जावनु ताणे भोगलेले प्रथमविधीचे विशींय सांगलें. ते विधींचे यथार्थ चित्र हांव तुमकां दीना पुण इतलेंच सांगतां कि भो दुकी आशिल्ली, भो रगत आशिल्लें आनी सुमार एक सप्ताहाक भ्रमोत्पादक वकदांय वरलीं. जातरी ताका दादलो म्हूण मानून घोशणा केल्ली.

आजीय आफ्रिकेंतुले एकेक प्रदेशांचेर प्रचारार आशिल्लीं असलीं आचरणां कारण जावयात एड्स महारोगाचें नाशकारक प्रसरण इतले वेगीन जाता. सरकारां जाय जाल्लेलें सर्वय करूक परिश्रम करताय तरीय तो उद्यम भो कष्टकर आसा. अल्प मोलाचीं वोकदां आनी जनांचे मद्दें चड जाणविकाय येवूक लागून मुकार आशेचीं आद्य किरणां दृष्टि पडूक लागल्यांय.

परतून येंवचे यात्रे समयार हांव हे विचित्र राज्य केनियाचे विशीं आनी हांगा काम करूक माका मेळ्ळेले भाग्याचे विशीं चिंतन करून बेसलों. जीणेचे पासून माका केनियान थोडें शिकयल्यां आनी थोडें मरणाचे विशींय. आनी मुकार मिजो एक भाग सदां एक चरित्र घेवनु भोंवतलो, मानवराशीन पयले उबे राबलेले प्रदेशांतुले मिजे दिसांचो सान तरीय चरित्राचो एक भाग.

# अंडो मामु

"सर, कृपया तुमचें बॅग वात्तें करका!" नायरोबी नाष्नल एयरपोर्टांतुले सेक्यूरिटी उद्योगस्थान एक्स-रे मशीनाचे स्क्रीनार साकून दोळे काडूनातिल्लें माका आज्ञा दिल्ली. तागेले लक्षांत पडलेलें कितें म्हूण कळूक हांवेय बावगून चोवूक लागलों. सामान्य होडले एक वाटळे सारकें दिसता. बॅगांत तशी एकि वटूळी दवरलीना म्हूण पूरा विश्वास आशिल्यान हांवय घुसपा गोंदळांत पडलों.

आपले नष्ट उडगासाक शिरापून सामान चेपून भरलेले ते स्यूटकेसाचें नंबर लोक मेकळें आनी, तांतू भरलेलें वस्त्र आदी सामान भुंयचेर बुडकी मारनातिल्लें सावधपणान वात्तें केल्लें. एक मृग वैद्यान वियेंवचाक सहाय दिंवचे सारके हांवें मिगेलो हात सामानांचे मद्देंतुल्यान भितरी सावकाशेन चडयलो. तेन्ना थंड वाडकुळेंच कितेंय मिगेले हाताक लागलें आनी हांवें तें संभाळून भायर काडलें. तुरंत माका ताजी वळकी मेळ्ळी आनी हांवें तांकां आश्वासन दिल्लें कि भिवंचें नाका, सगट नियंत्रणारी आनी बरें आसा, तो वस्तू वेगळो कांय न्हय, केवल एक निरूपद्रवी ओस्ट्रिची अंडो मात्र.

सेक्यूरिटी उद्योगस्थाचे तापलेले मुखामळावेल्यो मिरियो चडल्यो. मिजो सारको एक बरो मनीषु कित्याक अशी वन्य जीवी उत्पन्न चोरायो करून अन्य राज्यांत व्हरच्यांत लागून आसा म्हूण ताणे गंभीर स्वरान विचारले. हांवें वेगीन मिगेले जाकीटाचे किसांत साकून एक प्रमाण पत्र भायर काडलें आनी सेक्यूरिटी उद्योगस्थाक निरीक्षण करूक दिलें. ओस्ट्रिची अंडे एयरपोर्टांतुल्यान व्हरचे तेन्ना असलो एक प्रश्नु निश्चय जावनु येतलो म्हूण कळून हांवें ताजी तयारी केल्लेली. जो अंडो हांव घेवनु वतां तो मसाई ओस्ट्रिच मळ्यांतुलो अस्सल पोकळ ओस्ट्रिची अंडो म्हूण ते प्रमाण पत्रार निश्चित जाणविकाय

दिल्लेली. नियमानुसार प्रमाण पत्र आशिल्ले अंडे मात्र तं एयरपोर्टांतुल्यान प्रवेशयोग्य, वा तशी तं ते मळ्यांतुले सहकारीन सांगलेलें.

सेक्यूरिटी उद्योगस्थालें तोंड फुलेलें. प्रतीक्षेन राकचे स्यूटकेसांत अंडो परतून दवरूक इशारो करीत तो हासलो.

सांगूक भो सरळ आसा. कॉमडी वा कारटूण रंगांत दाकोंवचे वरी, सामान भरून विकरचे स्यूटकेसाक धापणे घालूक ताजेर चडून उडकी मारचें कार्य हांगा असंभव. अंडो फुटून पिटपिटो जातलो म्हळ्ळेलेंच कारण.

आखेर अंड्याचीय व्यवस्था जाली आनी आतां मिगेले घरांतूले शोकेसांत प्रमुख जाग्याचो अधिकार आसा ताका.

सुमार पांच इंच रूंद आनी स इंच दीग सगल्यां पशी होडलो करटें आशिल्लो, एककोशक ओस्ट्रिच अंडो सृश्टींतुलो चमत्कारूच.

ओस्ट्रिच मळ्याचे प्रवेश द्वारा भितरीच जावनु विक्रीक दवरलेले अंड्यांत साकून हांवें मिगेलो अंडो कशी वेंचून काडलोलो म्हूण माका उडगास आयलो. सुमार दोन डज़न अंडे एकेक करून हातांत काडून ताजी आकृति, दिगाय, रुंदाय, भार आदी पळोवनु योग्य एकाक घेंवचाक अनुवाद मेळोलो. घटिमुटि आशिल्ले एकाक दृष्टींत पडूनिक हांवें मिगेले चेरडुवांक दाकयलो. तेन्नाची तानी ताका स्वीकारलो आनी तशी ते अंडे मामाक आमी विधिप्रकारी पोस्को काडलो. आमगेले कुटुंबाचे ओपुरबायेचो अंग आसून कोणेय सोयरीं आयल्यार अंडेमामाकय मुकार हाडूक लागलीं. खंचेय पार्टींतूय सर्वा पशी होडलो, गोरो, झगझगेंवचो तशीच तेजवंत म्हूण ताणे नांव जाडलें.

अंडे मामाले जन्म स्थायाचे पासून सांगतां. नायरोबीचे मसाई ओस्ट्रिच मळ्यांत तं ताजो जन्मु. हो एकमेव ओस्ट्रिच मळो पळोवनातिल्लें नायरोबी सोडून गेल्यार ओस्ट्रिचांचे देव कोपान निश्चय जावनु गुडगुडाची वर्षा घालतले म्हूण भिष्टावनु मिगेले दोस्तानी थंय वचाक

माका निर्बंधित केल्लो. हो गोंदाळ सगट कित्याक म्हूण पळोंवचाक एक प्रकाशमय सांजेवेळ चोवनु आमीय भायर सरलीं.

नोयरोबी साकून मोंबासा वचे हायवेचेरी सुमार चाळीस किलोमीटर मुकार उजवे कडे घूवनु वचे धुळ्ये रस्त्यावेल्यान आनि एक आट किलोमीटर लागेन गेल्यार हो विचित्र मळो पांवता. कोळोनियल स्टायलीर बांदलोलो बंगळो. प्रवेशन फी दीवनु आमी ताजे होडले प्रवेशन द्वारांतुल्यान भितरी सरलीं. बंगळ्याक भितरी दोन भुंजाक जावनु खूब कूडां आसाय. सर्व द्वारांचे कमानांचे उंचार होडले मृगांचीं स्टफ केल्लेलीं मातीं सजोवनु दवरल्यांय. मद्देंचे लोबींत साकून भायर एक मेकळो पोर्टीको आनी थंय साकून मुकार गेल्यार एक वाडकूळें आंफी थियेटर जंय कितेंच तात्पर्यजनक चमकताच आसा. पळोंवचानिक दोन चेरडूवां ओस्ट्रिचांचे फाटीर सवार करताय. आनीकय चेरडूवां आनी म्हालगडीं थंय फांतीन राबुन हेच अधिकाराक राकताय. कडेन जावनु आशिल्ले गॅलरींत चड लोकांक बेसून अनायास दृश्य पळोंवचाकय सौकर्य आसा.

हाजेय पेल्यान, ओस्ट्रिचांनी तांगेलो धंदो आनी खंयीच व्होरनातिल्लें राबूक जावनु बांदिलेली कांट्याळे सरिये वोंय दूरा पर्यान दृष्टि पडता.

एक भागाक एक रेस्टोरेंट आसा जंय ओस्ट्रिच मांस खावूक मेळता आनी एक आंगडि आसा जंय टिन्नांत भरलेलें ओस्ट्रिच मांस मेळता.

ओस्ट्रिचां फाटीर सवारी करचें दिकून अपर्णा आनी अपूर्वा सजीव जाल्यो, आनी टिकटां घेवूक निर्बंध करूक लागल्यो. थंय जमलेले जनांचे मद्देंतुल्यान गुस्ती घेवून म्हळ्ळेल्या वरी आमीय टिकट घेतलें. टिकट फी घेवनु जावनु ओस्ट्रिच संभांळप्यानी आमकां गॅलरींत राकून बेसूक सांगलें.

सगळ्या सवण्यांत दवोरनु होडलीं, हीं सात फीट दीग आनी एक साधारण मनुष्या पशी चड भारवंत. चार फीट दीग पायांक आशिल्यो बळिष्ठ जांगो कारण 70 किलोमीटरा पशी चड वेगान धांवूक हांकां साध्य जाता.

आंमकां असलो एक आपमानकर अनुभवूय जाला कि सवान्नांत केल्लेले एक यात्रे वेळार एक ओस्ट्रिच, वेगीन धांवचे आमगेले मित्सुबिषी पाजेरो वाहनाचे लागीच्यान धावनु ओवरटेय्क करून आमकां लजावनु मुकार गेल्यां.

हे निश्ठूर सवण्याचे पायांक व्हीळ्या सारके धारेचीं वांकडीं नांकूटां आसाय. ताजे केवल एक पेटान मनुष्याचें हरदें साकून जांग तांय फाळनु सोडलेलें चरित्रय आयकलेलें आसा.

मिगेले धूवांक, ओस्ट्रिच संभाळप्यांचे हातांत सोडतना हो सगट विचार मिगेले मनांत आशिल्लोच. सवारीचे खातीर हे सवण्यांक नियंत्रणार रोबोवूक एक कुशल रीति उपयोग करताय. दोन घटमुट दादले ते सवण्याक दोरानी ओडून धरून राबतले जेन्ना आनी एकलो चेरडाक चडूक सहाय करतलो. सवण्या फाटीर एक खोगीर* सारकें बांदून दवरल्लेलें आसा जाचेर सवार करचीं, जीव हातांत काडून घटि धरून बेसतली. कुशीक राबून ते दादले तांचो पूरा भार धालून सवण्याक अमित वेगाचे धांवडींत लागूनातिल्लें संभाळतले. आपले पायांचेर भारु बांदून धांवूक श्रम करचे एकल्यो सारके ते सवण्याक केवल मंद धांवडीच साध्य जातालो.

एकेक चेरडाकय तीन घूवळ काडयताय. अपूर्वाचे उत्साहाक सीमा नाशिल्ली आनी तीणे दुशेरीय वचूका म्हूण हट धरलें. अपर्णाक पुण एक पावटीच्यानच पूरो जालें दिसता आनी ती थंय कडेन सरनु राबली. अपूर्वा मागीरीय घूवळी काडूक लागली, हे पावटी सल्प लागेन वेगीन. तेद्दे वेळान ती सवारींत निपुण जाल्या म्हूण दिसलें जायत.

---

*खोगीर - saddle

हाजे मुर्थम कोची दवरनु हसत्यां फाटीर सवारी केल्लेले कारणान जायत मिगेले धूवांक हीं सवर्णी तितलींच नुपूरो, जाय तितलीं ऊंच वा होड न्हय म्हूण दिसलेलें. आफ्रिकेनी वन्य जीवींचे विशीं तांनी दोगांनय  दवरची उच्च प्रतीक्षा माका निरंतर विस्मित करताच आसा.

सवार करून तांची अधिक उर्जा सरोवनु आमी कितेंय शाकाहारी खाण मेळता कि म्हूण सोदून रोस्टोरेंटांत गेल्लीं. फ्रेंच फ्रैस आनी कोक वाडून तांनी आमकां सत्कार केल्लो.

आनी घरकडे व्हरूक एकु उत्तम अंडो सोदूका. लोबींत आशिल्ले एक होडले रुका पेटेचे लागी आमकां वाट दाकयली जांतू खूब अंडे विक्रीक जावनु तयार दवरलेले. तीं केवल अंड्यांचीं रित्तीं करटीं मात्र. अंड्याचे एक तलवाक एकु बीळू कोरांतून तांतूल्यान एकि सोपूरी नोळी चडोवनु फुंकितना तांतूलो बोळु आनी हळदूवें भायर होळनु येतलें. तें ओमलेट करूक उपयोग करताय आनी रित्ते करट्यांची विक्रिय करताय.

तशी आमी काण्येचे शुरवातेर पांवताय जेन्ना हांव अंडो हातांत धरून राबला आनी आमगेले कुटुंबाचो अंग जावूक ताका तात्पर्य आसा तरी ताका कसलें नांव घालका म्हूण मिगेल्यो धूवो तर्क करी. तशी अंग जांवचाक ताका भो आनन्द आसून अपर्णान तेन्नाच अंडो मामु म्हूण नामकरणय केल्लें.

तेद्दस आमचे सांगातांत वाहनाचेर परततना अंडो मामू भो प्रसन्न आशिल्लो.

आनी मुकार अमगेले शोकेसांत अंडे मामाक दिकतना हाका पोस्को काडलेल्या विशींची काणी तुमकांय कळता म्हणून मातें हालोवयात.

# केनियांतुलीं पळोंवचाक योग्य अन्य स्थलां

## नायरोबींतु

**याया सेंटर**- अंतराष्ट्रीय व्यापारी छाप आशिल्लीं नामनेचीं सामानां विक्री करचें एक शोपिंग मॉल जांतू चेरडुवांचे खातीर एक विनोद केंद्रय आसा

**सरिट सेंटर**- केनियांतुले सर्वोपरी होडलें शोपिंग मॉल जांतु खाणामळां, एका पशी चड चलचित्रां दाकोंवचे थियेटरांचो समुच्चय, डिपार्टमेंट स्टोर, खेळ सामग्री आनी व्यायाम सामग्री विक्री करचीं शोरूमां, बैंक, आभरणशाला, घडयाळा आंगडि, नामनेचीं वस्त्रां, जूतां आनी सुगंधद्रव्यां विकच्यो आंगड्यो, पुस्तकशाला, डांक्टरांचीं, डेन्टिस्टांचीं क्लिनिकां आनी औषध शालोय आसाय.

**लेतर हावस**- वेगीन विकून वचे, चीनी उत्पादित अलंकारिक किसकूटांची, एक कंटेयनरांतुल्यान चलोंवची सानी एक आंगडि.

**उछूमी आनी नाकुमत**- भारतांतुले बिगबज़ारांचे सारके, घरवंताक आवश्यक सर्व सामानांय विक्रीक दवरच्यो, एकामेकांचेर स्पर्धा दवरच्यो दोन डिपार्टमेन्ट स्टोरांच्यो संकाळो.

**राम मंदिर आनी अय्यप्पा देवळ**- उत्तर आनी दक्षिण भारताचें संगम स्थान. हीं दोनीय एकच समुच्चयांतु आसाय.

**तिरुपती बालाजी देवळ**- वेगळेय देवळांचे ओटू आशिल्ले हे देवळांतु तिरुपती चमकोंवचे सर्व आघोषय, रुचिकर प्रसाद वितरण सयत श्रेष्ठ रीतीन चमकताय.

**स्वामीनारायण मंदिर**- राजस्थानी कलाकारांचें सर्व तराचें कठिन

आनी विस्तारपूर्ण हस्तकला समावेश करून निर्माण केल्लेलें हें होडलें रमणीय मंदिर. सुंदर रीतीन आसूत्रित केल्लेले विस्कळ उद्यानांत तं हे बांदल्यां आनी ते कारणान शुद्धवायूंत सांज खर्च करूक बहु योग्य हो जागो.

**ऑस्वाल सेंटर**- व्हारडिको चमकोंवचें हॉळ, खेळ मैदानां आनी धांवतल्यांक वा चमकतल्यांक उपयोगाक आशिल्लो पायवाट सयत सामाजिकांक एकडे जावूक आशिल्लो वेस्टलांडसांतूलो जागो.

**न्यायो हावस**- पंचेवीस माळ्यांचें होडलें प्रशासन केंद्र. केनियांत राबूक परदेशीयांक आवश्य आशिल्लें आयडेंन्टिटी कार्ड घेंवचे खातीर बोटाचो छाप काडूक वचूका जालोलो स्थाय.

**अन्गीती आनी हांडी**- पंजाबी आनी उत्तर भारतीय खाणाक प्रसिद्ध, भारतीयांचीं आवडीचीं दोनी रेस्टोरेंटां.

**सेंट्रल बिसिनेस डिस्ट्रिक्ट**- केनियांचीं प्रमुख व्यापार स्थापनां, पार्लीमेंट, सरकार स्थापनां,बैंकां, बिमा कंपन्यो, खबरे पत्रांचीं आफिसां, केन्याटा सेंटर, टेलकोम इमारत आनी टवर, न्यायो हावस आनी पंचनक्षत्र होटलां आदी सर्वय आशिल्लें प्रमुख व्यापारी वाठार.

**बोटानिकल गार्डनस**- उष्ण प्रदेशाचो आनी अर्दोष्ण प्रदेशाचो वनस्पतींचो होडलो संचय आशिल्लो हो प्रदेश दीस सगोळचे भोंवडेक अतिउत्तम.

**नायरोबीचे लागी**

**फॉरटीन फॉल्स**- नायरोबी शहराचे भो लागी आशिल्ले चोवधा जलधारेंची एकि श्रेणी. एक दिवस भोंवडेक अनुयोज्य.

**दोन दशलक्ष वर्षां पोरणे गुफा**- दोन दशलक्ष वर्षां पोरणे हे गुफेंचें तोंड जलधारेन निपयल्यां तरीय उदकाक आपडूनाशिल्लें देगेन आशिल्ले

सोपूर फातरीवेल्यान सावध भितर चमकून चडूयात. उजवाडाक टोर्च काडका.

**ब्लू पोस्ट**- मजा विनोदाचे खातीर एक खेळ केंद्र जांतु एक सान डाम आसा, घुड सवारी आनी ऊंट सफारी करूक सुविधा आसा, नंतणा ग्रामीण कलावस्तु विकच्यो आंगड्यो आनी एक खाणामळय आसा.

**गांवची सांत**- खाणामळ सयत एक वात्तें मॉळ जांतू आदिवासीय कलासृष्टी शुक्राराचें विक्री मेळतली. नंतणा थोड्यो स्थिर आंगड्यो आनी चेरडुवांक खेळा जागेय आसाय.

**तीका**- नायरोबीचें उद्योग धंद्यांचें केंद्र. कारखाने, भक्ष्य वस्तू तयार करचे व्यवसाय, फुलां निर्यात करचे व्यवसाय आनी लागी अनवासाची कृषीय विपुल रीतीन चमकता.

**केनियांत अन्य खंयीच**

**आबरडेर्स**- केनिया पर्वत जातरी मागीरचो उंची पर्वत. हाजेर 3500 मिटरांचे पशी ऊंच धोक्यांतु निपून पडलेलीं पर्वत रिसोर्टा आसाय.

**किसूमु**- नायरोबींतु साकून 300 किलोमीटर दूरा विक्टोरिया सरोवराचे पाडीक आशिल्लो गांव. उदकांत ट्रकां धुंवचे ड्रांयवरांचे सांगातांत पोवनु भोंवचे पाणघोड्यांक, न्यान्ज़ा क्लबाचे बालकणीचेर राबून च्या पितना पळोवयात.

**ककमेघा**- उष्ण प्रदेशार आसूनूय केनियांत उष्ण प्रदेशीय पावसाळीं रानां चड नाय. आनी ककमेघा असलो एक प्रदेश आसा जंय केरळांतुले निशब्द घाटीचे सारके आशिल्लीं वनां पळोवयात.

**एलडोरेट**- उगांडा वचे हादीर आशिल्लें एक सूर्यप्रकाशमय शहर जें हायवेवेल्यान पांवतना कर्नाटकाचे हासनाचे सारके दिसता.

**किसी**- केनियांतु सर्वोपरी चड केळ्यां कृषी करचें स्थल.

**हायराक्स हिल म्यूज़ियम**- स्थानिक भूशास्त्र, फुलां आनी मृगां आदी विशयांचें प्रदर्शन आशिल्लें सान तरीय सामकें उच्च रीतीन संभाळून चलोवनु येंवचें नकुरुचें एक संग्रहालय.

**मागदी सरोवर**- फ्ळमिंगोंचें आनी पाणकोळ्यांचें वासस्थल जावनाशिल्लें एक क्षार सरोवर.

**सावो पूर्व आनी सावो पश्चिम वन्य मृग केंद्रां**- केनियांतुलें होडलें, नायरोबी मोंबासा हायवेन दोनी करून सोडलेले सावोचे दोन भाग. हांचो दोनींचोय क्षेत्रविस्तार एकडे केल्यार प्रायः केरळाचो तेद्दो आसतलो. दादले सिंहाक मात्यार आयाळ नाशिल्ले तराचे, एक प्रत्येक वंशाचे सिंहाचें वासस्थल जावनु आसा सावो.

**डयानी बीच रिसोर्ट**- मोंबासाचे दक्षिणाक आशिल्ले हे वेळेवेले रिसोर्टांत विपुल मात्रेन पर्यटकांचे खातीर वेवस्था केल्या आनी जलखेळांकय सुविधा आसा.

**नकुरु शहर**- नकुरु क्रेटराचे आनी नकुरु नाष्नल पार्काचे लागी आशिल्लें केनियाचें सर्वोत्तम शहर.



# नकुरु

नकुरु एक कॅलडेराचें उदाहरण. कॅलडेरा म्हळ्यार ज्वालामुखीचे विस्फोटनानंतर वरलोलो होडलो वाडकूळो फोंड वा क्रेटर.

कोटानुकोटी वर्षां फूडे धरतरी एक विशेश तराचे तीव्र अवस्थेंतुल्यान दीर्घ काळाक गेल्लेल्याचें परिणाम जावनु आफ्रिका भूखंड फाळनु एकि खांची पडली. ते खांचेक आज रिफ्ट वालीचे नांवांन वळकताय. खांचीकडे धरतरेचो भितरलो भाग दुर्बल आसून भूगर्भांतुली खतखती लावा ताजे भो लागीचान होळनु भौमजलाक तापोवनु ऊब करून वायुमार्गांतुल्यान केन्ना केन्ना भायर सोड्डून अंतरीक्षांत पसरायता. हे खांचीचे देगेर नामावशेष जालेले साबार ज्वालामुखीचीं धारे देगां मळबाक पळोवनु उबी आसाय.

साधारण विस्फोटनांत फातर आनी गोबोर देगेवेल्यान होळनु ज्वालामुखीक शंखाची आकृती वरता आनी तुद्दियेरी सान एक क्रेटर आसता जें थंड जावनु घट जाल्लेलें ताजें बहीर्द्वारच. थंड जातना लावा बेसता आनी पावसा उदकानी तसले फोंड सरोवरां जावनु परतताय. हे कारणान थंय रान खुतच वाडता.

थोडे विरळ अवसरांचेर तो बहीर्द्वार इतलो थंड जाता कि लावाक भायर देंवचाक येद्दो सरी अवसर मेळना आनी पर्वताचे भितरी साबार दाब भरता. पर्वताचो भार तापलेले लावाक दांबून बेसयता आनी हें भितरचें झूज भायर कळचेंचना. थंय वास करून येंवचीं मृगां वा मनीशां भविष्यांत जांवचाक वचे भयंकर आकांताचे विशीं अज्ञानी आसून तांची वर्तमान जीण सुखान जीयेवनु काडताय.

आनी एक दिसा खंचेय दुर्बल खांचीतुल्यान वाट मेळनु लावा

झुजांत जिखता. एक बलूण फुटचे सारकें तो सगळो पर्वत फुट्टून फातर, धूळी, गोबोर आदी वार्यांत उवसून पिटपिटो जावनु सरता. एक साधारण ज्वालामुखीचे पशी चड शक्तीन चड अंतरार भो ऊंच अंतरीक्षांत हो गोबोर आनी सळफर डायोक्सैड पांवता. सुमार शें वर्षां पूर्वी क्रकटोआ आनी 1991 वर्षा पिनाटुबो हे दोनी तं हे लागीचे कालखंडांत जालेले असले संभव. अशी उवसिल्लो वायू स्ट्राटोस्फियर पावनु थोडे दीस भितरी भूमीक पूरा पांगुरतलो. ताजान भूप्रतलाचेर पांवची सूर्या रशमी ऊणे जातली आनी हे कारणान धरतरी थोडे डिग्रीन थंड जातली. धरतरीचे तापमान वृद्धीक उचित उपाय!

हे उपरांत पर्वताचे पशी होडलें विस्तीर्ण आशिल्लें एक क्रेटर वरतलें आनी तें मापूक किलोमीटराचें लेकच आवश्य पडता. अशी जाल्लेलें क्रेटर तं कॅलडेरा. रिफ्ट वालीचे लागी असलेंच भयंकर एक विस्फोटन कारण जालेलें कॅलडेरा तं आज नकुरु नावांन वळकताय.

नकुरु शहराचे मद्देंतुल्यान उजवे भागाक घूवनु वचे धुळियारे रसत्यावेल्यान नकुरु क्रेटर पांवयात. खालटाक साकून आरंभून पर्वताचे देगेवेल्यान चडती चडून ऊंच, क्रेटराची देग पांवूक सुमार आठ किलोमीटर आसा. हे हादीचे कडेन पर्वताचे चडतेर पाकडी घेवनु सरी दिसूचे खोंप्यांत थोडीं मात्र दरिद्र कुटुंबां वास करताय. केळीं, खुंटाकणंग आनी दुदी हाजी विरळ कृषी, धुळियारीं झाडां, भो हुनयाळी परिस्थिती - हांगा जीण भो कठिन आसा - खालटाक आशिल्ले विकसित नकुरु शहरा पशी भारी भिन्न अवस्था.

ऊंच पांवतरी एक अर्द फुटबाळ मैदानाचे विस्ताराचेर वाहन पार्क करूक बंदोवस्थ केल्यां. थंय एक दीग खांब्यारी लोकांतुले साबार मुख्य शहरांची दिशा आनी किलोमीटरांनी अंतर दाकोवपी चिन्नां आसाय जीं दूरा दूरा एक वास्तविक विश्व आसा म्हूण उडगास दिता. न्यूयोर्क, नायरोबी, मुंबई, कायरो अशी साबार शहरांचीं शरचिन्नां

दिशा दाकोवनु आसाय.

ताजे पेल्यान एक सोपूरी हादी क्रेटराचे सामकें देगेर तांय वता जंय साकून एकल्याक तो घट जालोलो कडय जसो फोंड खालाक दृष्टि पडतलो जांतू भो काळ मुर्थम लावा खतखतेताली. काळे स्पंजा कदी दिसूचे धारे देग आशिल्ले पर्वत, म्होवू घटि जाल्लेले सारके दिसूचे आकृतीचे फातर, ऊण्यान ऊणे मात्र वनस्पत, काळे फातरांचेर हुनसाण लिकलिकून मळब उदका समान खळखळेंवचे कदी, क्रेटराची दूरचे कडेची देग धुक्यांत अस्पश्ट, असलें हें दृश्य स्थिर, बदलूनाशिल्लें दिसता पुण भौम काळांत पूरा सक्रीय आशिल्लें.

इतले ऊंच साकून नकुरु शहर सामकें सान शी दिसता, पुण केनियाचे इतर प्रदेशांक तुलन करतना हा प्रदेश चड पिकाळ आसून चारीय भागाकय मनुष्य वास आसा. पर्वताचे आसपास सर्व दिकानय आशिल्ले घरांचे टीन घाल्लेले पाक्यांचेर सूर्या वोत प्रतिबिंबित जाता. मैक्रोवेव टवरांय साबार दृष्टि पडताय.

एक व्हीळ्या आकृतीर दूरा दृष्टि पडचें तें नकुरु लेय्क. नामावशेश जाल्लेले ज्वालामुखीचें आनी एक बाकीपत्र. हें क्षार सरोवर फ्ळमिंगो सवण्यांचें लोकांतुले सर्वा पशी होडले हींडांचें वास स्थल जावनु आसा. हेच अंतराचेर साकून तें सरोवर गुलाबी रंगाचें दिसता. शेळो भरपूर आशिल्ले हे उदकांत जाग्या खातीर वीस लाखा पशी चड फ्ळमिंगो संघर्श चलयताय. आनी ते फ्ळमिंगोंचें गुलाबी रंग कारण हें सरोवर वर्षाक चडय काळ गुलाबीच दिसता.

आमगेली ही यात्रा साबार दीस मुर्थम निश्चय केल्लेली. हे अद्भुत जाग्याचे विशीं आयकून निश्चय जावनु पळोंवका म्हणून आमी आमगेलेच कारार वचाक तयारी केल्ली. सहायाक पीटर कमाऊकय एकडे केल्लो जाणे दोनी मास मुर्थम आमकां अंबोसेली व्हरून

भोंवडायलेलीं.

आमी सकाणी साढे स वरांचेर भायर सरलीं. रिफ्ट वालीचे सीमेवेल्यान, लोंगोनोट पर्वताचे आनी नायवाशा सरोवराचे लागीच्यान वचे हायवेचेर यात्रा करून आनी एक सरोवर, लेय्क एलेमेन्टैटाचे लागी कार राबोवनु पळोवनु जावनु आतां आमी नकुरु क्रेटरा ऊंच राबूनासाय.

लेय्क एलेमेन्टैटा फाल्यारी तेन्नाच हून जावूक लागलेलें. हायवेर साकून सामकी खालाक देंवची एकि हादि हे सरोवरा लागी पांवता. आमगेलें कार कडकडून धपके घेवनु एक लिफ्ट देंवचे समान उबी देंवलें म्हूण दिसलें. मागीर हीच उबी चडती चडून हें कार कशी ऊंच पांवतलें म्हूण आठोवनु हांव भियेलों. तरीय कार ऊंच पावोंवचाक पीटराक आशिल्ले सामर्थ्याचेर माका पूरा विश्वास आशिल्लोच.

भायर वायू पूरायेन निश्चल आशिल्लो आनी मिगेले चेरडुवांनी ल्हवपणान उलोंवचें भो दूरा साकूनूय माका आयकूक पडतालें. 'कित्याक माका हे यात्रेक ओडून हाडल्या?' म्हळ्ळोलो भाव घेवनु भाग्या तांचाकय मागल्यान ल्हवूच येताली. असले यात्रेंक ती केदणाय विमुखी, कारण ह्या यात्रेंत सहन करका जांवची हुनसाणी आनी धूळीचे बदल ती घरांतुलें सुख पसंत करताली.

पूरो जांवचें खरें आनी थंड राबूचे खातीर आमी साबार कोका-कोला देंवयतालीं. लेय्काचे लागी पर्यटकांचे खातीर कोका-कोला आनी कुका बाळुकां विकूची एक सानी आंगडि आशिल्ली जाचीं आयचे दिसा गिरायक आमी मात्र आसूक पूरोय. तशी धीर हाडून, हातांत बैनोकुलरां, कॅमॅरा आनी कामकोडर घेवनु आमी उदका लागी पावलीं. उदका देगेर सावळ्यांत बेसून सुखान दृश्य पळोंवचाक जावनु साबार सान पाक्या खोंमटां आसाय जांतू बेसूचे

खातीर, आसन सरी कुटके करून रुका धड्यो तयार घाल्याय. उदक हारश्या समान निश्चल आसून पोंदाक मासळी बि ना म्हूण सूचयतालें. क्षार आसून हें उदक ते सवण्यांचे खाण जांवचो शेळो विना अन्य कसलेय जीवाक पोसना. हे उदकांत वास करचीं पाणकोळीं आनी धवीं फ्ळमिंगो उदकाचेर तांचीं सुंदर प्रतिबिंबां रचतालीं. तांचे मागशी उदकाची ल्हवूच घुंवची गती पळोवनु मात्र तांची हालचाल स्पश्ट जाताली.

तांतूलीं थोडीं उदका उंचावेल्यान धांवत वेग चडोवनु उबूक लागलीं. फ्ळमिंगोंक एक प्रत्येक सवंय आसा. एकलें उबूक लागतना सर्वय ताजे मागशीच लागताय. एकेकय उदका ऊंच धांवूक समय काडून पाकां फटफटावनु मागीर वार्यांत उबतालें. ऊंच वतना, तलवाक काळें रंग आशिल्ले तांचे धवे पाकांची फांती आकाशाचेर रंगोली रचताली. दूरा वता तशीच सान सान जावनु दिसूची तांची चाल लेय्काचे पेल्यान तांय पांवतनाय दृष्टींत दवरूक साध्य आसताली.

लेकलेले वरी पीटराक वाहन परतून हायवेचेर चडोंवचाक आनी नकुरु वचे हादीर सरूक कसले कष्ट जालेना. एलेमेन्टैटा साकून हायवे, धडियेची हळदूवी साल विरविरेयलेले, सूवे पाल्यांचे, कांट्याळे दीग बाबळा रुकांचे मद्देतुल्यान धांवता. रस्तो सपाट सीदा वता आनी वाहनां ऊणे संख्येन तरीय वेगीन वताय. नायरोबी साकून 150 किलोमीटर दूरा आसा नकुरु आनी आमी थंय पांवतना सुमार साढे इकरा जालीं.

रूंद रस्ते, रसत्या देगेवेलीं सुंदर उद्यानां, होडले बंगळे, सान आनी स्वच्छ व्यापार केंद्रां, निवळ नीळ आकाश आनी दावे कडेन गुलाबी रंगान लिकलिकेंवचें एक सरोवर आसून नकुरु केनियांतुले भो सुंदर शहरांतुलो एक.

जेवणाक आनीकय समय आशिल्यान आयचे यात्रा पद्धतींत एक जागो लागेन चडोवनु हांगा हे क्रेटराचे देगेर आमी पावलीं.

परततना देंवती भो धुळियारी आसून आमचें कार भायरच्यान पळयतना माका रण्णे येताशी जालें. थंय साकून आमी नकुरु स्वामी नारायण देवस्थानांत पावलीं जंय पर्यटकांक खरें जावनु मुफ्त भोजन मेळता. प्रसाद म्हणून स्वादिष्ठ दाळ, रोटी आनी सबजी खावनु पोट भरून, देवळांत काणीक करून आमी नकुरु नाष्नल पार्काकडे वचे हादीर सरलीं. हें पार्क केनियाचे वन्य मृग संरक्षण पद्धतीचे मुकुटाचें आनी एक रत्न. हें स्थल काळे गेंडामृगांचे आनी गुलाबी रंगीन फ्ळमिंगो लेख्काचे खातीर प्रसिद्ध.

पार्काचे द्वारांत आशिल्ले सूचोवणी फळ्या ऊंच एक मांकड बेसून ताळात्मक जावनु आपली फाटी खरपीता.

टिकटां घेवनु आमी पार्कांत दावे भागाच्यान उजवे भागाक घूवळ काडूक लागलीं. द्वारांत साकून चिके मुकार पांवचानिकच आमी पयले होडले मृगाक भेटलीं, एक प्रौढ हरण. हें एक होडलें चितळ. बदामी काळ्सार रंग, कोंचायलेले सारके खरखरीत आशिल्लीं दोन दीग वांकडीं शिगां, तोंडार आनी पृष्टभागाक धवी निशाणी, एक सान चितळाल्या वरी बाल, बळिश्ट मांसपेश्यांचें आंग, मनुष्या विशीं पूरा निर्भीक तें सामकीच आमगेले राबयलेले काराचे लागी सुमसुमीच चमकून येता आनी आमकां पळयत राबता. आनीकय लागी येवनु ताजे तोंडाचें बरें फोटो काडूक, मात्र न्हय, सकुटुंब आमगेले नायरोबींतुले घरकडे सांजे चा पिंवचाक येंवचे साध्यते पासून विचारूकय बरो वेळ दिता.

मोटे मोटे दोळ्यानी रूक्ष जावनु पळोवनु निशब्द काराचे मागशीचे भागाकडे ल्हवल्हवूच चमकून तें पेल्ले दिकान सरता आनी मिगेलें

आमंत्रण लक्षांत काडीनाशीं, माका जवाब दीवनाशीं झाडां मद्दें चडून वता.

मिगेलीं चेरडूवां खुतखुती हासताय. मागीरीय मुकार गाढ पाचवे कांट्याळे झाडांनी आकारार हाडलेले एक होडले सुरंगांत कार पांवता. हांगा केवल कांट्याळे रुकांचें एक पूरा रानच आसा. रुकां मद्देंचान उडकी मारनू खेळचे थोडे गसेलांचीं रूपां उज्वल नारंगी रंगाचे फाटींचेर सूर्या वोत पडतना, केन्ना केन्ना दृष्टींत पडताय.

सुरंग एक वाकते जाग्यार वोचून चडता जंय एक रानडुकरीण आनी धूळींतुल्यान एकामेकाक फाटी घेवनु खेळनु भोंवचीं तिजीं पिलांय आसाय. एक झिब्रा आमचे मुकार रस्तो दांटवूनु वता. आमी मुकार सरताय. रस्तो भो धुळियारो आशिल्यान आतां मागशीचें कसलेंच दृष्टि पडना. धूळी ऊंच उबून काराचेर, जनेलांचे कांचीचेर पूरा टालकम पावडर कदी मांडता. मुकावेले विंडशीळडारीय धूळी भरल्या. मुकार रस्त्या मद्देंच जावनु, दूरा सरूक येद्दो सरी उद्देश नाशिल्ले वरी राबलेले रेड्यांचे एक होडले हींडाचे लागी आमी पांवताय म्हूण कशीकीच समजता. पीटर बेगीन रिवर्ज मारनू कार मागशी धांवडायता आनी आतां धूळी मुकावेल्यान फाटी घेता.

थंय साकून आनी एक धुळियारे हादीर चडून रेड्यांचे दूरच्यान वताय. सरोवर पळोंवचाक सर जालेलें एक व्यू पोयंट मुकार आसा म्हूण जाणोंवचीं सूचनाचिन्नां थंय थंय आसाय. पाणकोळयांचीं वास स्थलां जावनशिल्लीं एदींच सान सरोवरां दांटवून मुकार वताय.

पाणकोळ्यांक पळोंवचें म्हळ्यार एक विमानाअड्डेंत बेसून विमान उडचें आनी भुंयचेर देंवचें पळोंवचे समान! समान गडबडी आनी गोंदोळ. समान प्रतीक्षा एक पाणकोळी देंवतना दिसता आनी तशीच हें विचित्र सवणे धावनु वार्यांत उडूक लागतनाय एक अद्‌भुत पळयलेले

सारकें अनुभवता. खालाक भुंयेवेलीं पाणकोळीं आपले फुगरे चिरीये चोंचीत साकून मासळी, कीडे वा अन्य किसकूट आपले पिल्लांक खावयताय. थंय कर्कश शब्दानी मुखरीत आसा आनी साबार हालचालय आसा. उदकांत देंवचाक सर जालोलो योग्य जागो सोदून वार्यांत, विमाना सारके घूवळी काडचीं सवणींय आसाय.

थोडीं माराबू ढोंकां हे पाणकोळ्यांचे हींडा सीमेचेर आपले दीग पायांचेर, अंत्यसंस्कार करचे कडे वेवस्था करप्यां सारके शोक भाव घेवनु राबून आसाय.

आकाशार चारीय दिकानय साबार तराचीं सवणीं आसाय जीं, मुख्य सरोवर पांवतना आमकां राकचे दृश्याचे विशीं सूचना दिताय. ही हादी एक दोंगुल्याचेर, भायर धिंगळून राबलेले होडले एक फातरा मुकार पांवता. आमी थंय भायर देंवताय आनी ते व्यू पोंयटार वचून पळयताय.

अब्बा! कसलें एक दृश्य! सुमार पैंशें फीट खालाक उदक नातिल्लें एक सुके सरोवरा तळ आसा. तें सगळें धवेंच आसा. ताजे मद्देंतुल्यान एक सान झरो घूवनु वचून होडले सरोवराक भेटता. सरोवरांत थंय थंय जावनु सानुलीं द्वीपां आसाय. सरोवरा उदक पूरायेन सळसळेंवचे फ्ळमिंगोंनी भरल्यां. लाख जनानी एकसानीच उलोंवचाक लागचे लेकान निरंतर तांचो फडफड आनी कुलकुलाट गर्जता. द्वीपांक वळकूक साध्य जाता तांचो धवो वर्णू कारणच. हांव बायनोकुलर उपयोग करून पळयतना तीं द्वीपां केवल पाणकोळ्यांचे आनी ढोंकांचे हींडच म्हूण समजता.

सरोवराचे दूरचे कडेन फ्ळमिंगो ऊणे मात्र आसाय आनी थंयचें उदक आनी पाडीक आशिल्लें रान स्पश्ट दिकूक येता. केन्ना केन्ना फ्ळमिंगोंचीं होडलीं होडलीं भीरीं उदकांत साकून उबून ऊंच

सरून आकाशार धूवळी काडताय फकत सरोवराचे आनी खंचेय भागाक देंवचे खातीर जावनु मात्र.

सरोवराचे भो लागी पाडीक सानच तिळे सरी कारां आनी पर्यटक जीपां दृष्टि पडताय. आमगेलेंय लक्ष्य थंयीच.

बबूणांचें एक भीरें तांचे खातीर आमचे हातांत कितेंय आसा कि म्हूण पळोवनु आसपास एकडे जाल्यांय. आमी तांचे लागी तर्क केल्लें तरीय एक पटळी भीमूकान तें अंत करून तीं संतोषान अळतापेळतांत मारामारी करत गेल्लीं.

कारांत परतून चडून, तो खालाक दिकलोलो धवो प्रदेश लक्ष करून सोडलें. तो सपाट धवो जागो पांवचाक मात्र ताजे धवसाणीचें कारण हांवे विस्मयान समजून घेतलें. लाख लाख वर्षांनी लाख लाख सवण्यांनी हागलेलें 'गुआनो' तं तें. उदकाचे लागी पर्यान सुमार एक किलोमीटरा लागी आसा हो धवो प्रदेश. थंय गुआनोची प्रत्येक घाणी आसा म्हूण सांगूक जायना तरीय ताजाकय चड, बांयतु पडून तिमल्ले कुंकडाक वांचोवनु भायर काडतना ताजे तिमल्ले पाकांचे घाणी सारके वा ताजाकय रूक्ष जावनु नांकांतु चडताली.

थोड्यो म्हश्यो थंय हेवटेन तेवटेन भोंवताय. थोड्यो थंय बेसून चरवण करताय. आमी तांकांय दांटवून उदका देगेर पावलीं. थंयचे दृष्टिकोणार साकून, आमी सल्प घडि मुर्थम राबून हो जागो पळयलेलें, ऊंच भायर धिंगळून राबलेलें तें स्थल हांव पळयतां. आतां ते फातराचेर वेगळीं पर्यटक आसाय म्हूण तांचे बायनोकुलरांचेर वोत पडून झगझगेंवचें पळोवनु हांव समजतां, संभव्यतः आमचेरीच नदर दवरून राबल्यांय.

लागी साकून सरोवर पळोंवका जालेलेंच. उथळ उदकांत खाण सोदूचे फ्ळमिगोंचे पाय आनी गोमट्यांचें एक रानच पळोवयात. ते

सवण्यांचें आंग हे तीन भागांचेरी पोंवता सरी दिसता. थंयचो शब्दु काना कवडां पडचो तसलो. किंचाटी, कुलेरी, कर्कश सीटीचे शब्द, कुलकुलाट, पाकांचे फडफड, पिटपिट शब्द, बडबड, हॉर्न वाजूचे वरी शब्द, सर्व अपस्वरांय एकसाणीच. पाणकोळ्यांचीं तीं सान द्वीपां आतां स्पश्ट दिकूक येताय.

आमी लागी पांवतना फ्ळमिंगोंचो हींड दूर सरता. आमकां चड लागी पांवूक अवसर दीवनातिल्लें खंचेय समयारीय पन्नेरा फीट पुणीय अंतर दवरून तीं राबताय. आमगेलें आगमन कळून तांचे मद्दें निशब्द संदेश प्रसरण जांवचे वरी सगळो हींड अस्वस्थ जाता आनी एकसानीच दूरा सरता. थोडीं ऊंच उबताय. ताकाय एक प्रत्येक पद्धती आसा. एकच समयार एक मात्र सवणे ऊंच वतलें. ताका फाटी घेवनु आनी एक तशी तशी वतलीं. सुमार पन्नास सवण्यांचो एकु हींड उबूक सामको चड वेळ लागता.

उदकाचे देगेवेल्यान थंय बेसूनाशिल्ले एक म्हश्याक दांटवून कार मुकार व्हरताय. सामकें रसत्या मद्देंच आसा तें. 'मैलो' म्हळ्ळेले व्यापारी नांवांन केनियांतुलें लोकप्रिय दूद व्हरचें एक ट्रक ते म्हश्याचे लागी हादीचेर मुकारसूचे हक्का खातीर उतराउतर करचे कदी माका दिसता.

"आरे! शींग आशिल्या, तूंच, मिगेले हादीर साकून दया करून दूरा सर. माका हें दूदा ट्रक फ्ळमिंगोंचे लागी पावोंवचाक आसा."

"कोण? हांव? हांवें कित्याक दूरा सरका? ना! हांव सरना, तुका जाय तरी घूवनु वच. हां, वता वता हें सांग, तूं कित्याक फ्ळमिंगोंक दूद व्हरता?"

"चोय सायबा, हांव छुट्टी घेवनु मिगेले प्रणयिनीक फ्ळमिंगों दाकोंवचाक व्हरतां. माका कार घेंवचाक तांक ना. आनी तें कारणान

मिगेले मालकालें दुदा ट्रक घेवनु हे गुआनो प्रदेशाचे मद्दें राबून तुजे सारके एक हटी म्हश्या लागी तर्क करचें पडता. जावो, तुका एदेंच दुदाचें वि आवश्य आसा वे?"

"कितें, म्हश्यांक दूद विकूक पळयता? वचून वचून तुमी मनीशां कितें सगट करूक पळयतलीं?"

फ्ळमिंगों चड खिचून जमलेले दुसरे एक जाग्यार व्होरूक जावनु पीटर कार धांवडायता. मिगेले मुयेलेले पाय सामकी करूक जावनु कार राबोवोवनु हांव देंवता. मिगेलीं चेरडुवांय देंवताय. आमचे चारीय वशींय वारें गर्जता. धवी भूंय भो घट आसा. तणा एकि सूव सरी हांगा किरलेना. आमगेलें तांबडें कार गुआनो आनी ज्वालामुखी जन्य धूळीन गोबराळें जाल्यां. आमी जनेलां बंद करून धांवडायतालीं म्हळ्ळेलें बरें जालें.

हे तांबडे होंडा सिविकाचें फोटो हांव आखेरचे फंतां तं काडता आसतलों. हे घटणूकेचे दोन वारा भितरी आनी एक घटणा चमकतली जिचान आमची केनियांतुली जीण सदा खातीर परततली. ते येंवचे घटणूकेंतुली प्रधान भूमिका हे तांबडे सिविकाकच आसतली.

कष्टकर भविष्या पसून कळनातिल्यान आमी आतां संतोषान सवण्यांचो सर्वांपशी होडलो हींड पळोंवचाक वताय. हे स्थलार राबून चोयल्यार सरोवराचे एक देगेर साकून पेल्ले देगेर पर्यान उदक येद्दें सरी दृष्टींत पडना. सरोवर पूरायेन फ्ळमिंगोंनी पांगरून आसा. भारतांतुले कुंभमेळेचो उडगास येता. लाख लाख सवणी, दिगंतर साकून दिगंतरार पर्यान, जितलें दूरा दृष्टींत पडता तितलेंच... कसलें एक दृश्य!

तो हींड सोडूक विमुखी तरीय आमी परत रानांत चडताय. हांगा खाणा कुटके मागून बबूणां आनी मांकडां वाहनाक फाटी

घेताय. दीग हळदूवें सिंह तण आनी बाबळाचे रूक आशिल्ले एक वात्ते तणामळार ही हादी चडता.

मृग सामिप्याची सूचोवणी मेळ्ळेल्या वरी पीटर वाहन मंद करता. खरें, एक रूका लागी राबून एक होडलें काळें गेंडामृग सामकें आमकांच पळयता. तें आमचे लागी ल्हवू हालून धोलून चमकून येता, उजवे कडे घूवनु मुकावेल्यान हादी दांटवून पेल्ले भागाक वता आनी परत आमकां पळोवनु राबता. काळे गेंडामृगाक नांका ऊंच दोन भयजनक शिंगां आसाय. हेच शिंगांचे खातीर हे मृगाक शिकारचोर पसंत करताय. कारण पूर्वा कडेचे राज्यांत हांचे शिंगांक खूब दामु मेळता.

आफ्रिकेचे सपाट भूप्रदेशार वास करचें हें भो अदुरदर्शी. सुमार तीनी टण वजन. पोटार आनी पायांवेली घडि घडि जावनु लांबूची दाटी साली भारतीय गेंडामृगाक आफ्रिकनी काळे गेंडामृगा परस वेगळें करता. काळे गेंडामृगाक देहाक थापून तराटून घटि पडची दाटी साली, मांसपेश्यांनी बळिष्ट छाती आनी पातळ पोट आसता.

मूस सोदपी तांबडे चोंचीचीं साबार सवणीं हे आमगेले गेंडामृगाचे फाटीर, मात्यार सगट बेसूनासय. अकुशल जावनु तें चमकतना पूरा तीं ताजे फाटीर घटि धरून एक फंता सरी ते मृगाक सोडून वचूनातिल्लें ताजे दाट सालीचेर चोंची मारून मूस कीडे खावनु बेसूनासय. तें गेंडामृग कुरड्या सारके अकुशल जावनु एक लागेन तणांत चमकता आनी नदरे आड सरचे मुर्थम आपले होडले पृश्ट भागाची एकि झळकि लागेन दीवनु वता.

आमी परत बाबळा रानांत पांवताय आनी वात्ते जाग्यार राबूनाशिल्ले झिब्रांचे एक हींडाचे लागीचान वताय. सांजेचें वोत तांचे पट्यांचेर पडता आनी ऊंच ते दीग रुकां छत्तें तीं एक कातेद्रलांत

चमकताय सरी दिसयता.

आनीकय साबार सवण्यांक पळोवनु, हादीची दोन एकदम वळण घूवनु, घटनापूर्ण भोंवडेन पूरा थकून, यात्रा आरांभिल्ले पांच घंट्यांनी आमी पार्काचे द्वारांत परतून पांवताय.

परततना आमची यात्रा सावकाश आशिल्ली. बॉब मारलीन म्हळ्ळलो गींत 'नो वुमन, नो क्रै' आनी मायकल जाक्सणाचो 'वी आर द वळ्ड' आयकून बेसून नायरोबी कडेन घूवनु आमगेलें कार मंद धांवतना लेय्क एलेमेंटैटाचेर सूर्या अस्त जाता. नायरोबी साकून कंपाला वचीं होडलीं ट्रकां आमचे लागीच्यान विपरीत दिशेर केन्ना केन्ना वताय. रुप्या देग आशिल्लीं मेघां खालाचे रिफ्ट वालीचेर सुंदर चित्रां रचताय.

अपघाताचे मुर्थम केल्लेली निमणी यात्रा ही तं आशिल्ली. मुकार आमकां राकून आशिल्या कार्यां पासून ज्ञान नाशिल्यान ते दीग दिसाचे उपरांत आमी सुखान कारांत बेसून निद्देलीं.



# दुर्घटणा

ते निर्णायक दिसाचो माका स्पश्ट उडगास आसा. 2004 जनुवरी तिसरी तारीक आनी तेद्दूस हिंदू पंचांग प्रकारीं वैकुंठ एकादशी. वैकुंठ एकादशी एक पवित्र दीस जावनु हिंदू जनता मानून येता. ते दिसा मरण पांवचे एकल्याक मरणानंतर यात्रा संबंदी त्रास भोगूनातिल्लेंच सीदा स्वर्गांत प्रवेशन मेळता आशी विश्वास. देवळांकडे हे दिसा प्रत्येक पूजा क्रम आसता आनी प्रसाद वितरणय.

नायरोबी वेस्टलांड्सांत स्थित वेंकटेश्वरा देवळांत हांव सकुटुंब पावलों. हे दिसाचे पूजा आरतींत भाग घेवूक तं आमी आयल्यांय. धर्म संबंदी कार्य निपटून जांवचाकय थंय आशिल्ले कान्टीनांत साकून 'सेवपुरी' म्हळ्ळेलें एक उत्तर भारतीय खाण घेवनु दींवका म्हूण अपूर्वान सांगलेलें आमी सर्वानीय सहर्ष स्वागत केल्लें. कान्टीनांत मागणी करून भो समय राकून राबूका जाल्लेल्यान, थंय राबून तेन्नाच खांवचे बदलाक आमी तें पटळी करून घेवनु घरकडे व्होरनु टी वी चे मुकार बेसून सवकासायेन खावूक निश्चय केल्लो.

तशी लागीचें हिंदी धारावाहिक आरांभूचे मुर्थम घराकडे पांवचाक जावनु हांवें मिगेले कुटुंबाक गडबडीन कारांत चडोवनु ओजिजो क्लोस लक्ष करून सोडलें. मिजे दावे भागाक अपूर्वा बेसली. तिजे मागशी अपर्णा आनी मिजे मागशी भाग्या. ओजिजो क्लोस तांय सुमार तीन किलोमीटर आसा आनी ट्राफिक नाशिल्ले वेळार तीन वा चार मिनिटांचे चड घराकडे पांवचाक लागचें ना. रात जाल्लेले कारणान रसत्यार वाहनां नांय आनी हांवें वेग चडयलो. तेन्ना मुकार दूरा रसत्या मद्देंचान आमचे कडेन चमकून येंवचो एक मनीषु दृष्टींत

पडलो.

माका अतिशय जालो. नायरोबींतुले रसत्यांचेर कोणे तशी चमकप ना आनी लोक नियम अनुसरण करचे आसून देगेवेले पायवाटेनच चमकतले. हे वेळार मुकावेल्यान येंवचे एक काराचे तीव्र उजवाड कारण प्रायः बंद जावनु वचे देळ्यानी भारी कष्ट काडून हांवें पळयतना, ते रूक्ष उजवाडांत अदृश्य दिसूचे ते मनुष्याक अडळावूक माका येद्दें तात्पर्य ना.

आनी एक भय लागेन माका आशिल्लें - चोरांचें. तो मुकार दिकचो मनीषु तांचो भागेदार तरी हांव काराचो वेग ऊणे करतना थंय खंयीच कचरा डब्यां मागशी निपून बेसल्ले गळकापी तस्कर उडकी मारून येवनु मिगेले दुडवांचे आनी अन्य मोलादीक सामानांचे खातीर आक्रमण करतले म्हूण माका हुस्को आशिल्लो.

तें कार मिजे लागीचान गेल्लें आनी आतां माका तो स्पश्ट दिसता. रसत्या मद्देंचान झोडांतुले रुका सारकीं बावगून लकून तो मुकारसता. ताका आडळावनातिल्लें सावधपणान कार उजवे भागाचान काडून ताजे लागीचान मुकार सरूक आनी ते जाग्यार साकून जांवचे इतलेंचे दूरा पांवूक जावनु हांवें वेग चडयलो. ओजिजो क्लोस पांवूक आमकां दोन जंक्शणां दांटवून वचूका. साधारण जावनु हे दोनीय कडेय गतिवेग ऊणे करून अळतापेळतांत साकून वाहनां येंवचें विचारांत घेवनु तं हांवें मुकार सरप. तेद्दूस कितें जालें म्हूण माका कळना. कदाचित जंक्शणांतुलीं लाय्टां सोंतू आशिल्लीं आसुयात वा होडले जंक्शणाक सान जंक्शण म्हूण हांव चुकून समजलों जावयात, जंय माका मुकारसूक पयलेचें हक्क आशिल्लें, सर्वय धुक्यांत सरी दिसता. पुण हांवें मिगेले जीवितांतुली होडली एकि चूकि केल्लीच. मुकार रसत्यार अळतापेळतांत वचीं वाहनां पळोवनातिल्लें हांवें मुख्य रसत्याचेर

अति वेगान व्होरनू चडयलें, आनी तेन्ना पर्यान सामको तोडोव जालोय. मिजे दोनीय तांतुल्यानय वाहनां अतिवेगान लागी पांवचाची जाणविकाय माका आयली...

आडोळनाशिल्लें राबूक जावनु आनीकय वेग चडोवनु हांवें निमणो प्रयत्नू केल्लो आनी आमचो जीव वांचलोलो कदाचित तेच कारणान जावयात. वेग ऊणे करूक तं हांवें परिश्रम केलोलो तरी जें कार मिगेले काराक उजवे भागाचान आडळेलें तें मिजे मुकार आसता आशिल्लें आनी घंट्याक 80 किलोमीटर वेगान मिजें कार ताजेर टक्कर मारता आशल्लें. हांवें नंतणा आनी कोणेय सीट बेल्ट घलेना आशिल्ले कारणान आमी तेच निमिशाक मरण पावतलीं आशिल्लीं.

पुण ही घटणूक हानी नाशिल्ली गेल्ली ना. जशी एक क्रिकेट बाट एक बॉळाक टक्कर मारता तशी एक भीमाकार मोडतेलान मारलेले सारकें आमचे उजवे भागाक धपको लागलो. एक निमिशाक पूरा गोंदाळूच जोलो. मिगेली चिंता सगळी पश्चातापान भरली. मिगेले कुटुंबाक असले एक स्थितींत पावयलेल्याचो पश्चाताप. मिगेले चालक निपुणतेर हांव जो अभिमान दवरतालों, अपघातांत पडचे मनुष्यांक बे सावध म्हूण हांव जो उपहास करतालों, आडोळनु चेपी पडलेले कारांचेर हांव जो हासतालों तो हांव आतां मिजे जीवनांतुले होडले अपघाताचे मद्दें साकून भायर देवूक कष्ट काडता आसा.

खाल ऊंच हाजो कसलोय गिन्यान मेळना. सगळें कार घुंवताच आसा. वेगळे एक काराचीं लाय्टां दोन पावटी मिगेले काराक घूवळी काडता शी दिसलें, जशी हांव एक मेरी गो रावुंडार बेसल्या कदी. कितेंय सामकें भयंकर जावनु चुकल्यां म्हूण समजून मिगेले बायलेचे आनी चेरडुवांचे तोंडांत साकून एक भयानक किंचाट फुटली.

कार राबोंवचाक श्रम काडचे मद्दें डॅषबोर्डाचेर वा विंडशीळ्डार अपूर्वान आडोळनाशिल्लें राबूक जावनु नेणतनाच मिगेलो दावो हात तिका धरूक पावलो. कार मिजे नियंत्रणांत न्हयीच आशिल्लें आनी चक्रां भूंयेक लागनाशिल्ले वरी दिसलें. मागीर होड्डु, कान फुटचो तसलो एक धपको घेवनु कार राबून गेल्लें.

मिजे दोळ्यां मुकार तेज उजवाड आनी उज्या कीटि पडच्यो दिकल्यो. आनी एक गुणगुणेंवचो शब्दूय प्रबल जावनू आयकूक आयलो. खरें जावनु मिजे मनांत मरणा चिंता आयली. ही वे निमणी घडी? धरतरेवेले निमणे निमिशां पासून अशी वे मरणा आदींचें एक मस्तिष्क उडगास दवरता? येद्दी दुकि सरी ना कित्याक? मिजो आत्मो मिजें देह सोड्डून वोचून जालोच कि? आनी हांवें हीं दिकचीं केवल आकाशगगेंतुलीं नक्षत्रां वे? मल्लेल्यांचे आत्मे नक्षत्रार वताय बि वे? आज वैकुण्ठ एकादशी आशिल्यान माका सीदा वैकुण्ठांत उबारनु व्हरताय वे? आनी हे भयंकर गोंदळांत मिजे कुटुंबाची अवस्था कितें?

तेज रुप्या नक्षत्रां सान जावनु सोंतू जालीं. भायर खंयीच साकून कोणेय सगट होडान बोबाट घालून येंवचें आनी मागशी बेसून अपर्णान निरंतर घालची किंचाटीय आयकूक येता. आतां कार हालना, इंजन मेल्यां. केवल मुकावेलीं हेडलाय्टां थोडे झाडांचेर उजवाडून राबल्यांय. अपूर्वाय रडता. मिजे मुकावेले विंडशीळडाक सामकी फूटी पडल्या. मिजे उजवे जनेलाक कांची ना. लागी पावनु राबोंवचें ट्राफिक आनी धावनु येंवचे जनांचे शब्दा जाणविकाय माका आयली.

एक विजे खांब्यार कार सामकें आडोळनु चिरडून राबून आसा. ऊंच साकून दोन विजे सरियो लांबताय ज्यो एकामेकाक अडोळनु कीट्यो उसळायताय. पेट्रोळ व्होळनु भायर पडल्यार जांवचे उज्यागोळाची

साध्यता मनांत आयली. पुण माका चड गरजेचें कार्य करूक आशिल्लें. चालक चक्राक धरून आशिल्ले मिगेले हात हांवें पळयले. ते सोडयले. वाकते आनी बंद करून पळयले. ते जांवका तशी सामके काम करताय पळोवनु हांव विस्मित जालों. अपूर्वाचे कडे घूवनु तिका शांत करूक चोयलों. मागशी अपर्णा राबोवनाशिल्लें होडान किंचाटी मारताच आसा. सर्वय सामकी जातलें म्हूण हांव तिका धीर दीवूक चोयलों. ती सीटांचे मद्दें शिरकून आसा म्हूण हांवें आठयलें. भाग्याचे विशीं पळोंवचाक घुवलेले मिजें हरदें राबून गेल्लें.

मागशीचे आनी मिगेले सीटा मद्दें तोंड भूंयेक करून ती गुडोळो जावनु पडून आसा. हांव तिका उल्लो मारलो उठावूक बोबाट मारली पुण तिका कसलीय हालचाल ना. मिजो हात तिजे फाटीर आपडून पळयलें आनी तिजो श्वासोच्छस्वास अनुभवलेले उपरांत मात्र मिजो स्वास सामको जालो.

हांवें तिका नांव उळदून परतपरत हालयली आनी थोडो वेळ उपरांत ती हालली. एक गंभीर निदांत साकून उठांवचे सारकें ती उठायली आनी भयानक सपनांत आशिल्या वरी होडान कितेंच बडबडेवूक लागली. ती उठावनु बेसूनिक तिजे नांकांतु आनी तोणांतु साकून रगत होळून देंवता पळोवनु माका धपको लागलो. तिजें लक्ष घेवूक जावनु हांवें मागीरीय बोबाट घालका जाली आनी मागीर तिकाय आश्वास करूक चोयलों.

मिगेलें कवड वाकतें करूक हांवें श्रम केल्लो तरीय तें हाललेना. ताजेर एकि होडली चेपी पडलेली जंय ते कारान टक्कर मारलेलें.

इतल्यान काळकांत जनां एकडे जावूक लागलीं. मिगेले कारा हेडलाय्टांचे उजवाडांतु कवड वाकतें करूक श्रम करचे काळे हात जनेलांतुल्यान भितर आयले. सहाय हस्त दीवूक स्वाहिली उतरांचे

भरसी कोणेय हिंदीनय उलयता. मागीर एक होडलो शब्दू कोपान निमगीता-

"तूवें कित्याक तशी केल्लें? माका तं पयलेचें हक्क म्हूण तुका कळना वे? चडून कित्याक मुख्य रसत्यार इतले वेगान आयलो?"

मिगेले काराक धपको दिल्लेल्यान वाहन राबयल्यां म्हूण हांव समजलों आनी आमी जिवंत आसाय म्हूण पळोवनु मिजे पासून भायर सांगूक सर जावनातिल्लो ताजो 'स्पश्ट' अभिप्राय जाणोवूक तो वांवटेतालो.

"माका माफ करका," हांवें सांगलें. "चूकि मिगेलीच, पुण आतां माका सहाय करका, मिगेलें कुटुंब कष्टांतु आसा."

हांवें दावे भागाक घूवनु अपूर्वाचे मुकावेल्यान थंयचें कवड वाकतें करूक श्रम केल्लो आनी भाग्यवश तें वाकतें जाल्लेंय. अपूर्वाक भायर देंवूक हांवें सहाय केल्लो. मागीर मिगेलें लायसेन्स, काराचीं कागतां, चावी, मोबय्ल आदी एकडे करून काडलें आनी गियर शिफ्टाचे उंचावेल्यान सरून भायर देवलों.

मिगेले सहप्रर्वतकांक फोण करूक हांवें श्रम केल्लो तरीय मिजे हात इतले कडकडेताले कि तांचें नंबर सोदून काडूक सरी जाल्लेंना. इतल्यान हांव भयान सगळो कडकडेवूक लागलों. तेन्ना थोडे लोक अपर्णाक भायर देवोवूक पळयताले पुण तिगेले भागा कवड शिरकून राबलेलें. तिजें देह तिजे हातांनी उबारून जनेलांतुल्यान भायर देंवूक ते तिजे लागी सांगताले पुण तिका हालूक सरी जायना म्हूण ती किंचाट मारीत राबलेली. तिजे फाटीक क्षत लागल्यां बि जायत म्हूण माका संदेह जाल्लेले कारणान हांवें तिका हालूनातिल्लें बेसूक ताकीद दिल्लें. तिजे लागी भाग्या घबरेंवचाक लागलेली आनी पयलीं तिकाच सहाय करूक हांवें निश्चय केलो. मिगेलें सीट मुकार सामकें निदावनु

घालनु तिका ताजे उंचावेल्यान माडोवनु मुकावेले दावे कवडांतुल्यान भायर देवूक स्थाय करून दिल्लो.

आतां अपर्णा मात्र कारांत वरल्या. कोणेय एकलो ताजे हात जनेलांतुल्यान पूरा भितर घालून तिका उबारून वोडून भायर काडूक पळयतालो तेन्ना तिजी किंचाट एक लागेन होडी जाली. हांवें ताजे लागी राबोवूक मागणी केल्ली आनी मुकार चड विचार करून निश्चय केल्लो की एकलो भितर सरून तिका उबारतलो आनी एकलो भायर साकून जनेलांतुल्यान घेतलो.

तिजे पोंदाचान दोनीय हातानीय धरून हांवें तिका उबारनु भायर राबिल्ले एक मनीषाचे हातांत जनेलांतुल्यान दिल्ली. हो समय पूरा ती बोबाट घालून आनी आमकां बळान धरनूच आशिल्ली. कसलें की खरेंच जावनु घडबड जाल्या म्हूण माका समजलें. कारण तिजो एक पाय जांगे मद्दें भागाक साकून लांबतालो. तिजो पाय मोडला! पळोवनु मिजें काळीज निरशेलें. आमी तिका भूंयचेर बेसयली आनी कितें करका म्हूण आलोचना केल्ली. इतल्यान एक नमळायेचो आनी सभ्य दिसपी एष्यन आपल्याक खान म्हूण वळकी दीवनु आमकां आस्पतालांत पांवोवूक तयारी दाकोवनु आयलो.

हांवें आमगेले कुटुंब डॉकटर डॉ बराडाक फोण करून आमकां चारीय जनांकय अपाय जाला पुण अपर्णाले जांगे हाड मोडल्यां आनी बेगीन सहाय जांवका म्हूण मागणी केल्ली. आमी खंतंय आसाय म्हूण जाण जावून जातरी कोणाचोय सहाय घेवनु आग खान आस्पतालांत पांवचाक ताणे सांगलें जंय ताजो मित्र डॉ मोडी हाडांचो डॉकटर जावनु आसा. डॉ बराडान वीस मिनिटां भितरी थंय पांवता म्हूण आश्वासनय दिल्लें. हांवें मिगेले थोडे सहप्रवर्तकांक, जांकां आमी देवळांत सोडून आयलेलीं, फोण करून जाणयलें.

भाग्याचे लागी अपूर्वाक घेवनु खानाले पाजेरोचे मागशी सीटार चडून बेसूक सांगलें. अपर्णाक कशी चडयतलीं म्हळ्ळोलो तं आतांचो प्रश्नु. बेसल्ले कडे साकून हालोवूक ती विरोध करताली. तिजे पाय विचित्र रीतीन पातळेवनु पडलेले. तिका होंटींत घेवनु मुकावेले सीटार बेसूक हांवें निर्णय केल्लो. तीणे खूब विरोध केल्लो तरीय थंय साकून कोणेय तिका उबारून मिजे होंटींत दिल्ली. आमी सगटय सुरक्षित आसाय आनी तिकाय वेगीन सूख जातलें म्हूण परतपरत सांगून समाधान करूक आनी पोटोन धरून उमो दीवूक मात्र तिजे ते भयंकर दुकेचे मद्दें साध्य आशिल्लें.

काराची हालचाल कारणान अपर्णाले कष्ट चडूक नज म्हूण आमचो हो देवदूत संथ सावधपणान धांवडायतालो आनी आमी वीस मिनिटांनी आग खान होस्पिटलांत पावलीं. आश्वासन दिल्लेले कदी डॉ बराड थंय पावनु आशिल्लो आनी नर्सांय तयार राबलेलीं.

तानी तिका मिगेले होंटींतु साकून उबारतना मात्र माका हें समजलें कि केवल एक पाय न्हय पुण दोनीय पाय जांगेचे भागाक मोडून आसाय. तिजे पाय रब्बरा कदी लांबून पडलेले पळोवनु हांव निराशेन भरलों. मोडलोलो एक पाय सामकी जावूक साधारणता दोनी तीनी मास भोगतले, हे आतां दोन...

मिजे देहांत जीवाचो एक स्वास पुणीय आसा तरी मिजे अधीनांन आशिल्लो स्नेहू, समय, दामु - तितलोय उपयोग करका जाल्लें तरीय स मास भितरी तिका धावनु भोंवचाक साध्य जांवचे तशी करतलों म्हूण हांवें शपथ केल्लो. आनी धरतरेवेले खंचे शक्तेकय हो मिजो शपथ तोडूक हांवें दिवेचोना.

तिका तपासून पळोंवचाक जावनु भितर व्हेल्ली आनी आमकां राकून बेसूक सांगलें. तिजी बोबाट थंय ते व्होळसेंतूय आयकूक

पडताली. हाजे मद्दें भाग्याचे नाकांतुल्यान होळचे रगता विशीं माका हुस्को आशिल्लो. अपर्णा निपुण वैद्यां हातांत पावल्या म्हूण आश्वासान हांवें अपूर्वाचेर मिजी श्रद्धा व्हेल्ली. तिजें तोंड एक भागाचान सुजून आशिल्लें आनी मातें हंय थंय सगट झरकटेलेलें. तिजें तोंड वात्तें करोवनु पळयतना ताळ्यांत ऊंच खंयींच साकून रगता एकि सोपूरी झरी होळनु देंवता पळोवनु मिजें हरदें कांपलें. आंतरिक क्षत बि जाल्यां कि? तिकाय स्कान करचें पडतलें वे? हुसक्यान बेगीन हांवें नर्साक जाणयलें आनी तानी तिका एमर्जेन्सींत परिशोधन करूक चडयली.

भाग्याक एक सुजल्लो वोंट्टू, रगत पेंडयलेलो एक दोळो, हंय थंय सगट झरकटेलेलें नंतणा वेगळे गंभीर प्रश्नाचीं लक्षणां कसलीं नाय म्हूण तानी माका धीर दिल्लो.

देवळांत आसलेले नंतणा थंय लागी राबूचे इतर सहप्रवर्तकय इतल्यान पावले. हांवें तांचे लागी जालेले घटणेचें पूरा विवरण दिल्लें. तांतूलो एकलो जो अपघाता जाग्या लागी खंयीच वसती करचो, अपघाताचो होड्डू शब्दू आयकलोलो म्हणूय तेन्नाच ताजे घराकडेची विज सोंतू जाली म्हणूय विवरण दीवूक लागलो.

लांबून पडलेले ते विजे सरियांचो आनी कीट्यो उसोळनु पडलेल्याचो उडगास आयलो. विजेचे ते थोर रुका खांब्याक काराचो दावो भाग आडळोलो आघात तं अपर्णाचे दोनीय जांगेचीं हाडां मोड्डूक कारण जाल्लोलो.

उत्कंठापूर्व राकतना एमर्जेन्सी कूडांत साकून पयलीं अपूर्वा भायर आयली. भिंवचाक कांय ना, अपूर्वाची मानसिक आनी शारीरिक प्रितिक्रिया पूरा साधारण भशेन आसा. तरीय उणे वेळ निरीक्षण काळ जावनु पळोंवका म्हूण तानी सांगलें.

तेन्नाय अपर्णा भितरी बोबाट घालताय आशिल्ली. माका आपोवनु भितर व्हेल्लो. तिजे लागी उलोवनु शांत करूक डॉ मोडीन माका निर्देश दिल्लो. तो तेन्ना तिजे पाय परिशोधन करतलो आनी सावधपणान अशी तशी घुंवडावनु सामके जाग्यार पावोवनु कापट्यो बांदून राबोवूक श्रम करतलो. तीणे घाल्लेले जीन्सा पाय कातरीनी कातरनु उडयले. हांव तिजे लागी उलयताच राबलो, कितें सगट, माका कळना.

ती सल्प शांत जाली आनी तिजे पायांचें एक्स-रे काडूक घेवनु गेल्लीं. धा मिनिटांनी एक्स-रे पावलें. ताजेर दृष्टि पडची, तिजे पायांत भितर जालेली हानी डॉ मोडीन आमकां दाकोवनु दिल्ली.

पिटे वा जावनाशिल्लें, महत्वाचे खंचे शीरेंक घाय वा पडूनाशिल्लें सरळ जावनु तं हाडां फुटलेलीं.

दोनीय पायांचेय जांगेचीं हाडां सामकी मद्दें एकच जाग्यार मोडून आशिल्लीं. रब्बर बॅन्ड घालून ओडिल्ले कदी मांस पेश्यो मोडलेले हाडांक ओडून तांच्यो धारे देगो मांसपेश्यांचेर तोपून तरासूक नज तशी चाबूची दुकी तिका भोगताली.

तिजीं हाडां सामके जाग्यार हाडूक जावनु डॉक्टरान ताजे निपुण हातानी श्रम आरांभिलो. एकेक पावटीय हाडां तोपतना ती बोबोट होडान घालताली पुण एकाएक ती शांत जाली. एक झोड जातरी पांवचे शांतते सारके आशिल्लें तें. एक जिगसो पसलाचे कदी ताजे निपुण हातांत तीं हाडां सामके जाग्यार येवनु पडलीं आनी दुकी भो ऊणे जाली. युद्ध अर्द्ध जिकवलीं म्हूण माका समजलें.

तो समय पूरा प्रत्यक्षांत हांव सामको शांत निर्भयवर्ती आशिल्लों पुण आतां हांव बेसलों, हातांत मातें बावगोवनु रडूक लागलों.

# रोगमुक्ति

मिगेले जीवितांतुले भोव भयंकर नववत्सरारंभाचे पासून आलोचन करतना ते आपतकालांतुल्यान माका मिगेले कुटुंबाक मुकार व्हरूक मेळ्ळेलें ताकत आनी ते विपत्तींत साकून परतून येवपाक मेळ्ळेली तांक हाजे पासून हांव आतांय विस्मित जातां.

आमगेली सगळी जीण एक निमिश भितरी तं खाल ऊंच जाल्लेली आनी नायरोबींतुलें सुख जीवन एक भयानक सपना कदी बदलेलें.

अपघाताचे लागीचे दिसा अपर्णाली शस्त्रक्रिया आनी ताजे उपरांत तिका कूडांत हाडचे गोंदळाक लागून दिसाचो पयलो भाग सरलो. ताजे तुरंत उपरांतें पुलीस ठाणेंत वचून हाजीरी दिंवचाक आशिल्ली. चूकी मिगेले भागाकच आसून हांवें संशयविना मिजो अपराध मानून घेतलो. दोनीय कारांकय इन्श्यूरेन्स आशिल्यान नष्टपरिहाराचो प्रश्नूय आयलोना.

पुलीस ठाणेचे भायर आंगणांत चेपून छिन्नभिन्न जावनु पडलेलें एक तांबडें होंडा सिविक वळकीचें दिसलें. मिगेले काराक वळकून हांवें अविश्वासान ताजी अवस्था पळयली कारण हे नाश पावलेले वाहनांत साकून तं आमकां सर्वांकय जिवंत भायर काडलेलीं म्हूण विश्वासूच येना आशिल्लो. हांव आखेरचे फंता तांतू भितर चोयलों जे कारान आमकां केनियांतुले साबार सुंदर, अनन्य स्थाय भोंवडावोवनु हाडलेले. कारांत भुंयचेर प्लास्टिकाचे चीलांत साकून कालची सेवपुरी शिंवडून पडलेली जी आशिल्ली काली राति घरकडे पांवचे खातीरचे गडबडीचें मुख्य कारण.

केनियाचे पासून एक कायरीं सांगचेंच पडता. अपघातांत

पडलेल्याक सुश्रूषा दिंवचे खातीर, भारतांत आशिल्ले सारके पुलीस केस काडून जांवका म्हळ्ळेले तराची औपचारिक नियमांची चिंता नायरोबींतुले आस्पतालांत ना. भारतांतूलीं जनां ते कारणान अपघातांत दुखापत जाल्लेल्यांक सहाय करूक विमुख आसताय आनी केन्ना केन्ना सामकोच तोडोवूय जाता कि घायल व्यक्तीक प्राणूच सोडचें पडता.

आमगेले काराक अडळेले मर्सिडीसाचो ड्रायवर, एक सरदारजी आस्पतालांत आमकां पळोवूक आनी सहाय करूक तयारी दाकोवनु आयलो. अपर्णाचे प्रगती पसून वासपूस करूक जावनु मिस्टर खानय दोन पावटी पावलो. आपतकालाक मनुष्यानी आळतां पेळतांत सहाय करचे आश्चर्यजनक रीतीचे पासून हांव चिंता करूक लागलों.

गांवांत साकून 5000 किलोमीटर दूरा मिगेले सहप्रवर्तक वा शेजरांचीं विना अन्य कोण बंधुबांधव लागी नासून स घंट्यांची शस्त्रक्रिया चमकीली. अपर्णाले दोनीय जांगेचे हांडांक सामकी हाडून प्लेट दवरून स्क्रू करचे शस्त्रक्रिये उपरांतेय तांचें पूरा सहाय सहकरण मेळ्ळें. सामको एक रगता नात्याचो अनुभव दिसलो माका. मिजे सहायाक साबार हात पावले. खंयीच वचुका तरी गाड्येर व्हरूक एकलो तयार, एकलो मोवाळ कांबळे घेवनु पावलो. हंय साकून सकाणाचें खाण तरी थंय साकून देनपारांचें जेवण. आनी खंयीच साकून रातीचें जेवण. तशी तरातरा सहाय दीवूक एकेक वळकीचोय पावलो. अपर्णाचे खातीर चोक्लेटां, फुलां, वाचूक बूक आदी घेवनु आनी थोडे पावले.

कसलोच चिडचिड वा कोडू उतरां नाशिल्लो तिजो शांत स्वभाव आनी आपली अवस्था संयमान स्वीकारून पूरा सहकार दिंवचे तिजे रीतीक वांकाणसून नर्साय तिजेर मायेन पिश्यो जाल्यो. आनी हांव मिजे अपर्णाचे पासून सामको अभिमानी जालों.

तिगेले शस्त्रक्रियेचे उपरांत सुमार धा दिसांक आमकां आस्पतालांत राबूका जालें. मिजे दयावंत मालक कंपनीन मिजे कुटुंबाक आरोग्य परिरक्षा दिल्लेल्यान आस्पतालांतुले आमगेलें जीवन सुखप्रद करूक थंयचे कर्मचार्यानी पूरा परिश्रम काडलो. आस्पताल एक पंचनक्षत्र होटला कदी, बरें परिसर, उत्कृश्ट सेवन आदीनी एकदम बरें आशिल्लें. अपर्णा तिका मेळचो अविभाजीत ओपुरबायेचो आनन्द घेवूक लागली.

पुण हांव अपराध भाव भरून विविडेतालों. मिगेले आनीक भाग्याले अम्मा बप्पाक अपघाताचे विशीं कशी कळयतलों. हांवें सांगचे सत्यावस्थेर तीं विश्वास पांवतलीं वे? किं आनी किंतेय कल्पना करूक लागतलीं?

मिगेले अम्माबप्पाचे लागी इंटरनेटावेल्यान सदां चेट करची सवंय माका आशिल्ली. वैकुंठ एकादशी राति हांव कित्याक चेट करूक आयलोना म्हूण तांकां विचार जालो आसुका.

शस्त्रक्रियेचे दिसा सांजे मिगेले अम्मान माका फोण केल्लें. मुर्थमले दिसा आमची कसलीच खबरी ना कित्याक म्हूण जाण जावूक फोण करताली. आफीसांतुले कामाचे अडचणा पासून हांवें कितेंय एक कारण करून सांगलें. अम्मान अपर्णाचे आनी अपूर्वाचे पासून निमगीलें. त्यो दोगांय सुखान आसाय आनी भायर खंयीच खेळूक गेल्लेल्यान आतां फोणांत उलोवूक पांवचाक जांवचेंना म्हूण माका फटी सांगूका जाली. अपर्णा तेन्नाय अनेस्तेश्या दिल्लेल्यांत साकून सुबोधांत पावली ना आशिल्ली म्हळ्ळेली तं सत्यावस्था.

सर्वय बरें आसा म्हूण दिसोवूक हांवें भाग्याले अम्माबप्पाचे लागीय फोण करून खंय लागूनाशिल्लीं वर्तमानां उलयलीं. मागीर भाग्याचे लागीय उलोंवचाक दिल्लें. आमी भोगूचे तीव्र अनुभवांची एक सूचना सरी तांकां जाणयनाशिल्लें तीवय उलयली.

इतले दूरा आशिल्ले आमचे घरकारांक दुख दीवूक तशीच तांचे हुसक्याक फूंक मारून भगभगांवचाकय माका इच्छा नाशिल्ली. तांनी अपर्णाचेच लागी उलयलीं तरीय तांचो हुस्को निंवतलो म्हूण कशी कळत? तें मात्र न्हय आमी सगटय घायल जावनु थोंटीं पाकरीं बि जाल्यांय म्हूण तांकां शंका लागत तरी! आमी आस्पतालांत साकून घरकडे पावनु जावनु मात्र तांचे लागी हाजे विशीं उलयतलीं म्हूण हांवें आनी भाग्यान निर्णय काडलो. आमचे अम्मा बप्पाचे लागी सौम्य जावनु ही खबरी जाहीर करतले म्हूण पूरा विश्वास दवरयात जाल्लोलो मिजो धाकलो भाव सुरेश आनी भाग्यालो म्हालगड भाव मनोहर हांचें वाटेन जाणोवूं म्हणूय दवरलें.

तिसरे दिसा अपर्णाक चमकूचे सहायक जावनु एक वाकर दिल्लें आनी थोडीं पावलां दवरूक सांगलें. तीणे धीर काडून एकेक पावल दवरलेलें पळोवनु हांव प्रायः रडून गेल्लों. तीणे पयलीं जावनु चमकूक शिकतना दवरलेले अधीर पावलांचो उडगास आयलो माका. कितलो आनन्दाचो दीस आशिल्लो तो आमकां. सुमार इकरा वर्षां उपरांते आज ती दुशेर तिजीं पयलीं पावलां दवरता... एकच समयार हांव दुःखी आनी हर्षपूर्ण जालों.

अपर्णाक पायांचे खातीर सरळ व्यायामां शिकोवनु दिंवचाक सदां एक फिसियोतेरापिस्ट येतालो. इतल्यान तिजे पाय बळ वोचून सुकूक लागलेले. पायांचे ताकत राकूक जावनु ताणे सांगून दिल्लेलीं हीं व्यायामां तीणे निरंतर अभ्यास करका जावनु आसा. हांवेय तांची विधि शिकून काडून तिका सहाय करूक लागलों.

आस्पतालांत तरीय आमी क्रमान आमचे नित्यक्रमांत परतूक लागलीं. हरद्याचे उजवे भागाक आशिल्ली एक सूज विना अपूर्वा दोन दीस भितर सामकी जाली आनी स्कूळांत वचाकय लागली. आमी सर्वय आस्पतालांतूच तं राबतालीं आनी स्कूळांत वचे खातीर

यूनिफॉर्म घालून खांदार स्कूळबॅग लांबयलेले अपूर्वाचे साथ आस्पतालांतुल्यान चमकून वाहनार चडूक भायर वतना माका तमाशा दिसताली.

भाग्याचे तोंडाची सूज ऊणे जावूक लागली आनी दोळ्यांत रगत पेंडयलेलेंय ऊणे जावूक लागलें. चडशें खंचेय समयारीय मित्रां आनी शेजारीं येतावता राबलेलीं आनी खबरी उलोवनु वेळ सारप जालें दिसाचें मुख्य काम. धारावाहिकां पसंत करचीं आस्पताला कुडांतुले टीवीचेर तीं भंग नाशिल्लें सतत पळयत राबलीं. हिंदी चलचित्र मुन्नाभाई एम बी बी एसाचें पयलें प्रदर्शन भारतांत चमकीलें आनी तशीच हॉलीवुड चलचित्र 'फैंडिंग नेमो' चेंय. तांच्यो वीसीडी माका मेळ्यो आनी सीडी प्लेयर उपयोग करून हीं चलचित्रां पळयलेलीं अपर्णाक दुकेचे मद्दें हास खेळाकय साध्य जालें.

तें बरें आरामी आस्पताल दुशेरे एक घरा सारकें जालें. आमी कदेलांचेर, सोफांचेर, अतिथियांचे खातीरचे मांचार आदी बेसून पडून रातीचें निदलीं. आस्पताल एक पंचनक्षत्र होटेला सारकें म्हूण तांय दिसूक लागलें.

सदांच नेमाल हांव घरकडे वचून मिगेले अम्माबप्पाचे लागी कसलेंच घडूनाशिल्ले कदी चेट करतालों. मुर्थम हांव वेबकॅम उपयोग करतालों तरीय आतां हांवें मिगेलें चलयनाशिल्लें दवरलें. घरांत हांव एकलोच तं आसा म्हूण तांकां कळोवनाशिल्लें राबूका. हांव स्वयं अपर्णा अपूर्वा आनी भाग्या जावनु, हांचे लागी तं तीं चेट करताय म्हूण मिगेले अम्माबप्पाक विश्वास हाडयलो. स्कूळाचे, शिकवणेचे, मित्रांचे, टीचरांचे विशीं निमगीलेले प्रश्नांक जाप दिल्ली. वासर्येतुले विशीं संशय निमगीले. दंदकारनीचे हे ते समस्ये पासून सगट भाग्या म्हणून चेट केल्लें. आस्पतालांत वास केल्लेले धा दिसांकय सर्वय सामकी चलता म्हूण तांकां विश्वासान राबयलीं. भाग्यानय मोबायल

फोणांतुल्यान आपले घरकडे उलयलें, दोगांय चेरडुवांचेय कर्यानय उलवयलें. सर्वांचेय मनसमाधानेक जावनु आमी धोंगी जीवन काडतालीं.

आस्पतालांत साकून सोडोंवचे पयलीं अपर्णाक वाकराचो आनी क्रचसाचो उपयोग करूक शिक्षण दिल्लें. व्हीलचेयर उपयोग करून तिका अळतापेळतांत वचुयात आनी भायर भोंवचाकय व्हरयात म्हूण डॉक्टरान म्हळ्ळें. सर्व कार्यांतूय तशी तिकाय एकडे करूक जांवच्यान आपल्याक निसहाय म्हूण चिंता येंवचीना म्हूणूय ताणे सांगलें. नायरोबींतुले सार्वजनीक जाग्यांचेर आनी इमारतांत व्हीलचेयर अनायास उपयोग करूक देंवती पायवाटो आनी खास पार्कींग जागेय आसाय.

इतले दिसांनी घरांत परतून पावनु अपर्णा आपलें कूड आनी खेळणो पळोवनु खुश जाली. तिगलें कूड खास रीतीर आमी सजोवनु दवरलेलें आनी तिका स्वयं मांचार साकून व्हीलचेयराचेरीय परतून मांचारीय परसहाय नाशिल्लें वचाक साध्य जांवचे तशी जालें.

शस्त्रक्रिया केल्लेले भागाक बांदिल्यो पट्टीयो दिसाक दोन पावट परतूका. एकेक पायाकय शस्त्रक्रियेचे मावेर स्टीलाचीं दोन डजन स्टेपळां मारून आसाय. जाल्यारीय ती तेन्नाय संतोषवती आशिल्ली आनी आबू अपम्मा, अज्जो अम्मम्माचे लागी उलोवूक तयार जाली.

मिजे आनी भाग्याचे भावांचे वाटेन हो विशय जाणोवपाची शुरुवात करूक हांवें मानसिक तयारी काडली. चेन्नई साकून मिगेलो भाव कोची घरकडे आसूचो समय चोवनु हांवें ताका फोण केल्लें आनी ऑणलाय्न येंवचाक निर्देशु दिलो. आमी कण्णेक्ट करतना ताणे वेबकॅम चालू दवरलेल्यान माका तागेलें तोंड दृष्टि पडता. हांवेंय मिगेलें कॅमॅरा चालू केल्लें.

मिगेलीं अम्मा बप्पा जेवणा मेजाकडे बेसून जेवताय आनी

कसलेंय कायरीं उलोवनु हासताय माका दिकूक येता. हांवें तांचे लागी सांगूक वची दुखदायक खबरी आनी ताजान तांचो संतोष हरण जांवचें आलोचना करून मिजें हरदें फुटून गेल्लें. हांवें मिगेलीं उतरां याहू चेट बॉक्सांत टाय्प करून एंटर दांबीलें.

हांव कितें सांगूक पळयता म्हूण सुरेशाक समजलेंना. कितें? अपघात? कोणाक, केद्दाणा, कशी, खंतय? आतां सर्वय सौख्य वे? तो चिंतेंस्त दिसता. एक भयंकर बैक अपघातांत तो मुर्थम पडलोलो आसा आनी तेन्ना हांव तं ताजे सांगातांत सहायाक आसलोलों.

हांवें ताजे लागी शांत राबूक सांगलें आनी अम्माबप्पाक आतांची आपोवनाका म्हूण ताकीदय दिल्लें. व्हीलचेयरार बेसल्ले अपर्णाक हांवें संथ कॅमॅराचे मुकार हाडली, तिजे पायांचेर आनी शस्त्रक्रिये मावेचेर केंद्रित केल्लें. अपघातांत मोडलेले तिजे पायांक शस्त्रक्रिया करका जाली म्हूण टाय्प केल्लें. इतले दूरा बेसून तो माका अविश्वासान पळोवूक लागलो.

अम्मा जेवण जावनु वासर्यांत गेल्लेले तोडोवाक बप्पाचे लागी ही खबरी सौम्य जावनु जाणोवूक हांवें बरयलें. तो उठावनु जेवणा मेजा लागी वचून बप्पाचे कानांत कितेंय सांगता हांवें दिकीलें. बप्पाचे तोंडावेलो अविश्वास आनी वासर्येभागाक घालची द्रुत दृष्टी दूरा बेसून हांवें पळयलें. आनी तांचीं चिंतेस्त तोंडाय. एक लागेन वासर्येभागाक पळोवनु तीं दोगांय बेगीन कंप्यूटराचे लागी आयलीं. हांवें एक लागेन कॅमॅरांतुल्यान अपर्णाले पाय दाकोवनु दिल्ले. फोण करून तांकां विचार दींवका नाका देखून तं आमी गेल्ले धा दीस ढोंगी जीण जियेवनु फटयतालीं म्हूण बरोवनु माफी मागली.

इतल्यान मिगेली अम्मा वासर्यांत साकून हात पुसून भायर येता आनी कंप्यूटराचे मुकार अप्पा आनी सुरेश बेसल्यांय पळोवनु कितें विशेषु म्हूण पळोंवचाक जावनु येंवचें तें दृश्य आजीय माका

स्पश्ट उडगास आसा. हांव चेट करूक आयलोलो आसा म्हूण अम्मालें संतोष भरीत तोंड कॅमॅराचे लागी पांवतना घुस्पागोंदळांत पडचें, मागीर हुस्को भरचो, धपको लागूचें सगट माका दिकूक येता जेन्ना सुरेश वस्तुस्थिती समजावनु अम्माक शांत करूक पळयतालो. हांव अपर्णाले पाय एक पावटी लागेन दाकोवनु दितना अम्मा निसहाय रडकूळे दृष्टेन कॅमॅराक पळोवनु राबलेली.

थोडे घडी मुर्थम आशिल्लें तें समाधानपर चित्र आतां एक निशब्द शोक नाटक जावनु विसकळेवूक लागल्यां. धरतरेचे दोन कोणार बेसून आमी बरोवनु, मोने नाटका समान कॅमॅरा मुकार बेसून, रडून, अळतापेळतांत जांवचे तितलेंच आशयविनिमय करूक पळयतालीं. ते दीस इंटरनेट टेलिफोणीचे आदींचे आसलेले. मागीर हांवें फोणांतुल्यान स्वता अपर्णाचे कर्यानच उलोवयलें जाचान सर्वय सामकें आसा म्हूण तांकां धीर दीवूक सल्प पुणीय जालें.

आतांय हांवें तेद्दुसचें तें चेट बरप संभाळून दवरलेलें आसा आनी ते निर्णायक दिसांचे पासून उडगास काडूक केन्ना केन्ना बाचीतां.

मिगेले घरकारांक आमचे सुरक्षेचे विशीं विश्वास दीवोवनु जावनु हांव भाग्याले घरकडे फोण केल्लें. भाग्यावश तिजे म्हालगडे भावानच जाप दिल्ली. लागी आनी कोणेय ना म्हूण निमगून घेवनु समजून जावनु हांवें कुटक्यानी कुटक्यानी सगळी काणी सांगलीं. पयलेंच जाणोवनाशिल्ले खातीर माफी मागून, आतां आमी सर्वय सौख्य आसाय म्हूण विश्वासूय दिलो. वेबकॅम उपयोग करून मिगेले घरकारानी अपर्णाक दिकल्या म्हणूय जाय तरी स्वता तांकां फोण करून निजस्थिती समजूयात म्हणूय हांवें सांगलें. तशी तो अध्याय थंय समाप्त जालो.

## गांवांत परतूचो निश्चय

अपर्णा सदांच व्यायाम अभ्यासेताली आनी नेमान तिजी स्थिती सुदारूक लागली. मिगेली निरोधाज्ञा कानांत व्हरनाशिल्लें ती बिनसहाय अशी तशी भोंवूक निर्बंध धरताली. एकेक वेळार व्हीलचेयराचेर साकून खालाक देवनु आपले हातानी आपल्याकच ओडून कूडांत हंयथंय भोंवताली. पायांचेर भार पडूनाशिल्लें संभाळून, बेसून झरून भोंवताली. आनी एक फंतां माळीये मेटांवेल्यान देवनु खालाक आयली तशीच चडून ऊंचय गेल्ली. ती तशी घरांत झरून झरून भोंवता पळोवनु माका भोव दुख भोगलें आनी तिका असले अवस्थेंत पावयलेले खातीर स्वता आपल्याचेरीच अत्यधिक कोप भरलो. एकलोच आसतना दुख तरासूक जावनाशिल्लें केन्ना केन्ना रडलों. खालचे माळियेर तं टी वी दवरल्या म्हळ्ळेलें कारण जावयात तिका खालाक हाडतालें. तें दिकून आमी टी वी ऊंच माळियेर तिगेलेच कूडांत व्हरून दवरली.

तिजे खातीर खास कम्मोड करयलें जाचान न्हाण्येंत वची तिजी भोंवडी ऊणे जाली. ताजेर चडोवनु बेसोंवचाक हांव तिका सहाय करतालों. तशी एक मास दांटवून गेल्लो.

अपूर्वाकय सुमार एक मासाक सूजी आशिल्ली. अपघाताचे समयार मुकार आडोळनाशिल्लें राबूक जावनु हांवें तिका हातान धरूक श्रम काडलेले तेन्ना तिजे हरद्याचे उजवे भागाक बळान लागलोलो. थंय तिका दुकि आशिल्ली.

तरीय जीविताक आपलेंच एक जादू आसा. अपर्णा व्हीलचेयर उपयोग करचो सोडून वॉकराचेर पावली. वॉकरार साकून क्रचस, क्रचस साकून बडीये उपयोगार पावली आनी एक शुभदिसा सकाणी

ती स्वयं, विना सहाय उठावनु राबली. माका हुस्को आशिल्लोच तरीय तिजी भोव उत्कट इच्छा आशिल्ली धांवपाची. आनी ती धांवलीय. ते निर्णायक अपघाताचे णवी दीस उपरांतें ती धांवूक लागली.

हांवें केल्लोलो शपथ उडगासांत आयलो आनी तो पुरतो करूक माका दिल्लेली इच्छाशक्ती आनी धैर्याचे खातीर हांव देवाक उपकार सांगूक लागलों. आपले निसहायावस्थेक जिखूक स्वता अवर्णालेंच धैर्य आनी इच्छाशक्ती ताजाकय चड कारण आशिल्ली.

ती स्कूळांत वचाक आनी स्वाभाविक जीण जियेवूक लागली. मोडलेले हाडांक धरून राबोंवचीं स्टीला प्लेटां आनी स्क्रूवां सयत आमी थोडे मृग केंद्रांत तांय गेल्लीं, वन्यमृगांक पळयलीं, ओस्ट्रिचांचे फाटीर भोंवडी केली, मजा केल्लें.

मोडलेले हाडांक सुदारूक काडचो स्वाभाविक समय, स मास, उपरांत तेच आग खान आस्पतालांत चार घंट्यांची दुशेरी एकि शस्त्रक्रिया लागेन भोगून तीं स्टीला प्लेटां काडून उडयलीं. तशी तें भयानक सपन अंत जालें म्हूण समाधानेन उणे दिसानी आमी घरकडे परतलीं.

पुण तें भयानक सपन सातत्यान आरांभूचें आशिल्लें. घरकडे पावनु धा दीस भितर एक पाय दुकता म्हूण ती सांगूक लागली. किंतेय घुसपल्यां, मोडलेलें हाड सामकें सुदारलेना बि जायत म्हूण आमी हुस्क्यान एक्स-रे काडून पळोंवचाक जावनु आस्पतालांत धांवलीं. पुण सर्वय बरें आसा म्हूण तानी धीर दिलो आनी दूकी कळूनाशिल्लें राबूक गुळ्यो दिल्यो.

पुण मिजें भय सत्य जावूक लागलेलें. दुशेरीय धपको लागलोच. कमोडाचेर बेसल्ले वेळार तिजो उजवो पाय परत मोडलो. हे फंता

तिजी बोबाट घरांत भितरीच आशिल्ली, पुण परिसरांतुले सगळ्यांनीय आयकूचे तितले होडान. कमोडाचेर बेसल्ले कडे साकून तिका उबारून मांचार बेसोंवचाक जावनु मिजें मनोधैर्य पूरा उपयोग करका जालें. ती किंचाट घालत राबलेली. आपले पिलांक रक्षण करचे माजरी सारके तीव्र भावान भरून आशिल्ली. एक घायल मृगा कदी लागी वचाक सरी आमकां एकल्याकय अनुवाद दीना आशिल्ली.

आंबुलंस आपोवनु हाडून, तिका माळियेर साकून उबारून खालाक हाडका जालें. आमी परत आग खान आस्पतालांत पावलीं. प्रायः एक कालचक्रांत घुस्पून पडलेले कदी दिसलें आमकां. ते घटणूकांची संकाळ पयलीं साकून परत आरांभूची पडली, हे पावटी एक पायाचेर.

तोच डॉक्टर, तसलीच शस्त्रक्रिया, तसलींच नवीं प्ळेटां चडवप, नवीं स्क्रूवां वेगळे जाग्यांचेर... तींच उत्कंठापूर्वक मित्रां, शेजारीं - सर्वय परत तशीच.

हांवें एक निर्णय काडलो. हे फंता शस्त्रक्रियेचे उपरांतें गांवांत परतूक निश्चय केल्लो. केनियांतूलो आमचो वास अंत्यार पांवचो आसा. परतपरत येंवचीं हीं मिजीं स्थलांतरां विरोध करीनाशिल्लें हांव जो नवे जागे संतोषान स्वीकारतालों तो हांव हे पावटी गांवांत वचाक वांवटेवूक लागलों. मिगेले धूवेक यात्रा करूक साध्य जावू पर्यंत माका केनियांत पेटेयलेले मिगेले मालक कंपनीन कोची गांवांतुले, एक शाखेंत एक पद मिजे खातीर राकून दोन मासांक रित्तें राबोवूक उदारता दाकयली. एक असहाय व्यक्तीक व्हीलचेयराचेर बेसोवनु विमानाचेर एक राज्यांत साकून आनी एक राज्यांत व्हरचे विशीं जाण जांवका जाल्लेलें पूरा हांव जाण जावनु तयारी केल्ली.

यात्रे मद्दें एक पावटी सरी तीणे भूंयचेर पायु लांवका जालोना.

तिका उबारनु काडून, देवोवनु, चक्रांचेर ओडून एक घरकडे साकून आनी एक घरकडे, एक राज्यांत साकून आनी एक राज्यांत व्हेल्ली. अंड्यांची एक पेट व्हरचे कदी संभाळून चार विमान अड्यां उपरांते आमी गांवांत पावलीं.

कोची विमान अड्डेंत विमान देवतना हुनयाळें वोलसार वातावरणान आनी समुद्रा वास भरलेले वार्यान आमचें स्वागत केल्लें. हांगा साकून मिजी यात्रा आरांभिल्ली आनी आतां हांगाच मिजे हे पूर्वीकांले गांवात अंत जाता, एक नवे आरंभाचे खातीर.

कोची पावनु एक वर्ष उपरांतें सुधीन्द्रा मेडिकल मिषणांतूले डॉ सच्चिदानन्द कामतीन शस्त्रक्रिया करून अपर्णाचे पायाक घालेलीं प्लेटां काडून उडयलीं.

अपर्णा आतां एक तरणाटी, जी आपले धपक्याच्यो मावो लाघवान काडता, एक गूढ मंदहास आनी मस्करी भरलेले दोळ्यांची, सुरक्षित सशक्त आनी आरोग्यवती जावनु भोंवता. मिगेले दोळ्यांतूली बावली, मिगेली पयली संतती, मिगेली मोगाची सोबित धूव...

अपर्णा परत धांवता.



# आफ्रिकेक अलविदा

मित्रानो, आज हांव तुमचे मुकार राबतना, फुडलेचीं हीं मिजीं दोन वर्षां एक चलचित्रा सारके मिजे मनांतुले रंगमंचार प्रदर्शित जाताय. हांवें पावलेले तेन्नाचे पयलेचे दीस, तुमचे हे महान राज्यांत भोवनु आमचे कंपनीचे साबार शाखेंत गेल्लेलीं, मिजे कुटुंबाक हांगा हाडलेलें, तांगेलो हांगाचो वास, स्कूळां मॉळां, आनी सर्वोपरी हांगाचीं चमत्कारीक मृग केंद्रां. आमी भोगलेलीं परीक्षणां आनी संघर्शां, सूख आनी दुख हें सर्वय मनांतुल्यान झळकून वता आनी माका दिसयता कि फकत काली तं हांव हांगा येवनु पावलोलों आनी तेद्देभितर आतां यात्रा सांगचें भाषण करतां.

मिगेले जिवितांतु यात्रा सांगचीं साबार साहचर्यां, प्रायः दर दोन वर्षांनी आयल्यांय आनी तांतूलें एकेकय दुखमयच आशिल्लें. भारतांत साकून भायर सरचे मुर्थम लागेन हो दीस अनिवार्य म्हूण कळून, हे दिसा कितें सांगतलों म्हूण आलोचना केल्या. होवय एक विकारमय वियोग वे आसतलो, हे दुरचे राज्याचे सहप्रवर्तकांचे लागी सांगूक मिजे लागी कितें आसतलें, मिजेर तांकां माया आसतली वे कि तिरस्कार करतलीं?

आज तो दीस पावला. तुमी सगटानीय मिजेर दाकयलेली ममता आनी आपलेपण आनी तुमचे भावनेंचो प्रवाह हांवें दिकला. खरें जावनु हांवय तुमचेर तीच भावना दवरतां. व्यक्तीपर जावनु उपकार सांगूक शेंबरांचीं नांवां काडूक आसाय; लोस्यालोय, मुंबी, वोछुछो, जेमो. ओमोंडी, कोफ्वारे याला, मायिता, मूली, ओब्वाका, ओकेम्बा, गांगा, अन्डीवा, वेरे, किमालू, कमाऊ, थैलू, ओटियेनो, ओछियेंग, मुटूकु, ओजियांबो, कारांजा, यवाया, गाडि, बाट्सी, मुदे,

न्यंबाटी, न्यंगांव, ओन्यांगो, वांबूगु आनी मुटोका, तुमी, मिजे सर्व दयावंत मित्रानीय, मिजी जीण संपन्न केल्या. आनी तुमचो सहकार आनी सहाय नाशिल्लें हो आमचो विभाग इतले साबार ऊंच चडचो ना आशिल्लो. हांव तुमकां उपकार सागतां, तुमचे सांगातांत खर्च केल्लेले एकेक निमिशाक, आमी संयुक्त जावनु काडलेले एकेक योग्य निर्णयाक, आमी पावलेले एकेक महत्त्वाचे लक्ष्याक, कंपनीचे खातीर तुमी काडलेले प्रयत्नांक सर्वय उपकार सांगतां.

तुमचीं नांवां पळयतना हांव समजतां कि हांगाचे विविध जातींक प्रतिनिधान करचें एक सान केनियाच मिजे मुकार आसा. किकूयु, कांबा, लुओ, कालेंजिन, मसाई आनी वेगळे साबार जातींचीं, कंपनीचे आनी केनिया नांवाचे हे महान राज्याचे खातीर काम करचीं हांगा एकसानीच बेसून आसाय. माका भारताचोच उडगास येता जंय विविध धर्मांचे लोकांचे मद्दें असलोच विश्वास आनी दोस्ती दिकूक येतली. आनी कोणाचेय पशी चड आमचे हे दोन राज्यांक तं लोकाक सांस्कारिक वैविद्यतेंत एकते विशीं शिकोवनु दिंवचाक जातलें.

यात्रा सांगचे असले समारंभांचे समयार उलोंवचाक सर्व पावटीय भो कठिन आसा आनी असले एक स्थलार साकून तं जाल्यार, माका आनी दुशेर पांवचाक साध्यता नाशिल्लो स्थाय तरी हें प्रयत्न एक लागेन कष्टकर जाता. कालि रात्ती, केनियांतुली मिजी निमणी राति, तुमचीं सगटालींय तोंडां मिजे मनांत आयलीं. राति साबार वेळु तांय हांवें तुमचे पासून आलोचना केल्ली, तुमकां आपलें आपलें जीवित लक्ष्य पावूक साध्य जावूक, तुमकां अर्ह आशिल्ली पदोन्नति मेळूक, तुमकां आनी तुमचे कुटुंबाक समाधान, ऐश्वर्य आनी आरोग्य भरपूर मेळूक हांवें प्रार्थना केल्ली.

मित्रानो, मिजे जीविताचीं सर्वापशी चड घटणापूर्ण दोन वर्षां तं हीं गेल्लेलीं. दोनी वर्षां, जे समयार तुमचे राज्याचे विशीं, तुमचे

संस्काराचे विशीं, तुमचे जीवित रीतीचे विशीं आनी तुमचे बंधुत्वाचे भावनेंचे विशीं समजूक हांवें प्रयत्न केल्याय. संतोषाचे उंचायेरीय दुखाचे खोलायेंतूय मनुशत्व कितें म्हूण तुमी माका शिकयल्यां. हांव नम्र जालां, तुमचे सारके अविश्वनीय जनांचे सांगातांत हीं दोनी वर्सां खर्चूक जाल्लेल्यान हांव खुशभरित आसां. हांवें तुमकां दिल्लोलो स्नेहु, तुमी समृद्ध जावनु माका परतून दिला. माका चड आवश्य आशिल्ले तेन्ना सहाय करून तुमी परत सिद्ध केल्यां कि मनीशपण म्हळ्ळेली आदिमकाळाची भावना राज्यांचे, वंशांचे आनी जातींचे अतीत आसा. हे केनियेचे भुयेंर हांव आतां जीविताक आदर करूक शिकलां, फुडल्या पशी चड जावनु. हांवें तुमचें हें विशाल राज्य पळयल्यां, ताजे रानवाठारांतुल्यान भोंवलां, रातीचें चीतांची खोंकली आयकल्या, पराक्रमी सिंहांचें गर्जन आनी प्रभावशाली हसत्यांचे जड पायांचें गडगडाहट आयकल्यां. प्रकृतीचे विनाशकर प्रक्रियेन भूंय चिरलेली रिफ्ट वाली पळयल्या. भूमध्य रेखेचेर आशिल्ले केनिया पर्वताची थंडाय अनुभव केल्या.

मित्रानो, हांव तुमचे घरांत पावलां, तुमचीं चेरडूवां धावनु भोंवताय पळयल्यां. आमी सांगातांत खाण जेवण केल्यां, सांगातांत भोंवडी केल्या. तुमचे गांवांत आयलेले तेन्ना तुमी माका संभाळिला, तुमचे काण्यांचो आनी तमाशेंचो माकाय सहभागी केला. तुमचे म्हालगड्यांक आनी मुखेल्यांक, तुमचे अम्माबप्पाक आनी अन्य संबंदियांक तुमी कशी आदर करताय म्हूण दिकल्यां.

जशी तुमी तुमचे अम्माबप्पाक वा संबंदियांक मेळूक गावांत वताय तशीच आमचीं मायेस्तांय भारतांत आमचे आगमनाक दीस मेजून राकून बेसलेलीं आसाय. आमचीं अम्माबप्पा आशिल्ले कडें तं आमचें घर. तीं तांचो बिनशर्त मोगु आनी फाटबळ दीवूक तयार जावनु, दुर्घटणेचे आघातांत साकून पूरा मुक्त जायनाशिल्ले मिजे

धूवेले आतांचे हे अवस्थेंत, आमचे खातीर उत्कठापूर्व राकताय.

आतां हो समय पावला, मिजे प्रिय मित्रानो, माका कुटुंबसयत परतून वचाक, जशी सर्वांक एक ना एक दीस करका जाता तशी, जंय साकून आमी आयलेलीं थंय वचाक वेळ पावला. केनियांतुली मिजी जीण आतां अंत्यार पावल्या आनी फाय हांव भारतांत परत जन्मु घेतलों. आज सकाणी तुमचे मुकार हांव राबून आशिल्ले वरीच फाल्ले सकाणी हांव पांच सासु किलोमीटर दूरा, समुद्रान वेगळायलेले भारतांत मिजे नवे जीविताचे पयले दिसाचे खातीर तयार करून असलेच एक आफिसांत राबलोलों आसतलों.

स्वताचे नावांन आनी मिजे कुटुंबाचे खातीरीय तुमकां हृदयपुरसर उपकार सांगूक जांवचेंच एक विशेश अधिकार जावनु हांव लेकतां. हांव देहान भो अंतरार आसतलों तरीय मिजो आत्मो पुसूक जायनाशिल्ले आनी सदा खातीर कोरांतून घाल्लेले केनियाचे उडगास घेवनु भोंवतलो. हांव आतां वचे संतोषान आसा तरीय हो वियोग अनिवार्य जाल्लेल्यान दुखी आसा. तुमी केन्ना तरी भारतांत येताय जाल्यार, हांव खंयीच आसा जाल्यारीय माका संपर्कु करूक विसरूक नज. तुमकां सर्वांक दुशेर पळोंवचाक जांवचेंच आनन्दप्रद असतलें. तुमकां आतिथ्य दीवूक, तुमचे सांगातांत बेसूक माका भो खुशी जातली.

मित्रानो, आतां माका घरकडे परतूचो वेळ पावला आनी मिजे वरीच तुमकांय असलोच एक दीस येवूक आस धरतां. प्रार्थना करतां जेन्ना तुमकां घरकडे वचुका म्हूण दिसतलें आनी तो दीस तुमचोय जीवितांतुलो सर्वोपरी संतोषकर आसतलो.

अलविदा मित्रानो, आमकां आतां दुरा सरया, दुशेर भेटूक जावनु केन्नातरी, खंयतरी, हे आमचे सुंदर धरतीचेरी...

तुमकां सर्वांकय सुखसौख्याची आशंसा करतां...

# श्रीमती सूर्या अशोक हांचीं इतर पुस्तकां




## अमृतवाणी

संत आनी संतवाणी



2008 वर्षा उजवाडाक हाडलेल्या हे पुस्तकांत भारताचे कबीरदास, तुळसीदास, सूरदास आदी णव संतकवींचें व्यक्तित्व आनी कृतित्व संग्रह केल्यां. पुस्तकाक कोचीचे डॉ स्वर्णलता जी. पै हानी सुंदर आनी सहज रूपान प्रस्तावना बरयल्या. "...वाडून येंवचे कोंकणी साहित्यांतु श्रीमती सूर्या अशोकान आनी एक सुंदर फूल दवरल्यां... ही एकि नवरत्नश्रेणी. हांची अमरकाणी आनी अमृतवाणी समस्त कोंकणी वाचकांक प्रियकर जातली म्हूण विश्वास पांवतां."

204 पानां. मोल 220 रुपया.

# गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो

(कविता संग्रह)



2007 वर्षा उजवाडाक हाडलेल्या ह्या कवितासंग्रहाक उडुपीचे प्रो. एम. एन. प्रभु हांगेली प्रस्तावना लाबल्या. हांनी तांतू म्हळ्यां - "मेरूसदृश अक्षरवृक्षांतुल्यान पडिल्यो गुंजियो एकत्र कर्नु कवयित्रीन ह्या संग्रहांतु पुंजायल्या... फुडे काळांतु भांगार तोलचाक गुंजियो वापरताले. हांगा येवंच्यो गुंजियो भांगराक समान तुल्य जावन आस्सति... सप्रास ताळ, लयबद्द तेजः पुंज पदपुंजाच्या ह्या काव्य कुंजवनांत विहार करचेंच एक अमोघ संतोष..."

ह्यो 200 गुंजियो ७ विभागांत पुंजावनु सजयल्याय - सैम शिल्पां, चित्र विचित्र, भक्ति-सुक्ति, सपनांत उपजलीं कवनां, उम्मास पुन्नव, चिंतनांची ल्हांरां अशी.

132 पानां. मोल 100 रुपया.



# पुनर्जनी

(कथासंग्रह)

2005 वर्सा उजवाडाक हाडलेल्या ह्या कथासंग्रहाक श्री. शरतचंद्र शेणै हांगेली प्रस्तावना लाबल्या. 'श्रीमती. एन. एम. सरस्वतीबाय' स्मृतिपुरस्कार मेळ्ळेली 'देवदूत' कथा सयत, सात भावपूर्ण आनी सप्तरंगा वरी वैविध्याच्यो कथा ह्या संग्रहांत एकडे केल्याय.

ह्या पुस्तका विशीं उडुपीचे प्रो. एम. एन. प्रभु म्हण्टाय- "ह्यो काण्यो लेखिकेले जीवनदर्शनाचेर प्रकाश घालतातित. उत्तम समाजचित्रण, संवेदनशीलतेन परिपक्व जालेल्यो, लेखिकेल्या अनुभवान सरळ आनी सुंदर रीतीन बरयल्यो ह्यो काण्यो वाचकांक मंत्रमुग्ध करच्यांत यशस्वी जातातित".

लेखिकेन स्वयं रचिल्लें रंगीन मुखचित्र.

68 पानां. मोल 65 रुपया.



# कृष्णगीत

(सचित्र काव्य)

2004 वर्सा उजवाडायलेल्या ह्या सचित्र काव्यपुस्तकांत लीलापुरुषोत्तम श्रीकृष्णाली जन्म धरून कंसवध पर्यान आशिल्ली, कृष्णकथा आसा. हाचे प्रस्तावनेंतुल्यान श्रीमती सुशीला टी. भट हांणी म्हळ्यां - "सान चेरडुवांक सरी प्रयास नातिल्लें समजूक साध्य आसिल्ले रूपान अत्यंत सरळ भाषेन वर्णन करूक जालेलें कवयित्रीले भाषा स्वाधीना निमित्तींच. ताळनिबद्ध आनी प्रासबद्ध पंक्तियो विविध मात्रेंचेर रचल्याय. कोंकणीच्या भक्ति साहित्याक आनी बालसाहित्याक केरळाचो एक उत्तम उपहार". हांतूलीं चित्रां आनी रंगयाळें मुखचित्र लेखिकेन स्वतः रचल्यांय.

36 पानां (व्हड आकाराचीं). मोल 75 रुपया.

# शेणै प्रकाशनाले इतर उपहार



## होळळम्मालो काणियांचो पेटारो

(कथासंग्रह)

परंपरागत लोक काण्यो आनी स्वकीय काण्यो मेळोवन तीस काण्यो एकडे करनू श्रीमती वत्सला आर. शैणै हानी भुरग्यां खातीर बरयलेल्या ह्या पुस्तकाक डॉ. एल. सुनीता बाय हांगेली प्रस्तावना आसा.

2006 वर्षाचें प्रकाशन. 104 पानां, मोल 100 रुपया.

## Small Wonders

(Poems)



'Small Wonders' is an anthology of English poems by Rupashri Ashok aged eleven. The 35 poems included in the book were composed by her within these past two years. Through expressions and impressions the young poet's love for nature is truly mirrored in all poems.

2008 Publication 44 Pages Rs. **40**

# पुष्पांजली

(काव्य संग्रह)




श्री पी. एस. रामचंद्र शेणै हांगेल्यो बत्तीस कविता एकठांय करून 2001 वर्षा उजवाडाक हाडलोलो काव्य संग्रह. प्रोफ. आर. के. राव हांगेली प्रस्तावना. श्री शरतचन्द्र शेणै हांगेलीं बरीं उतरां. श्री आर. सुधाकर हांणी मुखचित्र रचल्यां. शेणै प्रकाशनालो प्रथम उपहार.

52 पानां, मोल 50 रूपया.




# होळ्ळम्माल्यो काण्यो

(भाग - 1)

ऑडियो कॅसेट

श्रीमती वत्सला आर. शेणै हांणी कथन केलेल्यो तीन सुंदर कोंकणी लोककाण्यो.

2004 वर्षाचें प्रकाशन. मोल 40 रुपया.



# सूर्या अशोक



1969 वर्सा केरळाच्या तृपूणित्तुरा गावांत जन्म. बी. कोम. पदवि आनी कोंकणी साहित्यांत पदव्युत्तर डिप्लोमा जोडल्या. कथा, कविता, नाटक, प्रवासवर्णना, बालसाहित्य आदी जायत्या नेमाळ्यांनी आनी संग्रहांनी उजवाडाक आयल्यां. कोंकणी भाषा प्रचार सभा, वैष्णवरत्न मासिकपत्र, एस.जि.एस. सभा, आदीं कडेच्यान जायते साहित्य पुरस्कार मेळ्ळ्याय. 1999 वर्सा 'श्रीमती एन. एम. सरस्वतीबाय स्मृति पुरस्कार' मेळ्ळो. कवितें वरी कथाय साहित्य वेदींचेर अवतरण केल्याय. 'काव्योद्यान', 'साहित्यदीप्ति', 'कोंकणी काव्यमंजरी', केंद्रीय साहित्य अकादमीचो 'कोंकणी लोककाण्यो' अश्या विशिष्ट संग्रहांत हांगेले कृतींचो आस्पाव जाला. 2004 वर्सा कालिकत अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेचे वेदीचेर हांगेलें 'कृष्णगीत' सचित्रकाव्य प्रकाशित जालें. 2005 वर्सा हांगेलो क्रथा संग्रह 'पुनर्जनी' उजवाडाक आयलो. आनी 2007 वर्सा 'गुंजियो अक्षरवृक्षाच्यो' म्हळोलो कवितासंग्रह वाचप्यां मुकार दवरलो. 2008 त णव संतकवींचें व्यक्तित्व आनी कृतित्व संग्रह करून 'अमृतवाणी' प्रकाशित केलो.

हांका चित्र-शिल्प कलेंतूय व्हड प्रावीण्य आसा.



‘ हांवें विडीयो चित्रांवचे अर्द घंट्या पूरा समयूय
एक मिनुलें सवणे ऊंच एक खांद्यार बेसून
चिंवचिंव करत राबलेलें.
ऊंच आशिल्ले देवदारु रुकांचे कांट्यांचेर साकून
दोवा थेंबे मिजे गोमटे मागशी पडत राबलेले.
गोळ्फ लिंक्साचे बरें पालपोसवण केल्लेले
एक तणामळार साकून
दोवाचीं लिकलिकेंवचीं रूपां ऊंच चडतालीं
आनी भोंवतणे प्रदेश सामको जादूचो जालो.
एका मागशी एक जावनु पातळेवनु पडलेले दोंगर,
रुकांचो आनी फातराळो प्रदेश आदी
ह्या सगळे देखाव्याक छाया चित्रा सारकें दिसयतालें...’

मोल 250 रूपया

शेणै प्रकाशनालो णवावो उपहार